# सर्जकाची आंतरकथा

[साहित्यसेवेंत घडिल्ले दिश्टावे, होलमल्लीं सत्यां]

रवीन्द्र केळेकार



जाग प्रकाशन

SARJAKACHI ANTARKATHA
Essays on literature and litterateurs

प्रकाशन क्र. ६७



पयली उजवाडावणी: दिवाळी, २६ ऑक्टोबर, २०००

उजवाडावपी:
सुमन्त केळेकार
जाग प्रकाशन
प्रियोळ, म्हाड्डोळ - गोंय ४०३ ४०४

अक्षर जुळणी:
राजेश भाटीकार
तन्वी ग्राफिक्स
मडगांव, गोंय ४०३ ६०१

छापपी:
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट्
वळवय, फोंडें, गोंय ४०३ ४०१

मुखचित्र: पुंडलीक वझे, मुंबय

मोल: ९० रुपये

# हे आंतरकथेची आंतरकथा

फाटल्या साडे चार दसकां सावन गोंयच्या राजकी-सांस्कृतीक-साहित्यीक मळार कसलो-न्हय-कसलो वावर करीत आयलां. **मीर्गा** पसून हो वावर सुरू केल्लो. **मीर्गा**चो पयलो आंक १९५३ वर्साच्या १५ ऑगस्टाक भायर सरिल्लो. तेन्ना सावन नवें गोंय घडोवपाक जें जें किसें कुसकें, नश्टें, पाडें आड येताशें दिसलां ताचे आड लिखणेन एका सारको झुजत रावलां. १९८१ वर्सा ह्या मळां वयलें आंग काडून घेतलें. आनी सुमार अठ्ठावीस वर्सां पूर्ण-वेळ चळवळी म्हूण वावरत आयिल्लों हांव पूर्ण-वेळ बरोवपी जालों आनी लिखणेक धाय दिको मेकळ्यो करून दिल्यो.

साहित्य-मोगी मुदलांतूच आशिल्लों. खूबश्या कारणांक लागून मराठी, गुजराती, हिन्दी, पुर्तुगेज आनी इंग्लेज ह्या पांच भासां कडेन दाट संबंद आयलो. ह्या पांचूय भासांतलें मुदलांतलें आनी अणकारून ह्या भासांनी आयिल्लें बरें बरें साहित्य थोडें भोव वाचूंक पावलों. म्हज्यांतल्या साहित्यकाराक ह्या भौ-भाशीक साहित्याच्या वाचनान खूब पोसवण दिल्या.

साहित्याक हांवें केन्ना मन-रिझोवणेचो वावर मानलो ना. हांवें ताका जिवीत घडोवपी एक वावर मानला. उपासना करूंक जाय ती जिविताची, अशें सदां मानीत आनी म्हणीत आयलां. साहित्य हें जिविताचें एक उपफळ – एक बाय-प्रॉडक्ट – हेच नदरेन ताचे कडेन सदां पळेत आयलां. म्हूण, म्हज्यांतल्या कलाकाराक हांवें म्हज्यांतल्या साहित्यकाराचो धनी जावंक केन्ना दिलो ना. सेवकूच दवरलो. साहित्यकार हो विचारवंतूच आसूंक जाय, खासा चिंतपी आनी दुसऱ्यांकूय चिंतूंक लावपी आसूंक जाय, 'सांगपा सारकें' कितेंय तरी आसूंक जाय – मागीर, तें बरोवं तो कथा, नवलकथा, नाटक, निबंध, कविता वा दुसऱ्या खंयच्याय रुपान, अशें म्हणीत आयलां.

साडे चार दसकांचे हे साहित्य सेवेंत जीं सत्यां होलमलीं तीं ह्या पुस्तकांतल्यान वाचप्यां मुखार दवरल्यांत.

एक गजाल मुजरत सांगूंक जाय —

म्हजी भास मराठी, गुजराती, हिन्दी वा हांचे मजगतची खंयचीय एक आशिल्ली जाल्यार बरोवपाचें सपनांत लेगीत घडये येवचें नाशिल्लें. पुणून जल्मा वांगडा म्हाका अशी एक भास मेळ्ळी कीं जी तिच्याच पुतांनी उबंत उडयल्ली. आनी वयल्यान ते हे भाशेंत हें ना, तें ना करीत राविल्ले. आयुष्यभर हो नानाक्कार कानार आदळत रावला तशें तशें मन एके वाटेन खंतीन भरून आयलां, आनी दुसरे वाटेन तिडकीन उसळुनूय आयलां. म्हजी भास कांय खंयच्याच आंगान दुबळी न्हय. मागीर तिच्यांत हें ना, तें ना जाल्यार ताचें कारण जांणी तिका तें दिवपाचें तांणी तें दिलें ना

हेंच म्हणूंक जाय. म्हजे हस्तुकीं हीं पडमूरपणां घडूंक जायनात, म्हज्यान ज़ाता तितलें म्हजे भाशेंतलें हें दैन्य उणें करपाचे यत्न हांव करतलों म्हूण फुरफुरून बरयत रावलां. आयज मेरेनचें कोंकणींतलें म्हजें बरप हे खंतींतल्यान, हे तिडकींतल्यान, लागणुकेचे हे जाणविकेंतल्यान जल्माक आयलां.

एके तरेचें अग्निहोत्र हें, जे साडे चार दसकां सावन चलयत रावलां.

कोंकणीच्या मळार हांवें पावल दवरलां त्या वेळार नागरींत शणै गोंयबाबांलीं आठ-धा पुस्तकां, प्रो. राणू नायकांलीं चार-पांच नाटकुलीं, बयाभाव आनी शां.वि. कामत हांचे दोन कवितां झेले, आनी **वोंवळां** नांवाचो एक कथां झेलो सोडून कांयच नाशिल्लें. आयज सुमार पावणे दोन हजार पुस्तकां आसात. नवीं नवीं एका सारकीं येतूय आसात. कथा, नवलकथा, कविता, नाटकां, निबंध, समीक्षा – हजार तरांचीं पुस्तकां आयज कोंकणींत पळोवंक मेळटात. हांतले तीन वांटे 'रद्दी' म्हूण भायर मारात, उरतलो तो एक वांटो खंयचेय व्हड भाशेक अभिमान दिसचो ह्याच पांवड्याचो आसतलो हे विशीं म्हाका दुबाव ना. इतले बरोवपी मुखार आयल्यात कीं हांव जो तांचो एक म्हालगडो ताका लेगीत अर्दा वयर लेखक वळखनात. कोंकणीचे हे प्रगती-यात्रेंत आतां कोण आडखळ हाडपाचो ना. तिची ही यात्रा आतां खंयच थांबपाची ना. शेंकड्यांनी वर्सांचे उवेखणे उपरांत खासा तीच जागी जाल्या. तीच आमकां मुखार व्हरीत रावपाची आसा.

असल्या ह्या संधीकाळार साहित्य आनी साहित्यकारां संबंदिंच्या म्हज्या अणभवांचो आनी दिश्टाव्यांचो आपरोस आशिल्लें हें पुस्तक नव्या बरोवप्यांचे वाटेर थोडो भोव उजवाड घालपाचो वावर करूंक पावलें जाल्यार कोंकणीक जिवीत ओंपलें हाची खुब्ब खुब्ब खोस भोगतली.

पुस्तकांतलीं बरपां **सुनापरान्त, कुळागर, जाग** बी नेमाळ्यांनी उजवाडा आयिल्लीं घेतल्यांत.

पुस्तकाक **सर्जकाची आंतरकथा** हें नांव स. उमाशंकर जोशींनी कांय वर्सां पयलीं सुचयल्लें.

दिवाळी, २६-१०-२०००

**— रवीन्द्र केळेकार**

# मांडावळ

# १

# फकत बरोवपी ?

जाणटो जातकूच मनीस आपणा संबंदान उलोवपाक बरोवपाक लागलो, जाल्यार ताका उपाय ना. 'हो आतां जाणटो जाला' इतलेंच आमच्यांनी म्हणूं येता.

हरशींय जाल्यार मनीस सदां आपणा संबंदानूच चड उलयता. ह्या कामाक तो जाणटो जावंक जाय, अशें ना. आनी थोरो सारकेलो एक विचारवंत तर नेट दिवन सांगता, कितेंय उलयतलो बरयतलो जाल्यार, आपणा संबंदानूच उलय बरय. तुवें कितें पळेलां, अणभवलां तेंच सांग. आयकलां वाचलां तें नाका. कित्याक, तुजे कडेन तुजें, निजाचें आनी मुळावें अशें जें आसा तें तुवें पळेलां, अणभवलां, चिंतलां तेंच. तें सांगतना दाखय लिपय मात करूं नाका. जिवाभावाच्या इश्टाक सांगतलो आशिल्लो तितल्या मेकळेपणान सांग. येदो व्हड विचारवंत फाटल्यान आसतना कित्याक खांकडूंक जाय ?

पयर मडगांवां पावलों. खूब वर्सां उपरांत गोंयांत आयिल्ल्या एका इश्टाक मेळपाचें आशिल्लें. थंय वाटेर एकल्यान म्हजी 'हो आमचो एक लेखक' म्हूण आपणाल्या एका इश्टा कडेन वळख करून दिली. हांवें ताका हात दिलो. थोडो वेळ आमी उलयले आनी मागीर आपापणाले वाटेन उठून गेले. वाटेर हांवें म्हजे म्हाकाच प्रस्न केलो, हांव कोण ? वेदान्ती लोकांक 'हांव कोण' हो प्रस्न पडटा तेन्ना ते वाचा आनी मन जंय पावना थंय मेरेन वतात आनी 'हांव तो' (सोऽहम्) ही जाप घेवन येतात. म्हजो प्रस्न वेदान्ती पांवड्या वयलो नाशिल्लो. सामको जमनी वयलो आशिल्लो; हांव कोण ? लेखक ? फकत लेखक ?

म्हाका काकासाहेब खाडिलकरांचो उगडास जालो. खाडिलकर मुदलांतले स्वराज्यवादी. लोकमान्य टिळकांच्या हाता खाला काम करपाक लागले आनी करतां करतां लोकमान्यांचो 'उजवो हात' जाले. ते मुस्तींतल्या क्रान्तिकारकांचो आनी लोकमान्यांचो उकतो संबंद येनाशिल्लो. लोकमान्य उकतेपणीं काम करताले. क्रान्तिकारी लिपून. सरळ संबंद येवंक दिल्लो जाल्यार क्रान्तिकारी लोक सरकाराच्या हातांत पडपाचो भंय आशिल्लो. पुणून संबंद तर जुळोवन हाडूंक जायच आशिल्लो. तोवूय लिपचोरयां. खाडिलकरांनी हें काम आपणाल्या आंगार घेतिल्लें. ते देशभर भोंविल्ले. नेपाळांत गेल्ले. खूबश्या क्रान्तिकारी लोकांक लोकमान्यांचे वतीन मेळिल्ले. इतले ते लोकमान्यांच्या वावरा कडेन एकरूप जाल्ले.

'केसरीं'तल्या ज्या लेखांक लागून लोकमान्यांक स वर्सांची बंदखण भोगची पडिल्ली

ते खाडिलकरांनी बरयल्ले.

लोकमान्यां उपरांत खाडिलकर गांधी भक्त जाले. 'ह्या मनशाची निखटी तुस्त करीत भोंवलों जाल्यारूय खूब व्हडली देशसेवा जातली' अशें म्हणपाक लागले. 'केसरी'क हें धोरण पचपा सारकें आनी पटपा सारकेंय नाशिल्लें. म्हूण खाडिलकरांक 'केसरी' सोडची पडिल्ली. ते 'केसरीं'तल्यान भायर आयले आनी 'लोकमान्य' नांवाचें मराठींत एक दिसाळें सुरू करून गांधींच्या वावराक तेंको दिवपाक लागले.

खाडिलकरांचें पुराय जिवीत स्वराज्याच्या ध्यासान खर्चलां. आयुष्यभर तांणी जें जें केलां तें सगळें स्वराज्या खातीर केलां. तांणी नाटकां बरयलीं, वाचूंक येना असल्या लोकांक स्वराज्याचें पिशें लावपा खातीर. लोकांक फकत हांसोवपा खेळोवपा खातीर न्हय. तांच्यांत जागरुकताय हाडपा खातीर. तांगेल्या 'किचक-वध' नाटकाचेर तर सरकाराक बंदी लेगीत घालची पडिल्ली, हाचे वयल्यान तांगेल्या नाटकांची जात कसली आशिल्ली हाचो अदमास करूंक येतलो.

आयज मराठी लोकां मुखार तांगेली प्रतिमा कितें म्हूण उबी आसा ? फ़कत एक नाटककार म्हूण. किर्लोस्कर, देवल, गडकरी हांचे सारकी. टिळक, आगरकर, चिपळूणकर, शिवरामपंत परांजपे सारकेले, त्याच पांवड्याचे, ते स्वराज्यवादी पत्रकार आशिल्ले, हाची कोणाक याद जायना. तें कित्याक, तांच्याच हाता खाला 'लोकमान्यां'त काम केल्ल्या न.र.फाटकांक लेगीत तांचें जिवीत बरयतना हाचो उगडास जालो ना. तांणी जिवीत बरयलां, खंयच्या खाडिलकरांचें ? 'नाट्याचार्य' खाडिलकरांचें !

अखेरेक लोकांचे नदरेंत मनशाची जी प्रतिना उबी रावता तीच खरी, अशें म्हणचें पडलें ना ?

म्हजीय गत थोडी भोव अशीच जाल्या.

हांव 'लेखक' न्हय. हांवें म्हाका लेखक केन्ना मानलो ना. लक्ष्मणराव, बाकीबाब, मनोहरराय, पंडित हे लेखक. हांव तांचे जातींतलो न्हय. बरोवं मागीर हांवें कितलेंय. दोन इंग्रजी उतरांचो आधार घेवन म्हणीत आयिल्लों, हांव कोंकणीचो 'रायटर' न्हय, हांव कोंकणीचो 'फायटर'. तरणेपणांत पावल दवरलां तेन्ना लोहियांच्या प्रभावांत आयलों. गोंय स्वतंत्र जावंक जाय म्हूण ध्यास घेवन बसलों. आरंभाक जांकां हांवें म्हजे 'लिडर' मानिल्ले ते म्हजे तकलेंतले पडले. म्हूण उपरांत म्हज्याच उजवाडांत म्हजी वाट सोदूंक लागलों. चवदा वर्सां हांव हे वाटेन चल्लों. गोंयचे सुटकेच्या गोवर्धन पर्वताक हांवेंय म्हजो तोणको तेंकयला. गोंय स्वतंत्र जातकूच ताचें नकशा वयलें नांव पुसून कांडपाक कांय 'घरचे भेदी आनी भायले चोर' मुखार सरले तेन्ना तांचे आड झुजपाक फुरफुरून आयलां. ह्या झुजांत खूब जाणांनी आपणालें रगत आटयलां. हांवेंय म्हजें आटयलां. गोंयाक गोंय म्हूण दवरपाक म्हजेंय हातबोट लागलां. जे भाशेक लिपी ना, व्याकरण ना म्हूण महाराष्ट्रांतले व्हडले व्हडले विद्वान हिणयत आयिल्ले, ते कोंकणीक आयज जी कितें सुवात मेळूंक पावल्या ती तिका मेळची म्हूण हांवूय वावुरलां. न्हिदो खळयल्यात. म्हजें खरें योगदान तें हें, अशें मानीत आयलां. हांव 'रायटर' जालां

तो म्हज्यांतल्या ह्या 'फायटरा'क लागून. 'कोंकणीक तिची हकाची सुवात जोडून दिली म्हूण भागना, तिका साहित्याचे नदरेन तिच्या भयण-भासांचे पंगतीक व्हरून बसोवंक जाय. देखून, तिच्यांत जें ना तेंय तुवें तिका दिवंक जाय' हें म्हज्यांतल्या 'फायटरा'नूच म्हाका धोंगशीत सांगलां. ताचेच हे धोंगसणेक लागून हांव बरोवंक लागलां. हांव निखटो 'रायटर' न्हय. म्हाका कोणेंय रायटर म्हणिल्लोय म्हाका आवडना. तूं समजता तो तूं न्हय, होच तूं, अशें तो सांगूंक सोदता काय कितें, अशें दिसता आनी म्हाका वायट दिसता. पुणून कितें करूं? लोकां मुखार – खासा म्हज्या सांगात्यां मुखार लेगीत – म्हजी प्रतिमा उबी जाल्या ती 'रायटरा'ची, लेखकाची. तीच म्हजी खरी प्रतिमा, अशें म्हणचें पडलें ना? उपाय ना. देखून हालिंसाराक हांवें 'हांव लेखक न्हय' म्हणपाचें बंद केलां.

[ २ ]

'मीर्ग' सुरू जालां तेन्ना सावन बरोवपाक लागलां. 'मीर्ग'चो पयलो आंक १९५३तल्या पंदरा आगस्टाक उजवाडा आयिल्लो. तेन्ना सावन म्हजी लिखणी जी चलपाक लागिल्ली ती ह्या खिणा मेरेन चलत रावल्या. तीन चार तपांच्या येद्याय व्हडल्या ह्या काळांत बरोवंक ना अशें एक लेगीत सप्तक गेल्लें मेळचें ना. फिरंग्यांच्या पडट्या काळार दोन-अडेज म्हयने पणजेच्या क्वार्तेलार बंदिस्त उरलों. तेन्नाय लिखणी नवी शाळा बरोवपांत गुल्ल उरिल्ली. आतां मेरेन कितलें-शें बरयलें. सगळें सांबाळून दवरूंक ना. पुणून जें उरलां ताचे वयल्यान, धरूंया, नदर भोंवडावंक पावलों जाल्यार तांतले णव वांटे खासा हांवूच 'प्रासंगीक' आनी 'रद्दी' म्हूण काडून भायर उडयतलों. धाव्या वांट्याकूय कातर लावन तें अर्दा परस उणें करतलों. इतलेंय आसून एक गजाल म्हाका सांगचीच पडटली: भायर उडयतलों तातुंतूय पोटतिडके बगर बरयिल्ली एक लेगीत वळ मेळची ना.

'आपणासि जें ठावें, तें इतरांसि शिकवावें, शहाणे करून सोडावें सकळ जना' हे शिकवणेक धरून सगळें बरयलां. हे शिकवणेंत इतलोच बदल केला – लोकांक शाणे करपा बदला म्हजे सारके पिशे करपाक वावुरलां.

म्हाका जें पटलां तें दुसऱ्यांक पटूंकूच जाय, ह्या भावार्तान बरयत आयलां. एक फावट समजावन सांगलें आनी तें पटलें ना, जाल्यार तेंच दुसरे फावट सांगूंक मुखार सरलां. तिसरे फावट आदलेय परस नेटान सांगलां. 'सॅवन्टी टायम्स सॅवन' फावटीं सांगचें पडलें जाल्यारूय उबगूंक ना. फकत समजावन सांगपाची तरा मदीं मदीं बदल्ल्या. केन्ना बाबा पुता करून समजावन सांगलां. केन्ना चिमटे काडून सांगलां, केन्ना कुटल्यो मारून सांगलां. तर केन्ना सणकुटेर फुलोवनूय सांगलां. 'पाड पडूं हांचें, हे बदलपाचे नात' अशें म्हणून निर्शेवन ओगी बसूंक ना. हेंच पळेयात, मराठी भास कितलींय वर्सां गोंयांत चलिल्ली आसूं, आयजूच न्हय तर फुडाराकूय आमकां तिची कितलीय

गरज भासूं, आमी मराठी मनीस न्हय, आमी कोंकणी; कोंकणीची आमी उवेखणीच केल्या. मराठीची सुवात कोंकणीक दिले बगर उपायूच ना' इतलेंच हें सांगपाक कितले लेख बरोवचे पडल्यात जातले म्हाका? शेंकड्यांनी. आयजूय गरज पडटा तेन्ना बरयतां. अशे कितले-शे विशय आसात, जांचेर हांवें भौन भौन बरयलां. कितलेशेच खेपे बरयलां. पुनरुक्ती जाता म्हणपाचें खबर आसुनूय बरयलां. समजावन सांगता आसतना केन्ना केन्ना तेमाक पेटलां. 'अब्बा! इतली सादी गजाल तुमकां समजना म्हळ्यार कितें? समजूंक जाय. अक्कल ना व्हय तर तुमकां? आसा. फकत तिचेर घयरांव मातला. उडोवंक जाय तो काडून. मागीर म्हाका दिसता तशेंच तुमकां सगळें स्पस्ट बरें दिसूंक लागतलें' ह्या भावार्तान बरयलां. हो भावार्त कुड्डो आसत. पुणून सोडून दिवपा सारको न्हय. दुसऱ्यांचे बुद्दिचेर विस्वास दवरप हिका म्हजी चूक म्हणूं येत व्हय? आसलीय जाल्यार हांव विस्वास दवरतलों आनी सांगपाचें तें सांगीत रावतलों.

म्हज्या बरपा फाटली खरी प्रेरणा ती ही.

एक खरें, केन्ना केन्ना हांव अशे तरेन बरयतां की तें वाचून कांय जाण तिडटात, खुबतात. 'हो आपणाक कोण समजता? सुपरमॅन बी? बरयता आसतना मार सुपरमॅन जाल्ले वरी बरयता', अशेंय म्हणटात. पुणून हांव पर्वा करिना. धरुंया, हांवें म्हाका सुपरमॅन मानिल्लो जाल्यार, 'हय, हांव सुपरमॅनूच' म्हूण सांगपाक अनमनचो नाशिल्लों. लटकी नमळाय म्हाका पांगरूंक येना. मनीस न्हिदिल्लो आसलो, उठल्यारूय उठना जालो, जाल्यार केन्ना केन्ना ताचेर थंड उदकाचो कळसो हाडून रकोवचो पडटा. असलें काम सुपरमॅन करिना. इश्ट करता. हांव जांकां तिडायतां, खुबळायतां तांचो म्हाका हांव इश्ट मानतां, आनी म्हजें काम करीत रावतां. हांव एक जाणां, येद्या व्हडल्या ह्या विश्वब्रह्मांडांत म्हाका खंयचें, कोणाकूच कसलेंच मोल ना. जांकां आमी सुपरमॅन लेखीत आयल्यात ते जल्माक येवंक नाशिल्ले जाल्यारूय संवसाराचें खंयच कितेंच अडून उरचें नाशिल्लें. संवसार मुखार वतलोच आशिल्लो. केदे केदे व्हड लोक संवसारांत येवन गेले! पुणून ते सगळे येवन 'गेले'. आमीय तशे एक दीस वतले. कोण आमचो उगडास काडपाचो ना. पुणून म्हणून सांगपाचें तें सोडून दिवं येता व्हय? तें सांगपाचेंच. आड्डू आड्डून सांगपाचें. लोक आयकूं वा ना आयकूं.

[ ३ ]

संवसारांत कोणूच उरना. सगळेच वतात. साहित्याच्या मळार लेगीत व्हडले व्हडले लोक येवन 'गेल्यात'. हांव वाचूंक लागलां त्या वेळार जे गाजताले, जांच्या पुस्तकांचेर आमी उडयो मारताले तांचीं पुस्तकां आयज हांव कोणाच्याच हातांत पळेना. आयज नवे बरपी आयल्यात. तांचीं वाचतात. तेवूय वतले. विश्व साहित्यांत जांणी 'अक्षर वाङ्मय' बरयलें तांची बरपावळ आयज कोण वाचता? ऊंच शिक्षण घेवपी दोग चौग सोडीत जाल्यार कोणाच्याच हातांत तांचीं पुस्तकां दिश्टी पडनात. वॉल्तेरान जीव

ओतून बरयल्लें तें फ्रांसांतले लोक तरी आयज वाचतात व्हय? इंग्लंडांत एका काळार शॉ वचत ताच्या हातांत दिश्टी पडटालो. आयज तो दिश्टी पडटा व्हय? सगळ्यांचीं पुस्तकां आयज पब्लिक लायब्रऱ्यांनी बंदिस्त पडून उरल्यांत. बुक-स्टॉलार मेळनात. 'अक्षर वाङ्मय' बरोवपी लोक immortal जाल्यात, अजरंवर जाल्यात अशें आमी म्हणटात. पुणून कोणें एकल्यान म्हळां ते भाशेन तांगेलें हें अजरंवरपण शाळा-कॉलेजांतल्या आरमारिंनी बसपाचें – immortality of the school-room library. उरल्यात, कबीर, तुलसीदास, सूरदास, मीरा, ज्ञानेश्वर, तुकाराम. अजून ते जिबेर घोळटात – तसले काय आमी न्हय. तांणी बरयलां तसलें आमकां बरोवंक नाका येवं. पुणून 'गलिवर्स ट्रॅवल्सा' सारकेलेंय आमकां कोणाक बरोवंक येवंक ना.

आपूण उरतलों म्हूण बेश्टें कोणें भ्रमांत रावचें न्हय. हांव रावूंक ना.

पुणून म्हजे संबंदान हांव एक जाणां, फाल्यां कोणूय कोंकणी बरपावळिचो इतिहास बरोवपाक बसलो जाल्यार 'हाणें आपणाल्या काळांत विचारांच्या मळार थोडें भोव योगदान दिल्लें' अशी एक वळ तो बरयले बगर रावचो ना. कोंकणी गद्याचे बुन्यादिचो एक फातर म्हूण म्हजो तो उल्लेख करतलो. साहित्याच्या इतिहासांत कोणाकूय इतलीच ही सुवात मेळप ही लेगीत भाग्याचीच एक गजाल. तातूंत, धरुंया, फुडले पिळगेंतल्या कोणेंय म्हजो हो उल्लेख वाचून जिज्ञासेन म्हजें एकाद-दुकलें पुस्तक वाचनालयांतलें हाडून वाचलें जाल्यार—

हांव म्हाका व्हडांतलो व्हड भाग्यवंत लेखतलों.

हो भोवमान म्हाका म्हज्यांतल्या 'लेखका'न मेळोवन दिला. बेश्टो कित्याक शिणूं हांव ताचेर! उरफाटो, हांव ताच्या खूब उपकारांत आसां.

खूब फावटीं मनांत आयलें, 'खूब बरयलें, आतां थांबिल्लें बरें. वाचपाचें खूब उरलां, तातुंतूच आतां उरिल्लें आयुष्य खर्चुपाचें.' पुणून जितलेय खेपे मनांत हें आयलां तितलेय खेपे म्हज्यांतल्या 'फायटरा'न म्हाका सांगलां, 'ना, The best is yet to come. तुजें बऱ्यांतलें बरें पुस्तक तुवें अजून बरोवंक ना.' परिणामी, हांव आयज, उतार पिरायेरूय, बरयतां – एका सारको बरयत आसां. केन्ना गांधींचें चार पांच खंडांत एक जिवीत बरयतलों म्हणटां, केन्ना श्रीरामकृष्णकथामृताचें कोंकणी करतलों म्हणटां, केन्ना कबीर कोंकणींत हाडटलों म्हणटां, आनी धा-धा बारा बारा वरां काम करतां. हालिंसाराक म्हज्यांतलो फायटर म्हाका आनीक एक गजाल सांगपाक लागला, 'कोंकणी गद्याक आयजूच कोंकणी रूप दिवपाचें काम कर. ना जाल्यार तें मराठीचें रूप घेवन मुखार वतलें.' महाभारत घेवन बशिल्लों तेन्ना, म्हाका कोंकणी सारकी येना, ह्या – आनी कोंकणी सारकी कठीण भास दुसरी ना, ह्या निर्णयार पाविल्लों... तरी आसतना कोंकणी गद्याक कोंकणी रूप दिवपाचो यत्न करीत रावलां.

पुणून हांव जाणां, 'खूब जालें, पुरो आतां' अशें तो फायटरूच म्हाका एक दीस सांगतलो. आनी तो हें सांगतलो तेन्ना नुलयत लिखणी सकयल दवरतलों. ते मेरेन...

बरयत रावतलों. □ □

# २

# बरोवपाची प्रेरणा

हांव साहित्यिक न्हय, साहित्यिक जावपाचें मनांतूय नाशिल्लें. सपनांत लेगीत केन्ना येवजूंक नाशिल्लें.

साहित्यिकां विशीं म्हजें मत्तूय व्हडलें-शें बरें नाशिल्लें.

जे पिरायेर आपणें कितेंय करचें, कोणूय तरी जावचें अशें दिसपाचें ते पिरायेर म्हाका ओड लागली समाजकार्याची. समाज चलूंक जाय आशिल्लो तसो चलना. तातूंत गोंयचो समाज जाल्यार सामकोच बाबत. आपूण कोण हें लेगीत नकळ आशिल्लो. असलो समाज चलूंक दिवंक जायना. मोडून उडोवंक जाय, तांतलें सगळेंच सकल वयर करून उडोवंक जाय, अशें मानपाक आनी म्हणपाक लागिल्लों.

अठरा-वीस वरसांचे हे पिरायेर विवेकानन्द हातांत पडलो. ताणें हिमालय हे वाटेनचो ते वटेन भिरकावन मारचो हे तरेचो हावेस मनांत जागयलो. जे वाटेन सगळेच चलत वताले ते वाटे वयलो उबारून विवेकानन्दान म्हाका दुसरेच एके वाटेर हाडून दवरलो. हे वाटेन मुखार चलता आसतना एक दीस मदीं एके कडेन मार्क्स मेळ्ळो. ताणें म्हज्या ह्या उत्फर्क्याक विचारांची एक बसका जोडून दिली. आनी हांव म्हाका मार्क्सवादी लेखूंक लागलों.

जिस्त ह्या वेळार डॉ. लोहियांच्या प्रभावांत आयलों. लोहिया म्हजे पिळगेंतल्या तरणाट्यांचें एक आराध्य. धीट, धाडशी, जीनियस म्हणपा सारके एक विचारवंत. आमी तांचे फाटल्यान पिशे जाल्ले. म्हजे मार्क्सवादी संस्कार तांणी केन्ना आनी कशे पुसून उडयले, म्हज्या लक्षांत लेगीत आयलें ना. क्रान्तिकारी म्हूण गांधींचें म्हत्व तांच्याच तोंडांतल्यान सगळ्यांत पयलीं आयकलें.

आनी हांव – नाय म्हळ्यार – इल्लो इल्लो गांधींचे दिकेन लकपाक लागलों.

गोंयचे चळवळींतलें लोहियांनी आंग काडून घेतलें आनी चळवळींत पडिल्ले आमी सगळेच स्वयंभू पुढारी जाले. कितलेशे पक्ष उबे केले. तेन्ना, हांगा थंय आपटत धोपटत एक दीस वर्ध्याक पावलों. अहिंसा पटूंक नाशिल्ली. पटपाची ती पिरायूय नाशिल्ली. पुणून हिंसेवेलो (सशस्त्र क्रान्तिवेलो) विस्वास अणभवान साप्प उडून गेल्लो. गांधी कडेन खऱ्यांनीच कितेंय आसा जाल्यार पळोवचें म्हूण वर्ध्याक गेलों. आनी थंय उपाट काळखांत मदींच वीज जोगलावची आनी खिणा पुरती जायना, एक पुराय नवी सृष्ट दोळ्यां मुखार स्पस्ट उबी रावची तशें-शें कितें दिसलें. थंय जें कितें पळेलें, आयकलें, वाचलें, अणभवलें तें सांगात्यांक सांगचें-शें दिसलें. सांगले

बगर रावं नज जालें. म्हूण बरोवपाक लागलों. 'मीर्ग' सुरू केलें. बरयतां बरयतां म्हज्यांतल्या साहित्यिकाक केन्ना आनी कशी जाग आयली, कळ्ळें लेगीत ना. ताणें तकली वयर काडिल्ली पळेली तेन्ना हांवूच अजापांत पडलों.

सांगपाचें म्हळ्यार, झांकून झांकून गांवकार जातात तसो बरोवन बरोवन हांव साहित्यिक जालां. साहित्य म्हज्या जिविताचें मुखेल आंग न्हय. ताचो एक बाय-प्रॉडक्ट. ताचें एक उपफळ.

म्हजे कुंडलेंत खंयचे गिरे खंयच्या घरांत आसात, खबर ना. पुणून एक खरें. भुरगेपणा सावन म्हाका पुस्तकांच्या सांगातांत रावंक मेळ्ळें. पुस्तकांनी भरिल्ल्यो दोन आरमारी आमच्या घरांत आशिल्ल्यो. म्हजी मूज जाल्या त्या वेळार दोनूय आरमारी बाबान म्हाका भेट दिल्ल्यो. वर्ध्याक पावलों त्या वेळार काकासायबांचें प्रचंड पुस्तकालय म्हज्या हातांत पडलें. आयुष्यांत एकूच नोकरी केली. तिवूय लायब्ररियनाची. दिल्लीच्या गांधी स्मारक संग्रहालयांत. पुस्तकांचो सांगात म्हाका सदांच मेळत रावला. पुस्तकांक लागुनूच म्हाका व्हडल्या व्हडल्यांचो सांगात मेळ्ळा. पुस्तकांच्या आधारान कितलेय पयसल्या, कितल्याय पोन्न्या, केद्याय व्हडल्या मनशाच्या सांगातांत रावं येता हाची जाणवीक विवेकानन्द, त्स्वैग, दोस्तॉयवस्की, गोर्की वाचूंक लागिल्लों त्या वेळार जी जाल्ली ती दिशीं-दिशीं वाडत गेली. आयज लेगीत हांव असल्याच कोणाच्या न्हय कोणाच्या सांगातांत सदां आसतां. केन्नाच एकलो नासतां. पिरवळा सारकेल्या एका गांवांत रावन लेगीत बुद्ध, गांधी, तॉलस्तॉय, रवीन्द्रनाथ, पुर्विल्ल्या, आर्विल्ल्या, पयसल्या, लागिंच्या व्हडल्या व्हडल्यांच्या म्हन्यांत रावतां. एकाद्रया वेळार हांव एक-दोन दीस जेवी नासतना रावीन, पुणून असल्या कोणाचो सांगात एक दीस मेळनासतना रावलो जाल्यार म्हाका चुकिल्ले चुकिल्ले वरी जातलें. म्हज्यांतलें कितेंय तरी आटून गेल्ले वरी, म्हज्यांतलें सत्त्वूच गेल्ले वरी दिसतलें, इतली ह्या सांगाताची म्हाका आतां संवंय जाल्या.

पुस्तक म्हाका निखटें पुस्तक केन्ना दिसलें ना. तातूंत म्हाका एक व्यक्ती दिश्टी पडल्या. एक विभूति मेळ्ळ्या. एक सांगात मेळ्ळा. केन्ना केन्ना म्हजे कडेन एकाद्री लुंगी घेवपाक जाय तितले रुपये नासतात, पुणून घेवपा सारकें एकाद्रें पुस्तक दिश्टी पडत जाल्यार, कोण जाणा कशे म्हूण, कितलेय रुपये खंयच्यान तरी बोल्सांतल्यान भायर सरतात.

म्हज्यांतल्या साहित्यिकाक जाग हाडल्या ती ह्या लोकांनी. ताका पोसवण मेळ्ळ्या ती ह्या सांगाताची. ताका घडोवपाक कोण खंयचे कशे वावुरल्यात जातले, म्हाका सारकें सांगूंक येवपाचें ना.

हे भाशेन, संवसारांतलें बरें बरें साहित्य वाचता आसतनाच एक दीस 'समाज मुळा सावन बदलूंक जाय' म्हणटल्या म्हज्यांतल्या ॲक्टिविस्टा – कृतिशीळ कार्यकर्त्या मुखार एक प्रस्न उबो रावलो —

हे तरेचें साहित्य म्हजे भाशेंत कित्याक ना? म्हजे भाशेंत साहित्यूच कित्याक

ना? म्हजी भास दुबळी काय देवा? अशें कांय म्हणूं नज. एका संस्कारी समाजाची भास दुबळी आसूंच नज. बरें, प्रतिभेचे नदरेन भूंय वांझकुटी? अशेंय म्हणूं नज. हांव वाचूंक लागलां ताचे पयलींच बाकीबाब मराठींत नांवाजतो कवी जाल्लो. कथाकार म्हूण लक्ष्मणरावानूय महाराष्ट्रांत नांवलोकीक जोडिल्लो. मिनेझ ब्रागांझाल्या पुर्तुगेज साहित्याची घरांत सदांच तुस्त आयकत आयिल्लों. आदेओदात बारैतिचें नांव ते मुस्तींत तरणे पिळगेचे जिबेर घोळटालें. तो पुर्तुगेजींत बरयतालो. आरमान्द मिनेझिचें इंग्लिशींत नांव जाल्लें. मंजेश्वर गोविन्द पै कानडींत व्हड जाल्लो. हांणी सगळ्यांनी मनांत घेतिल्लें जाल्यार म्हजे भाशेंत साहित्य जावचें नाशिल्लें व्हय? पुणून हे सगळे – आनी हांचे पयलीं जावन गेले तेय कोंकणी सोडून बाकिच्याच भासांनी बरयत रावले. कित्याक?

येवजूंक लागलों तेन्ना एकूच जाप मेळ्ळी. म्हज्या समाजाक आपले भाशे विशिंचे लागणुकेचीच जाणवीक ना. तेन्ना 'हिवूय परिस्थिती बदलूंक जाय' ह्या निर्णयार पावलों.

तेन्ना शणै गोंयबाब म्हूण कोण आसा, तोवूय अशेंच म्हणटा, म्हूण लेगीत हांव नकळ आशिल्लों. म्हाका जाग आयल्या ते उपरांतूच शणै गोंयबाब म्हज्या हातांत पडला. तेन्ना, ताका काळजाच्या देवाऱ्यांत बसोवन हांवें मनांतल्या मनांत सोपूत घेतला: हाणें पेटयल्ली ही जोत हांव जितो आसां सर पालोवंक दिवचों ना.

आयज फाटल्यान नदर मारून पळेतां तेन्ना दिसता, समाज मुळा सावन बदलूंक जाय म्हणटल्या म्हज्यांतल्या कृतिशीळ कार्यकर्त्यानूच म्हाका 'साहित्याच्या मळा वयलें हें दैन्य पयस करूंक जाय' अशें सांगून धोंगसावन मुखार काडला. 'तुका बरोवंक येवं वा नाका येवं, बरोवन तुवें तुजे शक्ती प्रमाण हें दैन्य पयस करपाचो यत्न करूंक जाय' अशी प्रेरणा दिल्या. केन्नाय खंयचेय भाशेंतलें बरें पुस्तक वाचतां तेन्ना आयज लेगीत तो म्हज्या कानांत येवन ल्हवू फुतफुतता: 'असलें एक पुस्तक कोंकणींत आसूंक जाय आशिल्लें, न्हय?' आनी विशय म्हजो आसत जाल्यार तो म्हजे कडल्यान तें बरोवनूय घेता.

बरयता आसतना म्हाका केन्ना कोणाच्या प्रोत्साहनाची गरज भासूंक ना. कोणें केन्ना प्रोत्साहन दिल्ल्याचीय याद जायना. बरोवन कांयच फायदो ना हें हांव जाणां. बरयलें जाल्यार म्हजे कडेन दी, हांव तें छापतां अशें सांगपीय कोण मुखार सरचो ना, हेंवूय जाणां. 'तुगेलें पुस्तक हांव छापतां' अशें सांगपी अजून मेरेन म्हाका कोण मेळूंक ना. तरी आसतना हांव बरयतां. केन्ना केन्ना दिसांतल्यान धा धा, बारा बारा वरां काम करतां – फकत म्हज्यांतल्या त्या कार्यकर्त्याक बरें दिसचें हे खातीर. तो म्हाका सस्थ बसूंक दिना. एक सारको धोंगशीत रावता. 'बरय तूं. छापून आयलें ना, जाल्यारूय बरय. बरोवप तुजी लागणूक. लागणूक केन्ना वेव्हाराचे तागडेंत तर्जिनात, मेजिनात.' मागीर, ल्हवू कानांत हेंवूय सांगता: आयजवेर खंयचीय बरी करणी फुकट गेल्या व्हय? तशी हिवूय वचची ना.

Fools rush in where angels fear to tread ह्या न्यायान हांवें साहित्याच्या

मळार जायते कडेन 'ढवळाढवळ' केल्या. पुणून म्हजो निजाचो फॉर्म निबंध – essay.

जिविताचे यात्रेंत कोडू गोड अणभव जायते आयले. तांकां लागून तकलेंत जायते प्रस्न उबे रावले. आयुष्यभर तांच्यो जापो सोदीत रावलों. आर्विल्ले मुस्तींतल्या कांय ऋषी-महर्षिंचो सांगातूय मेळ्ळो. तांच्या पांयां कडेन बसून म्हज्यो जापो हांवें तर्जून पळेल्यो. घांसून-पुसून निवळ केल्यो. जापो सोदपाचें आनी त्यो तर्जून काडपाचें काम आयुष्यभर करीत रावलों. परिणाम: म्हाका निबंधा खातीर विशय सोदूंक खंयच वचचें पडना. भोंवतणच्या जिवितांत जें घडटा-मोडटा तातुंतूच म्हाका विशय मेळटात. कवी जसो आपणाक 'कविता येता' म्हणटा तसो निबंध म्हाका 'येता'. येतना तो आपलें रुपूय घेवन येता, मुडूय घेवन येता. बरोवंक बसना फुडें तो आपलें एक-एक आंग उकतें करीत वता. आनी आपणाक म्हजे कडल्यान बरोवन घेता. 'नवलकथेंतलीं पात्रां आपली कथा आपले कडल्यान बरोवन घेतात' अशें कांय नवलकथाकार म्हणटात. म्हाका तें पयलीं फट दिसतालें. आतां विचार लेगीत तेंच करतात, तेच आपणाक बरोवन घेतात, अशें अणभवान कळपाक लागलां. जतनाय घेतां ती फकत शैलिची. ती सादी आसूंक जाय; कोणाचेंच तिचे कडेन लक्ष वचचें ना इतली सादी आसूंक जाय, इतलेंच पळेतां. कितें सांगलां हाचे बदला कशें सांगलां हाचे कडेन वाचतल्यांचें लक्ष गेलें जाल्यार निबंध 'फेल' जालो अशें मानीत आयलां.

म्हज्या निबंधांनी वाचप्यांक कितें दिलें, वाचप्यांक खबर. पुणून म्हाका मात तांणी खूब दिलां: जे विचार हांव मानीत आयिल्लों ते तांणी घांसून पुसून निवळ करून म्हाका दिल्यात. जे विचार सारके समजूंक नाशिल्ले ते स्पस्ट करून दाखयल्यात. जिविता कडेन पळोवपाची एक नदरूय तांणी म्हाका जोडून दिल्या. म्हाका घडोवपाचें काम सगळ्यांत चड तांणीच केलां म्हळ्यार जाता. साहित्यिक साहित्य रचता म्हणटात तें व्हडलेंशें खरें न्हय. साहित्यूच साहित्यिकाक रचता, घडयता.

मर्दी हांवें एक नवो 'प्रयोग' केलो: जें आठ धा फोली बरोवन सांगतां तें डायरेच्या एका पानांत सांगूंक येत व्हय, हें पळोवपाक बसलों आनी **सांगाती** बरयलें. हो फॉर्म म्हाका सगळ्यांत चड मानवला. थोडो भोव जमलाय म्हळ्यार जाता. ह्या फॉर्मांत कथा लेगीत बरोवंक येवंक जाय अशें म्हाका दिसपाक लागलां.

प्रवासवर्णन निबंधाचेंच एक रूप. खासा आपणाक उकतावपाक सगळ्यांत बरें. सगळ्यांत सुंदर. हिमालय, जपान, घारापुरी, वाराणसी, जोग असल्या कांय थळांचीं वर्णनां बरयले उपरांत अवचीत एक दीस दिसलें, ज्या रुपान हांवें तीं बरयलीं तें रूप आतां पोन्नें जालें. आतां प्रवासवर्णनाचें एक नवें रूप सोदून काडूंक जाय. देशांत जायते कडेन पावलां. जायतें कितें कितें पळेलां. सगळें प्रवासवर्णनाच्या नव्या रुपान सांगूंक रावलां. अजून ह्या नव्या रुपाचो दिस्टावो जावंक ना. म्हूण बरोवपाचें उरलां.

साहित्यिक जावपाचें मनांत नाशिल्लें. साहित्यिकां विशीं मत्तूय व्हडलेंशें बरें नाशिल्लें. समाजूच बदलपाक मुखार सरिल्लों. समाज बदलपाचे प्रेरणेनूच राजकर्णांत पडिल्लों. पुणून समाज बदलूंक जाय म्हणटल्या म्हज्यांतल्या कार्यकर्त्यानूच म्हज्यांतल्या

साहित्यिकाक जाग हाडली आनी आपूण ताचे कडेन एकरूप जालो.

आतां म्हज्यांतलो हो साहित्यिकूय म्हजेर आपणालो शेक चलोवपाक लागला. तो एक सारको म्हाका धोंगशीत 'आसता. कांय वरसां पयलीं धोंगसून धोंगसून ताणें म्हाका **महाभारत** कोंकणींत हाडपाक मुखार काडलो. णवशीं पानां ताणें म्हजे कडल्यान बरोवन घेतलीं. पयर तो म्हाका असोच धोंगसून सांगतालो, आतां गांधीचें जिवीत बरय. पांचशीं पांचशीं पानांच्या पांच-सात वा आठ-धा खंडांनी पुराय गांधी-युग उबें कर. लागतीत पांच-सात वा आठ-धा वर्सां. घे तूं हातांत हो वावर. केन्ना सांगता, तूं देवळांनी-बिवळांनी वचना. प्रसाद-पाकळी घेना. पुणून तुगेलो पिंड आध्यात्मीक. आयुष्यभर तूं आध्यात्मीक प्रस्नांचेर येवजीत आयला. आयुष्यभर जें कितें येवजीत वा अणभवीत आयलो ताचें अर्क आतां एका पुस्तकांत काडून दी.

हे भाशेन, तो हें कर, तें कर अशें धोंगसून धोंगसून सांगीत रावता. तो सांगता तितलेंय करूंक पावतलों काय कितें खबर ना. करूंक गेलों जाल्यार पंदरा-वीस वर्सां लेगीत पावपाचीं नात. आयुष्यांत तितलीं वर्सां उरल्यांत काय कितें, कोण सांगतलो ? तांतलें एक एक वर्स सरत वता तशी तशी म्हाका भितरल्यान एके तरेची ताकतीकशी जावंक लागता. हेर सगळ्या गजालींतल्यान आंगूच न्हय, मन लेगीत काडून घेवचें, फकत साहित्यूच घेवन बसचें अशें खोलायेन दिसपाक लागलां.

आनी मागीर हांव दिसांतल्यान धा, केन्ना केन्ना बारा बारा वरां काम करीत रावतां.

पुरो जायसर काम करतां.

□ □

# ३

# कित्या खातीर बरयतां ?

कित्या खातीर बरयतां ? कितें मेळटा म्हूण बरयतां ?

जाप सोदून काडचे पयलीं, म्हळें, दुसरे कितें म्हणटात तें पळेतलों.

मुम्बय पाविल्लों. एकलो मराठी साहित्यकार मेळ्ळो. हांवें ताका विचारलें, 'म्हाका एक सांगशात, तुमी कित्या खातीर बरयतात ?' खोलायेंत घेवन वचपी कसलीय तरी एक बरीऽ जाप आयकूंक मेळटली, अशें दिशिल्लें. पुणून ताणें दिली ती जाप आयकून म्हाका आकांताचो धसको बसलो. 'मी कशासाठीं लिहितों, हें विचारतां होय ? पैशांसाठीं लिहितों.'

मनांतल्या मनांत हांव उसळ्ळों. म्हळें, 'पयशां खातीर बरयता तूं ? शी. लज दिसता म्हाका तुजे पंगतीक बसपाक.' मनांत आयिल्लें जिबेरूय आयलें. पुणून हांवें तें थंयचे थंयच गिळून उडयलें. म्हळें, हाच्यान 'बरयले बगर रावं नज म्हूण बरयतां – I sing because I must' असली कसलीय पकदस्त जाप दिवं येताली. खूब जाण ती अधिकार नासतना लेगीत दितात. पुणून हो आपूण पयशां खातीर बरयतां म्हणटा, जाल्यार बरयता जातलो. ताच्या प्रामाणिकपणाचो दुबाव कित्याक घेवंचो हांवें ? ताका हांवें आनीक कांय विचारलें ना. मनांत म्हळें, हाका, धरूंया, कोणेंय सांगलें : बरोवन तुका मेळटात ताचे दुपेटीन पयशे हांव तुका दितां, तूं बरोवपाचें बंद कर; जाल्यार हो बरोवपाचें बंद करतलो व्हय ? म्हाका दिसना. बरोवप्याक पयशे मेळचे. पुणून ते मेळपाची आस्त नासतना लेगीत मनीस बरयता, जाल्यार म्हणूंक जाय, बरोवंक लावपी दुसरी खंयचीय तरी एक प्रेरणा ताच्यांत काम करता जावंक जाय.

खंयची ? नांवाची ? आसूं येता.

मनीस जें कितें करता तें खंय एक तर नांव जावचें म्हूण करता वा नांव उरचें म्हूण करता. चार चौगांचे जिबेर आपणालें नांव घोळचें, आपूण खंयूय दिश्टी पडलों, जाल्यार 'हो तो रे तो' अशें एकल्यान दुसऱ्याक सांगचें, हे तरेची खंय एक भूक मनशाक आसता. हेर भुको कश्योय भागोवं येतीत, नांवाची भूक कितलीय भागय, भागना. आपूण हेरां परस वेगळो, हेरां परस व्हड हें दाखोवपा खातीर मनीस कितें करीत, सांगूं येना. आड वाटेन लेगीत वचत. खूब जाण गेल्यात. बुद्ध म्हणी, आड वाटेन जो नांव जोडटा ताचें पुराय आयुश्य आपणाली तुस्त गावपांत आनी दुसऱ्यांली निंदा करपांत खर्चता. फट न्हय. असल्या कितल्याश्या 'व्हड' मनशांक आमी वळखतात.

तरी आसतना, मनशाक आपणालें नांव जाल्लें जाय. बरोवन खंयूय छापूंक धाडलें जाल्यार सोंपेपणान नांव जाता, असो समज आशिल्ल्यान जांकां बरोवंक येना ते लेगीत बरयतात आनी छापूंक धाडटात. आनी हालिंसाराचे संपादक इतले बुभुक्षीत जाल्यात की बरोवन आयिल्लें **कितेंय** छापुनूय् मेकळे जातात.

आनी नांव जावपा बदला आमची बदनामींच चड जाता.

छापपा सारकें न्हय तें छापचों ना, अशें म्हणपी संपादक आसूंक जाय आशिल्ले. जाल्यार, आमच्यांतले खूब जाण बदनामींतल्यान वाटावतले आशिल्ले. बेगीन सोंपल्यात ते सोंपचे नाशिल्ले. पुणून चारित्र्यवान राजकर्ण्यां भशेन असले संपादकूय आयज खंयच दिश्टी पडनात, मेळप कठीण जावन पडलां.

हेरां सगळ्यां भाशेन म्हाकाय नांवाचें खूब आशिल्लें. पुणून अवचीत एक दीस, नांवाक कांय मोल ना म्हणपाचो एक दिस्टावो जालो. जालें अशें—

पणजे वचपाचें आशिल्लें. बसिची वाट पळेत म्हाड्डोळा उबो राविल्लों. सकाळचो आदेस. आयिल्ली बस भरून येताली. असल्यो भरून आयिल्ल्यो दोन-तीन बसी सोडले उपरांत म्हळें, आतां येता ती बस कितलीय भरिल्ली येवं, भितर सरतलों. पांच मिणटां भितर एक बस आयली. चिक्कार भरिल्ली. लोक भायर हुमकळटाले. तरी आसतना आवा शिवा करून भितर सरलों. भितर पावतकूच हेवटेन तेवटेन नदर भोंवडायली. कोणूय उठून बसपाक जागो दितलो अशें दिशिल्लें. अर्दा वयर लोक ह्याच अंत्रुजेच्या वाटारांतले, वळखिचेच आशिल्ले. पुणून एकल्याय सभाग्यान उठून 'बस' म्हळें ना.

भाणस्तार काडून जातकच तकलेंत एक विचित्र विचार आयलो. म्हळें, गोंयांत म्हजें नांव थोडें जावंक ना. एक कोंकणीवादी म्हूण जालां, एक बरोवपी म्हूण जालां, एक विचारवंत (काय कोण सो) म्हूण जालां, 'महाराष्ट्र द्वेष्टो', 'मराठी द्वेष्टो' म्हूण जालां. पुणून ह्या नांवांत बसिचो एक सादो सीट लेगीत दिवपाची तांक ना. कित्याक उपकारलें तें नांव? कसलें मोल आसा ताका?

नांवाचो जो कितें 'ग्लॅमर' मनांत आशिल्लो तो पोरण्या गोंयां पावचे पयलींच उबून गेलो.

त्याच दिसा आनीक एक दिस्टावो जालो. खंयूय वचपाक भायर सरतां तेन्ना खांद्या वयले पिशवेंत एक बरेंऽ पुस्तक घेवन वतां. त्या दिसा पाश्कालाचें **पांसे** घेवन गेल्लों. 'पांसे' म्हळ्यार 'विचार'. ल्हान व्हड, खोलायेंत घेवन वचपी सुंदर सुंदर विचारांचें एक पुस्तक हें. विचारवंतांनी खूब मानिल्लें. दनपरां जेवपाक हॉटेलांत गेल्लों. थंय तें उकतें केलें. नदर जिस्त एका विचाराचेर पडली – How many Kingdoms know us not! तकलेर कोणें तरी कुटली मारची, तशें-शें कितें दिसलें आनी हांवें सट्ट करून म्हळें, 'आरे! हय मरे! संवसारांत देडशें दोनशें तरी देश आसतले. हांतल्या कितल्या देशांतले लोक म्हाका वळखतात? हेर देश सोडुनूच

दिवंया, ज्या हिन्दुस्तान देशाक हांव म्हजो देश मानतां तातुंतल्या कितल्या-श्या प्रदेशांतल्या लोकांनी म्हजें नांव आयकलां? सर्वोदय चळवळी कडेन आनी साहित्य अकादेमी कडेन खूब लागिंचो संबंद आयिल्ल्यान गोंया भायले कांय गांधीवादी तशे कांय देशी साहित्यकार म्हाका वळखतात. पुणून मेजूंक गेल्यार तांचो आंकडो पन्नास पाउणशां वयर वचपाचो ना. म्हाका वळखतात ते फकत गोंयकार. म्हजें नांव जालांच जाल्यार तें ह्याच लोकां मदीं जालां. कितल्या-श्या लोकां मदीं जालां जातलें? म्हाका वळखतात असले कितले लोक गोंयांत आसतले? धा लाखां मदले धा हजार तरी? म्हजे भाचयेच्या लग्नाक हांवें गोंयच्या आनी गोंया भायल्या सगळ्या वळखिच्यांक याद करून आमंत्रणां धाडिल्लीं. हजार लेगीत नांवां भरूंक नाशिल्लीं. म्हजो संवसार तो हो येदोच. आतां येद्या-शा ह्या संवसारांत पद्मश्री-बिद्मश्री वा हांगासल्ल्यो थंयसल्ल्यो तसरिपो घेवन 'हांव तुमचे परस व्हड' म्हूण भासोवपी मनीस केदोसो आसतलो? 'मुदलांतूच ल्हान – साप्प ल्हान आसूंक जाय'. काळजाच्या खोल तळांतल्यान एक जाप वयर सरली.

नांवाची उरिल्ली सुरिल्ली ओड त्याच खिणाक तकलेंतल्यान गळून पडली.

बरोवपी म्हूण मुखार येवचें अशें आयुष्यांत केन्ना दिसलें ना. कितेंय 'जावचेंशें' दिसचें ते पिरायेर जवाहरलाल, सुभाषबाबू सारकेले देशभक्त म्हजे 'हिरो' जाल्ले. तांचे मुखार सगळे देशी बरोवपी म्हाका ल्हान, गिड्डे कशे, दिसपाक लागले. हिन्दुस्तानांतलो संस्कारी मनीस देशभक्तूच आसूंक जाय, देश स्वतंत्र करपा खातीर झुजपीच आसूंक जाय, बंदखणींत वचपी आसूंक जाय अशें दिसतालें. जवाहरलाल, सुभाषबाबू बरोवपीय आशिल्ले. सुंदरूच बरयताले. पुणून बरोवप हें तांगेल्या जिवितांचें एक उपफळ आशिल्लें. एक बाय-प्रॉडक्ट आशिल्लो. तांचे मुखार 'फकत बरोवपी' म्हाका नट, वीट, विदुशकांच्या पांवड्याचे लोक दिसचे.

आयजूय बरोवप्यां कडेन हांव हेच नदरेन पळेतां. म्हाका 'फकत बरोवपी' मनीस निखालूस आवडना. कितल्याश्या बरोवप्यांक हांव लागिंच्यान वळखतां. फकत गोंयच्या न्हय, भायल्या लेगीत. बऱ्या बऱ्या नांवाजत्या बरोवप्यां कडेन म्हजो दाट संबंद आयला. कांय जाणांचें साहित्य म्हाका खूब आवडलां. पुणून मनीस ह्या नात्यान तांचे कडेन पळेतां तेन्ना आमगेर वावराक येवपी कांय मानाय म्हाका तांचे भितरल्या खूबशां परस कितलेशे व्हड दिसतात. भरिल्ले कळशे कशे दिसतात. 'फकत बरोवप्यां' मजगतीं इतले भरिल्ले कळशे म्हाका अजून पळोवंक मेळूंक नात.

'फकत बरोवपी' साहित्यकारां विशीं म्हजें हें मत्त, तरी आसतना, आयज हांव 'फकत बरोवपी' जालां. बरोवपा पेल्यान दुसरें कांयच करिना. एका सारको बरयत आसतां. कित्या खातीर?

दोन प्रेरणा म्हज्यांत काम करतात. एक, सृजनाची. दुसरी, एके तरेचे लागणुकेची.

धर्तरिचेर येवन म्हाका आतां सैंसश्ट वर्सां जायत आयलीं. खूब कितें पळेलें. खूब सोंसलें. खूब अणभवलें. कितलेशे प्रस्न मुखार येवन उबे रावले. तांच्यो जापो

सोदतां सोदतां थोडें भोव वाचुनूय जालें. कांय निर्णयार पावलों. आयज ह्या सगल्या निर्णयांचो नव्यान विचार करतां तेन्ना आयज मेरेनच्या अणभवांच्या उजवाडांत पर्थून एक फावट तांकां तर्जून पळोवपाची इत्सा मनांत जागी जाता. हे प्रक्रियेंतल्यान ते घांसून-पुसून नितळ जावन नव्या रुपान म्हजे मुखार येवन उबे रावतात. आनी मागीर –

कोणाचेंय कसलेंय गुपीत कळ्ळें म्हणटकूच केन्ना काय तें दुसऱ्यांक सांगपा खातीर कांय जाणांची जीब हुळहुळूंक लागता, तशी, हें जें कितें नव्यान समजलां, कळ्ळां, तें दुसऱ्यां मेरेन पावोवपा खातीर म्हजी लिखणी हुळहुळूंक लागता.

सृजनाचे, नवें कितें जल्मा घालपाचे, उर्बेन बरयतां, हें एक. आनी —

दुसरें, बरोवप्यां संबंदान म्हजें कितेंय मत्त आसलें तरूय ते जें बरयतात त्या साहित्याची मात म्हाका आकांताची ओड. साहित्यान म्हाका खूब कितें दिलां. नकळ आशिल्लें समजावन सांगलां. अस्पस्ट दिसतालें तें स्पस्ट करून दाखयलां. म्हाका हात दिला. शाणो केला. म्हजें आंतरीक जिवीत गिरेस्त आनी समृद्ध केलां. आयुश्यांत जांचे बरोबर काम केल्लें तांच्यांतले कांय जिवा भावाचे इश्ट उब्याउब्यांनीच संवसार सोडून गेले. कांय जाण म्हज्या सभावाच्या धोंगां-पोंगांक लागून म्हजे पसून पयस गेले. साहित्यान म्हाका केन्नाच अंतर दिवंक ना. साहित्यान कितल्या पयसल्या लोकांक म्हजे म्हऱ्यांत हाडून बसयल्यात! कितल्यांक म्हजे इश्ट आनी सांगाती केल्यात! ते म्हाका सांगात दितात. ते भायर, धिरूय दितात, आधारूय दितात. एकलो केन्नाच पडूंक दिनात.

असले तरेचें साहित्य म्हजे भाशेंत ना, हाची म्हाका सदांच खंत भोगल्या. काल पयर मेरेन म्हजे भाशेंत साहित्यूच नाशिल्लें. तीस चाळीस वर्सांचे तपश्चर्ये उपरांत आनी संघर्शा उपरांत हालींच थोडें भोव निर्माण जावंक लागलां. पुणून नांव घेवपा सारकें अजून कितेंच येवंक पावूंक ना. वाचले उपरांत जिवीत उन्नत जाल्ले वरी दिसचें आनी भौन भौन वाचचें-शें दिसचें असलें एकूय पुस्तक अजून येवंक ना. पुणून एक दीस येतलें. ते मेरेन म्हजे भाशेची बुन्याद घट करपाचें काम म्हाका करीत रावंक जाय. साहित्यांत भर घालीत रावंक जाय. गद्याक एक रूप दिवंक जाय. ताची आंतरीक लय सोदून काडूंक जाय. म्हजे कडेन जें कितें बऱ्यांतलें बरें आसा तें म्हजे भाशेक हांवें दिवंक जाय, आनी तिचें दैन्य उणें करपाचो यत्न करूंक जाय हे लागणुकेन बरयत रावलां.

हांव कित्या खातीर बरयतां? म्हजे भाशेंतलें दैन्य जाता तितलें पयस करपा खातीर. तिची बुन्याद घट करपा खातीर. बरोवन म्हाका कितें मेळटा? फकत धादोसकाय, फकत समाधान.

दुसऱ्या कित्याचीच ओड ना. कित्याचीच उमेद ना.

□ □

# ४

# निजाचें खंयचें, घेतिल्लें खंयचें ?

हांव जें कितें बरयतां तातुंतलें म्हजें निजाचें खंयचें आनी दुसऱ्यां कडल्यान घेतिल्लें खंयचें, हें कशें सोदून काडपाचें ? आमी जायत्या जाणां कडल्यान जायतें कितें घेतात. हांवें घेतलां. पुणून म्हजे लिखणेंतल्यान तें आयलां तेन्ना म्हजेंच म्हूण आयलां ताका म्हजें निजाचें मानपाचें, काय दुसऱ्यां कडल्यान घेतिल्लें लेखपाचें ?

घेवपाच्योय कांय तरा आसात.

व्यंकटेश माडगुळकरांच्या एका पुस्तकाक साहित्य अकादेमीन तसरीप दिली. आतां, माडगुळकर कांय ल्हान-सान लेखक न्हय. मराठींतल्या दिग्गज कथाकारां भितरलो एक. ताच्या **बनगरवाडी** पसूनच्या खंयच्याय पुस्तकाक अकादेमीची तसरीप मेळिल्ली जाल्यार ताका ती फावनाशिल्ली अशें म्हणपाचें काळीज कोणाक जावचें नाशिल्लें. पुणून ज्या पुस्तकाक अकादेमीन तसरीप दिली तें तांगेलें न्हय, तांणी तें चोरलां. अमक्याल्या इंग्रजी पुस्तकाक मराठी भेस चडोवन तांणी तें आपणाल्या नांवार खपयलां, अशें सांगपी कितल्यो-श्यो चिटी महाराष्ट्रांतल्यान अकादेमींत पावल्यो. निर्णय घेवपाक अकादेमीच्या कार्यकारी मंडळाक दोन वरां खर्चुचीं पडल्यांत.

मराठींत एका काळार विश्राम बेडेकरांच्या **रणांगणान** नवलकथेच्या मळार एक नवीच वाट चिरिल्ली. मराठी नवलकथां भितरली ही सामकीच वेगळे तरेची नवलकथा म्हूण तिणें नामना जोडिल्ली. तेन्ना सावन सगल्यां परस वेगळो बरोवपी म्हूण बेडेकरांचो महाराष्ट्रांत धेंकूय बशिल्लो. बेडेकरांची ही नवलकथा 'चोरिल्ली' म्हणपाची आतां टिका जावपाक लागल्या.

हे तरेन जे कोण दुसऱ्यांलें घेतात ताका इंग्रजींत 'प्लॅयजरिझम्' म्हणटात. चोरयेचो माल हो. असल्यो चोरयो मराठींत ना.सी. फडके म्हणूं नाका, पु.ल. देशपांडे म्हणूं नाका, व्हडल्या व्हडल्यांनी केल्यात. पुणून म्हणटात न्हय, 'समरथ को नहीं दोष गुसांई'. ह्या नेमान तांकां त्यो पचल्यात. असली चोरी हांवें करूंक ना.

पुणून चोरिल्लें नासलें तरूय म्हजें म्हूण हांव जें बरयतां तातूंत दुसऱ्यां कडल्यान घेतिल्लें कितें-न्हय-कितें मेळटा. दुसऱ्यांलो प्रभाव तरी नितळपणान दिश्टी पडटा, ताका म्हजें मानपाचें काय दुसऱ्यांचें मानपाचें ?

विनोबांनी एका काळार असले टिकेक एक सुंदर जाप दिल्ली. तांणी म्हळ्ळें, 'म्हजे कुडीक पोसवण दिवपा खातीर हांव जें खातां, जेवतां, पियेतां तातूंत तांदूळ आसता, गंव, कड्डण आसता, शाक-भाजी, फळां, दूद कितल्यो-श्यो गजाली आसतात. त्यो

सगळ्यो हांव पचयतां. म्हूण तांचें रगत जावन तें म्हज्या शिरंत्रांनी घोळपाक लागता. ह्या रगताचो खंयचो थेंबो गंवाचो, खंयचो दुदाचो, हें कशें दाखोवन दितलों हांव तुमकां ? तसो, विचारांच्या मळारूय हांव जायत्या पोरसांनी भोंवत आयलां. जायत्या फुलांचें म्होंव चोखीत रावलां. जायत्या जाणां कडल्यान हांवें जायतें घेतलां. आनी घेवन हांव म्हजे बुद्धीक पोसवण दीत आयलां. तांतलें खंयचें कोणा कडल्यान घेतलां, हें कशें दाखोवन दितलों ? तें सगळें आतां म्हजें जालां. म्हजेंच म्हूण दीत रावलां. तें म्हजेंच म्हूण घेवंक जाय.'

विनोबांनी जायत्या जाणां कडल्यान जायतें घेतिल्लें. सगळ्यांत चड शंकराचार्य, ज्ञानेश्वर आनी गांधी ह्या तिगां कडल्यान घेतिल्लें. तिगांचोय विनोबांचेर खोल प्रभाव पडिल्लो. पुणून विनोबा तिगां मदले एकूय नाशिल्ले. विनोबा विनोबाच आशिल्ले. विनोबांचे विचार विनोबांचेच मानूंक जाय.

म्हजेर कोणा कोणाचो प्रभाव पडला आसतलो, सांगप सोंपें न्हय. हजार तरी नांवां घेवंचीं पडटलीं. खूब जाणां कडल्यान हांवें घेतलां. पुणून घेतिल्लें जें पचयलां, जिरयलां, आत्मसात केलां तितलेंच म्हजें म्हूण म्हज्या तोंडांतल्यान आनी लिखणेंतल्यान भायर सरता. ताका म्हजें निजाचेंच म्हणूंक जाय. दुसऱ्यांचें म्हणूंक जावचें ना.

आमी पळोवन, आयकून, वाचून खूब जाणां कडल्यान घेतात. पुणून जें पळेतात, आयकतात, वाचतात तें सगळेंच घेतात, अशें म्हणूं येना. आमकां जें पट्टा तेंच आमी घेतात. आमकां कितें पट्टा ?

गांधींनी रस्किनाचे **अण्टु धिस लास्ट** पुस्तक वाचलें. ताचो तांच्या मनाचेर येदो व्हड परिणाम जालो की दुसऱ्या दिसा पसून – दुसऱ्याच दिसा पसून – तांणी आपणालें जिवीत रस्किनान सांगिल्ल्या तत्त्वांक धरून घडोवपाचो यत्न सुरू केलो. तांणी आपणाली पुराय दिसपट्टी जीण – लायफ स्टायलूच – बदल्ली. **अण्टु धिस लास्ट** पुस्तकाच्या प्रभावाची खबर तांणी आपणाले आप-जिणेंत सांगल्या, तातूंत एक म्हत्वाचें वाक्य आसा. ते म्हणटात, 'म्हज्यांत भितर जें कितें खोल पडून आशिल्लें ताचेंच पडबिंब म्हाका ह्या पुस्तकांत पळोवंक मेळ्ळें.' म्हळ्यार —

रस्किनान ह्या पुस्तकांत सांगिल्ले विचार गांधींत मुदलांतूच आशिल्ले. न्हिदिल्ले कडेन आशिल्ले. रस्किनान तांकां जाग हाडिल्ली आनी ते वयर सरिल्ले. जे पयलीं स्पस्ट जावंक नाशिल्ले ते हें पुस्तक वाचून स्पस्ट जाल्ले, असोच हाचो अर्थ जाता.

आतां सांगात, गांधींचेर ह्या पुस्तकाचो जो परिणाम जालो ताचें श्रेय कोणाक कितलें वता ? रस्किनान आनिकूय पुस्तकां बरयल्लीं. गांधींनी तींय वाचिल्लीं. पुणून तांचो गांधींचेर हे तरेचो परिणाम जावंक ना. **अण्टु धिस लास्ट** खूब जाणांनी वाचिल्लें. पुणून गांधींचेर ताचो परिणाम जालो ते तरेचो आनीक कोणाचेर जाल्लो पळोवंक मेळना. ह्या पुस्तकाच्या गांधींचेर जाल्ल्या परिणामांचें श्रेय कोणाकूय दिवचें जालें जाल्यार फकत धा प्रतिशत रस्किनाक दिवचें पडटलें. णव्वद प्रतिशत गांधींच्या वांट्याक वतलें.

हाचो अर्थ: आमी पळेतात, आयकतात, वाचतात, तें सगळेंच आमकां पट्टा,

अशें ना. जें आमच्यांत भितर आसता, पुणून जाची आमकां सारकी जाणवीक नासता, तेंच जेन्ना दुसऱ्यां कडल्यान नितळ रुपान आयिल्लें आमी पळेतात, तेन्ना आमच्या तोंडांतल्यान आपशींच उतरां फुट्टात, 'आरे! म्हजेंय हेंच मत आशिल्लें. पुणून म्हाका तें सारकें सांगूंक येनाशिल्लें.' हाका 'पटप' म्हणटात. आमच्यांत मुदलांत आशिल्लेंच स्पस्ट जावन वयर सरता तें आमचेंच – निजाचें, मौलिक, ओरिजिनल – आसता. ताका मौलिक आनी ओरिजिनलूच मानूंक जाय. ताका घेतिल्लें म्हणूंक येना.

आमच्यांतल्या मुदलाक आपणालें हात-बोट लावन जे जाग हाडटात तांकां आमगेले म्हालगडे 'गुरू' म्हणटाले. दत्तात्रेयाक असले चोवीस गुरू आशिल्ले. म्हाका चोवीस हजार तरी आसतले. सगळ्यां कडल्यान हांव आयुष्यभर कितें-न्हय-कितें घेत आयलां. घेवपा सारकें कोणा कडल्यानूय घेवचें. भुरग्यां कडल्यानूय घेवचें, पिशा कडल्यानूय घेवचें. 'बालादपि सुभाषितम् ग्राह्यम्' अशें आमगेले म्हालगडे सांगताले. हे शिकवणेक धरून हांव सगळ्यां कडल्यान घेत रावलां.

पुणून घेतले उपरांत हांवें तें म्हज्या अणभवांच्या वरकुलार घांसून काडलां, तर्जून पळेलां आनी थंय खरें उतरलां तेन्नाच ताका म्हजें केलां. म्हजें जाले उपरांतूच तें म्हजे जिबे वयल्यान वा लिखणेंतल्यान उक्ताडा आयलां.

लीन युतांगाचें **The Importance of Living** नांवाचें एक पुस्तक वाचिल्लें. कांय पुस्तकां bedside books – उशा कडेन दवरपा सारकीं आनी न्हिदचे पयलीं वाचपा सारकीं आसतात. तांतलेंच एक रुचीक पुस्तक हें. खंयचेंय पान उकतें करून वाचचें. जिबेर घोळत रावतलें असलें कितेंय तरी त्या पानार मेळटलेंच मेळटलें. लीन युतांगान ह्या पुस्तकांत नवें कांयच सांगूंक ना. तागेले म्हालगडे, चिनांतले पुर्विल्ले रुशी-मुनी, जिविता कडेन खंयचे नदरेन पळेताले – जिवितांत कितें सोदताले – तेंच हातूंत सांगलां. युतांगाचें आगळेंपण इतलेंच की ताणें तें आर्विल्ले भाशेंत आनी आपणालें म्हूण सांगलां. तो म्हणटा —

'हातूंत नवें कांयच ना. नवें अशें संवसारांत कितेंच नासता. हातूंत आयल्यात ते विचार तुमी हाचे पयलीं जायत्या विचारवंतांच्या पुस्तकांनी खंय-न्हय-खंय वाचिल्ले आसतले. पुणून हांवें ते हांगा म्हजे विचार म्हूण दिल्यात. म्हज्या व्यक्तित्वाचें ते आंग जावन रावल्यात, म्हूण दिल्यात. म्हज्या व्यक्तित्वांत तांचीं पाळांमुळां खोल गेल्यांत ताचें कारण they express something original in me, and when I first encountered them, my heart gave an instinctive assent. अशेंच आसता. मनीस जेन्ना आपणा कडेन सांगपा सारकें कितेंय आसा म्हूण पोटतिडकेन सांगपाक लागता, सांगले बगर रावं नज जाता तेन्नाच सांगता, सांगल्यार तें दुसऱ्यांक समजतलें ह्या भावार्तान सांगता, केन्ना केन्ना भौन भौन सांगता, तेन्ना, ताचे भाशे वयल्यानूच तें ताचें निजाचें मौलिक, ओरिजिनल म्हूण सांगूं येता.

उशणें आनी अडेचें वळखुपाक वेळ लागना.

□ □

# ५

# बरोवप्याची साधना

बरयतना म्हाका केन्ना यत्न करचे पडूंक नात. बरयलें, सारकें जालेंनाशें दिसलें, पिंदून उडयलें. नव्यान बरोवंक घेतलें, हे तरेचो अणभव केन्ना आयलो ना. कसलेंय तरी एक निमित्त्य जालां आनी तकलेंत कितेंय तरी घोळपाक लागलां. तें थंय शिजून आयलां आनी भायर सरपाक आंवडेवंक लागलां तेन्नाच पेन हातांत घेतलां. आनी आयलां तशें बरयलां.

बरोवप स्वास घेवपा इतलेंच सभावीक अशें दिसलां.

बरेंच बरोवन जाले उपरांत एक दीस अकस्मात दिसपाक लागलें, अशें 'येता तशें बरोवप' समा न्हय. येता तशें कोण गायना. गावपी मनीस ताळो कमयता, रियाज करता आनी बरीच साधना केले उपरांतूच गावपाक भायर सरता. बरोवप लेगीत हेच तरेची एक कला. ती केळोवची पडटा. तिचोय रियाज करचो पडटा. तिचीय एक साधना आसा, एक तपश्चर्या आसा. तेन्ना सावन जें आयलां तें हांवें तर्जून पळेलां, घांसून-पुसून काडलां, सारकें जालां काय ना तें पळेलां आनी उपरांतूच छापूंक दिलां. ही सगळी शिल्पकारिता – क्राफ्ट्समॅनशीप – हातांत पेन घेवन बरोवंक बसलां ताचे आदीं मनांतल्या मनांत केल्या, बरयता आसतनाय केल्या. तर केन्ना बरोवन जाले उपरांत केल्या. पुस्तका रुपान छापचें अशें थारायलां त्या वेळार बरपा वयल्यान कितलेशेच खेपे हात ओडला. निमण्या प्रुफां मेरेन ओडला.

बरोवप कला, ते भायर, एक साधना. आनी खंयचीय साधना तपश्चर्ये बगर जायना.

म्हजें बरप चडशें वैचारीक, खंयच्या तरी एका विशया वयलें. ज्या विशयांचेर हांवें बरयलां त्या विशयांचें चिंतन, कितलिंशीं वर्सां जालीं, करीत आयलां. खंयच्याय विशयाक उण्यांत उण्यो दोन कडो आसतात. दोनूय समजून घेवपाचो यत्न केला. ते खातीर तज्ज्ञांचीं पुस्तकां वाचल्यांत. एका मळार हांव हेरां प्रस भाग्यवंत. जिविताचो खोलायेन विचार केल्ल्या कांय कृतिशीळ विचारवंतांचो म्हाका सांगात मेळ्ळा. तांच्या पांयां कडेन बसून त्या विशयांची चर्चाय केल्या. इतल्यान संतुश्ट रावूंक ना. खंयच्याय विशयाचेर जेन्ना बरोवपाक बसलां तेन्ना त्या विशयाचेर 'लेटेस्ट' कितें आयलां तें सोदून तेंवूय नदरे खाला घालां आनी उपरांतूच पेन हातांत घेतलां.

हालिंचें म्हजें सगळें बरप ह्याच न्यायान चिंतून, तर्जून, स्पस्ट करून, तकलेंत घांसून पुसून निवळावन जाले उपरांतूच कागदार आयलां. म्हजें वाचपूय हेच दिकेन

चल्लां. ज्या विशयाचेर म्हाका बरोवपाचें आसता त्या विशया वेलें जें जें कितें मेळूं येता तें एकठांय करतां आनी तेंच चडशें वाचतां. जिज्ञासे खातीर वाचपाचे आनी येता तशें बरोवपाचे दीस म्हज्या जिवितांतले साप ना जावन गेल्यात.

बरोवप एक कला. हेर कलां सारकीच नाजूक. ती साधपाक साधना जाय. साधना खूब गरजेची म्हणपाचें लक्षांत आयलें त्याच वेळार म्हजें शैली कडेन लक्ष वचपाक लागलें. अलंकारीक शैली म्हाका केन्नाच मानूंक नाशिल्ली. म्हाका ती लिपस्टीक, रूज, पावडर लावन सुंदर म्हूण भासोवपी 'ॲनॅमिक' चलये सारकी दिसची. शैली आरोग्यवान चलये सारकी दिसूंक जाय. शृंगार करी नासतना सुंदर दिसूंक जाय, अशें दिसतालें. सुंदर शैलिच्या सोदांत आसतनाच कोणें एकल्यान सांगलें (काय खंय तरी वाचलें) इंग्रजींतलो ड्रायडन वाच – Prose has never been written in England like that before; it has seldom been written like that since. म्हूण, ड्रायडन वाचपाक घेतलो – जिवी तट्टटीत, तरांतरांच्या रंगांची, झुळझूळ करून व्हांवतल्या वाऱ्या सारकी तागेली शैली पळोवन खुशालभरीत जालों. वेगळ्या वेगळ्या शैलिंचो अभ्यास करतलों, अशें थारायल्लें. पुणून हे तरेचो अभ्यास करपा खातीर जी उसरपत मेळूंक जाय ती म्हाका केन्नाच मेळ्ळी ना. रासवळ जिवितांत नाका नाका जाल्ल्या राटावळिंनी पडलों आनी जेन्ना ह्या राटावळिंतल्यान मेकळो जालों तेन्ना खूब बरोवनूय जाल्लें. पुणून एक जतनाय हांवें सदांच घेतिल्ली—

जें बरयतां तें स्पस्ट आसूंक जाय. म्हाका कितें सांगपाचें आसा तें पयलीं म्हाकाच सारकें समजल्लें आसूंक जाय आनी, तें बल्कांवार झांकड्यांक बसून कोणाकूय सांगतलों तितल्या सोंपेपणान म्हाका सांगूंक येवंक जाय.

शैली सुंदर आसची हो हावेस मनांत केन्ना धरलो ना. ती स्पस्ट आसची, सादी आसची, कानाक गोड लागता अशी आसची, इतलोच हावेस बाळगिलो. वाक्यां सुटसुटीत आसचीं हो विचार बरयतां बरयतांच मागीर आयलो.

कांय जाण बरोवंक बसतात तेन्नाच येवजूंक लागतात. हांव अशें केन्ना करिना. कितें बरोवंक भायर सरलां हें हांव पयलीं येवजितां. तें तकलेंत भितरले भितर शिजयतां. शिजून तयार जालें अशें दिसता तेन्नाच बरोवपाक बसतां. बरयता आसतना मदीं मदीं नवें कितें कितें येवजता. सृजनाचे प्रक्रियेचो हो एक वांटो अशें धरून चलतां. कितें सांगपाचें आसा हें बरोवप्याक खबर नासत जाल्यार तो जें बरयता तें वाचप्याक दोन दोन तीन तीन खेपो वाचचें पडटा. बरोवप्यान वाचप्यांचेर हे तरेची आगळीक करूंक जायना. दोन-दोन, तीन-तीन खेपो जें वाचचें पडटा तें बरप गंभीर आसतलें अशें म्हणूंक येना. तातूंत अस्पस्टपण आसूं येता. दुर्बोधताय आसूं येता. कठिणांतले कठीण विशय लेगीत सोंपे भाशेंत सांगूंक येतात हें बर्ट्रांड रसेल वाचतकूच समजलें. रसेलाचें सगळें बरप दार्शनीक – फिलॉसॉफिकल. पुणून कोणाकूय समजूंक जाय हे तरेन बरयल्लें. शॉपेनहावर उपरांत हातांत पडलो. ताणेंय सोंपेपणांत सादेपणांत जें सौंदर्य आसा तें अलंकारीक भाशेंत ना हाची जाणवीक

करून दिली. सोंपी आनी सादी शैली आपशीं येना. ती केळोवची पडटा. संस्कारिते सारकी गजाल ही. संस्कारिताय केळोवची पडटा. औचित्य, शिष्टाचार, मर्यादा हीं संस्कारितेचीं लक्षणां. तीं शैलिंतूय दिश्टी पडूंक जाय. संस्कारी मनीस हुतहुतो नासता, चंचल नासता, गंभिरूय नासता. तो प्रसन्न आसता, प्रसन्नूच आसूंक जाय. तो केन्ना तुका वाज वा उबगण हाडिना. तो स्वताय उचांबळीत जायना, तुकाय उचांबळीत करिना. युरोपांत सगळ्यांत बरें गद्य खंय वॉल्तेरान बरयलां. म्हजे मुखार गांधी आशिल्लो. काकासायब, विनोबा आशिल्ले. तिगांचेय शैलींत तांगेलें अंतरंग दिश्टी पडटालें. तांगेल्या बरपांतलें एक उतर हे वटेनचें ते वटेन करूंक येनाशिल्लें. तिगांचीय शैली संस्कारी, प्रांजळ, तांगले अभिरुचिचो तसो तांगेले शक्तिचो अदमास करून दिवपी. गांधींची इंग्रजी तर गद्याची एक बऱ्यांतली बरी पत म्हूण मुजरत अभ्यासपा सारकी. आपणाक कितें सांगपाचें आसा तें तिगांकूय बेस बरें खबर आशिल्लें. देखून तांगेल्या बरपांत एके तरेचो 'अधिकार' दिश्टी पडटालो.

हांव दोन निर्णयांर पावलां—

१) कवींक गद्य सारकें बरोवंक येना. शब्दनादांत गुंग जावपी लोक हे. आनी,

२) बऱ्या वक्त्यांक सारकें बरोवंक येना. इंग्रजींत जिका 'रेटरिक' म्हणटात तिच्यांत घुस्पल्ले लोक हे.

दोगांयची शैली पळोवपाक सुंदर दिसता. संगितान भरिल्लीय – सुरेलूय – दिसता. पुणून तांकां कितें सांगपाचें आसा तें वाचप्यांक सारकें समजना. यमक, श्लेष हे गद्याक दुर्बोध करपी दोन मोटे अवगूण. उतरांत नाद आसता. हो नाद वाक्यांत येवंक जाय. पुणून उतराक रुपूय आसता आनी रुपाकूय नादा इतलेंच म्हत्व आसता हें आमी विसरूंक फावना. सूर, रूप आनी वजन तिगांचोय सारको विचार करून उतरां आमकां वापरूंक येवंक जाय.

चाळीस वर्सां जालीं, बरयत आयलां. म्हजी शैली निवळत गेल्या. पुणून इतल्या वर्सांचे हे साधने उपरांतूय म्हाका म्हजे शैलींत कितलींशीं उणीं दिश्टी पडटात. म्हजे शैलींत कोंकणी ओपारी येनात. जांकां म्हणी आनी ओपारी येनात तांकां कोंकणींत बरोवपाचो अधिकारूच ना. पुणून, कितें करूं ? ह्या दोन आंगांचो अभ्यास करपाकूय म्हाका वेळूच मेळूंक ना. बरप dull आनी dry जावचें न्हय इतलीच एक जतनाय घेतल्या. म्हजीं फाटलीं पुस्तकां पर्थून छापून काडचीं जाल्यार हांव कितें करतलों, म्हाका खबर ना. आसात त्याच रुपांत छापूंक दिवपाचो म्हाका धीर जावचो ना. तांचे वयल्यान एक हात ओडपाची इत्सा जातली. पुणून, हात ओडूंक बसलों जाल्यार म्हजें पोरणें पुस्तक पोरणें उरचें ना. नवें जातलें. ताका मागीर नवें नांव दिवचें पडटलें.

म्हूण हांवें एक नेम केला—

बरयतां तें खंयच्या तरी नेमाळ्यांत पयलीं छापूंक दितां. तें खंयच्याय पुस्तकांत घालचें-शें दिसता तेन्ना ताचे वयल्यान हात ओडटां. प्रॅस कॉपी तयार जावन मेळटा

तेन्ना पर्थून एक हात ओडटां. मागीर प्रुफां वेळार एक नदर मारून पळेतां. मागीर ताका ताच्या नशिबाचेर सोडून दितां.

शिवराम कारंथ गोंयांत आयिल्ले. हांवें तांकां विचारलें, 'तुमगेलें पोरणें खंयचेंय पुस्तक पर्थून छापून काडचें पडलें जाल्यार तुमकां ताचे वयल्यान नव्यान एक हात ओडपाची इत्सा जावची ना?'

म्हणपाक लागले, 'बापूय आपणाल्या पुताक तो वयार येसर तरेतरेचे संस्कार दिवपाचो यत्न करता. तो वयार येवन समाजाचो एक घटक जावन समाजांत वावुरपाक लागलो म्हणटकूच ताका ताच्या नशिबाचेर सोडून दिवंक जाय. बापायन मागीर ताका सारको करपाचो यत्न करूंक जायना. पुस्तकांय आपणाल्या नशिबार जगतात वा मरतात.'

झांकतां झांकतां मनीस गांवकार जाता तसो बरोवन बरोवन मनीस बरोवपी जाता. बरयत रावंक जाय. तागेलें बऱ्यांतलें बरें पुस्तक, हे भाशेन, एका सारकें बरयत रावले उपरांतूच येता. पयलेंच पुस्तक बऱ्यांतलें बरें नासता. बरयत रावता तो चुको करता आनी चुको करीत करीत शिकता. खासा आपणाल्या अंतरंगाचो सोद घेवपाची दुसरी वाट ना. एक फावट मनशान आपणाक सोदून काडलो – डिस्कवर केलो – म्हणटकूच मागीर तो आपणाक उक्तावपाचो – आपणाक ॲक्सप्रेस करपाचो यत्न करता. हे प्रक्रियेंतल्यानूच ताका तागेलो सूर लागता – He arrives. कोणें एकल्यान म्हळां, A good work is a result of long apprenticeship and at the cost of good many failures. शैलीकूय होच नेम लागू जाता. शैली खातिरूय सूर लागूंक जाय.

उतराक सूर आसता तशें रुपूय आसता. देखून वाक्यांत उतरां अशे तरेन वापरूंक जाय की तीं वाचतल्याच्या कानांकूय गोड लागूंक जाय आनी दोळ्यांकूय सोबीत दिसूंक जाय. Good prose should resemble the conversation of a well-bred man. घरंदाज आनी संस्कारी मनशाच्या खबरां सारकें गद्य आसूंक जाय. वाचतल्याक वाज येवंक जायना. ताका तें थिल्लर-शेंय दिसूंक जायना. आनी ताचे तकले वयल्यान वचत अशें अति-गंभीरूय तें आसूंक जायना. हांव म्हज्या ह्या आदर्शा पसून अजून कितलोसोच पयस आसां. पुणून आदर्शा मेरेन पावपाचो म्हजो यत्न एका सारको चलिल्लो आसता.

गांधींचें गद्य सादें, सोंपें, नम्र तितलेंच तेजिश्ट आशिल्लें. दोळ्यांक सोबीत दिसतात असलींच वाक्यां तांकां बरोवंक येतालीं. कित्याक, तांगेले कान सुरां कडेन लक्ष दिवपी आशिल्ले.

स्वास घेवपा इतलें सोंपें आयज म्हजें बरप उरूंक ना.

□□

# ६

# बरोवप्याची खावड

धरुंया, आमकां जवाहरलालांगेर रावंक मेळिल्लें वा जवाहरलाल आमगेर येवन राविल्ले, जाल्यार आमकां कितें दिसतलें आशिल्लें? आमी आमकां भाग्यवंत लेखचे नाशिल्ले? आमच्या भाग्याची ही खबर आमी आयुष्यभर लोकांक सांगीत रावचे नाशिल्ले?

आमकां हें भाग्य आयजूय मेळूं येता. जवाहरलालांचें खंयचेंय पुस्तक घरांत हाडून दवरचें, हातांत घेवचें, उकतें करचें आनी वाचपाक लागचें. जवाहरलालांचो सांगात मेळटलो.

पुस्तकांक लागून व्हडल्या व्हडल्यांचो सांगात मेळूं येता हाची सगळ्यांत पयली जाणवीक जाली ती विवेकानन्द वाचूंक घेतलो तेन्ना. ताचे पयलीं जायतीं पुस्तकां वाचिल्लीं. चडशीं कथांचीं-नवलकथांचीं. भुरग्यांक काणयांची ओड तशी तरणेपणांत मनशाक कथा-नवलकथांची ओड. ह्या नेमान हांव वाचपाक लागलों तेन्ना सगळ्यांत पयल्यो कथा-नवलकथाच हातांत घेतल्यो. मनीस वयल्यान दिसता तसो तो नासता, वयल्यान दिसता तो तागेलो धावोच वांटो, णव वांटे ताचे भितर लिपिल्ले आसतात हें कथा नवलकथांनी दाखोवन दिल्लें.

मनशाक ताच्या अंतरंगा सयत समजून घेवपाक कथा-नवलकथांचो खूब आधार मेळटा ह्या निर्णयार पाविल्लों.

पुणून विवेकानन्द वाचूंक घेतलो तेन्ना एक नवीच ओड म्हज्यांत जागी जाली. म्हळें, हो मनीस आयज आसूंक जाय आशिल्लो. हांव ताका वचून मेळटलों आशिल्लों. ताच्या पांयां कडेन बसून तो कितें सांगता तें मन लावन आयकतलों आशिल्लों. तो सांगता तें काम करतलों आशिल्लों.

विवेकानन्द वाचून म्हाका विवेकानन्दाच्या सांगातांत रावपाची आकांताची ओड लागली. अवचीत एक दीस जाणवीक जाली—

म्हळें, विवेकानन्द आयज ना अशें म्हज्यान कशें म्हणूं येत? तो आसा. इतलेंच न्हय, तर फाटल्या म्हयन्या दोन म्हयन्यां पसून तो म्हाका आपणालो सांगात दीत आसा. म्हजे म्हन्यांत बसून कितल्यो-श्यो गजाली तो म्हाका सांगता. म्हाका प्रेरणा दिता, कितें करचें तेंय सांगता. विवेकानन्दाक वचून कितलींय वर्सां जाल्लीं आसूं, विवेकानन्द अक्षर देहान म्हजे म्हन्यांतूच आसा.

मनीस कितलोय आदलो आसूं – अडेज तीन हजार वर्सां आदलो आसूं, कितलोय

पयसलो आसूं – दोन अडेज हजार मैल पयस रावूं, तागेलें पुस्तक काळाचें आनी अवकाशाचें अंतर कातरून ताका आमचे म्हन्यांत हाडून बसयता.

पुस्तकाची येदी व्हडली ही तांक पळेले उपरांत तूं पुस्तकां विशीं उदासीन कसो रावतलो ?

आयज हांव चड-सो भायर सरना. कोणाक मेळूंक वचना. घरांतूच चडसो बसून आसतां. कोणूय विचारतात, तूं एकलो एकलो जायना ? हांव म्हणटां, हांव एकलो खंय आसां ? कितले-शे जाण म्हज्या सांगाताक म्हजे म्हन्यांत येवन रावल्यात. बुद्ध आसा, सॉक्रतिश आसा, तॉलस्तॉय आसा. इतलेय हे म्हन्यांत आसतना हांव एकलो आसतां अशें म्हज्यान कशें म्हणूं येतलें ?

म्हूण म्हणटां: घरांत एक आरमार हाडून दवरची आनी आरमारींत बरीं बरीं पुस्तकां हाडून दवरचीं – केन्नाच कोणाक एकलें एकलें दिसचें ना. केन्नाच उबगण येवची ना. जाय तेन्ना जाय ताचो सांगात ताका घेवंक मेळटलो.

जागेर पुस्तकांची आरमार ना तो कितलोय गिरेस्त आसूं, खरेपणानशीं तो अन्नाडी.

कांय जाणां विशीं खूब फावटीं प्रस्न पडला – पंदरा पंदरा, वीस वीस वर्सां जालीं, हे बरयतात. पूण वाडनात कशे ? पंदरा वर्सां पयलीं ज्या पांवड्यार आशिल्ले त्याच पांवड्यार उरल्यात. खरें म्हळ्यार, इतल्या वर्सां उपरांत तांचे कडल्यान एक 'मास्टरपीस' येवंकूच जाय आशिल्लो. अजून कसो येवंक ना ? आनी म्हाका जाप मेळटा, देवान हांकां सामान्या भायली प्रतिभा दिल्ली. तिका हांणी पोसवणूच दिली ना, म्हूण हे वाडूंक पावले नात.

कांय जाणांक हांवें दॉस्तॉयव्हस्कीचें 'द पझेस्ड' वाचपाक दिलें. म्हळें, विश्व साहित्यांतलीं पयल्या पांवड्याचीं धा पुस्तकां वेंचून काडचीं पडलीं जाल्यार आपूण दोस्तॉयव्हस्कीचें हें पुस्तक सगळ्यांत पयलीं वेंचून काडटलों अशें आल्बेर्त कामून म्हळ्ळें. ह्या पुस्तकाचेर आधारून कामून एक नाटकूय बरयल्लें. लक्षांत दवरपा सारकी गजाल: तांणी पुस्तक व्हेलां आनी परतें हाडून दिलां. म्हजे लायब्ररींतलें एकूच पुस्तक हें कीं जें कितलेशे खेपे भायर गेलां, तितलेय खेपे परतें आयलां. सामान्यतायेन भायर गेल्लें पुस्तक परतें येना.

तॉलस्तॉयाच्या 'वॉर ॲण्ड पीस' विशींय म्हजो होच अणभव. कांय जाणांनी व्हेलां. वाचलां ? खरेपण ना.

येवरोपांतल्या खंयच्याय बरोवप्याक विचारात, येवरोपांतलो हालिंसाराचो व्हडांत व्हड बरोवपी कोण ? 'मार्सेल प्रुस्त', तो जाप दितलो. मार्सेल प्रुस्ताच्या 'आ ला रिशॅर्श दु तांप पेरद्यु'चें इंग्रजी भाशांतर तीन खंडांत उजवाडा आयलां. ताचो पयलो खंड हांवें आमच्या एका व्हड कथाकाराक दिलो. कांय म्हयन्यांनी ताणें म्हाका तो परतो हाडून दिलो. दुसरो खंड दिलो तर म्हणपाक लागलो, 'नाका, माथ्या वयल्यान वता.'

आमी कोण कितेंच वाचिनात अंशें न्हय. वाचतात. पुणून एयरपोर्टार वा स्ट्रीट

कॉर्नरार आशिल्ल्या बुकस्टॉलांनी मेळटात तींच पुस्तकां चडशे वाचतात. तीं वाचचीं न्हय अशें म्हणिना. हीं पुस्तकां नवीं आसतात आनी नव्याची ओड आसप सभावीक. पुणून साहित्यांत लेगीत फॅशनी चलतात. आनी खंयचीय फॅशन आसूं ती, स स म्हयन्यांनी पोरणी जाता. हांव म्हणटां तसलें पोरणें क्लासिकल साहित्य वाचलें जाल्यार ह्या नव्या साहित्याचें मोल कळटलें आशिल्लें. चिरंतन मोलाचें साहित्य खंयचें आनी स स म्हयन्यांनी पोरणें जावपी खंयचें, हें समजतलें आशिल्लें. आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार —

आपूण खंय आसां हें कळटलें आशिल्लें.

प्रतिभावंताक व्यासंगाची, निरिक्षणाची खावड मेळुंकूच जाय. तो भायल्यान हेरां भाशेन जियेवं, आपणाले प्रतिभेक जेन्ना तो खावड दितलो तेन्ना तिचें काम ती भितरले भितर करीत रावतली आनी सट्ट करून एक दीस कितेंय तरी नवें वयर घेवन येतली. क्लासिकल साहित्या सारकी बऱ्यांतली बरी खावड दुसरी ना.

हेमिंग्वेक एकल्यान विचारलें – How to be a great writer? ताणें जाप दिली – Keep on writing. It is luck. हांव हातूंत एकूच वाक्य जोडीन: संवसारांतलें बऱ्यांतलें बरें साहित्य वाचीत राव. तूं वाडत वतलो. केन्नाय तरी एक दीस नवें चिरंतन मोलाचें कितेंय आमकां तूं वाचूंक दितलो.

□ □

# ७

# खूब भोंवंक जाय

णव्वद ब्याण्णव वरसांचे पिरायेर लेगीत काकासायब दिसाचीं धा-धा, बारा-बारा – केन्ना केन्ना पंदरा-पंदरा वरां काम करताले. सकाळीं चारांक तांगेलें काम सुरू जातालें. रातच्या धा मेरेन तें चलतालें. इतलें काम करून लेगीत तांकां केन्ना पुरो जायनाशिल्लें. तकली तरतरीत आसताली. सदां नवे नवे विचार ते दीत रावताले. नवे नवे विचार घेत रावताले. निर्शेणी खर्शेणी तांकां केन्ना आफड्डूंक पावली ना.

हे पिरायेवेली तांगेली उर्बा आनी तरतरीतपण पळोवन एकल्यान एक दीस तांकां विचारलें – 'काकासायब, येदी उतार पिराय जावन लेगीत तुमच्यांत म्हातारपणाचें एक लेगीत लक्षण कशें दिश्टी पडना?'

काकासायबांनी ताका जाप दिली, 'सांगूं? हांव एका सारको भोंवत आसतां. देखून अजून म्हातारो जावंक पावूंक ना. म्हातारपण हेरां फाटल्यान लागलां तशें म्हजेय फाटल्यान लागलां. पुणून हांव अजून ताच्या हातांत पडूंक ना. तें म्हाका सोदीत येता. लोकांक विचारता: 'काकासायबांक पळेल्यात?' लोक सांगतात: 'काल हांगा आशिल्ले. आज खंय गेल्यात, खबर ना.' हांव खंय गेलां जातलों हाचो म्हातारपण अदमास घेता आनी थंय वता. थंय ताका कळटा: 'सकाळीं हांगा आशिल्ले. निकते अमके कडेन वतां म्हूण सांगून गेल्यात.' म्हातारपण थंय धांवन वता. आनी थंयूय ताका हीच जाप मेळटा: 'निकते पळेल्ले, आतां कोण जाणा खंय गेल्यात म्हूण...' जे मेरेन हांव भोंवत रावतलों ते मेरेन म्हातारपण म्हाका धरूंक पावपाचें ना. आनी ते मेरेन म्हजे केंस पिकले तरूय हांव म्हातारो जावपाचों ना...'

मनीस सद्दां उठून तींच तींच कामां करीत रावलो, तींच तींच तोंडां पळेत रावलो, तेच तेच हुस्के काडीत रावलो म्हणटकूच कांय वरसांनी तो मनान जाणटो जाता. पिरायेन तरणो आसलो तरूय. मनशाक वरसां जाणटो करिनात. Routine – तेंचतेंचपण ताका जाणटो करता.

छाप्पन अठ्ठावन वर्सांची पिराय म्हळ्यार ऐन उमेदिची. ऐन कर्तुत्वाची. अणभवान गिरेस्त. हेच पिरायेर मनशान व्हडलीं व्हडलीं कामां आंगार घेवपाचीं. पुणून, नोकरेक आशिल्ल्या मनशाक सरकार जिस्त हेच पिरायेर निवृत्त करता. आनी 'खूब केलें काम तुंवें. आतां सुशेगाद घरा बसून राव. हें घे पेन्शन तुका' अशें सांगून ताका घरा धाडून दिता. कित्याक? ताचे पयलिंचीं तीस पस्तीस वर्सां तींच तींच कामां करून तो झरून गेल्लो आसता म्हुण्णूच मू?

जो एका सारको भोंवत रावता तो केन्ना झरून वचना. सद्दां नव्या वातावरणांत तो पावता, नवीं नवीं तोंडां पळेत रावता, ताका नवे नवे देखाव दिश्टी पडटात. नवे नवे अणभव येतात. नव्यो नव्यो गजाली आयकूंक मेळटात आनी तो सदां नवो ताल्ल उरता.

उदकान सदां व्हांवत रावंक जाय तशें मनशान सदां भोंवत रावंक जाय अशें आमचे म्हालगडे म्हणटाले ते बेश्टे न्हय. हेरांचें सोडून दिवंया – बरोवप्यान तरी ह्या नेमान भोंवत रावंक जाय.

पुर्विल्ले मुस्तींतले लोक मदीं मदीं यात्रेक वताले. यात्रेक वचचें असो एक नेमूच घालून दिल्लो तांकां आमगेल्या म्हालगड्यांनी. ह्या नेमाक धरून तांणी त्रिस्थळीची यात्रा करची. म्हळ्यार, प्रयाग काशी गयेक वचून येवंचें. कांय वर्सांनी चार धामांचे यात्रेक भायर सरचें. द्वारका, जगन्नाथपुरी, रामेश्वर आनी बद्रीनाथाक वचून येवचें. केन्ना न्हंयांची परिक्रमा करची – खंयचीय एक व्हडली न्हंय वेंचून काडची. ती जंय समुद्राक मेळटा थंयच्यान भायर सरचें, तिका उजव्या हाताक घालची, आनी चलत चलत तिच्या मुळा मेरेन वचचें. थंयच्यान परती तिका उजव्या हाताक घालची आनी आशिल्ले तशे चलत चलत समुद्रा मेरेन येवचें.

अजुनूय जायते लोक ह्या नेमाक पाळो दितात.

हो नेम जांणी घालून दिलो ते खऱ्यांनीच व्हडले दीक्षागुरू आशिल्ले म्हणूंक जाय.

असले यात्रेन लोकांक कसलें पुण्य मेळटालें, कोण जाणा. पुणून एक खरें, मनीस भायर सरतालो तेन्ना संवंयेच्या जाळ्यांतल्यान आपणाक सोडोवन घेतालो. आपणाक सदचे परस नव्या वातावरणांत व्हरतालो. आनी जेन्ना यात्रा करून परततालो तेन्ना तो नवो मनीस जावन येतालो.

यात्रेक वचून आयिल्लो खंयचोच मनीस आजवेर गेल्लो तसो परतूंक ना. तो नवें कितें घेवन आयला. नवो जावन आयला. यात्रेचें खरें पुण्य तें हें.

यात्रेचे कांय नेम आसात. यात्रेक वतल्या मनशान सगळे हुस्के सोडून भायर सरूंक जाय. तकलेवेलीं सगळीं ओजीं देंवोवन वचूंक जाय. सगळ्या बांदपासांतल्यान आपणाक सोडोवन सामको मेकळो जावन वचूंक जाय. म्हणटकूच दोन चार दिसां भितरूच तो तारखो आनी वार विसरतलो. फाटल्या आनी फुडल्या काळाचे ताचे सगळे बांदपास सुट्टले. आनी तो वर्तमानकाळांत जियेवपाक लागतलो.

बौद्ध तत्त्वज्ञानी म्हणटात: मनीस आपल्या दिसपट्ट्या जिवितांत एक तर फाटले उगडास काडून जियेता वा फुडलीं सपनां रंगोवन तातूंत घुसपून रावता. वर्तमानकाळांत तो केन्ना जियेच ना. जियेवपाक ताका मेळ्ळा तो खीण तो होगडावन बसता. खरेपणानशीं, फाटलो काळ मिथ्या. तो ना. कित्याक, तो गेला. परतो येवपाचो ना. फुडलोय काळ मिथ्या. तोवूय ना. कित्याक, तो अजून येवंक ना. खरो काळ वर्तमान. त्याच काळांत जियेवंक जाय. हें जेन्ना मनशाक कळटा तेन्ना मुखावेलो खीण निखटो खीण

उरना. तो eternal now जाता. तो ताका तरांतरांच्या अजापांनी भरिल्लो दिश्टी पडटा. तातुंतूच ताका नवें नवें सदां मेळत रावता.

यात्रेंत ह्या eternal now चो मनशाक दिश्टावो जाता.

तातूंत, आपूण कोण, खंयचो, खंयच्यान आयलां, खंय वतां हें मनीस विसरूंक पावत जाल्यार यात्रेचें शंबरांतले शंबर वांटे पुण्य तो जोडूंक पावतलो आनी तेन्नाच 'संवसार कितलो सुंदर' हो अणभव तो घेवंक पावतलो. हें पुण्य पुराय पदरांत घालून घेवचें आसत जाल्यार यात्रेच्या कांय पथांक पाळो दिवंक जाय.

पयलें पथ: यात्रा एकल्यान करूंक जाय. सांगाताक बायल, भुरगीं, इश्ट, वळखिचो, कोणूच आसूंक फावना. समाजांतलो आपलो पांवडो, हुद्दो, आपली गिरेस्तकाय सगळें घरा दवरून मनीस जेन्ना आपूण 'कोण न्हय' जावन एकलो यात्रा करता तेन्ना ताच्या आनी हेरां मदल्यो आपले-पेलेपणाच्यो आनी ऊंच-उणाकपणाच्यो सगळ्यो वणटी आपशींच कोंसळून पडटात. आमचे म्हऱ्यांत आपलीं मनशां आसतात तेन्ना दुसरे परकी दिसपाक लागतात. म्हऱ्यांत आपलो कोणूच नासता तेन्ना परकीय आपले दिसपाक लागतात. आनी आमी नवे नवे इश्ट, नवीं नवीं घरां जोडीत रावतात. यात्रेची ही सगळ्यांत व्हडली जोड.

यात्रेचें दुसरें पथ: जाता तोंवेर यात्रा पांयांनी करची. कोणें एकल्यान म्हळां: He alone travels who travels on foot. मोटारी, आगगाडयो, विमानां नाशिल्लीं तेन्नाय लोक यात्रा करताले. ह्यु-एन-त्सांग, इब्न बतूता, अल्बैरूनी, मार्को-पोलो, फेर्नांव मेन्दिश पिन्तु कितले भोंविल्ले! तांकां कसलीच ताकतीक नासताली. अमक्याच दिसां भितर परतूंक जाय हे तरेचें बंधन तांकां नाशिल्लें. ते पांयांनी ह्या गांवांतल्यान त्या गांवांत ह्या देशांतल्यान त्या देशांत भोंवत वताले. आनी जें पळेताले तें कितले बारकायेन पळेताले! ते 'साहित्यीक' नाशिल्ले. पुणून केल्ले यात्रेचीं वर्णनां तांणी बरयलीं. आनी साहित्यीक नासतना साहित्यिकांच्यो कितल्यो-श्यो पिळग्यो प्रभावीत केल्यो. ते इतिहासकार नाशिल्ले. तरी आसतना तांणी आपल्या काळांतल्या जिव्या मनशांचो इतिहास तांब्यापट्याचो आधार घेनासतना बरोवन दवरलो आनी इतिहासकारांच्यो कितल्यो-श्यो पिळग्यो प्रभावीत केल्यो.

आमच्या देशांतले बौद्ध भिक्षु नेपाळांत गेले. थंयच्यान तिबेटांत गेले. तिबेटा सावन मोंगोलियेक आनी थंयच्यान चिनांत वचून बुद्धधर्माचो प्रचार करीत रावले. आयज जो 'झेन' नांवाचो एक बौद्ध संप्रदाय चीन-जपानांत चलता ताचो उद्गातो बोधिधर्म नांवाचो एक भारतीय भिक्षू तारवार बसून चिनांत गेल्लो. आशिया खंडाच्या नक्शावेल्यान एक नदर भोंवडावन पळोवची आनी [illegible] व्हडल्या ह्या आयस-पयस वाटारांत बुद्धमत्त कशें पातळ्ळें हाचो अदमास घेवचो. म्हणटकूच, बौद्ध मिशनऱ्यां मुखार. तकली आपशींच बागवतली. तांच्या हातांत तरसाद नाशिल्ली. फाटल्यान खंयचेंच साम्राज्य नाशिल्लें. तांच्या हातांत आशिल्लो तो फकत एक विचार. आनी काळजांत आशिल्ली ती हो विचार पातळावपाची फकत एक उर्बा. हे उर्बेन तांच्या

पांयांक गती दिली आनी ते अटंगीं रानां माड्डीत, आकांताळे पर्वत हुपीत सगळे कडेन भोंवत रावले.

कितली समृद्ध जीण ते जियेल्यात जातले!

आयज यात्रेचीं साधनां वाडल्यांत. सकाळीं मुम्बय च्या घेवन रातच्या जेवणाक आमच्यांनी आयज तोक्योक पावं येता. कांय जाण सकाळीं च्या घेवन मुम्बयच्यान भायर सरतात, दनपारचें जेवण काइरोक घेतात आनी न्हिदपाक रातचे लंडनाक पावतात. पुणून, हुंदीर मालाकाक वचून आयिल्लो, तशीच हांची गत्त म्हणची पडटा. पार्सलां जाल्ले वरी विमानांत चडप, पार्सलां जाल्ले वरीच विमानांतल्यान देंवप, यात्रेचें कसलें पुण्य हांच्या पदरांत पडटलें, कपळाचें? यात्रेचीं साधनां जितलीं जितलीं वाडत गेलीं तितली तितली यात्रा अळणी जायत गेली.

यात्रेचें पुण्य हांव कित्याक म्हणटां, सांगतां—

धरुंया, आमी येवरोपाची यात्रा करची थारायली. जाल्यार, दोन वाटो आसात. एक बोटिची. दुसरी विमानाची. आयज चडशे लोक विमानानूच येवरोपाक वतात. आनी हांगासल्ल्यान भायर सरून दीस सोंपचे पयलींच येवरोपाक पावतात. विमानां येवंक नाशिल्लीं तेन्ना लोक बोटीन वताले. वीस बावीस दिसांनी थंय पावताले. ह्यो दोनूय वाटो अळणी, अरसीक देखून त्यो सोडून दिवपाच्यो. आनी तिसरीच एक वाट धरपाची. हांगासल्ल्यान पांयांनी पाकिस्तानांत वचुंया. थंयच्यान खैबर पासांतल्यान अफघानिस्तानांत वचून इराण इराक पळेत इजिप्ताक वचुंया. इजिप्ता सावन पुराय उत्तर आफ्रिका माड्डीत जिब्राल्ताराचे वाटेन स्पेनांत भितर सरुंया. लागतीत आमकां देड दोन वर्सां येवरोपाक पावपाक. दिवपाक आमचे कडेन इतलो वेळ नासत जाल्यार बस, आगगाडी, घोडे, ऊंट असल्या वाहनांचो आधार घेवंया. तीन चार म्हयन्यां वयर लागपाचे नात येवरोपाक पावपाक. धरुंया, अशे आमी गेले. जाल्यार अणभवान आमी कितले गिरेस्त जातले, अदमासूच करून पळोवचो. म्हणटकूच यात्रेचें पुण्य हांव कित्याक म्हणटां तें लक्षांत येतलें.

जपानाचे यात्रेचें थरलें जाल्यार मिनेरांची वाट सोडून बौद्ध भिक्षू जे वाटेन गेल्ले ते वाटेन वचुंया. नेपाळ, तिबेट, मोंगोलिया, चीन, कोरिया करीत जपानांत भितर सरुंया. वाटेर कितलें पुण्य आमी जोडीत वतले! एक अख्खो नवो संवसार आमच्या दोळ्यां मुखार ताचे संस्कृताये सयत जिवो तट्टटीत उबो रावचो ना व्हय? ध्यानामनांत नाशिल्लें कितलेंशेंच आमकां पळोवंक मेळटलें. आनी यात्रेंतल्यान परततले तेन्ना साप्प नवे जावन परततले. मिनेरां परस कोट्यांनी वांट्यांनी गिरेस्त जावन येतले. 'हिप्पी' चडशे असलेच तरेची यात्रा करतात. म्हाका तांचो सदांच मत्सर दिसला.

आयुष्यांत आमी जशीं कितलिंशींच वर्सां शिक्षण घेवपांत खर्चितात तशीं, शिक्षण सोंपले उपरांत, नोकरेक लागचे पयलीं, कांय वर्सां असले यात्रे खातीर खर्चूंक जाय. इतलेंच न्हय, तर असली एक लेगीत यात्रा जाणें करूंक ना ताका नोकरेक लावचे ना असो नेमूच करूंक जाय. एक पावल मुखार घालून हांव म्हणीन: असली यात्रा

जाणें करूंक ना ताच्या गळ्यांत खंयचेच चलयेन माळ घालूंक जायना, असोय एक नेम करूंक जाय.

संवसाराची गजाल सोडून दिवंया. आमचो देश तरी आमी असो भोंवन पळेला व्हय ? भासो, धर्म, जातींक लागून आमी एकामेकां पसून पयस गेल्यांत. एकराष्ट्रीयत्वाची भावना आमच्यांत निर्माण करपा खातीर हे तरेची यात्रा जण एकल्यान करूंकूच जाय. सामकी गरजेची ती. यात्रे बगर देशाची आमकां सारकी वळख जावपाचीच ना. यात्रे बगर देश घटमुटूय जावंक पावचो ना.

पुणून आमच्या बोल्सांत पयसो ना, तसो आमच्या हातांत वेळ ना. समयदरिद्री लोक आमी. तें कित्याक, आमच्या काळजांत असल्या कर्तुत्वाची उर्बाय ना आनी आमच्या दोळ्यां मुखार असलीं सपनांय नात. आमी जल्मस्त म्हातारे लोक. देखून आमी मनिसूच जावंक पावक नात. दुडू जोडपी आनी अन्न पचोवपी माक्नां – मनी मेकिंग डायजेस्टीव्ह मशीन्स जावन – पडल्यात. अशे जावपाक आमी जल्माक येवंक नात. 'मनीस' जावपाक आयल्यात. आनी, मनशाक मनीस करपाक यात्रे सारकें प्रभावी साधन दुसरें ना. दुसरो धर्म ना. बरोवप्यान तरी भोंवंकूच जाय.

□ □

# ८

# स्वाध्यायांत आळसाय नाका

गुरू-पूर्णिमे दिसा चातुर्मासाची दीक्षा फकत स्वामीच कित्याक घेतले? आमच्यांनी घेवं नज व्हय तर ती? आमचीच – शिकपी, शिकोवपी, बरोवपी लोकांची परब ती. चातुर्मासांत कितें करचें हाचो देड-दोन म्हयने आदींच विचार करचो आनी गुरू-पूर्णिमा आयली म्हणटकूच त्या दिसा ताचो आरंभ करचो.

फाटल्या वीस-पंचवीस वर्सां सावन हांवें ह्या दिसा कसलेंय तरी नवें काम आंगार घेतलां: केन्ना नवो खंयचोय एक विशय शिकपाक घेतला, तर केन्ना साहित्य निर्मणेचो नवो प्रकल्प सुरू केला. **महाभारता**च्या अनुसर्जनाचो पयलो ड्राफ्ट गुरू-पूर्णिमे दिसाच सुरू केल्लो. ते पयलीं **ब्रह्मांडांतलें तांडवूय** ह्याच दिसा बरोवपाक घेतिल्लें. काकासायबांचें जिवीत हिन्दींत बरोवचें अशें थरलें. ह्याच म्हुर्तार तें सुरू केल्लें. अठ्ठावन वर्सांचे पिरायेर अवचीत् एक दीस बंगाली शिकचीशी दिसली. गुरू-पूर्णिमे दिसाच सुरू केली.

अंदू वर्सा म्हजे कडेन असलो कसलोच प्रकल्प नाशिल्लो. फाटल्या दोन तीन म्हयन्यां पसून तकलेंत एक विचार घोळपाक लागिल्लो: म्हळें, फाटल्या तीस पस्तीस वर्सांच्या काळांत खूब कितें बरयलें. तांतलें जें कितें सांबाळूंक पावलां ताचे वयल्यान एक नदर भोंवडावची. एकाद-दुसऱ्या पुस्तकांत घालपा सारकें कितेंय तातूंत मेळ्ळें जाल्यार तें वेगळें काडचें. हें वेगळें काडिल्लें आनी पुस्तकांनी छापून आयिल्लें सगळें एक फावट तर्जून पळोवचें, खंय खंय कातर लावची, उरिल्लें घांसून पुसून निवळ करचें, आनी ताचे दोन तीन खंड तयार करून दवरचे. 'कोंकणी बरपावळीक म्हजें योगदान इतलेंच हें' अशें हांवेंच थारावचें आनी बाकिचें सगळें काळाचे व्हांवतेंत सोडून दिवचें. अंदू गुरू-पूर्णिमे दिसा हें काम हातांत घेवचें आनी पावसाळ्याच्या चार म्हयन्यां भितर तें पुरें करचें, अशें येवजिल्लें.

पुणून, 'कंडिशन्ड रिफ्लॅक्स' नांवाचो एक नेम मानसशास्त्रांत आसा. ह्या नेमाक धरून गुरू-पूर्णिमे दिसा सकाळीं उठनाफुडेंच पांय आपशींच म्हाका पुस्तकांच्या आरमारीं कडेन ओडून घेवन गेले. एक आरमार उकती केली. चार म्हयन्यांक पावत असलें एक पुस्तक सोदपाक लागलों. म्हजे बरपावळीक अंतीम रूप दिवपाचें काम, म्हळें, हांवूंच कित्याक करतलों? काळाचें काम हें. सगळी बरपावळ ताचे व्हांवतेंत सोडून दिल्ली बरी. तिचें कितें करचें तें तोच थारायतलो. ताचें काम हांवें आंगार कित्याक घेवचें? 'तू तो राम सुमर जग मरवा दे' अशें म्हणून अंदू चातुर्मासांत वाचपा

खातीर बरेंशें एक पुस्तक सोदपाक लागलों. नदर **ज्ञानेश्वरी**चेर पडली. म्हळें, चातुर्मासांत ही घेवन बसतलों.

इतल्यांत एक उगडास जालो.

धा-एक वर्सां पयलीं एका चातुर्मासांत अशीच **ज्ञानेश्वरी** वाचूंक घेतिल्ली. चार म्हयने तिच्याच प्रभावांत राविल्लों. ज्ञानेश्वर म्हळ्यार प्रतिभासंपन्न कवी एक. प्रतिभावंतां भितरल्या प्रतिभावंतांक लेगीत अजापांत उडोवपी. सद्दां न्हावन धुवन हांवें बसचें. मुखार उजवाती पेटोवच्यो आनी वाचचें. दिसाक वरभर ज्ञानेश्वराच्या सांगातांत रावचें. वाचतां वाचतां केन्ना केन्ना 'आतां हाचें कितें करचें' ह्या घुटमळ्यांत पडटालों. म्हजे कडेन एक डायरी आशिल्ली. नवी करकरीत. तिचेर हांव म्हाका आवडटात त्यो ओंवयो बरोवन दवरपाक लागलों.

चातुर्मास सोंपपाक जिस्त दिल्लीक एके बसके खातीर वचपाचें जालें. चार दीस पयलींच भायर सरलों. म्हळें, मुम्बयंत दत्ताराम सुखठणकारां सरीं चार दीस रावतलों. आनी जो आनन्द ह्या चार म्हयन्यांत लुटला तातूंत ताकाय वांटेकारी करून घेतलों.

मुम्बयंत पांय दवरिना फुडें म्हजीं 'प्रवचनां' सुरू जालीं. डायरी उकती करून तांतल्यो ओंवयो दत्तारामाक वाचून दाखोवपाक लागलों. मदीं मदीं अर्थ समजावन सांगपाक लागलों. तोय म्हूण कसलो, 'वाहवा, वाहवा, सुंदर !' असल्या उद्गारांनी दादूय दिवपाक लागलो. हांव खोश्शी जाल्लों.

चौथ्या दिसा अवचीत् ताणें म्हाका म्हळें, 'सांगतां म्हूण रागार जावं नाका आं, रवीन्द्र !... तुका विद्वानायटीस जाल्या...'

तोंड आं करून हांवें ताका विचारलें, 'म्हळ्यार... कितें जालां ?'

म्हणपाक लागलो, '**ज्ञानेश्वरी** अशे तरेचो एक ग्रंथ की जो व्हडल्या व्हडल्यांक पिशें लायता... **ज्ञानेश्वरी**चें पिशें जांकां लागता ते मागीर दुसरें कितेंच वाचिनात... **ज्ञानेश्वरीं**तूच तर्रर उरतात. मागीर उठ्ठना, बसतना, चलतना, भोंवतना, **ज्ञानेश्वरी**चेरूच प्रवचनां दिवपाक लागतात. चार चौगां भाशेन तांकां उलोवंकूच येना. लोक मागीर तांकां विद्वान मानपाक लागतात. तेवूय आपणाक विद्वान समजूंक लागतात. हांगा, महाराष्ट्रांत असले विद्वान चांटे पावलाक पळोवंक मेळटले... पिडा ही एके तरेची. हे पिडेक आमी विद्वानायटीस म्हणटात... तुका ही पिडा जाल्ली पळोवन म्हाका वायट दिसता...'

हांवें त्याच खिणाक कानाक पीळ घालो. म्हळें, हे मुखार **ज्ञानेश्वरी**चेर केन्नाच कितेंच उलोवचों ना, बरोवचों ना. खंय, कोणा मुखार, कितें उलोवचें हाचें तारतम्य नाशिल्ले **ज्ञानेश्वरी**चे कांय अन्नाडी 'विद्वान' हांवेंय गोंयांत पळेल्ले.

हे गजालिचो उगडास जायनाफुडें हांवें **ज्ञानेश्वरी** आशिल्ली तशी आरमारींत काडून दवरली आनी आरमार धांपली.

मनीस धर्म-पुस्तकांचीं पारायणां कित्याक करता ?

ज्ञानेश्वरीचीं पारायणां करपी हजारांनी लोक महाराष्ट्रांत मेळटले. **रामचरितमानसाचीं** पारायणां करपी लाखांनी लोक हिन्दी वाटारांत मेळटले. आनी बायबलाचीं करपी कोट्ट्यांनी लोक संवसारभर पातळ्ळेले मेळटले. ह्या पारायणांचो जिविताचेर इल्लोय जरी परिणाम जाल्लो जाल्यार येन्नासर मनीस सगळे देव जावपाचे आनी धर्तरी स्वर्ग जावपाची. पुणून देव खंयचो, मनीस दैत्य जाला आनी ताणें धर्तरी नरकापाश्ट करून दवरल्या.

पारायणां सगलीं फुकट गेल्यांत. कित्याक?

मनीस तेंच तेंच भौन भौन वाचीत रावलो म्हणटकूच तागेलें मन भेरेता. वाचता ताचो अर्थ ताच्या लक्षांत वचना. वाचता ते विर्शी इल्ली इल्ली करून एके तरेची वंदनशील सुप्ती ताच्या मनांत निर्माण जाता. ऑल्डस हक्स्लेन हिका reverential insensibility नांव दिलां. तिका भावार्तान भरिल्ली गुंगी म्हळ्या. पौश्टीक अन्न पोटांत पडूंक जाय, तरूच तें आंगाक लागतलें. पोटांत घेवपा बदला मनीस तें आंगाक साड्डीत रावलो जाल्यार तें कित्याक उपकारतलें? पारायणां करून आमी धर्म-पुस्तकां आंगाक साड्डितात. म्हूण तांचो आमच्या जिविताचेर कसलोच प्रभाव दिश्टी पडना.

धर्म-पुस्तकांचेंच फकत अशें जाता अशें न्हय. धर्म-पुरसांचेंय अशेंच जाता.

१९५२-५३च्या अदमासाक मुम्बयंत जे. कृष्णमूर्तींचे 'टॉक्स' आयकुपाक मेळ्ळे. ते मुस्तींत तांगेली पिराय पन्नास-पंचावनाची आसूंक जाय. जाणटेपण अजून येवंक नाशिल्लें आनी तरणेपण सोंपूंक नाशिल्लें. हे संधीकाळांतले ते पिरायेर कृष्णमूर्ती बद्द श्रीकृष्ण कशे दिसताले. इतलें प्रभावी व्यक्तिमत्व आयुश्यांत दुसरें अजून पळोवंक ना. देखणें रूप, सुरेल आवाज, कोण अभिजात गवयी गावंक बसला अशें दिसचें हे तरेची उलोवपाची तरा, आरोह, अवरोह, सम, ताल संगिताच्या सगल्या गुणांनी भरिल्ली इंग्रजी भासूय केन्ना आयकूंक नाशिल्ली (उपरांतूय केन्ना आयकली ना) असली. आनी सांगताले तें सगळें नवें ताल्ल, सामकें फ्रॅश. कृष्णमूर्तीन म्हजे पिळगेंतल्या कितल्याश्या जाणांक पिशें लायिल्लें. आमच्या सभावांतलीं कितलिंशीं धोंगां-पोंगां ताणें ना केल्यांत. मनांतल्यो कितल्योश्यो गांठी सोडोवन आमकां कितल्याश्या 'कॉम्प्लॅक्सां'तल्यान मुक्त केल्यात. कितें करचें हाचे परस कितें करचें न्हय, हेंवूय ताणें शिकयलां. कृष्णमूर्तींचे खूब उपकार जाल्यात म्हजे पिळगेचेर. व्यक्तिश: म्हजेर तर खुबूच. उपरांतूय दोन तीन खेपे हांव तांचे 'टॉक्स' आयकुपाक गेलां. पुणून तेवूय भौन भौन तेंच सांगतात तें पळोवन 'कितें करचें' ह्या घुटमळ्यांत पडलां. एक खेपे एकल्या गुरुतुल्य मनशाक विचारलें, 'पुन्हा पुन्हा तेच तेच कितीदां ऐकायचं?' ताणें जाप दिली, 'भीमसेन जोशीचं ते गाणं आहे. एकच राग कितीहीदां ऐकावा, कंटाळा यायचा नाही.' हांवें मनांत म्हळें, 'तशें जाल्यार हांव हे मुखार कृष्णमूर्तींचे टॉक्स आयकूंक वचचों ना'. आनी हांवें वचपाचें बंद केलें.

जे वताले तांच्यांतले कांय म्हजे इश्ट केन्ना केन्ना मेळटात. भौन भौन तेंच तेंच

आयकून ते जे जावंक जायनाशिल्ले तेच जिस्त जाल्यात. कृष्णमूर्तीआयट जाल्यात. तांकांय विद्वानायटीस जाल्या. उठ्ठा बसता चलता भोंवता आसतना ते कृष्णमूर्तींचे विचार सांगीत रावतात.

पयस रावन म्हजेर जो कृष्णमूर्तींचो आयजूय प्रभाव पडटा तो तांचेर पडटा जातलो, अशें दिसना. तांच्यांत कृष्णमूर्ती विशीं reverential insensibility उदेल्ली पळेतां. म्हाका मात अजुनूय कृष्णमूर्तींचो आधार मेळटा. म्हज्या आंतर-जिवितांत केन्ना केन्ना कांय प्रस्न उप्रासून येतात तेन्ना. हांव आयजूय कृष्णमूर्तींच्या बरपांत तांची जाप सोदतां आनी म्हाका ती मेळटा.

तसो हांव केन्ना केन्ना गीतेंतूय म्हज्या प्रस्नांच्यो जापो सोदतां. उतरांचो अर्थ सोदपाक आमी कोशाचो उपेग करिनात? हजार खेपो कोश उकतो करून अर्थ सोदतात. तशे, संदर्भग्रंथ म्हूण कोणूय गीता, ज्ञानेश्वरी, रामचरितमानस, विनयपत्रिका वा बायबल घेवन बसलो जाल्यार ताका कोण दुशण दिवचो ना. सगळे हे धर्मग्रंथ संदर्भग्रंथ म्हूण उपकारा पडपा सारके. ते घरांत आसचे. मदीं मदीं उकते करून पळोवचे. तांचो नेमान 'स्वाध्याय' करचो. कुडीक पोसवण दिवपाक आमी अन्न खातात. काळजाकूय पोसवणेची गरज आसा. ताकाय अन्न मेळूंक जाय. तें स्वाध्यायान दिवं येता.

येवजितां येवजितां सट्ट जालें. अंदू वर्सा गुरू-पूर्णिमेक कसलें व्रत घेवचें, हें कुवाडें सट्ट करून सुटलें. म्हळें, 'स्वाध्याया'चें व्रत घेतलों. फकत चातुर्मासा खातीर न्हय, उरिल्ल्या पुराय आयुष्या खातीर. उपनिषदांनी म्हळां, जीवन-निष्ठ मनशान स्वाध्यायांत प्रमाद करूंक जायना. आळसाय करूंक जायना. **स्वाध्यात् मा प्रमदः** हरशीं वाचता तें वेगळें. तेंवूय गरजेचें. कितलेंय काम आसूं, वाचपा खातीर मनशान वेळ काडुंकूच जाय. सदां नवें कितें कितें वाचीत रावंक जाय. ज्या विशयाचेर हांव बरयतां उलयतां ताचेर कोणें कितें म्हळां हें जाणा जावन घेवपा खातीर पुस्तकां वाचुंकूच जाय. पुणून ते भायर, 'स्वाध्यायू'य वेगळो चलोवंक जाय. म्हळ्यार, असलीं पुस्तकां वाचूंक जाय कीं जातूंत जिविताच्या बुन्यादी तत्त्वांची चर्चा आयल्या. तीं वाचून तांचें मनन करूंक जाय. इतलेंच न्हय, तर अणभवाचे कसवटणेर तीं घांसुनूय काडूंक जाय. आनी जिवीत घडोवंक जाय. आयदनां सदां घांसून दवरूंक जाय. ना जाल्यार तीं काळीं पडटात. तशें मन आनी काळीज सदां घांसून पुसून निवळ करूंक जाय. ना जाल्यार तेंवूय क्षीण जाता. म्हळें, आतां वेदां पसून सुरू करून विनोबा मेरेनची आमची पुराय आध्यात्मीक परंपरा एक फावट नदरे खाला घालतलों. आनी सगली परंपरा अणभवाचे कसवटणेर घांसून काडटलों.

अंदू वर्सा गुरू-पूर्णिमेक व्रत घेतलें – नित्य नेमान 'स्वाध्याय' करपाचें. सकाळचें एक तरी वर ताका दिवपाचें. म्हळें, हे मुखार स्वाध्यायांत निखालूस आळसाय करप ना.

□ □

# १

# दिसपटी

दिसपटयांच्यो कांय तरा आसात.

खासा आपणालीच आपणाक सारकी वळख जावंक पावची – आपूण केन्ना तिडकतां, केन्ना खंती जातां, केन्ना भुल्लुसतां, केन्ना निर्शेतां, केन्ना आनी कित्याक लागून आपूण कोणाचो कसो दुस्वास वा मत्सर करूंक लागतां, हें खासा आपणाकूच कळचें म्हूण कांय जाण दिसपटी बरयतात. कृष्णमूर्ती असल्यो दिसपटयो बरयात म्हूण सांगताले. तुमचें जें रूप तुमकां हरशीं दिश्टी पडना, तें तुमकां तुमचे दिसपटयेंत दिश्टी पडटलें, आनी तुमी आपणाक सारके वळखूंक पावतले, अशें म्हणटाले. असल्यो दिसपटयो खासा तुमकांच उपकरा पडटल्यो अशें सांगताले.

तॉलस्तॉय असल्योच दिसपटयो बरयतालो. पुणून ताचो उद्देश फकत आपणाक वळखप इतलोच नाशिल्लो. आपणाक 'सुधारप' होय आशिल्लो. तॉलस्तॉय मुदलांत एक साधक. सत्तर वर्सांचे उतार पिरायेर लेगीत आपणांत अवगूण दिश्टी पडले जाल्यार ते 'काडून उडोवपाक' वावुरपी. चूक ताका मात लेगीत सोंसनाशिल्ली. चुकीक ख्यास्त फर्मावपाक तो मातूय अनमन नाशिल्लो. आपणाकूय ख्यास्त करतालो, दुसऱ्यांकूय करतालो. खुबूच असंतुश्ट मनीस. आपणाक दांभीक, फटींग, अप्रामाणीक म्हणपाक तो मात लेगीत अनमनूंक ना. दुसऱ्यांक टिका करपाक ताणें संदूच दवरूंक ना. तॉलस्तॉयाच्या दिसपटयांतल्यान आमकां तॉलस्तॉयाचें अंतरंग पळोवपाक मेळटा आनी आमकां तॉलस्तॉय हो 'मनीस' आवडूंक लागता.

पुणून दिसपटयांच्यो ह्यो दोनूय तरा साधकांच्यो.

दिसपटयांची आनीक एक तरा आसा – साहित्यकारांची. साहित्याचो एक सुंदर 'फॉर्म' म्हूण ते दिसपटयो बरयतात. तातुंतूय तांचें अंतरंग आमकां पळोवंक मेळटा. तांगेल्या आवडी-निवडिंचो, ग्रहां-दुराग्रहांचोय अदमास येता. आंद्रे जीदचे **जर्नल्स** हे जातिची दिसपटी. जीदची बरपावळ वाचून जीद कसो आशिल्लो हें समजना. तें हे दिसपटयेंतल्यान आमकां कळटा. पुणून तांणी आत्मकथा बरयल्ली जाल्यार दिसपटयेंत ज्यो गजाली आयल्यात त्यो आत्मकथेंत थोड्या-भोव प्रमाणांत येतल्योच आशिल्ल्यो. देखून आंद्रे जीदचे 'जर्नल्स' वाचता आसतना आपणाक उकतावपाचो आत्मकथे सारकोच साहित्याचो तांगेलो हो एक फॉर्म म्हुण्णूच तांचे कडेन पळोवंक जाय.

सॉमरसॅट मॉमूय एक साहित्यकार. कितेंय पळेलें, वाचलें, आयकलें म्हणटकूच तो तें रोखडेंच बरोवन दवरतालो. सैमाचो एक बरो देखाव दिश्टी पडलो, ताचें वर्णन

बरोवन दवरलें. दोग जाण कितें उलयतात तें आयकलें, बरोवन दवरपा सारकें दिसलें, बरोवन दवरलें. मनांत कितें घोळ्ळें, बरोवन दवरलें. कितें वाचलें, येवजलें, तेंय बरोवन काडलें. मॉम एक कथाकार. आपणाल्या कथां खातीर ताका तरांतरांचो 'मसालो' जाय आसतालो. तो हे भाशेन तो एकठांय करून दवरतालो. कितल्योश्यो पटयो भरून तांणी असलो 'मसालो' एकठांय केल्लो. तांतलो कितलोसो ताणें आपणाले बरपावळींत वापरिल्लो. जो वापरी नासतना उरलो ताचें ताणें एक पुस्तक केलें आनी तें **अ रायटर्स नोट बुक** ह्या नांवान छापलें. एक सुंदर पुस्तक हें, वाचपा सारकें.

काउंट कायसरलिंगाची **ट्रॅव्हल डायरी ऑफ अ फिलॉसॉफर** ही वेगळेच जातिची एक दिसपटी. नांवा वयल्यान हातूंत प्रवासाच्यो खबरी आसतल्यो अशें दिसता. पुणून हे 'ट्रॅव्हल डायरीं'त प्रवास निमित्त्याक कारण जाला. पुस्तक ताणें चिंतनांचेंच बरयलां. बनारसाक गेला जाल्यार, बनारसांत कितें पळेलें, हें तो सांगिना; बनारसांत जी संस्कृताय पळोवंक मेळ्ळी ती कशी घडली तें सांगता. ह्या चिंतनांतल्यान कायसरलिंगाचें व्यक्तिमत्व आमचे मुखार उबें रावता. आनी विचारवंत आसचो जाल्यार असलो भरिल्लो कळसो कसो आसचो अशें दिसता.

कांय जाणांक कांय व्हड मनशांच्या सांगातांत रावपाचें भाग्य मेळटा. तेवूय दिसपटयो बरयतात. तांची जात वेगळी. ॲलन कॅम्पबॅलाची **मिशन विथ् माऊंटबॅटन** ही हे जातिची एक दिसपटी. कॅम्पबॅल माऊंटबॅटना वांगडा हिन्दुस्तानांत आयिल्लो आनी, माऊंटबॅटन हिन्दुस्तानी फुडाऱ्यांच्या हातांत हिन्दुस्तान दिवपाक हांगा आयिल्लो त्या काळांत कोण कोण येवन माऊंटबॅटनाक कितें कितें सांगताले, कोण कशे चलताले, आनी पड्ड्या फाटल्यान कितें चलतालें, तें सगळें हे दिसपटयेंत पळोवंक मेळटा.

भारताच्या विभाजनाचो इतिहास समजून घेवन सोदतल्यांक ही दिसपटी खूब उपकारा पडूं येता. इतिहासाचे नदरेन एक मोलाचो दस्तावेज हो. असलोच आनीक एक दस्तावेज लॉर्ड वॅवलान – माऊंटबॅटना आदल्या वायसरॉयान – बरयला. तातूंत आमच्या गांधी नेहरू पटेल जीना बी फुडाऱ्यांचीं धोंगां पोंगां पळोवंक मेळटात.

हालींच बेयाट्रीस वेबची हेच जातिची दिसपटी वाचूंक मेळिल्ली. इंग्लंडांतल्या लेबर पार्टिच्या कांय फुडाऱ्यांच्यो खबरी – ज्यो हरशीं खंयच वाचूंक मेळनात – त्यो हे दिसपटयेंत मेळिल्ल्यो.

मनशान खंय आपणालीच तुस्त आपणाल्या तोंडान (वा लिखणेन) करची न्हय. पुणून सत्तरिच्या हुंबऱ्यार पाविल्लो कोणूय आपणा संबंदान सांगपाक लागलो जाल्यार तो तें 'अभिमाना'न सांगता अशें मानपाचें कारण ना. म्हजी मराठींत बरयल्ली 'ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यांत' दिसपटी हेच जातींतली. हे दिसपटयेंत हेर जायत्या गजालीं वांगडा तीन व्यक्तिमत्वां स्पस्ट दिश्टी पडटात – एक, महात्मा गांधींचें; दुसरें, तांच्यो खबरी सांगतल्या काकासायबांचें, आनी तिसरें, (उमाशंकर जोशींच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार) काकासायबांच्या आधारान गांधींक खोलायेन समजून घेवपाचो यत्न करतल्या दिसपटयेच्या लेखकाचें, म्हळ्यार, म्हजें. गांधींच्यो कितल्योश्यो गजाली ज्यो हेर खंयच

वाचूंक मेळनात त्यो हे दिसपटयेंत वाचूंक मेळटात. ते भायर, गांधींक भायल्यान भितरल्यान सारके वळखल्ल्या काकासायबांचेंय एक आगळें वेगळें रूप तातूंत पळोवंक मेळटा. महाराष्ट्रांत गांधीवादी आचार्यांची सदां खूब निंदा चलत आयल्या. तातूंत काकासायबांची चड. तांणी कोंकणीचो पाखो घेतिल्ल्यान तर सुमारा भायर. पुणून 'तुमचं हे पुस्तक वाचल्यावर काकासाहेबांवर आम्ही पुष्कळ अन्याय केला' अशें म्हणपी आनी 'त्यांना अधिक जवळून ओळखण्याची तीव्र इच्छा आता झाली' अशें सांगपी काकासायबांचे कांय टिकाकार म्हाका मेळ्ळ्यात. तांच्याच तोंडांतल्यान म्हाका हें आयकूंक मेळ्ळां. आनी हांवें ह्या पुस्तकाचें हेंच सगल्यांत व्हडलें येस मानलां.

ह्या पुस्तकाचे गुजरातींत आनी हिन्दींत अणकार जाल्यात. पुणून हे दिसपटयेंत जशे गांधी आनी काकासायब दिश्टी पडटात, तसो गांधीं संबंदान काकासायबांक तरांतरांचे प्रस्न विचारपी लेखकूय दिश्टी पडटा. एक्करमनाचे **कन्वर्सेशन्स विथ गटे** हे – हेच जातिचे दिसपटयेंत – एक्करमन खंयच दिश्टी पडना. दिश्टी पडटा फकत गटे – एक प्रतिभावंत कवी, एक बहुश्रुत आनी रसीक येवरोपेव. एक व्हडांतलो व्हड संस्कारी विचारवंत, ताच्या सगळ्या आगळ्या वेगळ्या आंगां सयत, ताच्या सगळ्या धोंगांपोगां सयत. खंयचेंय पान उकतें करून वाचचें. बरेंऽ कितें वाचिल्ल्याची खोस भोगतली. जर्मन भाशेंतलें एक बऱ्यांतलें बरें पुस्तक अशें हाका बेश्टें नित्शेन म्हणूंक नाशिल्लें.

हेच जातिची एक दिसपटी आमच्या देशांतल्या एकल्या साधकान बरयल्या. महेन्द्रनाथ गुप्तान **श्रीरामकृष्ण कथामृत – द गॉस्पॅल ऑफ श्रीरामकृष्णा** ह्या नांवान ती उजवाडा आयल्या. ही दिसपटी वाचता आसतना एक साक्षात्कारी संत जिवो तट्टटीत जावन आमचे मुखार उबो रावता. श्रीरामकृष्ण कशे आशिल्ले, कितें सांगताले, कशे चिमटे घेताले, कशीं फकांडां मारताले तें आमकां हे दिसपटयेंत पळोवंक तर मेळटाच, कांय जाणांक रामकृष्णाचो आवाजूय तांतूंत आयकूंक येता, महेंद्रनाथ गुप्त हे दिसपटयेंत खंयच दिश्टी पडनात. दिश्टी पडटात फकत श्रीरामकृष्ण परमहंस. ज्या भारतीयान ही दिसपटी वाचूंक ना, ताका आपणालीं पाळांमुळां कळपाचीं नात.

पुणून ह्यो दोनूय दिसपटयो, दिसपटयो म्हुण्णूच दोगांयनी – एक्करमन आनी महेंद्रनाथ गुप्त हांणी बरयल्ल्यो. छापूंक दिवचे पयलीं दोगांयनी त्यो घांसून पुसून निवळ करुनूच दिल्ल्यो.

महादेवभाई एल्एल्बी जाल्ले. प्रॅक्टिसूय करताले. अवचीत तांगलें गांधीं कडेन लक्ष गेलें. पिराय फकत पंचवीस वर्सांची. पुणून हे पिरायेर लेगीत गांधींच्या रुपान जो भोंवता तो ल्हाना समानांतलो मनीस न्हय, एक व्हडांतलो व्हड मनीस. फकत व्हड मनीस न्हय, हजार दोन हजार वर्सांनी केन्नाय येता, हे तरेचो एक युगपुरूस, म्हणपाचें ते वळखूंक पाविल्ले. आपणाक गांधींच्या सांगातांत काम करूंक मेळ्ळें जाल्यार आपणालें जिवीत सार्थक जातलें अशें तांकां दिसलें. ते गांधींक मेळपाक गेले आनी, 'म्हाका तुमचो प्रायव्हेट सेक्रेटरी म्हूण काम करूंक मेळ्ळें जाल्यार हांव

म्हाका भाग्यवंत लेखतलों' अशें तांकां म्हळें. गांधी एक रत्नपारखी. तांणी खीणभर – फकत एकूच खीण – तांच्या दोळ्यांत पळेलें आनी दुसऱ्याच खिणाक तांकां म्हळें, 'हांव तुमकां म्हजें काम करपा खातीर दवरून घेतां.'

'केन्ना पसून काम सुरू करूं?'

'आतां. ह्याच खिणा पसून', गांधींनी जाप दिली.

'घरा कळोवंक नाका आशिल्लें?'

'तें एक पोस्ट-कार्ड घालून कळोवं येता', गांधींनी म्हळें, आनी महादेवभाई त्याच खिणा पसून गांधींचे प्रायव्हेट सेक्रेटरी म्हूण तांगेलें काम पळोवपाक लागले.

गांधी म्हळ्यार खिणान खिणाचो हिशेब दवरपी एक राष्ट्रसेवक. एक खीण लेगीत फुकट होगडावचे नात असले. महादेवभाईंचें काम चोविसूय वरां तांचे म्हऱ्यांत रावपाचें आनी तांगेलें काम करपाचें आशिल्लें. इतलेंय आसून ते दिसपटी बरोवपा खातीर वेळ काडटाले! कितें म्हत्वाचें, कितें म्हत्वाचें न्हय, असलें कितेंच येवजी नासतना, जें कितें पळेताले, आयकताले, तें सगळें बारकायेन बरोवन दवरताले. गांधींच्या खिणान खिणाची नोंद तांणी दवरल्या. १६ नव्हेंबर १९१७ दिसा तांणी ही दिसपटी सुरू केल्ली ती १४ आगस्ट १९४२ ह्या दिसा मेरेन – म्हळ्यार, ते आगाखान पॅलेसींत भायर पडले ताच्या आदल्या दिसा मेरेन – एका सारकीं पंचवीस वर्सां ते बरयत रावले. हे दिसपटयेचे वीस खंड उजवाडा आयल्यात. अजून स येवपाचे आसात. गांधी युगाचो एक दस्तऐवज हो. खूब मोलाचो. एक समृद्ध खण ही. हिरे माणकां परसूय चड मोलाच्या रत्नांची.

महादेवभाईनी ह्यो दिसपटयो दिसपटयो म्हूण बरोवंक नाशिल्ल्यो. तांकां गांधींचें एक व्हड जिवीत बरोवपाचें आशिल्लें. तांगेले मुस्तींत बॉस्वेलान बरयल्लें डॉ. जॉन्सनाचें जिवीत एक आदर्श जिवीत (बायोग्राफी) म्हूण गाजतालें. महादेवभाई बॉस्वेलाक फाटीं उडोवंक सोदताले. ते खातीर ते 'मसालो' एकठांय करताले.

गांधींचें जिवीत ते बरोवंक पावले नात. तें सुरू करचे पयलींच ते अवचीत् १५ ऑगस्टाक (१९४२) भायर पडले. तांणी एकठांय केल्लो गांधींच्या जिविताचो 'मसालो' दिसपटयांच्या रुपांत तसोच पडून उरलो. ताचे वयल्यान ते पर्थून एक नदर लेगीत मारूंक पावूंक नात. घांसून पुसून निवळावपाची खबर सोडुनूच दिवंया. पुणून ज्या रुपांत आसा त्या रुपांतूय तो कितलो सुंदर दिसता! कितलो प्रेरक जाला! पाना कणकणीं गांधी आनी तांगेलें पुराय यूग आमच्या दोळ्यां मुखार उबें रावता. 'असलो एक मनीस – आमचे सारकोच हाडांमासाचो – हे धर्तरेचे फाटीर भोंवतालो म्हणपाचें फुडल्या पिळग्यांक सांगल्यारूय खरें दिसचें ना' अशें आइन्स्टायनान गांधीं संबंदान म्हळ्ळें. तें खरें दिसचें – शंबर प्रतिशत खरें – म्हणपाचो अणभव ह्यो दिसपटयो वाचतां आसतना आमकां येता. जांकां गुजराती वा हिन्दी येता तांणी ह्यो दिसपटयो मुजरत मागोवन वाचून काडूंक जाय. कितें तरी बरेंऽ वाचिल्ल्याची खोस भोगतली. हांव अशेंय म्हणीन, जांकां गुजराती येना तांणी फकत ह्यो दिसपटयो वाचपा खातिरूच

गुजराती शिकून घेवंक जाय. तांचे यत्न निखालूस फुकट वचचे नात.

पुणून ह्यो दिसपटयो म्हापुरसांच्या सांगातांत पाविल्ल्या मनशांच्यो. सगळ्यांच्याच जिवितांत असले म्हापुरूस येनात. पुणून आगळे वेगळे प्रसंग सगळ्यांच्याच जिवितांत येतात. ते नोंदून मात दवरूंक जाय. जाल्यार ताचेंय एक आगळें वेगळें पुस्तक जावं येता. एक दाखलो दितां—

झवेरचन्द मेघाणीन गुजराती भाशेंत **फुलछाब** नांवाचें एक नेमाळें सुरू केलें. सप्तकी नेमाळें आशिल्लें तें. तीग चौग जाण मेळून तें चलयताले. सप्तकांत एक दीस सगळे एकठांय जमताले आनी खबरो करताले. तातूंत फुडल्या आंकांत कितें दिवचें हाचेय बेत जाताले, फाटलो आंक वाचून कोणें कितें म्हळें तेंवूय एकामेकांक ते सांगताले. सप्तकांत कोणें कितें वाचलें ताच्योय खबरी जाताल्यो, देशांत खंय कितें घडलें, ताच्योय जाताल्यो. आमी बल्कांवार वा सोप्यार बसून करतात तसल्यो साद्यो खबरी. पुणून चडश्यो साहित्य ह्या एका विशयावेल्यो.

ते मुस्तींत आयचे भाशेन च्या सगळे कडेन पावूंक नाशिल्ली. कांय वेंचीक लोकूच च्या पियेताले. तांणी आपणाले हे सप्तकी बसकेक 'च्या पार्टी' म्हूण नांव दिल्लें.

**फुलछाबां**त एकलो तरणाटो काम करपाक येतालो. पिरायेन मेघाणी आनी तांगेल्या सांगात्यां परस खूब ल्हान. ताणें एका कोनशाक बसून म्हालगड्यांच्यो ह्यो खबरो आयकुच्यो. ह्यो खबरी तो बरोवन दवरपाक लागलो. करतां करतां ताचेंच एक पुस्तक जालें. **च्या पार्टी** ह्या नांवानूच. उपरांत कांय वर्सांनी तें उजवाडा आयलें. गुजराती बरपावळींतलें अत्यंत रुचीक पुस्तक म्हूण ताका आतां नामना मेळ्ळ्या.

हेय दिसपटयेंत बरोवपी खंयच दिश्टी पडना. ताणेंय शून्य जावन ती बरयल्या.

हांवें दिसपटी बरोवपाक घेतली ती १९७०त. पंचेचाळीस भर जाले उपरांत. 'उबून वतात' त्या विचारांक 'बांदून दवरप' ह्या उद्देशान ती सुरू केल्ली. बरयतां बरयतां एक जाणवीक जाली: उबून वतल्या विचारांक बांदून दवरतां तेन्ना ते बांदून तर उरतातूच. ते भायर, ते घांसून पुसून निवळूय जावन येतात. आनी, दिसपटयेंत ते उरतात तशे बरयल्ल्यान तकलेंतूय घट बरे उरतात. म्हाका हो फॉर्म म्हजे साहित्यीक 'साधने'क खूब उपकरा पडटा असो दिसलो. खूब मानवलो. थोडो भोव ओडलायणोय दिसलो आनी हांव ह्याच 'फॉर्मां'त म्हाका बरो उकतावंक पावतां हाचो खोलायेन अणभव आयलो. **वेळे वयल्यो घुलो** ह्या नांवान एक दिसपटी हांवें उजवाडायल्या.

तेन्ना पसून दिसपटी बरयत आयलां. सद्दां नासूं, पुणून नेमान, मर्दी मर्दी दिसपटयेंत तरांतरांचे प्रयोगूय करीत आयलां. नित्शे म्हणटालो ते भाशेन, जें सांगपाक व्हडल्या व्हडल्यांक एक पुस्तक बरोवचें पडलां, वा म्हणुंया, पुस्तक बरोवनूय तांकां जें सांगूंक येवंक ना, तें दिसपटयेच्या एका पानांत सांगूंक येता काय कितें, हेंय पडटाळून पळेलां. आनी म्हाका तें थोडेंभोव जमलां अशें खासा म्हाका दिसून आयलां.* पुणून

* असल्या बरपाचें एक पुस्तक **ओथांबे** हालींच उजवाडा आयलां.

हो प्रयोग सुरू केला त्या वेळार म्हजें व्यक्तित्व घडिल्लें. देखून म्हज्या ह्या प्रयोगांत हांव शून्य जावंक पावूंक ना. म्हणुंया, शून्य जावंक म्हाका येवंक ना. धोंगांपोंगां सयत म्हजें आंतरीक जिवीत तातूंत उक्ताडा आयलां.

खरेपणानशीं म्हजें व्यक्तित्व घडचे पयलींच हांवें दिसपटी सुरू करूंक जाय आशिल्ली. केदे केदे व्हड लोक पळेल्ले! फकत गांधी-युगा सारकेल्या हजार दोन हजार वर्सांनी येता असल्या युगांतूच जल्मा येवं येतात असले – खंयचेय नदरेन आगळे वेगळे: काकासायब, विनोबा, किशोरलाल मश्रूवाळा, कुमारप्पा, कृपालानी, लोहिया. 'दिव्यत्व' म्हळ्यार कितें हाची थोडी भोव प्रचितीय हांच्या सांगातांत म्हाका आयल्या. हांच्यांतल्या एकल्या कडेन – काकासायबां कडेन – तीस-पस्तीस वर्साच्या काळांत ज्यो चर्चा जाल्ल्यो त्योच बरोवन दवरिल्ल्यो जाल्यार गांधी-युगाचो एक बऱ्यांतलो बरो 'दस्तावेज' बरोवन दवरिल्ल्याची खोस भोगतली आशिल्ली. बरोवपाचें येवजलेंच ना. आतां चुरचुरून लाव ना. **जब चिडियन खेती चुग डाली, फिर पछताये क्या होवत है?**

१९४१ पसून १९८१ मेरेनच्या चाळीस वर्सांच्या काळांत हजार तरांच्या लोकां कडेन संबंद आयलो. लोकीक नदरेन व्हड आशिल्ले कितले ल्हान आसतात तेंय पळेलें. आनी ल्हान मानिल्ले लोक केदे व्हड आसतात तेंय अणभवलें. सगळें बरोवन दवरूंक जाय आशिल्लें. आयज उगडास तरी बरोवपाक तें म्हजे म्हाकाच उपकरा पडटलें आशिल्लें.

जी चूक म्हजे कडल्यान घडली ती नवे पिळगेंतल्या बरप्यां कडल्यान घडची न्हय म्हूण हालिंसाराक हांव तांकां सांगपाक लागलां —

तुमकां जें बरयन दिसता तें तर तुमी बरयातूच. पुणून एक दिसपटीय बरयात. सद्दां जें कितें तुमी आयकतात, पळेतात, वाचतात, येवजितात तें सगळें बरोवन दवरात. फाल्यां बरोवपाक दवरूं नाकात. त्याच दिसा बरोवन काडात. न्हिदचे पयलीं अर्द वर ह्या कामाक राखून दवरात. कोणाची खबर आयकली, मजेची दिसली, बरोवन दवरात. कितेंय म्हत्वाचें वाचलें, पेन्सिलीन 'मार्क' करपा सारकें दिसलें, जशाचें तशें बरोवन काडात. बसींत दोग जाण कितेंय उलयतात तें काना वयल्यान गेलें, मजेचें दिसलें, बरोवन दवरात. कोणा कडेन वाद जालो, बरोवन काडात. धा पंदरा वर्सां बरयत रावात. पानांची मर्यादा दवरूं नाकात. कितें म्हत्वाचें, कितें न्हय, हें त्या दिसा थारावंक बसूं नाकात. आयज जें म्हत्वाचें न्हय शें दिसता तें फाल्यां म्हत्वाचें थरूं येता, हें लक्षांत दवरात. दोन गजाली जातल्यो — तुमचो 'रियाज' नेमान चलत रावतलो (ताची सगळ्यांक गरज आसा) आनी, तुमची शैली सादी, सोंपी, नीट जायत वतली आनी केन्नाय खासा तुमकांच ह्या बरपाचो उपेग जातलो.

सांगूं नज, तुमच्या हातांतल्यान कोंकणी बरपावळींत धा पंदरा वर्सां उपरांत एक म्हत्वाची भर पडूं येता.

□ □

# १०

# महादेवभाईंचे दिसपटयेंतलीं कांयं पानां

सकाळच्या ‘स्वाध्याया’क म्हयनोभर तुलसीदासाची ‘विनय पत्रिका’ घेवन बशिल्लों. काल ती सोंपली. आतां, म्हळें, महादेवभाईंच्यो दिसपटयो घेवन बसतलों. पयरूच ह्या दिसपटयांचेर नदर गेल्ली.

१९३२तली काडली.

सुरू करचे पयलीं, म्हळें, मातशी चाळून पळेतलों. महादेवभाईंचे दिसपटयेंत महादेवभाई केन्ना दिश्टी पडनात. दिश्टी पडटात चडशे गांधी, तांगेल्या ओडलायण्या अंतरंगा सयत. ह्या खंडांत आनीक एकले दिश्टी पडटात: सरदार पटेल, तांगेल्या भुलभुलायण्या धोंगां-पोंगां सयत.

सुवात: येरवड्याची बंदखण. गांधी, सरदार आनी महादेवभाई तिगूय हे बंदखणींत एकठांय एके कडेन आसात.

चाळटां चाळटां २६६ पानाचेर विवेकानन्दांचें नांव दिश्टी पडलें. सहज वाचूंक लागलों. वाचतां वाचतां लक्षांत आयलें, एकल्यान कोणें गांधींक ‘तुमकां रामकृष्ण विवेकानन्दां संबंदान कितें दिसता, काय म्हूण विचारलां आनी रोमां रोलांनी बरयल्लीं दोगांयचीं जिवितां वाचात म्हूण मागलां. गांधींनी ताका जाप दिल्या —

‘रोलांन बरयल्लीं दोगांयचीं जिवितां हांवें रुचीन वाचल्यांत. रामकृष्णां विशीं मनांत सदां पुज्यभाव आशिल्लो. तांचे संबंदान व्हडलें-शें कांय वाचूंक नाशिल्लें. दक्षिणेश्वरांतल्या पुजाऱ्यान तांच्यो कांय गजाली सांगिल्ल्यो, तितल्योच म्हाका तांचे विशीं मनांत पुज्यभाव बाळगुपाक पुरो जाल्ल्यो. रोलांचें पुस्तक वाचून ह्या पुज्यभावांत वाड जाल्या अशें म्हणूंक येवचेंना. रोलांन हीं दोनूय जिवितां येवरोपांतल्या लोकां खातीर बरयल्यांत. तीं वाचून आमकां कांय मेळचें ना, अशें म्हणिना. पुणून, म्हाका व्हडलें-शें कांय मेळूंक ना. म्हजेर ज्या गजालींक लागून रामकृष्णांचो प्रभाव पडिल्लो, त्यो गजाली रोलांच्या पुस्तकांत आयल्यात.’

मागीर विवेकानन्दा संबंदान म्हणटात —

‘रामकृष्ण भक्त आशिल्ले... विवेकानन्दांत प्रेमाची – मोगाची – भावना उपाट भरिल्ली. केन्ना केन्ना ते हे भावने सुवादीन जाताले आनी तिचे व्हांवतेंत व्हांवनूय वताले. पुणून येद्या व्हडल्या मनशाची टिका कितें करतलों? टिका कोणाचीय करूं येता.असल्यां कडल्यान आमच्यांनी किलें घेवं येता तें घेवप, ही आमची लागणूक... विवेकानन्द एक व्हड (देश)सेवक आशिल्ले... तांणी जाका सत्य लेखलें ताचे खातीर

तांणी आपणाली कूड झरयली... १९०१त हांव तांगेलो बेलूर मठ पळोवपाक गेल्लों. त्या वेळार तांची भेट घेतलों अशें थारावन गेल्लों. पुणून ते बरे नात, कोणाक मेळनात, मठांतूय नात, अशें मठांतल्या स्वामींनी सांगलें तेन्ना निर्शेल्लों...'

पुस्तकाचे 'सुचीं'त विवेकानन्दांचो उल्लेख खंय खंय आयला तो पळेलो आनी तें तें पान काडून वाचपाक लागलों. एक मजेचोच उल्लेख मेळ्ळो. महादेवभाई म्हणटात,

'कांय गजालीं विशिंचें सरदारांचें अज्ञान पळोवन अजाप जाता. म्हाका विचारपाक लागले, विवेकानन्द कोण आशिल्ले ? खंयच्या प्रदेशांतले ? कितें करताले ? बंगालांतले म्हूण सांगतकूच विचारपाक लागले, रामकृष्णूय बंगालीच आशिल्ले ?'

आपणालो आदर्श पुरूश विवेकानन्द अशें सुभाषबाबूंनी एके कडेन बरयल्लें सरदारांनी वाचलें आनी सरदारांची तांचे विशीं जाणा जावपाची इत्सा जागी जाली. 'आतां रोलांन बरयल्लीं दोनूय जिवितां सरदार वाचून काडले बगर रावपाचे नात' अशी एक मजेची 'टिपू'य महादेवभाईंनी अंतीं जोडल्या.

रोलांन बरयल्लीं हीं दोनूय जिवितां महादेवभाईंक हांगाच, येरवड्याचे बंदखणींत, वाचपाक मेळिल्लीं. रामकृष्णांचें जिवीत वाचून जातकूच ते रोलांचे शक्तिची तुस्त गायतात. म्हणटात, 'केदी आकलन शक्ती ह्या मनशाची! स्वित्झर्लंडांतल्या एका गांवांत बसून इंग्रजींतलीं पुस्तकां आनी बंगालीचीं इंग्रजी आनी इंग्रजीचीं फ्रँच भाशेंत भाशांतरां करून घेवन खोलायेंत देंवन सगळें समजून घेवन, दोन वर्सां एका सारको दीस रात वावर करून ताणें आमकां भारतियांक लजयत असलें हें पुस्तक बरयलां. राजा राममोहन रॉयां पसून रामकृष्ण-विवेकानन्दां मेरेनचो आमच्या 'राष्ट्रीय धर्मोत्थाना'चो इतिहास इतले बारकायेन बरोवपाक केदी आकांताची शक्त आसूंक जाय ह्या मनशांत!... भारताच्या अध्यात्माविशिंची ताची ओड आनी ताच्या खांची-कोनशांनी भोंवन सगळें समजून घेवपाची तांची उत्कंठाय पाना कणकणीं नदरेंत भरता... तांचे खोलायेची जाणवीक जाता. हांवें रामकृष्णांचें हें जिवीत वल्लभभाईंक वाचूंक दिलें आनी म्हळें, 'कांयच न्हय जाल्यार तुमकां रामकृष्णांचे चिमटे घेवपी विनोद आवडटले... वल्लभभाई शैलिचे विनोद हे सगले...'

सपनांत लेगीत पयशांक वा भांगराक हात लागत जाल्यार खंय रामकृष्णांचें आंग शिरशिरून येतालें आनी ते जागे जाताले. तसो खंयच्याय दुश्ट वा पाड्या मनशाचो हात लागत जाल्यारूय खंय जिवाणें चाबिल्ले वरी ते किळांच मारून उठ्ठाले. महादेवभाई म्हणटात, 'हांवें बापूंक हे विशीं विचारलें. तांणी म्हळें, अशें जावं येता. पुणून तूं आनी रोलां म्हणटात तसली ही 'आत्मशुद्धिची पराकाष्टा' न्हय. एकाद्रे वस्तू विशीं मनांत वीट आसत जाल्यार ही वीट वाडोवं येता. मागीर सपनांत लेगीत ते वस्तूक हात लागल्यार आंग शिरशिरून येता. पुणून पाड्या वा दुश्ट मनशाचो हात लागल्यारूय रामकृष्ण किळांच मारून उठ्ठाले!... म्हाका हें सारकें समजूंक ना. रामकृष्णांक सगळ्यांत देव दिश्टी पडटालो. मागीर पाड्या लोकां विशीं तांकां अबको कित्याक दिसचो ?... पुणून आमी व्हड मनशांच्या असल्या गजालीं कडेन लक्ष दिवंक जायना...'

उलयतां उलयतां भगिनी निवेदितेची खबर आयली तेन्ना गांधींनी म्हळें, 'आमची पयलीच भेट जाल्या तेन्ना तिच्या तोंडांतल्यान इंग्रजां विशीं तिरस्काराचीं उतरां भायर सरिल्लीं... तीं आयकून म्हाका अजाप जाल्लें. तिच्या भपक्याचीय मनाचेर थोडी भोव छाप पडिल्ली. पुणून जायत्या जाणांच्या तोंडांतल्यान ती गरिबांतल्या गरीब भंग्यांगेर लेगीत वचून रावता म्हणपाचें आयकलें. म्हाका इतलें पुरो आशिल्लें. आनीक एक खेपे हांव तिका मेळ्ळां, पादशाह नांवाच्या एका इश्टागेर. पादशाहचे जाणटे आवयन एक चिमटो घेतिल्लो, ताची घट याद उरल्या. तिणे म्हळ्ळें, 'तिका सांगात, तुवें तुजो (ख्रिस्ती) धर्म सोडून दिलो. तूं म्हाका म्हजो धर्म कितें शिकयतली ?'

हिन्दू समाजांतलें आफुड-भश्ट ना करपाची प्रेरणा गांधींक विवेकानन्दां कडल्यान मेळिल्ली, अशें रोलांन ह्या पुस्तकांत दोन तीन कडेन म्हळां. महादेवभाई म्हणटात, गांधीं पयलीं दयानन्दान आनी विवेकान्दान हो प्रस्न हातांत घेतिल्लो, तो दायजान गांधींक मेळिल्लो, अशें म्हणप इतिहासाचे नदरेन सारकें जाता. पुणून महादेवभाई गांधींक विचारतात आनी गांधी म्हणटात, '**राजयोग** सोडून हांवें विवेकानन्दाचें अजून मेरेन कितेंच वाचूंक ना. दयानन्दाच्या आर्य समाजा विशीं आयकून जाणां. पुणून आफूड-भश्ट ना करपाचो वावर आर्य समाजान केल्लो म्हणपाचें पयलेच खेपे आयज आयकतां. आफूड-भश्ट ना करपाची स्फूर्त म्हाका हांचे भितरल्या कोणाचँ कडल्यान मेळूंक ना... म्हजी खाशेली प्रेरणा ती...'

'दक्षीण आफ्रिकेंतल्या वातावरणान हो प्रस्न तुमचे मुखार येवन उबो रावलो, अशें म्हणूं येत व्हय ?' महादेवभाई विचारतात.

'हय, त्याच वातावरणांत म्हाका तो येवजलो.'

'दरिद्रनारायण हें उतर विवेकानन्दांचें म्हणपाचें तुमकां खबर आशिल्लें व्हय ?'

'ना. हांवें तें पयलीं दासबाबूंच्या तोंडांतल्यान आयकल्लें. तें तांचेंच आसतलें अशें मानिल्लें. तें विवेकानन्दांचें उतर म्हणपाचें मागीर कळ्ळें...'

पुणून, महादेवभाईंचे हे दिसपटयेंत एक नवीच गजाल वाचूंक मेळ्ळी. विवेकानन्द अमेरिकेक गेल्ले ते वेदान्ताची येवरोपेव परंपरेंतल्या लोकांक वळख करून दिवपा खातीर, हिन्दुधर्माचें व्हडपण कित्यांत आसा तें तांकां दाखोवन दिवपा खातीर, असो म्हजो समज जाल्लो. आमी इंग्रजांक आमचे परस व्हड मानपाक लागिल्ले. तांगेलें ज्ञान-विज्ञान-तंत्रज्ञान पळोवन आमचे दोळे दिपकावल्ले. तांचे मुखार आमचें काय चलपाचें ना, अशें मानपाक लागिल्ले. आमी आत्मविस्वास होगडावन बशिल्ले आनी तांगेली केलदावणी करून 'आधुनीक' जावपाक लागिल्ले. असल्या आमकां 'तुमी बाबत कुळां न्हय, तुमी वेदीक आर्यांचे वंशज, एके व्हड संस्कृतायेचे वारस' हें दाखोवन दिवपा खातीर, आमच्यांत स्वाभिमान आनी आत्मविस्वास जागोवपा खातीर तांणी हो दिग्विजय केल्लो, असो म्हजो समज जाल्लो. आमच्यांत तेजस्वी राष्ट्रीयता जागोवपाचो तांचो हो वावर आशिल्लो, अशें मानतालों. पुणून रोलांन वेगळीच एक गजाल सांगल्या म्हणपाचें महादेवभाईंचे दिसपटयेंत वाचलें.

अमेरिकेक वचचे पयलीं विवेकानन्दांनी पुराय देश भोंवन पळेल्लो. हे भोंवडेंत तांचे नदरेंत भरलें तें खंय देशाचें दळडीरपण. ह्या दळडीरपणाक लागून देश सत्व आनी स्वत्व होगडावन बसला; असल्या दळडीरपणांत जियेतल्या लोकांक धर्माच्यो खबरी सांगपांत अर्थ ना, ह्या निर्णयार खंय ते हे भोंवडेंत पावले. ते हाचेर उपाय सोदपाक लागले. उपाय सोदतां सोदतां तांची न्हीद खळ्ळी. अखेरेक कन्याकुमारीक पावतासर 'देशांत नवे नवे उद्योग-धंदे सुरू करूंक जाय, लोकांक कामां दिवंक जाय, तांचीं पोटां पयलीं भरूंक जाय' ह्या निर्णयार ते पावले. उद्योग-धंदे चलोवपाक पयसो जाय. तो खंयच्यान हाडपाचो? अमेरिकेन जो एकठांयं केला तांतलो एक वांटो हांगा हाडपाचो आनी बदलाक तांकां आमचो अध्यात्म दिवपाचो हो विनिमय उपाय म्हण तांकां येवजलो. रोलां ह्या विनिमयाक a loyal exchange म्हणटात. तीस कोटी रुपये ते अमेरिकेंतल्यन हांगा, अमेरिकेक अध्यात्म दिवन हाडूंक सोदताले.

मेळ्ळे? रोलां म्हणटात, 'ना. हे नदरेन तांची अमेरिकेची यात्रा निष्फळ गेली.'

महादेवभाईंक हें वाचून धसको बसता. पुस्तकांत दोन तीन कडेन ह्या विनिमयाचो उल्लेख आयला. रोलांचो घडये गैरसमज जाला जातलो, अशें ते म्हणटात. पुणून गैरसमज जाल्लो जाल्यार पुस्तक जांणी उजवाडायलां ते देशी उजवाडावपी कितेंय तरी खुलासो करतले आशिल्ले. ज्या अर्थान तांणी खुलासो करूंक ना, त्या अर्थान विवेकानन्द अमेरिकेक गेल्ले ते 'वेदान्ताची सिंहगर्जना' करपा खातीर न्हय, तर तीस कोटी रुपये हाडपा खातीर, अशेंच म्हणचें पडटा, अशें म्हणटात.

महादेवभाईंक विवेकानन्दांचीं हीं 'पिशेपणां' दिसतात. तांणी गुजरातींत 'नादानी' हें उतर उपकरायलां. ते गांधींक पुस्तकांतलो हो वांटो वाचून दाखयतात आनी गांधी म्हणटात, 'विवेकानन्द हांगा विवेक विसरिल्ले'. महादेवभाई म्हणटात, 'रोलां ह्या विनिमयाक a loyal exchange म्हणटात. आनी गांधी जाप दितात, 'रोलांय विवेक विसरल्यात...'

म्हाका दिसलें, हे भाशेन महादेवभाईंची दिसपटी कुडक्या कुडक्यांनी वाचप समा न्हय. सुरवाते सावन सुरू करून अखेर मेरेन वाचूंक जाय. पुणून दिसपटयेचे वीस खंड आसात. वीस खंड वाचपाक पांच म्हयने तरी जाय. अंदू वर्सा स्वाध्याया खातीर हांवें हिन्दी, मराठी, गुजरातींतले संत वेंचून काडल्यात. तांकां मदींच सोडून दिवप समा जावचें ना. महादेवभाई खातीर दुसरो वेळ निश्चीत करचो पडटलो. तो खंयचो काडचो, हें ह्या सप्तकांतूच थारायतलों.

आनी हांवें महादेवभाईंची दिसपटी – तांची क्षमा मागून – आरमारींत आशिल्ली थंय काडून दवरली.

आनी 'स्वाध्यायां'त 'सूरसागर' सुरू केलो.

□ □

# ११

# पूर्ण वेळ बरोवपी

बरोवपी कितेंय तरी पळेता, आयकता, वाचता. तितलेंच ताका पुरो जाता. तो भितरल्यान उचांबळीत जाता, चिंतूंक लागता. आनी मागीर ताच्यांत भितर कितें तरी शिजपाक लागता. शिजून जातकूच ते ताका 'पेन हातांत घे' म्हूण सांगता आनी बरोवपी बरोवपाक बसता. येता आसतना तें आपणालें एक रूप घेवन जल्माक येता. कांय जाणांत तें कवितेच्या रुपान येता, कांय जाणांत कथा, नवलकथा, नाटक ह्या रुपान येता. म्हज्यांत तें निबंदाच्या रुपान येता.

आयज हांव दुसरीं खंयचींच कामां करिना. कितल्याश्या कामांतल्यान आंग काडून घेतलां. पुणून ज्या वेळार तरांतरांच्या कामांनी घुसपल्लों उरतालों, सकाळच्या आठांक भायर सरून रातच्या आठांक घरा परततालों, बारा बारा वरां कोंकणी चळवळिच्या झुजा मळार भोंवतालों, झुजा-मांड रचतालों, त्या वेळारूय भितरल्यान कितेंय तरी शिजून येतालें आनी म्हजे लिखणेंतल्यान आपणाक तें बरोवन घेतालें. **उजवाडाचे सूर** पुस्तकांतलीं चडशीं बरपां अशींच 'आयल्यांत'. **वेळे वयल्यो घुलो** आनी **सांगाती** हीं दोनूय पुस्तकां हेच भाशेन बरोवन जाल्यांत. तांचे खातीर म्हाका झुजा मळ सोडचें पडूंक ना.

देखुनूच, 'तकलेंत कितल्यो-श्यो कथा, नवलकथा घोळटात, बरोवंक बसतलों म्हळ्यार वेळूच मेळना' अशें कोणाकूय म्हणटना आयकतां तेन्ना हांव मनांतल्या मनांत म्हणटां, 'सभाग्याक सृजन कशें जाता हेंच खबर ना. गुरवार बायल आपणाक बाळंत जावपाक वेळूच मेळना अशें केन्ना म्हणीत व्हय? भुरगें पोटांत आयलें, पोटांत तें वाडत रावलें, म्हणटकूच णव म्हयने भर जातकूच ती बाळंत जावंकूच जाय. अख्खो संवसार उमथून पडलो तरूय ती बाळंत जावपाची रावना... तकलेंत कथा, नवलकथा घोळटा आसत, ती भितर शिजून तयार जाल्ली आसत, जाल्यार ती तकलेंत फकत घोळत रावपाची ना. तुका वेळ मेळूं वा ना मेळूं, ती तुजे कडल्यान आपणाक बरोवन घेतले बगर कशीच रावपाची ना. साहित्याच्या मळार संवसारांत जें कितें कथा, नवलकथा, कविता, नाटक असल्या वा हेर खंयच्याय रुपांत चिरंतन मोलाचें 'आयलां' तें सगळें हेच भाशेन जल्माक आयलां. 'वेळ मेळ्ळा' म्हूण तें कोणें बरोवंक ना. वेळ मात लेगीत मेळूंक ना तेन्ना लेगीत आयलां.

सृजनाची प्रक्रिया 'वेळ मेळटा म्हूण चलपी प्रक्रिया' न्हय. वेळ मेळना तेन्नाय ती चलत आसता. मनीस वयल्या वयल्यान पळेल्यार कांय करिनासो दिसता, तेन्नाय

ती चलता. आनी कामांत तो खूब घुसपल्लो आसता तरूय चलता. भायलीं कामां भितरले हे प्रक्रियेक कसलीच आडखळ हाडिनात. भायल्या कामांचो आनी भितरले हे प्रक्रियेचो कसलोच संबंद ना. आपणाले गतीन ती चलत रावता. इतली गूढ प्रक्रिया ही की तिचो खासा सर्जकाक लेगीत थाव लागना. मनशांत भितर कितें कितें भरिल्लें आसतलें, कोण सांगतलो! ल्हानपणा सावन पळेल्लें, अणभविल्लें, सोंशिल्लें बरें वायट, कोडू गोड, नश्टें पाडें, दिव्य भव्य सगळें मनाचे कोठये कुडींत एकठांय जावन राविल्लें आसता. ताका खंय तरी, कसलो तरी कांटो तोपता आनी उतरांच्या रुपान तें आपणाक उकतावंक लागता तेन्ना तें 'येता'. खंयच्या खिणाक कितें येत, खासा सर्जकाक लेगीत कळपाचें ना. दिसाक अमकींच वरां बसून अमकींच पानां बरोवन काडटलों म्हूण थारावन 'करपा सारकी' ही निर्मणी न्हय.

एक खरें, हें जें कितें येता, तें येवन थंयच थांबना. म्हज्यांत हांवें पळेलां : म्हज्यांत एक सर्जक आसा तसो ताचो एक सांगाती कलाकारूय आसा. सर्जक जें घेवन येता तें मागीर कलाकार आपणा हातांत घेता. तें घांसून पुसून काडटा. सकल वयर करता. तातूंत खडबडीत कर्कश कितेंय दिश्टी पडलें जाल्यार तें तो काडून उडयता आनी ताका – ताच्यान जाता तितलें – परिपूर्ण करून तें तो म्हज्यांतल्या रसिका मुखार दवरता. म्हज्यांत एक सर्जक आनी एक कलाकार आसा, तसो एक रसीक आनी समिक्षकूय आसा. ह्या दोगांयचे कसवटणेक जें उतरता तेंच मागीर हांव लोकां मुखार दवरतां.

पुणून मुदलांत कितेंय तरी 'आयिल्लें' आसूंक जाय.

हालिंसाराक म्हज्यांत आनीक एकल्यान तकली वयर काडिल्ली पळेतां. अजून जल्माक येवंक नाशिल्ले पिळगेंतलो वाचपी हो एक. तोवूय, गोंयचो न्हय. फकत कोंकणी भाशीक न्हय. पयसलो खंयचो तरी, कोंकणी निखालूस नकळ आशिल्लो. हाचे पसंतीक आनी परिक्षेक म्हजें बरप उतरूंक जाय, असो एक हावेस म्हज्यांत जागो जाल्लो हांव पळेतां. खूब व्हडलो हावेस हो, हांव जाणां. पुणून हो हावेस म्हाका हांव खंय उणो पडटां हाची जाणवीक करून दिता.

खूब उसरां जाग आयल्या म्हाका ही.

कोंकणी वाटार खुबूच ल्हान. इतिहासान आमचे मजगतीं उब्यो केल्ल्यो वेगळ्या वेगळ्या परंपरांच्यो आनी लिपयांच्यो वणटी कोंसळावन आमी 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' ह्या सुतान आमकां गुंथूंक पावले जाल्यारूय आमचो समाज पस्तीस चाळीस लाखां वयर वचपाचो ना. इतल्या ल्हान वाटारांतलो बरपीय ल्हान उरूं येता, हो भंय आमचे मुखार दवरून कांय बुदवंत 'व्हडली खंयचीय एक भास घे आनी चडांत चड लोकांसरीं पाव' असो उपदेस आमकां करतात. ह्या उपदेसान प्रभावीत जावन आमच्यांतल्या कांय जाणांनी आपणाले उक्तावणे खातीर व्हड भासो घेतिल्ल्योय आमी पळेतात. पुणून व्हड भासो घेवनूय हांच्यांतले खूब जाण ल्हानूच उरल्यात! व्हड भास घेतली म्हूण मनीस व्हड जायना. व्हड हावेस काळजांत बाळगूंक

जाय. जाल्यारूच तो व्हड जावं येता. फ्रान्स आनी इटली मदल्या वाटारांत चलता ती प्रोवेंसाल भास केदिशी? पुणून हे भाशेंत नोबेल इनाम जोडपी आल्बेर्त मिस्त्राला सारको एक व्हड बरपी जावन गेला. भवभूतिचीं उतरां हांगा थंय थोडीं बदलून म्हणचें जाल्यार, आपणालें बरप पयसल्या देशांतल्या-खंयच्याय रसिकान वाचतकूच – तेंवूय, आयच्या काळांतल्या न्हय, तर शें दोनशें वर्सां उपरांत कोणेंय वाचतकूच ताका तातूंत कितेंय तरी आगळें वेगळें मेळूंक जाय, हो हावेस मनांत दवरून आमी बरोवंक पावले जाल्यारूच आमचे हे ल्हान भाशेंत संवसारांतलें व्हडांतलें व्हड बरप केन्नाय तरी जल्माक येवंक पावतलें.

दिसाक अमकीं वरां बसून अमकींच पानां बरोवन हे तरेच्या साहित्याची निर्मणी जायना. पुणून —

हे तरेचें साहित्य म्हळ्यारूच 'साहित्य' अशें म्हणूं येत व्हय? साहित्य म्हळ्यार फकत कथा, नवलकथा, नाटक, कविता इतलेंच व्हय? हें सृजनात्मक साहित्य मोलाचें, म्हत्वाचें, दुबावूच ना. भाशेचो प्राण तें. पुणून भाशेक कूड नाका? भाशेची कूड प्राणा इतलीच मोलाची आनी म्हत्वाची. भाशेंत तरांतरांचे कोश आसूंक जाय. विश्वकोश, विज्ञानकोश, चरित्रकोश, सगळे तरेचे कोश येवंक जाय. मनीस कुळयेन आतां मेरेन ज्ञान विज्ञानाचीं कितलीं-शीं आंगां केळयल्यांत आनी वाडयल्यांत तांची जाणकारी दिवपी साहित्यूय भाशेंत येवंक जाय. ना जाल्यार भास वाडुंकूच पावना, तिगुंकूय पावना. बुद्दिच्यो सगळ्यो भुको भागोवपी साहित्य भाशेंत येवंक पावलें ना, जाल्यार सृजनात्मक साहित्य आमचें फकत मनोरंजनूच करतलें, हेर भुको भागोवपाक पावचें ना. हेर भुको भागोवपाक आमकां दुसऱ्या भासांचो आधार घेवचो पडटलो. दुसऱ्यांच्या पोशांतल्यान उदक पियेवपा सारकें जातलें हें. देखून, सगळ्या तरांचें साहित्य भाशेंत हाडपाचो जागरूक यत्न कोंकणींत जावंक जाय. ज्ञान-विज्ञानाचीं हजार आंगां मनशान केळयल्यांत. तांतलें एक खंयचेंय आंग आपलें करतलो म्हळ्यारूय कोणाकूच एक जिवीत पावपाचें ना. इतलें एका एका आंगांत भरलां. वेगळीं वेगळीं आंगां वेगळ्या वेगळ्या लोकांनी आपलिंशीं करून त्या त्या आंगांनी आमचें साहित्य गिरेस्त करपाचो वावर आमकां करचो पडटलो. तशी एक येवजण आमकां आंखची पडटली.

हें काम अमकींच वरां बसून अमकींच पानां बरयतलों असो नित्शय करून करूं येता. ह्या कामाचो हिशोबूय दवरूं येता, घेवं येता. हें काम करतल्याच्या आंगांत दोन गूण आसचे पडटात.

१. त्या त्या विशयाचो खोल अभ्यास, त्या त्या विशयाचें ज्ञान, आनी

२. तो तो विशय आपणाले भाशेंत सोंपेपणान सांगपाक जाय आशिल्लें भाशेचें ज्ञान.

**ब्रह्मांडांतलें तांडव** बरोवन हांवें हे तरेची 'निर्मणी' केल्या. नक्षत्रविद्या म्हजो आवडिचो विशय. तीस पस्तीस वर्सांचे संवकळिचो. ह्या विशया वयलीं कितलींशीं

पुस्तकां वाचिल्लीं. ते भायर, रातिच्या मळबांत तकली वयर करून नक्षत्रां पळोवपाची संवंयूय आशिल्ली. राजकर्णांतल्यान आंग काडून घेतलें आनी उरिल्लें आयुश्य साहित्याक ओंपतलों अशें थारायलें तेन्ना खासा नक्षत्रांनीच म्हाका आपणा संबंदान आतां कितेंय बरय म्हूण सुचयलें. दिल्ली-मुम्बय पाविल्लों. नवीं पुस्तकां घेवन आयलों. फाटल्या तीन दसकांत हे विद्येंत नवी कसली भर पडल्या ती समजून घेतली. म्हजे कडेन एक टेलेस्कोप आसा. तो घेवन आंगणांत बसलों आनी आठ धा दीस लावन अख्खें ब्रह्मांड भोंवन आयलों. पुस्तक बरोवपाक म्हाका चार म्हयने लागले. दिसाक आठ वरां ह्या कामाक दितलों अशें थारावन बरयतालों.

म्हाका नक्षत्रविद्येचें 'टॅक्स्ट-बूक' बरोवपाचें नाशिल्लें. ज्या संवसारांत आमी जियेतात तो कितलो सुंदर, कितलो अद्भुत, इतलेंच वाचप्यांक दाखोवपाचें आशिल्लें म्हूण प्रवास वर्णनाचे शैलीन हें पुस्तक बरयलें. पुस्तक छापून आयलां त्या वेळार ताची पयली प्रत घेवन हांव पवरि बाकीबाबां सरीं गेलों आनी 'म्हजे कवितेचें पुस्तक घेवन आयलां' अशें म्हणून तें तांच्या हातांत दवरलें. पुस्तक वाचून चार स दिसांनी बाकीबाब मुजरत पिरवळा आयले आनी म्हजे फाटीर हात मारून म्हणपाक लागले, 'हें तुगेलें निखटें काव्य न्हय, एक महाकाव्य तुवें कोंकणीक दिलां.' नोबेल इनाम मेळिल्लें जाल्यार जातली आशिल्ली ताच्याकूय लाख वांट्यांनी चड खोस म्हाका बाकीबाबांचीं हीं उतरां आयकून जाल्ली.

हें काम दिसाक अमकींच वरां बसून करपा सारकें आसलें तरूय सृजनात्मक कामा इतलेंच तें तनरी लावपी, तितलेच उंचायेर घेवन वचपी आनी तितलेच खोलायेंत देंवोवपी अशें म्हजें अणभवान मत्त जालां.

दिसाक अमकीं वरां बसून करपा सारकें साहित्य-निर्मणेचें आनीक एक काम आसा: अणकाराचें. ह्याय कामाचो म्हाका अणभव आसा. दिसाक आठ आठ वरां बसून हांवें हें काम केलां आनी तातूंत कितलेशे खेपे म्हजी तनरी लागल्या. कितलेशे खेपे ताणें काळजांत खोशयेचीं ल्हारां उसळायल्यांत.

असली धादोशी करपी, उर्बा जागोवपी, उमेद हाडपी 'कवायत' जण एकल्यान करूंक जाय ह्याय निर्णयार पावलां.

अणकारांची आमी खुबूच उवेखणी केल्या.

इंग्रजांनी आमचे वरी उवेखणी केल्ली जाल्यार वर्जिल आनी होमर, सॉक्रतिश आनी प्लेटो, गटे आनी शॉपेनहावर, तॉलस्तॉय आनी दॉस्तॉयव्हस्की, बाल्झाक, ह्युगो, प्रूस्त, कामू, सार्त्र आमकां मेळटले आशिल्ले व्हय? आमकां मिल्टन आनी शेक्सपियर वाचुनूच धादोसभरीत रावचें पडटलें आशिल्लें. इंग्रजांनी आपणाली भास संवसारभर पातळायली आनी संवसारभर पातळ्ळेली म्हत्वाची सगळी बरपावळ आपणाले भाशेंत हाडली. बुद्ध आमचोच आशिल्लो. तांगेलें 'त्रिपिटक' आमचेच एके भाशेंत 'पालीं'त बरयल्लें मेळटालें. पुराय त्रिपिटक मराठींत आनी गुजरातींत तर नाच, हिन्दींतूय अजून सारकें येवंक ना म्हूण सांगल्यार खरें दिसत व्हय? इंग्रजींत मात

पुराय त्रिपिटक तुमकां मेळटलें. हिन्दुधर्मा संबंदान तुमकां कसलीय जाणकारी जाय आसत, तुमकां ती मराठींत हिन्दींत मेळत काय कितें, दुबाव आसा. इंग्रजींत खातरीन मेळटली. तुमकां जाय ताच्याकूय चड मेळटली. खंयचो असो विशय आसा की जाचेर इंग्रजींत पुस्तकां नात? येद्याश्या देशाची एक येदीशी भास ही. तिगेल्या पुतांनी तिका खंय पावयल्या, पळेयात.

आमच्यांनीय हें कर्तुत्व करून दाखोवं येता. साहित्य अकादेमीन मान्यताय दिल्ल्या बावीस भासां मदली कोंकणी एकूच भास अशी की जिचो मराठी, कन्नड आनी मलयाळम ह्या तीन देशी भासां कडेन, तसो पुर्तुगेज, फ्रांसेज आनी इंग्लेज ह्या तीन येवरोपेव भासां कडेन लागिंचो संबंद आयला. ह्या सवूय भासांनी बरोवपी कोंकणी लोक आमचे मजगतीं आसात. आमच्यांनी कन्नड आनी मलयाळम तशें पुर्तुगेज आनी फ्रांसेज ह्या भासांतलें म्हत्वाचें सगळें साहित्य ते ते भाशेंतल्यान नीट कोंकणींत हाडूं येता. चाळीस लाख कोंकणी लोकांक 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' ह्या सुतान गुंथून काडात आनी शंबरांतले फकत पांचूच जाण पुस्तकां घेतले अशी येवजण आंखात आनी पळेयात, देशी भासां भितर ही केदी गिरेस्त भास जावं येता ती.

हांवें दिसाक आठ-आठ, धा-धा वरां बसून आनीक एक काम केलां : **महाभारताच्या** अनुसर्जनाचें. महाभारताची जी कथा लोक जाणात तीच कोंकणींत हाडची अशें थारायल्लें जाल्यार स-आठ म्हयने, अशें तशें वर्स देड वर्स पुरो आशिल्लें. पुणून म्हाका म्हजें **महाभारत** पुरें करपाक स वर्सां लागलीं. कित्याक, म्हाका फकत 'अणकार' करपाचो नाशिल्लो. व्यास कोंकणी-भाशीक आशिल्लो आनी ताका कोंकणींत आयच्या लोकांक नव्यान महाभारताची कथा सांगची-शी दिशिल्ली जाल्यार तो ती कशी सांगतलो आशिल्लो, हाची जागरूक जाणवीक दवरून हांवें ही कथा कोंकणींत हाडल्या. म्हळ्यार, ल्हान तोंडांत व्हड घांस घेवन सांगचें जाल्यार, व्यासाचे प्रतिभेचो थाव घेवपाचो यत्न केला. देखून म्हज्या महाभारताक हांवें 'एक अनुसर्जन' म्हळां. हें काम एका सारकीं स वर्सां, दिसाक आठ आठ – केन्ना केन्ना धा धा वरां – बसून केलां. म्हज्या जिवितांतलो सगळ्यांत चड सृजनशीळ काळ हो. एकाच वाक्यान ह्या वावराची फलश्रुती सांगची जाल्यार, महाभारत सोंपयलां त्या वेळार हांव आदलो उरूंक नाशिल्लों. बदलून साप नवो जावन आयिल्लों.

असलीं कामां दिसाक अमकींच वरां बसून करतलों, अशें थारावन करूं येतात. असलीं कामां करपाक आपणाक 'पूर्ण वेळ लेखक' जावंक जाय अशें कोणूय म्हणीत जाल्यार तें समजूं येता. ताका 'पूर्ण वेळ लेखक' जावपाक आमच्यांनी आधारूय दिवं येता. पुणून, मौलीक – original – कथा, नवलकथा, नाटकां, कविता बरोवपाक आपूण 'पूर्ण वेळ लेखक' जावंक सोदतां, आपणाल्यो विवंचना तुमी पयस करात, अशें कोणूय म्हणीत जाल्यार ताका सांगूंक जाय, 'बाबा रे, तुका हो अधिकार पिरायेच्या साठां उपरांतूच मेळटलो. ते मेरेन तुवें जायतें पळेल्लें, अणभविल्लें, सोंशिल्लें

आसतलें. तागून-भोगून तूं भितरल्यान गिरेस्त जाल्लो आसतलो. तेच पिरायेर 'पूर्ण वेळ लेखक' जावप तुका सोबतलें. ते पयलीं न्हय. तरणे पिरायेर जो साहित्या खातीर पूर्ण वेळ दिवंक मुखार सरता तो एक तर उथळ साहित्यीक जाता वा बाजारू जावन पडटा. असल्या लेखकांची कोंकणीक गरज ना. कोंकणी बरपावळीक ह्या पांवड्यार कोणें देंवोवंकूय जायना.

□ □

# १२

# रवीन्द्रनाथ

रवीन्द्रनाथांक संवसार कवी म्हूण वळखता. तेवूय आपणाली वळख सदां कवी म्हूण करून दिताले.

तांगेली पयली कविता उजवाडा आयल्या तेन्ना तांची पिराय णव वर्सांची आशिल्ली. तेरा वर्सांचे पिरायेर तांणी शेक्सपियरच्या 'मॅकबॅथ'चो अणकार केल्लो. तोवूय छंदांत. पुणून तांचो सूर जुळ्ळो तो ते एकवीस वर्सांचे जाले तेन्ना. हे पिरायेर तांकां एक दिश्टावो जालो आनी **निझरिर स्वप्नभंग** नांवाची एक कविता तांणी रचली. हाचे पयलीं **संध्या-संगीत** नांवाचो तांगेलो एक कवितां-झेलो उजवाडा आयिल्लो. बंगाली बरपावळींतल्या म्हालगड्यांनी ताची खूब तुस्त-तोखणायूय केल्ली. 'फायचो म्हा-कवी' म्हूण बंगाली समाज रवीन्द्रनाथां कडेन मोटे आशेनं पळोवपाकूय लागिल्लो. पुणून **निझरिर स्वप्नभंग** कविता रचले उपरांत खासा रवीन्द्रनाथांक **संध्या-संगीतां**तल्यो कविता 'काळजाच्या अटंग्या रानांत घुस्पल्ल्यो, अनुभूतीन खोल आसल्यो तरूय अस्पश्ट कविता' कशो दिसपाक लागिल्ल्यो. 'निझरिर स्वप्नभंग' रचीत सावन आपणाली कविता जशी कितें अरण्यांतल्यान भायर सरल्या आनी उजवाडाच्या मळार वझऱ्या भाशेन म्हालसमुद्राचे दिकेन नेटान व्हांवपाक लागल्या, अशें तांकां दिसपाक लागलें. पिरायेच्या एकविसाव्या वर्सा सावन तांगेली कवितेची ही जी उपासना आनी साधना सुरू जाल्ली, ती तांच्या एक्यांयशांव्या वर्सा मेरेन, एका सारकीं साठ वर्सां, खंड पडनासतना चलत रावल्या.

७ आगस्ट १९४१ ह्या दिसा ते संवसाराक अंतरले. सात दीस पयलीं, तीस जुलयक, तांचें ऑपरेशन जावपाचें आशिल्लें. ऑपरेशनाक वरभर आसा म्हळ्यार तांकां एक कविता सुचली. खासा आपणाल्या हातांनी बरोवपाची शक्त तांच्यांत उरूंक नाशिल्ली. राणी चंदा तांची सेवा करपाक तांचे म्हऱ्यांत आशिल्ली. तिका तांणी ती बरोवंक सांगली. तिणें बरोवन घेतली तेन्ना कवितेक तांणी नांव दिलें: **तोमार सृष्टिर पथ**. तांगेली ही निमाणी कविता थरली.

**निझरिर स्वप्नभंगा** सावन **तोमार सृष्टिर पथ** मेरेनच्या काळांत तांणी सुमार तीन हजार कविता रचल्यो. त्यो चोवपन्न झेल्यांनी उजवाडा आयल्यात. आंकड्यांचे नदरेन तशे गुणांचेय नदरेन हाका जाणकार, रवीन्द्रनाथांचें कवितेच्या मळाक एक व्हडांतलें व्हड योगदान मानतात आनी तांकां वाल्मीकी, व्यास, कालीदास, होमर, गटे हांचे

पंगतीक व्हरून बसयतात. रवीन्द्रनाथ तेच परंपरेंतले आनी त्याच पांवड्याचे एक कवी आशिल्ले.

आमकां – चडशा जाणांक – थोडी-भोव खबर आसा ती तांगेले **गीतांजली**ची. रवीन्द्रनाथांक नोबेल इनाम 'गीतांजली'न मेळोवन दिलां. तिचे अणकारूय संवसारांतल्या मुखेल भासांनी जाल्यात (आमचे कोंकणींतूय एक जाला). गीतांजलींतल्यो कविता खंयचेय नदरेन आगळ्यो वेगळ्यो, हे विशीं दुबावूच ना. पुणून त्यो तांगेल्यो बऱ्यांतल्यो बऱ्यो कविता, अशें मात म्हणूंक येना. रवीन्द्रनाथांच्या जिवितांत तरांतरांचे काळ येवन गेल्यात, तश्यो तरांतरांच्यो कळाय येवन गेल्यात. तांतल्या एका काळांतल्यो ह्यो कविता. हो काळ तांगेलें पुराय व्यक्तित्व उक्तावन दाखयना, तश्यो ह्या काळांतल्यो कविताय तांगेलें अंतरंग सगळ्या आंगांनी उक्तावन दाखयनात. गीतांजलीन रवीन्द्रनाथांचेर खूब अन्याय केला, अशें म्हणपी तांगेले कांय भक्त आसात. प्रमथ बिशीन तांगेल्या कवितांचेर उजवाड घालपी एक समीक्षा-ग्रंथ बरयला. तातूंत तर तांणी, तिडकिनूच म्हणूंक जाय, गीतांजलीचें नांव लेगीत घेवंक ना. रवीन्द्रनाथांचें अंतरंग सारकें समजून घेवपाक फकत गीतांजली उपकारा पडना, अशें जायत्या जाणांचें मत्त जालां. तांगेली कवि-प्रतिभा म्हालसागरा सारकी आशिल्ली. हो म्हालसागर उचांबळीत जाला तेन्ना तांतुंतल्यान माडा माडा येदीं ऊंच ल्हारां उसळ्ळ्यांत. गीतांजली हें शांत म्हालसागराचे वेळेर पातळ्ळेलें एक शांत ल्हार आशिल्लें, अशें ते म्हणटात.

पुणून रवीन्द्रनाथ फकत कवी नाशिल्ले. कविता हो साहित्याचो आत्मो खरो. पुणून साहित्याक कुडूय आसची पडटा. गद्य बरपावळ साहित्याक कूड दिता. रवीन्द्रनाथांची सगळी बरपावळ पंदरा खंडांनी उजवाडा आयल्या. ह्या खंडांतले फकत तीन खंड कवितांचे. एक खंड गितांचो. (तांणी कवितां भायर चार हजार गितांय बरयल्लीं.) उरिल्ले इकरा खंड गद्य बरपावळिचे. साहित्यकार रवीन्द्रनाथांच्या व्यक्तित्वाक कितलिंशीं आंगां आशिल्लीं. कवी हें तांतलें एक आंग.

रवीन्द्रनाथ एक बऱ्यांतले बरे नाटककार आशिल्ले. तांगेलीं चोवपन्न नाटकां उजवाडा आयल्यांत. म्हळ्यार, तांणी कवितेक जितलें दिलां, तितलें नाटकाकूय दिलां म्हणूंक जाय.

नाटक हें साहित्याचें अशे तरेचें एक आंग की जें रोखडेंच पोरणें जाता. कांय नाटकां खूब गाजतात आनी आरे आरे म्हणटा सर विसरायेच्या गुपाट काळखांत पडून विसंव घेतात. नाटकां वांगडा नाटककारूय ना जावन वतात. वा म्हणुंया, लोकांचे नदरेंतल्यान कुशीक पडटात. इब्सेन इंग्रजींत अणकारीत जावन आयलो तेन्ना इंग्लंडांतलो समाज खंय सकल वयर जाल्लो. दोन रेनेसांसच्यो चळवळी, तीन रॅफोर्मेशनच्यो आनी पांच भुंयकांप एकाच वांगडा जाल्ले जाल्यार जें जातलें आशिल्लें, तें खंय एका इब्सेनान इंग्रजी समाजांत घडोवन हाडिल्लें. आयज? इब्सेनचीं नाटकां आयज इंग्लंडांत कोण माचयेर हाडिनात. हाडलींच जाल्यार समाज निखालूस सकल-वयर जायना. इब्सेना भाशेन बर्नार्ड शॉनूय आपणाल्या नाटकांतल्यान इंग्लंडच्या

समाजांत असोच खवदळ घाल्लो. आयज शॉचीय गत्त इब्सेना सारकी जाल्या. ताचीं नाटकां लोक फकत वाचतात. माचयेर कोण हाडिनात.

इब्सेन आनी शॉ हांचे परसूय पोरणो शेक्सपियर. ताचीं नाटकां मात इंग्लंडांत अजुनूय जातात आनी अजुनूय त्या नाटकांक गर्दी जाता. हाचें कारण, इब्सेनान आनी शॉन आपणाल्या नाटकांत जे विशय हाताळिल्ले ते तांच्या काळांतले आशिल्ले. काळ बदल्लो. मुखार गेलो. तशे ते विशयूय फाटीं पडले. शेक्सपियरान जे विशय हाताळिल्ले ते काळा पेल्यानचे आशिल्ले, कालातीत आशिल्ले. नाटककार रवीन्द्रनाथांक शेक्सपियराचे पंगतींत बसोवंचे पडटात. तांचे उपरांत आयिल्ले नाटककार फाटीं पडल्यात. रवीन्द्रनाथ मात अजून आसात. आयजूय बंगाली समाज तांगेलीं नाटकां माचयेर हाडटा आनी आयजूय तांकां गर्दी जाता. रवीन्द्रनाथांच्या नाटकांतले विशय कालातीत आशिल्ले, अशेंच म्हणचें पडटा.

तांगेल्या नाटकांतलीं **डाकघर**, विसर्जन, **ताशेर देश** हीं गद्य नाटकां. **डाकघर** गद्यूच, पुणून प्रतिकात्मक – सिंबॉलिक. जाल्यार **नटीर पूजा, चांडालिका, श्यामा, चित्रांगदा** सारकेल्या नाटकांनी नाट्या भायर काव्य, संगीत आनी नृत्यूय गुथिल्लें पळोवंक मेळटा.

रवीन्द्रनाथांनी, धरूंया, कवितेची एक लेगीत वळ बरोवंक नाशिल्ली, फकत नाटकांच बरयल्लीं, जाल्यारूय संवसारांतले एक व्हडांतले व्हड नाटककार म्हूण तांगेलें नांव उरतलेंच आशिल्लें.

धरूंया, रवीन्द्रनाथांनी कविता बरोवंक नाशिल्ल्यो, नाटकांय बरोवंक नाशिल्लीं, फकत कथा आनी नवलकथाच बरयल्ल्यो जाल्यारूय संवसारांतले एक व्हड कथाकार आनी एक व्हड नवलकथाकार म्हूण तांगेलें नांव गाजतलेंच आशिल्लें. **गल्प–गुच्छ** ह्या नांवान तीन खंडांत तांगेल्यो सुमार णव्वद कथा उजवाडा आयल्यात. ते भायर, तांणी आठ नवलिका आनी स व्हड नवलक बरयल्यात. आमच्या देशांत कथेची एक खाशेली परंपरा चलत आयल्या. रामायण, महाभारत, भागवत, पुराणां, पंचतंत्र, हितोपदेश, कथा-सरित-सागर – कथांचोच संवसार हो एक, आगळो वेगळो. पुणून ह्यो कथा राजांच्यो, राजकुंवरांच्यो आशिल्ल्यो, ऋषिंच्यो वा म्हापुरसांच्यो आशिल्ल्यो. जांकां आमी किरकोळ वा म्हत्व नाशिल्ले लोक मानतात, तांच्यो कथा रवीन्द्रनाथां पयलीं बंगालींत कोणेंच बरोवंक नाशिल्ल्यो. इतलेंच न्हय, खंयचेच देशी भाशेंत कोणेंच बरोवंक नाशिल्ल्यो. हे नदरेन, रवीन्द्रनाथांक आर्विल्ल्या भारतीय कथाकारां मदले पयले कथाकार मानचें पडटा.

रवीन्द्रनाथ एक व्हडले जमीनदार आशिल्ले. पद्मा न्हंयचे तडीर शिलाइदह नांवाचे सुवातेर तांगेली एक व्हडली 'इस्टेट' आशिल्ली. तिचो कारभार पळोवपाक ते शिलाइदहाक वचून राविल्ले. थंय तांचो समाजांतल्या चिड्डल्ल्या, चेपिल्ल्या, नागवल्ल्या, फटवल्ल्या, बारीक दुबळ्या लोकां कडेन दाट संबंद आयलो. तांगेलीं दुख्खां तांणी अणभविल्लीं; तांगेलें दैन्य पळोवन ते उसळ्ळेले. आनी तांचे मुखार

एका पोरण्या बंगाली कविचें एक कडवें उबें आशिल्लें:

शुनो हे मानुष भाई
साबार उपरे मानुष सत्य
ताहार उपरे नाई

'मनीस हेंच संवसारांतलें व्हडांतलें व्हड सत्य. मनीस सोडून संवसारांत दुसरें सत्य ना.' हें तांकां पटिल्लें. 'मनशा'क साहित्यांत मानाची सुवात मेळूंक जाय, अशें येवजून तांणी ह्यो कथा बरयल्ल्यो.

रवीन्द्रनाथांच्या कथांचें अजून कोणेंच सारकें मोल आंखिल्लें हांवें पळोवंक ना. बंगालींतलें नकळ. पुणून हिन्दी, गुजराती, मराठी आनी इंग्रजींत कोणेंच तें करूंक ना. एक तर तांगेल्यो कथा आमी इंग्रजींत वाचल्यो, आनी दुसरें म्हळ्यार त्यो 'अधिकार' नाशिल्ल्या लोकांनी अणकारिल्ल्यो वाचल्यो. खंयच्याय अधिकारी मनशान तांचो अणकार केल्लो – इंग्रजींत वा हेर खंयचेय भाशेंत – जाल्यार, दुबावूच ना: विश्व-साहित्यांतल्या व्हड कथाकारां भितर तांकां सुवात मेळटलीच आशिल्ली. तांगेली एकूच **काबुलीवाला** कथा पुरो, तांगेले कथेचो पांवडो आनी जातकुळी लक्षांत येवपाक.

ते मुस्तींत दोगां कथाकारांचीं नांवां संवसारांत गाजतालीं. मोपासांचें एक आनी चेकोव्हचें दुसरें. रवीन्द्रनाथांच्या कथांनी दोगांयचीं आगळीं वेगळीं आंगां तर पळोवंक मेळटातूच, ते भायर, खासा रवीन्द्रनाथांचीं खाशेलीं आंगां पळोवंक मेळटात.

रवीन्द्रनाथ प्रेरणा कोणाय कडल्यान घेवं, केलदावणी कोणाचीच केन्नाच करी नाशिल्ले.

**गल्प-गुच्छा** भायर कथेचें तांचें आनीक एक पुस्तक मेळटा. **लिपिका** नांवाचें, ल्हान ल्हान कथांचें. वा म्हणुंया, कथिकांचें. कथा तर त्यो खऱ्योच, ते भायर, तांकां मुक्त छंदांतलें काव्यूय म्हणूं येता.

कथां भायर रवीन्द्रनाथांनी नवलिका आनी नवलकथा बरयल्यात. आठ नवलिका आनी स नवलकथा. **दुई बोन** (नवलिकेचो कोंकणींत अणकार जाला, साहित्य अकादेमीन उजवांडायला), **मालंच, चार अध्याय, चतुरंग** ह्यो तांगेल्यो गाजिल्ल्यो नवलिका. **शेषेर कविता**चोय आसपाव हातुंतूच करूंक जाय. तर, **चोखेर बाली, नौकाडुबी, घरे बाहिरे, गोरा** ह्यो तांगेल्यो खुबूच लोकप्रिय जाल्ल्यो नवलकथा. तांगेली नदर मनांतले नाजूक घुस्पागोंदळ कशे पळेताली आनी ह्या घुस्पागोंदळांचे आडवे उबे धागे ती कशी सोडयताली हें ह्यां नवलिकां-नवलकथांतल्यान बेस बरें दिसून येता. ह्या नवलकथांत **गोरा** सगळ्यांत चड लक्ष ओडटा. 'वॉर ॲण्ड पीस'च्या तोलामोलाची एकाद्री नवलकथा भारतीय साहित्यांत आसा जाल्यार, आमच्यांनी अनमन नासतना **गोरा** दाखोवं येता.

रवीन्द्रनाथांच्या नाटकांतलीं, कथांतलीं, नवलिकांतलीं आनी नवलकथांतलीं सगळीं पात्रां, धरूंया, जिवीं जावन पुस्तकांतल्यान भायर आयलीं जाल्यार तांकां बसोवपाक खंयचोच हॉल पावचो ना. तांचे खातीर आमकां एक व्हड मळ सोदचें पडटलें. समाजांतल्या वेगळ्या वेगळ्या थरांतल्या खांचीं-कोनशांतल्यान आयिल्लीं हीं पात्रां पळोवन आमी

आमकांच विचारपाक लागतले, तरांतरांच्या सभावाचीं हीं मनशां तांच्या नांवां, व्यक्तित्वां आनी धोंगां-पोंगां सयत रवीन्द्रनाथांच्या येद्व्याश्या दोन दोळ्यांनी कशीं वेंचून काडलीं काय? आनी तांगेलीं सुखां-दुख्खां, हारी-जैतां, तांगेल्यो निर्शेण्यो-खर्शेण्यो, रवीन्द्रनाथांच्या मुठी येद्व्या काळजांत ल्हारां कश्यो उठोवंक पावल्यो काय? आनी आमी आमकांच जाप दितले, रवीन्द्रनाथ कितलेय 'मिस्टीक' आसले, ईश्वरा कडेन अनुसंधान सादपाक कितलेय तळमळ्ळे, तरूय 'मनशा' कडलो तांगेलो संबंद तुट्टूंक येना इतलो घट आनी दाट आशिल्लो.

रवीन्द्रनाथांनी कल्पनेन एकूय पात्र निर्माण करूंक ना, हें म्हत्वाचें. सगळ्यांक ते लागिंच्यान वळखताले. सगळीं तांच्या जिवितांत येवन गेल्लीं.

जाच्या हाताक पद्म आसता तो माती लेगीत हातांत घेत जाल्यार तिचेंय खंय भांगर जाता. रवीन्द्रनाथांच्या हाताक पद्म आशिल्लें जावंक जाय. साहित्याच्या ज्या ज्या फॉर्माक तांणी हात लायलो, ताचें भांगर जाल्लें पळोवंक मेळटा. तांणी कविता बरयल्यो. बऱ्यांतल्यो बऱ्यो. तांणी प्रवास-वर्णनां बरयल्यांत – आठ पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत. आठूय बऱ्यांतलीं बरीं. तांणी संस्मरणां बरयल्यांत. **जीवन-स्मृती, छेलेबेला, आत्म-परिचय, छिन्नपत्र.** बऱ्यांतलीं बरीं. समीक्षेचीं सात पुस्तकां बरयल्यांत. प्राचीन साहित्य, लोक-साहित्य, आर्विल्लें साहित्य – साहित्याच्या रुपाची आनी प्रस्नांची भासाभास ह्या पुस्तकांत तांणी विस्तारान केल्या. एके कडेन ते म्हणटात, 'हांव जितले खोलायेन येवजितां तितलें तितलें म्हजे मुखार स्पश्ट जायत वता: मनशाक ताच्या धोंगां-पोंगां सयत, ताच्या अंतरंगां सयत उजवाडांत हाडप, हीच साहित्याची मोख आसूं येता. साहित्याचो खरो प्राण तो हो. संवसारभर मनीस बदलत गेला. आकांताच्या वेगान बदलत रावला. ताका साहित्यांतूच थीर करूंक येता. संगितांत, चित्रांत, विज्ञानांत वा तत्त्वज्ञानांत आमकां संपूर्ण मनीस पळोवंक मेळना. तो साहित्यांतूच पळोवंक मेळटा. साहित्य हें एक अक्षय भांडार, मनशाक वळखुपाचें.'

साहित्याची चर्चा करपी समीक्षे भायर रवीन्द्रनाथांनी कितले-शे निबंद बरयल्यात. कितले? कोंत आनी हिशोब ना. **भारतवर्ष, राजा-प्रजा, समूह, स्वदेश, समाज, सभ्यतार संकट** – असल्या निबंदांक लागपी निबंद खंयच वाचूंक मेळचे नात. रवीन्द्रनाथांनी व्याकरणाचेर एक पुस्तक बरयलां, तशें छंदशास्त्राचेरूय एक बरयलां.

रवीन्द्रनाथांनी कितें बरोवंक ना, सारकें सांगूंक येवपाचें ना. रवीन्द्रनाथांची बरपावळ म्हळ्यार तांगेले कवि-प्रतिभे सारको म्हालसागर एक, आकांताचो व्हडलो. ताचो थाव केन्ना लागपाचो ना, तशी ताची पलतडूय सपसप केन्ना दिश्टी पडपाची ना.

देव प्रतिभा सगळ्यांक दिता – जसो ताळो दिता. पुणून निखटो ताळो आसलो म्हूण मनीस गायक जायना. ताळो 'कमावचो' पडटा. ते खातीर वर्सांचीं वर्सां 'रियाज' करचो पडटा. तपश्चर्या करची पडटा. तेन्नाच मनीस गायक जावंक पावता. तशी, निखटी प्रतिभा आसली म्हूण भागना. प्रतिभेक अभ्यासाची आनी व्यासंगाची पोसवण दिवची पडटा. वर्सांचीं वर्सां साधना आनी तपश्चर्या करची पडटा. तेन्नाच मनीस

साहित्यीक जावंक पावता. रवीन्द्रनाथांक देवान प्रतिभा दिल्ली. पुणून ते फकत प्रतिभेचेर निंबून रावले नात. ते सगळें पोरणें बंगाली आनी संस्कृत साहित्य कोळून पियेल्ले. इंग्रजीच्या आधारान जें विश्व-साहित्य तांकां वाचूंक मेळ्ळें तेंवूय तांणी पचयल्लें. आनी आपूण जें बरयतां तें पूर्वाचार्यांच्या साहित्या परस खंयच उणें पडूंक जायना, हाची जतनाय घेवन बरयताले. आपणाक ते वाल्मीकी, व्यास, कालीदास, भवभूती तशे होमर, शेक्सपियर, गटे, टॉलस्तॉय हांचे वारस मानताले. आपणाले लिखणेंतल्यान जें भायर सरता तें हांचे कसवटणेक उतरूंक जाय, इतलेंच न्हय, तर हांचे उपरांतचो आपूण जाल्ल्यान आपणें हांचेय मुखार वचूंक जाय, हाची जागरूक जाणवीक दवरून ते बरयताले. 'आयलें तशें गायलें' तांणी केन्ना केलें ना. आयलें तें बरयलें आनी बरयलें तें छापूंक दिलें, अशी एक लेगीत वळ रवीन्द्रनाथांचे बरपावळींत मेळची ना. आयलां तें तांणी बरोवन काडलां. ताचे वयल्यान कितलेशे खेपे हात ओडला, घांसून-पुसून तें निवळ केलां आनी उपरांत तांच्यांतल्या समीक्षकान छाप म्हूण सांगलां तेन्नाच छापलां. नेमाळ्यांत छापून आयिल्लें बरप पुस्तकांत दिवचें केलां तेन्ना पर्थून ताचे वयल्यान तांणी हात ओडला. पर्थून तें निवळ केलां. उपरांतूच दिलां. रवीन्द्रनाथांनी आपणाले बरपावळिचेर कितलेशे संस्कार केल्यात.

इतल्यान ते थांबूंक नात. कवितेचीं नाटकां केल्यांत, नाटकांचीं नृत्य-नाट्यां केल्यांत. आपणाल्या साहित्याचेर तरांतरांचे संस्कार करपी, ताका तरांतरांचीं रुपां दिवपी साहित्यकार रवीन्द्रनाथ सोडून दुसरो सपसप पळोवंक मेळचो ना.

भाशेच्या मळारूय रवीन्द्रनाथांनी तरांतरांचे प्रयोग केल्ले. तांणी बरोवपाक सुरवात केल्या ताचे पयलीं बंगाली साहित्यकार जे बंगालींत बरयताले तिका 'साधु भाषा' हें नांव आशिल्लें. 'साधु भाषा' म्हळ्यार 'प्रमाण' भास, स्टँडर्ड लँग्वेज. प्रमाण बंगाली चालंत बंगाली पसून खूब पयस गेल्ली. प्रमाण भास चालंत भाशे पसून चड पयस वचूंक जायना, अडेची दिसूंक जायना, अशें रवीन्द्रनाथांचें मत्त आशिल्लें. म्हूण ते चालंत बंगालींत बरोवपाक लागिल्ले. बंगाली भाशेचे पंडीत तिडटाले, खुबताले, रवीन्द्रनाथ भाशेची वाट लायतात अशें म्हणटाले. पुणून रवीन्द्रनाथ पर्वा करी नाशिल्ले. प्रमाण बंगाली अडेची जाल्या ती विरामचिन्नांक लागून, असल्याय एका निर्णयार ते पाविल्ले. संस्कृतांतलो एक पूर्ण-विराम पुरो. उबे आडयेचो. बाकिचीं सगळीं विरामचिन्नां सोडून दिवचीं, भास आपशींच 'चालंत' जातली अशें तांचें म्हणणें आशिल्लें. रवीन्द्रनाथांनी आपणाल्या बरपांतलीं हीं चिन्नां काडून उडयल्लीं.

'लायब्रेरी' नांवाचो तांगेलो एक निबंद आसा. तरणे पिरायेर तांणी येवरोपांत एक व्हड पुस्तकालय पळेलें. संवसारांतल्या व्हड व्हड साहित्यकारांनी बरयल्लीं पुस्तकां थंय दाळिल्लीं तांकां मेळ्ळीं. तांणी आपणाकूच प्रस्न केलो, 'ह्यांचे पंगतीक दवरपा सारकें एक तरी पुस्तक म्हजे बंगालींत आसा व्हय ?' 'एकूय ना' म्हूण तांकां जाप मेळ्ळी. ही जाप मेळटकूच तांच्या काळजांत जें मोड उठलें ताचें वर्णन ह्या निबंदांत वाचूंक मेळटा. ते आपणाक विचारतात, 'सैमान आमकां येदो व्हडलो हो म्हालसागर

दिला. तो एका सारको गाजत आसा. ही गाज आमकां कितेंच सांगिना व्हय? ह्या म्हालसागराचे भेटेक हजारांनी मैलांची वाट कातरून गंगा येता. ती येतना वाटेर कितल्याश्या न्हंयांक आपणांत घेवन येता. आमकां सांगपा सारकें ती कितेंच घेवन येना व्हय? वयर आमच्या माथ्यार येदें व्हडलें हें मळब पातळ्ळां. ताचे कडेनूय आमकां सांगपा सारकें कितेंच ना व्हय?'

मागीर भितरल्यान ते अवचीत उसळटात आनी म्हणटात : बंगाली मनशाक 'आपनार भाषाय एकबार आपनार कथाटि बलिते दाओ. बंगाली कण्ठेर सहित मिलिया विश्वसंगीत. मधुरतर हइया उठिबे.' बंगाली मनशाक एक फावट ताचेच भाशेंत आपणाली खबर सांगूंक सांगात. विश्व-संगिताक एक बंगाली सूर मेळटलो. आनी तें कितलेंशें गोड जातलें.

संवसाराक दिवपा सारकें बंगाली बरपावळींत व्हडलें-शें कांय ना हें दैन्य, आनी बंगाली मनीस बंगालींत आपणाक उक्तावंक पावलो जाल्यार विश्व-संगिताक एक नवो सूर मेळून तें अदीक गोड जावंक पावतलें हो आत्मविस्वास, ह्या दोन गजालिंच्या आधारान रवीन्द्रनाथांची प्रतिभा फुल्ल्या आनी फळ्ळ्या. आनी रवीन्द्र साहित्य आमकां मेळूंक पावलां.

पुणून हांगा आमी मात्शे थांबूंक जाय. रवीन्द्रनाथांचेर जेन्ना आमी उलोवंक वा बरोवंक बसतात तेन्ना साहित्यकार रवीन्द्रनाथांचीच पोटभर तुस्त करीत रावतात. खरेपणानशीं, तांचेर हो एके तरेचो अन्याय जाता. साहित्यकार रवीन्द्रनाथ खूब व्हडले आशिल्ले, दुबावूच ना. पुणून आमी एक गजाल विसरूंक फावना. साहित्य हें तांच्या व्यक्तिमत्वाचें एक आंग, फकत एक आंग आशिल्लें. रवीन्द्रनाथांच्या व्यक्तिमत्वाक कितलिंशीं दुसरीं आंगां आशिल्लीं. एका फुडलीं एक ओडलायणीं.

## [२]

साहित्यकार कलाकार आसचोच पडटा. तो साहित्यांतल्यान जें सांगूंक सोदता तें 'कशें' सांगता हाचेर बरेचशें ताचें लोकीक येस निंबून उरता. रवीन्द्रनाथ हे नदरेन जागरूक आशिल्ले. कोणाकूय सादी एक चीट बरयल्या तेन्ना लेगीत तांणी ती कलेचे नदरेन सुंदर जावंक जाय, हाची जतनाय घेतल्या. आपणाल्यो चिटी लोक सांबाळून दवरतले आनी केन्नाय तरी त्यो छापून हाडटले म्हणपाची तांकां सदां जागरूक जाणवीक उरल्या. देखून तांणी एक वळ लेगीत ताकतिकेन केन्ना बरयलिना. तांच्यो कितल्योश्यो चिटी आयज उजवाडा आयल्यात. चिटिंचे कितलेशेच खंड मेळटात. खंयचेच चिटींतलें एक उतर हेवटेनचें तेवटेन करूंक मेळपाचें ना. ते म्हणटाले, आमी ज्यो भावना उक्तावन दाखोवपाक उतरां वापरतात त्या उतरांतल्यान त्या भावनांक सोब सारके सुरूय येवंक जाय.

तांगेल्या अक्षर वाङ्मयांत तांगेल्या चिटिंचोय आयज जाणकारांनी आसपाव केला.

हें जालें साहित्यकार रवीन्द्रनाथांतल्या कलाकाराचें एक रूप. कलेचीं नाट्य, संगीत, नृत्य, चित्र, शिल्प असलीं कितलिशीं दुसरींय आंगां आसात. तांतल्या ज्या आंगांक रवीन्द्रनाथांनी हात लायला त्या त्या आंगाचें भांगर जाल्लें पळोवंक मेळटा.

कलकत्त्याच्या तांगेल्या पोरण्या घरांत तरांतरांचे उत्सव चलताले. ह्या उत्सवांनी नाटकांय जातालीं. रवीन्द्रनाथ भुरगेपणांतूच नाटकांनी वांटो घेवपाक लागिल्ले. अभिनयाची कला ते ल्हानपणांतूच शिकले. ल्हवू ल्हवू आपुणूय नाटकां बरोवपाक लागले आनी ह्या नाटकांनी कोणें कशे तरेचो अभिनय करचो हें थारावपाक लागले. उपरांत खासा तांणी अभिनय करपाचें सोडून दिल्लें. पूण आपणालीं नाटकां बसोवपाचें काम मात तांणी आयुश्याचे अखेर मेरेन केलां. नाटक ही एक 'दृश्य-श्राव्य' कला – दोळ्यांनी पळोवपाची तशी कानांनी आयकुपाची. ती खंयच उणी पडूंक जायना हाची जतनाय ते आयुश्यभर घेत राविल्ले.

व्हडल्या व्हडल्या नटांची तांणी परिक्षा घेतल्या. व्हडले व्हडले नट तांगेल्या 'दिग्दर्शना' मुखार खर्शेल्यात.

घरांत संगिताचें वातावरण तर मुदला थावन आशिल्लें. ज्योतिरीन्द्रनाथ हे तांगेले एक भाव. पिरायेन तांचे परस व्हड. तांकां संगिताचें पिशें. रवीन्द्रनाथांनी संगिताचे पयले पाठ ह्या भावा कडल्यानूच घेतल्यान. देवान रवीन्द्रनाथांक ताळोय गोड दिल्लो. 'कोकिल-कंठ रवीन्द्र' म्हूण भोंवतणचो लोक तांकां वळखतालो. तांकां 'हिन्दुस्तानी संगीत' शिकोवपाक एक उस्तादूय तांगेर येतालो. अशे तरेन रवीन्द्रनाथांचे संगिताचे संस्कार ल्हानपणा सावन घडिल्ले. तांचे कान ल्हानपणा सावन सुरां कडेन ओडत गेल्यात.

ते मुर्स्तीतले चालीक धरून तांकां तांगेल्या म्हालगड्यांनी बॅरिस्टरकी शिकपाक इंग्लंडाक धाडून दिल्ले. बॅरिस्टरकी थंयच उरली. इंग्लंडांत वचून ते युरोपीय संगीत शिकपाक लागले. 'पॉप' तशें 'क्लासिकल', दोनूय संगितांची तांणी वळख करून घेतली. ह्या संगितान तांकां एक नवीच प्रेरणा दिली. ते आपणालीं गितां हिन्दुस्तानी आनी युरोपीय दोनूय संगितांची सांगड करून गावपाक लागले. ह्याच काळांत तांणी **वाल्मीकि-प्रतिभा** नांवाचें एक नाटक बरयलें. ह्या नाटकांत बंगाली लोकांक पयलेच फावट भारतीय आनी युरोपीय संगिताचो मेळ जाल्लो पळोवंक आयकूंक मेळ्ळो.

बंगाली 'लोक संगीत' दीस रात तांच्या कानार पडत आयिल्लें. तांतल्या 'बाउल' संगितान तर तांकां एके तरेचें पिशें लायिल्लें. 'बाउल' हो बंगाली भौसांतलो एक भक्ति-संप्रदाय. तांगेलीं खाशेलीं गितां आसात, तशें तांगेलें खाशेलें संगितूय आसा. रवीन्द्रनाथांनी 'बाउलां'च्या अड्ड्यार वचून बसचें. तांकां गांवंक लावचें. कानान तांचे सूर धरचे आनी त्या सुरांनी आपणालीं गितां रचचीं. बंगालांत आनीक एके तरेचें संगीत आसा. ताका 'भटियाळी' संगीत म्हणटात. भटियाळी संगीत, बाउल संगीत, हिन्दुस्तानी संगीत आनी युरोपीय संगीत – ह्या सगळ्या संगीत-शैलिंचो अभ्यास करून तांणी आपणालें खाशेलें एक **रवीन्द्र संगीत** निर्माण केलें.

**रवीन्द्र संगीत** हें रवीन्द्रनाथांनी भारतीय संगिताक दिल्लें एक आगळें वेगळें योगदान म्हणूंक जाय. चड करून गितां रचपी एक आसता जाल्यार दुसरो तांकां सूर दिता. युरोपांत शुबर्ट नांवाचो एक संगितकार जावन गेलो. तो गितां रचतालो आनी आपुणूच तांकां चाली दितालो. शुबर्टान सशीं गितां बरयल्लीं. आनी त्या गितांक सूर दिल्ले. रवीन्द्रनाथांनी पांच वांट्यांनी चड गितां रचलीं आनी तितल्याय गितांक चाली दिल्यो. आपणा उपरांत तीं कोणेंय कशींय गावचीं न्हय म्हूण तीं स्वरलिपयेंतूय बरोवन घेतलीं. कुंदनलाल सहगल तांगेल्या गितांचो एक भक्त. खंयच्या तरी एका फिल्मांत ताणें 'मधु गंधे-भरा, मृदु स्निग्ध छाया' ह्या रवीन्द्रनाथांल्या गिताक एक वेगळीच चाल दिल्ली तांणी आयकली. रवीन्द्रनाथ खंती जाले. आपणाल्या गिताचो खून जाला अशें तांकां दिसलें. तांकां तें मात पसून सोंसलें ना. तांणी सहगलाक आपणालीं गितां हे मुखार म्हणूंक जायना म्हूण तंबी दिल्ली.

कांय जाणकार संगितकार रवीन्द्रनाथांची सारकावणी पुरंदरदास आनी त्यागराज हांचे सारकेल्या संत-संगितकारां कडेन करतात आनी 'ही अतिताय निखालूस जायना' अशें तांगेले टिकाकारूय म्हणटात.

आपणा फाटल्यान आपणालें कितें उरतलें हो प्रस्न रवीन्द्रनाथांक उतार पिरायेर केन्ना केन्ना पडटालो. व्हडले व्हडले 'ना जावन गेल्ले' तांणी पळेल्ले. आपुणूय असो एक दीस ना जातलों, आपणालें साहित्यूय घडये ना जातलें. पुणून –

आपणालें संगीत उरतलें, अशें तांकां मना पसून दिसतालें.

संगिताच्या भक्ताचें नाचा कडेन लक्ष वचूंक ना अशें केन्ना घडलां व्हय? संगीत 'श्राव्य' आसता – कानांनी आयकुपाचें आसता. पुणून तें जेन्ना 'दृक' जाता – दोळ्यांक दिश्टी पडपाक लागता, तेन्ना नृत्याचेंच रूप घेवन येता.

भारतीय नृत्य जें खंय लिपून उरलां तें उक्ताडा हाडपाचें काम रवीन्द्रनाथांनी शान्तिनिकेतनांत खूब केलां. मणिपुरी नृत्य मणिपुरांतल्यान भायर सगळ्यांत पयलीं तेच घेवन आयल्यात. उदयशंकरांक सगळें आयुश्य नृत्याक ओंपपाची प्रेरणा तांणीच दिल्या. भारतांत नृत्याच्यो पोरण्यो नव्यो जितल्योय तरा आसात तितल्यांकूय संस्कारीत करपाचो वावर तांणी शान्तिनिकेतनांत केला. उतार पिरायेर ते जावा आनी बाली ह्या वाटारांत भोंवडेर गेल्ले. थंय तांणी 'बेडय' आनी 'सेरम्पी' नांवाचे दोन नाच पळेले. दोनूय भारतांतल्यान थंय गेल्यात म्हणपाचें कळनाफुडें तांणी शान्तिनिकेतनांतल्या आपणाल्या कांय विद्यार्थ्यांक थंय धाडून दिले. आनी तांचे उदेर्शी हे दोनूय नाच ते परते भारतांत घेवन आयले.

नृत्याक व्हडवीक जोडून दिवपा खातीर तांणी कांय 'नृत्य-नाटकां'य (डान्स ड्रामा) बरयल्यात. **मायार खेला, नटीर पूजा, श्यामा, चांडालिका** सारकेल्या नृत्य-नाटकांतल्यान तांणी पोरण्या नव्या कितल्याश्या नाचांक नामना जोडून दिल्या.

नाच म्हळ्यार पुजेचीच एक तरा अशें ते मानताले.

१९३०त ते येवरोपाचे भोंवडेर गेल्ले. तांगेली ती इकरावी भोंवडी आशिल्ली.

पारिसाक पावतकूच तांणी आपणाले पोतयेंतल्यान एक 'जादू' भायर काडलो. पारिसांतल्या 'गालेरी पिगालां'त तांणी आपणाल्या चित्रांची एक प्रदर्शनी घडोवन हाडली. रवीन्द्रनाथांक एक व्हड कवी म्हूण येवरोप वळखतालें. हो कवी चित्रकारूय आसत. तोवूय ताच्यांतल्या कवी येदोच व्हड, हाचो येवरोपांत कोणाकूच अदमास नाशिल्लो. पारिसांतली 'गालेरी पिगाल' म्हळ्यार चित्रकारांची 'मक्का'. जो खऱ्यांनीच व्हड चित्रकार आसता ताच्याच चित्रांच्यो प्रदर्शन्यो थंय जातात. आनी येवरोपांतले व्हडले व्हडले कलाकार आनी कला-समीक्षक त्यो पळोवपाक येतात. पारिसांतले कलेचे जाणकार रवीन्द्रनाथांचीं चित्रां पळोवन चकासूर जाले. आनी चित्रकार रवीन्द्रनाथ कवी रवीन्द्रनाथां परस खंयच्याच आंगान उणे न्हय अशें मेकळ्या ताळ्यान म्हणपाक लागले. आयज तांच्या चित्रांची तुळा हे लोक पिकासो वा साल्वादोर द मादरियागा सारकेल्यां कडेन करतात. खासा पिकासो आनी मादरियागा हांणी रवीन्द्रनाथांचीं चित्रां पळोवन तोंडांत बोटां घाल्लीं.

अवनीन्द्रनाथ ठाकूर आनी नन्दलाल बोस हांच्या आधारान रवीन्द्रनाथांनी शान्तिनिकेतनांत एक कलाभवन कितल्याश्याच वर्सां पयलीं सुरू केल्लें. भारतीय चित्रकलेंत प्राण फुंकपाचो वावर थंय चलत राविल्लो. आनी रवीन्द्रनाथांचें ह्या वावरा कडेन बारीक लक्ष आशिल्लें. पुणून आपणांत एक चित्रकार आसा म्हणपाची जाणवीक ते सत्तर वर्सांचे पिरायेचे जाल्यात ते मेरेन तांकां निखालूस नाशिल्ली. ते कविता बरयताले. त्यो घांसून पुसून निवळ करतना कांय खाडाखोडी करच्यो पडटाल्यो. ह्यो खाडाखोडी तांच्या दोळ्यांक सोंसनाशिल्ल्यो – बऱ्यो दिसनाशिल्ल्यो. म्हूण त्या खाडाखोडिंचेर ते संस्कार करपाक लागले. आनी तांतुंतल्यान एकाद्रें फूल, एकाद्रें झाड, एकाद्रें शेंवणें येवपाक लागलें. सुरवातेक तांचें लक्ष ह्या चित्रां कडेन वचूंक नाशिल्लें. गेलें तेन्ना तांचे तांकांच अजाप जालें. मागीर पिशोल हातांत घेवन ते खेरीतपणान चित्रां काडपाक लागले. आयुश्यभर ते उतरां कडेन खेळत आशिल्ले. उतरांच्या आधारान 'अ-रुपाक रूप' दिवपाच्या वावरांत सदांच गुल्ल उरिल्ले. आतां उतार पिरायेर रेगांच्या आनी रंगांच्या आधारान 'अमूर्ता'क 'मूर्त' रूप दिवपाच्या वावरांत गुल्ल जाले.

आयुश्याच्या निमाण्या एका दसकांत तांणी सुमार दोन हजार चित्रां काडल्यांत.

एक फावट मनशान 'व्हड' म्हूण नामना जोडटकूच ताच्या सगळ्याच आंगांची तुस्त तोखणाय करपाची रीत संवसारांत सगळे कडेन चलता. आमच्या देशांत तर चडूच. पुणून चित्रकार रवीन्द्रनाथांची तुस्त तोखणाय हे रितीक धरून जावंक ना हें लक्षांत दवरपाचें. जाणकार म्हणटात, तांगेलीं चित्रां पळेले बगर तांचे प्रतिभेचो थाव लागपाचो ना.

इंग्रजी 'गीतांजलीं'त एक कविता आसा. 'लोक म्हज्यो कविता वाचतात आनी येवन विचारतात, 'हिचो अर्थ कितें?' तांकां कितें जाप दिवची तें म्हाका समजना. हांव मागीर म्हणटां, 'म्हाका खबर ना.' आतां तांगेलीं चित्रां पळोवन लोक तांकां

तोच प्रस्न करपाक लागले, 'हांचो अर्थ कितें?' तांकांय ते तीच जाप दिवपाक लागले, 'म्हाका खबर ना.' कवी उतरांच्या आधारान आपणालें काळीज उक्तायता जाल्यार चित्रकार रंगांच्या आधारान तेंच काम करता, इतलीच एक जाप तांकां दिवंक येताली.

कला तांगेल्या जिवितांतूच आशिल्ली. तांगेलें उठप बसप, चलप भोंवप, उलोवप करप, सगळें कलेच्या नेमांक धरून चलतालें. ही जिविताची कला आशिल्ली. तांकां खोस जाल्ली आसली, खंत जाल्ली आसली, तिडक मारिल्ली आसली जाल्यार ती उक्तायतना जिविताचे कलेच्यो शिमो ते केन्नाच उपी नाशिल्ले.

शान्तिनिकेतनांत तांणी ल्हान व्हड घरां बांदून घेतिल्लीं. तांच्या स्थापत्यांत लेगीत कलाकाराची नदर दिश्टी पडटा. भोंवतणच्या सैमांतलीं झाडां-पेडां जमनींतल्यान वयर सरतात तशीं घरांय जमनींतल्यान वयर सरिल्ले वरी – सैमाचेंच एक आंग जाल्ले वरी दिसूंक जाय, अशें तांचें म्हणणें आशिल्लें. शान्तिनिकेतनांतलीं घरां तांणी हे भाशेन बांदून घेतिल्लीं. ह्या घराक **उदयन, श्यामोली** बी नांवांय तांणी तांच्या स्थापत्याक सोबऽ सारकींच दिल्लीं.

[३]

रवीन्द्रनाथ म्हळ्यार एक सुखवस्तू कवी. एकान्तांत आसताले तेन्ना कविता रचताले. लोकां मजगतीं येवन रावताले तेन्ना नाच गाण्यांत गुल्ल उरताले अशी टिका करपी ते मुस्तींत लोक आशिल्ले.

खरेपणानशीं रवीन्द्रनाथ अशे नाशिल्ले. आयचे भाशेंत सांगचें जाल्यार ते एक व्हड 'कमिटेड' राष्ट्रपुरूस आशिल्ले. ते सुधारकां मजगतचे एक व्हड सुधारक आशिल्ले. आनी राष्ट्रवाद्यां मदले एक व्हडले राष्ट्रवादीय आशिल्ले.

साहित्य-निर्मणेचे नदरेन जाणकार तांच्या तरणेपणांत ते शिलाइदहाक वचून राविल्ले त्या काळाक तांगेल्या जिवितांतलो व्हड सर्जक – क्रियेटिव्ह-काळ मानतात. तांगेल्यो कांय अज्रंवर कविता तांणीं ह्याच काळांत बरयल्ल्यो. तांगेल्यो कांय म्हत्वाच्यो कथा ह्याच काळांत जल्माक आयल्यात. **छिन्नपत्र** नांवाचें तांगेलें एक खुबूच सुंदर पुस्तक आसा – धुवडेक बरयल्ल्यो चिटी गुथून तयार केल्लें – जातूंत तांगेलें आंतरीक जिवीत उक्ताडा आयलां. तेंवूय ह्याच काळांतलें. पुणून जाणकार दुसरे एके नदरेन ह्या काळाक म्हत्व दितात. देशाच्या समाजीक आनी राजकी प्रस्नां कडेन पळोवपाची एक आगळी नदर रवीन्द्रनाथांक ह्याच काळांत आनी हांगाच मेळिल्ली, अशें म्हणटात.

समाजांत एके वटेन दीन हीन विपन्न अवस्तेंत पडिल्लो भौस आसचो आनी दुसरे वटेन ह्या भौसाक नाडून तांच्या कश्टांचेर आपणाली 'संस्कृताय' काय कितें म्हणटात ती निर्मून तिचीं सुखां भोगपी धवाड्यांचो एक ल्हानसो वर्ग आसचो, हें समा न्हय, हें मनीसपणा भायलें, हो अन्याय, ही अनीत, हें चलूंक दिवंक जायना,

ही समाज वेवस्ता मोडून उडोवंक जाय. आनी, तिचे सुवातेर सगळ्यांक एका पांवड्यार हाडून तांकां सारकींच सुखां मेळोवन दिता असले तरेची एक नवी समाज-वेवस्ता उबी करूंक जाय हे तरेच्या बंडाचें ल्हार तांच्या काळजांत ह्याच काळार आनी हांगाच उठिल्लें आनी तें आयुश्यभर एका सारकें तांकां उचांबळीत करीत राविल्लें.

ह्याच काळार तांणी **एबार फिराओ मोरे** नांवाची सवायशें वळिंची एक लांब कविता बरयल्ली आनी हे कवितेंत तांणी आपणाली व्यथा आनी हे व्यथेचेर येवजल्लो उपायूय स्पस्ट उतरांनी उक्तावन दाखयल्लो. हे कवितेंत ते आपणाकूच सांगतात –

'सभाग्या, तूं कितें फकत बांसरीच वाजयत बसतलो ? भिरकावन मार ती भायर. हांकां पळे, हांगा तुजे मुखार कितलेशे हे दीन हीन लोक मानो सकल घालून उबे आसात. तांच्या बाविल्ल्या आनी खंती मुखामळाचेर पळे, कितल्या शतमानां पसून सोंशीत आयिल्ल्या दुख्खांची करूण कथा बरयल्ली पळोवंक मेळटा.'

**'एइ सब मूढ म्लान मुखे दिते हबे भाषा / एइ सब श्रान्त शुष्क भग्न बुके ध्वनिया तुलिते हबे आशा'** तांकां आड्डून सांगूंक जाय, बाबांनो, तुमी सगले एक फावट मानो वयर करून एकठांय येयात आनी एकवट घडोवन एक फावट उबे रावन पळेयात. जाच्या भंयान तुमी थतरवितर जाल्यात तो अन्याय तुमचे परस भित्रो, तुमी सगळे एकवटान उबे रावतले त्याच खिणाक तो जीव मुठींत घेवन पळ काडटलो म्हणपाचें तुमकां दिसून येतलें.'

दुख्ख दैन्य ना करचें आसत जाल्यार तातूंत बुडिल्ल्या लोकांक सगळ्यांत पयलीं वाचा फोडूंक जाय. तांकां उलोवंक लावंक जाय. आमचो फुडार आमच्याच हातांत आसा हे तरेची एक आस्त तांच्या काळजांत जागोवंक जाय आनी तांकां एकठांय करून तांचेर जातल्या अन्याया आड तांकां उबे करूंक जाय, तेन्नाच हो अन्याय ना जातलो, ते बगर ना, ह्या निर्णयार ते पाविल्ले.

लक्षांत दवरपा सारकी गजाल : ही कविता तांणी १८८५त बरयल्ली. समाजवादाचो जल्मूय त्या वेळार संवसारांत जावंक नाशिल्लो. तें कित्याक, देश स्वतंत्र करपाक उपरांत झुजत आयिल्ले काँग्रेसिचीय थापणूक जावंक नाशिल्ली. त्या वेळार तांकां आपणाल्या 'मिशना'ची जाणवीक जाल्ली. आनी—

रवीन्द्रनाथांची पिराय त्या वेळार फकत चोवीस वर्सांची आशिल्ली.

रवीन्द्रनाथ आपणालें हें मिशन केन्नाच विसरले नात.

रवीन्द्रनाथांनी सामाजीक आनी राजकी प्रस्नांचेर जें बरयलां ताचे वयल्यान एक नदर भोंवडावन पळोवची. महात्मा गांधींची वा, तांगेल्या खंयच्याय सांगात्याची ही बरपावळ न्हय मू, असो दुबाव येतलो, इतलें तांच्या आनी गांधींच्या विचारांत साम्य आशिल्लें. समाजांतलें आफूड-भश्ट ना जावंक जाय, ते बगर जातिंचो वेगळेचार ना जावपाचा ना, ते बगर ब्राह्मण आनी अति-शूद्र एक जावपाचे नात अशें ते म्हणटाले. तांकां समाजांतलें ऊंच-उणाकपण ना जाल्लें जाय आशिल्लें, तशें धर्मांनी निर्माण केल्लें आपले-पेलेपणूय ना जाल्लें जाय आशिल्लें. हिन्दू, मुसलमान, किरिस्तांव,

शिख सगळे एकठांय आयिल्ले, एक जाल्ले तांकां जाय आशिल्ले. तांकां दादलो आनी बायल हांचे मजगतचो वेगळेचारूय ना जाल्लो जाय आशिल्लो. गांव आत्मनिर्भर जाले बगर देशाचें पावल मुखार पडपाचें ना ह्या निर्णयार ते पाविल्ले. ते ह्या विशयांचेर फकत उलोवन बरोवन ओगी बसूंक नाशिल्ले. ह्यो सगळ्यो मोखी सादपा खातीर तांणी एक कार्यावळ आंखिल्ली आनी ती चलणुकेंतूय हाडिल्ली. गांवांनी वचून जाणट्यांच्या शिकपाचे वर्ग चलोवप, मोडून पडिल्ले गांवांतले उद्देग जिवे करप, शेतकामांत नवे नवे विज्ञानीक प्रयोग करून जमनिचें उत्पन्न वाडोवप, गांवकारांच्यो सहकारी संस्था सुरू करप असले कितलेशे वावर तांणी सुरू केल्ले.

ते स्वदेशीचो पाखो घेताले. स्वदेशी फकत आर्थीक मळा वयली न्हय, संस्कृतायेच्या मळा वयले स्वदेशीक ते खूब म्हत्वाची मानताले. आपणाली भास, आपणाली संस्कृताय हे फाटभुंयेचेरूच देश जिवो जावंक पावतलो अशें ते म्हणटाले. हे कार्यावळीक ते 'रेनेसांस'ची – पुनरुत्थानाची – कार्यावळ लेखताले. स्वराज्याचे दिकेंतलें हें पयलें पावल अशें ते मानताले.

हे दिकेंतलो तांगेलो एक वावर नदरेंत भरता तो शान्तिनिकेतनांत तांणी केल्ल्या शिक्षणाच्या मळा वयलो. शान्तिनिकेतना खातीर वेंचून काडिल्ली सुवात एका सुक्या सड्या सारकी आशिल्ली. रवीन्द्रनाथांनी थंय तरांतरांचे रूख रोवन पयलीं ती पांचवीचार केल्ली.

उपरांत थंय एक शाळा सुरू केली. तांच्या पदरांत तांगेलो खाशेलो अणभव आशिल्लो. खासा ते खंयचेच शाळेंत शिकूंक नाशिल्ले. आयचे भाशेंत सांगचें जाल्यार ते एक 'ड्रॉप-आउट' आशिल्ले. तांकां आपणाल्या भुरग्यांक चालंत शाळेंत घालपाचीं नाशिल्लीं. मुळांत शान्तिनिकेतनांतली शाळा तांणी आपणाल्या भुरग्यां खातीर सुरू केल्ली. तांचें एक मत्त जाल्लें. ते म्हणटाले, भुरग्यांक कांयच 'शिकोवपा'ची गरज ना. तीं आपूण जावन सगळें शिकतात. जल्माक येत सावन तीं एका सारकीं कितें ना कितें शिकत आसतात. तांगेल्या ह्या शिक्षणांत आमी शिक्षणाच्या नांवान फकत आडखळीच हाडटात. कसलीच आडखळ नाशिल्ल्या मेकळ्या वातावरणांत तांकां दवरूंक जाय. ह्या वातावरणांतल्यान तीं आपणाक जाय तें शिकतलीं. ते विचारताले, भुरग्यांक उमथीं पडूंक कोण शिकयता? उबीं रावंक, चलूंक धांवूंक कोण शिकयता? आवय-बापूय, काय तांचे तींच हें सगळें शिकतात? तीं उलोवंक कशीं शिकतात? बरें, उलयतात तीं उलयतात, व्याकरणाक धरून कशीं उलयतात? भास आनी व्याकरण तांकां कोण शिकयता? तुमी, आवय-बापूय काय मास्तर? सगळेंच तीं आपूण जावन शिकतात जाल्यार तांणी जें शिकचें अशें तुमकां दिसता तें तांणी आपूण जावन शिकचें हे तरेचें वातावरण तांचे भोंवतणी उबें करात. तीं 'तांकां जाय तें' आपूण जावन शिकतलीं.

शान्तिनिकेतनांतल्या शिक्षणाचें बुन्यादी तत्व भुरग्यांनी 'तांकां जाय तें शिकचें' हें आशिल्लें.

चालंत शाळांनी परिक्षा नांवाची एक अन्नाडी चाल चलत आयल्या. हे परिक्षेक लागून भुरग्यां भुरग्यां भितर सर्त सुरू जाता. सर्तींतल्यान तांच्यांत दुस्वास मत्सरा सारके अवगूण जल्माक येतात. भुरग्यांक सर्ती पसून पयस दवरूंक जाय, अशें चिंतून तांणी आपणाले शाळेंतले परिक्षेकूच 'फेल' करून भायर घाल्ली. चालंत शिक्षणांत बुद्दिचेरूच चड भर दिल्लो आसता. रवीन्द्रनाथ म्हणटाले, बुद्दी इतलेंच शिक्षणांत काळजाकूय म्हत्व दिवंक जाय. भुरग्याची संतुलीत वाड तेन्नाच जावंक पावतली, तांचें जिवीत शिरवंत जातलें, तांच्यांत संस्कारिताय येतली. खरें फट, बरें वायट, निजाचें आनी अडेचें हांतलो फरक भुरग्यांक आपशींच समजूंक लागतलो आनी तांचे तांकांच आपणालो स्वभाव आनी स्वधर्म कळटलो. चालंत शिक्षणांत वाचप बरोवप आनी मेजप हाचेरच भर दिल्ली आसता. रवीन्द्रनाथ म्हणटाले, हाचे भायर तकलीं वापरप, हातान वावर करप हाचीय भर पडूंक जाय. म्हणटकूच भुरग्यांचें जिवीत भितरल्यान गिरेस्त जातलें.

सुरवातेक आपणाल्या आनी आपणाल्या सांगात्यांच्या भुरग्यांक घेवन तांणी प्रयोग सुरू केलो. गंधांचें, रंगांचें, सुरांचें, नाचांचें वातावरण तांणी पयलींच थंय उबें केल्लें. भुरगीं ह्या वातावरणांतल्यान तांकां जाय तें घेतालीं. रवीन्द्रनाथ तांकां काणयो सांगपाक लागले. भुरग्यां कडेन समरस जातकूच तांणी ल्हवू ल्हवू तांचे खातीर एक पाठ्यक्रम तयार केलो. शंबरां वयर भुरगीं येवपाक लागलीं. चल्यां वांगडा चलयोय येवपाक लागल्यो. ते मुस्तींत चल्यांक आनी चलयांक एकठांय शिकोवपाची चाल नाशिल्ली. रवीन्द्रनाथांनी ती मोडिल्ली. ते मुस्तींतल्या संदर्भांत तांगेलें हें एक क्रान्तिकारी पावल आशिल्लें.

शान्तिनिकेतनांतलें वातावरण पुर्विल्ले मुस्तींतल्या आश्रमा सारकें आशिल्लें. भुरग्यांचेर कसलेंच बंधन नाशिल्लें. भुरग्यांक कितेंच पाठ करचें पडनाशिल्लें. भुरग्यांची परिक्षा कोण घेनाशिल्ले. शिक्षकाचो आनी भुरग्यांचो संबंद गुरू-शिश्या सारको – इश्टागतिचो – आशिल्लो. भुरगीं मेकळ्या वातावरणांत उरूंक जाय, तीं आत्म-निर्भर जावंक जाय, तांचें चारित्र्य घट जावंक जाय, तांच्या गुणांक पोसवण मेळत रावंक जाय हाची जतनाय घेवन रवीन्द्रनाथांनी शिक्षणाचो हो प्रयोग चलयल्लो.

तांच्या सगळ्या वावरांत तांचो सगळ्यांत चड वेळ ह्या एका प्रयोगान घेतला.

तांणी सुरू केल्ली मुदलांतली ही मुळावी शाळा ल्हवू ल्हवू तांणी हायस्कुलाच्या पांवड्यार व्हेली. उपरांत एक दीस ती **विश्व भारती** ह्या नांवाची एक युनिव्हर्सिटी जाली. संवसारांतले व्हडले व्हडले तज्ज्ञ थंय शिकोवपाक येवन रावले तशे संवसारांतल्या कितल्याशा देशांतले भुरगे शिकपा खातीर थंय येवपाक लागले. व्हडले व्हडले बरोवपी, व्हडले व्हडले विचारवंत शिकोवपाक आनी शिकपाक शान्तिनिकेतनांत येवन रावतकूच अख्खो संवसार जसो कितें एका घोंटेरांत हांगा येवन रावला – 'यत्र विश्वम भवति एक नीडम्' अशें शें कितें दिसपाक लागलें.

आयजूय शान्तिनिकेतनांत हें वातावरण अणभवूंक मेळटा.

रुसो, पेस्टालोझी, फ्रॉबेल, ड्युई, मोंतेस्सोरी, टॉलस्तॉय हांच्याच तोलामोलाचे एक शिक्षणतज्ज्ञ ह्या रुपांत संवसार आयज रवीन्द्रनाथांक वळखुपाक लागला.

जें शिक्षण भुरग्यांक रडयता तें मुळा थावन हुमटावन उडोवंक जाय ह्या मत्ताचे ते आशिल्ले.

शान्तिनिकेतनाक तेंकून तांणी श्रीनिकेतन नांवाची आनीक एक संस्था चलयली. थंय तांणी एक कृषि-विद्यालय सुरू केलें. शिक्षणाचो मक्तो फकत धवाड्यांचो न्हय, गांवांतल्या गरीब दुबळ्या शेतकामत्यांकूय तें मेळूंक जाय – तेंवूय तांकां धवाडे करपी न्हय, तर बऱ्यांतले बरे शेतकामती, बऱ्यांतले बरे कारागीर करपी आसूंक जाय अशें तांचें मत्त जाल्लें. ते धवाड्यांच्या भुरग्यांकूय हें शिक्षण घेवंक लायताले.

तांकां धवाडे आनी भौस हांचे मदलो फरक मुदलांतल्यानूच ना करपाचो आशिल्लो.

देशाचो सगळ्याच आंगांनी विकास घडोवन हाडपा खातीर वावरत आयिल्ले रवीन्द्रनाथ देशाचे सुटकेचे चळवळींत पडले बगर कशे रावीत आशिल्ले? १८९८ वर्सा सरकारान 'सेडीशन ॲक्ट' पास केला त्या वेळार ताचे आड जो खणखणीत आवाज देशांत वयर सरलो तो रवीन्द्रनाथांचोच आशिल्लो. कलकत्त्यांतल्या टाऊन हॉलांत तांणी हाचेर आंगार कांटो फुलोवपी जें उलोवप केल्लें तें **कंठरोध** ह्या नांवान छापुनूय आयिल्लें. लोकमान्य टिळकांक ख्यास्त जाल्या आनी तांकां धरून सरकारान भितर घाल्यात, तेन्नाय तांणी खर उतरांनी सरकाराचो निशेध केल्लो. ढाक्यांत भरिल्ल्या प्रान्तीक समितिच्या एका अधिवेशनांत तांणी सरकारा फाटल्यान राविल्ल्या जमीनदारांक 'देशद्रोही' म्हणून फैलार घेतिल्ले. लॉर्ड कर्झनान बंगालची फाळणी केल्या त्या वेळार जी चळवळ जाल्या तातूंत ते सगळ्यांत मुखार आशिल्ले. स्वदेशी आंदोलनांतूय ते पोटतिडकीन पडिल्ले आनी आघाडेर राविल्ले. जालियांवाला बागेंत हत्याकांड जालें तेन्नाय ताचे आड जो सगळ्यांत पयलो खणखणीत आवाज देशांत उठलो तो रवीन्द्रनाथांचोच आशिल्लो. तांणी आपणाक मेळिल्ली 'सर' ही पदवीय त्या वेळार सरकाराक निशेध म्हूण परती केल्ली. तांगेलो राष्ट्रवाद खंयच्याय व्हड राष्ट्रवाद्या इतलो खोल आशिल्लो. तांकां विदेशी राजवटिची तिडक आशिल्ली. तितलीच विदेशी संस्कृतायेची कुड्डी केलदावणी करतल्या देशी सायबांचीय आशिल्ली. ते देशभक्तां मदले एक व्हड देशभक्त आशिल्ले. म्हुण्णूच तर जवाहरलाल, सुभाषबाबूं सारकेले देशभक्त तांच्या पांयांक हात लायताले.

एक खरें. स्वदेशी आंदोलनांत ते सगळ्यां मुखार आशिल्ले आसतनाय अवचीत एक दीस तांणी तातुंतल्यान आंग काडून घेतलें. हे चळवळिची आतां अवनत जाल्या, हातूंत चारित्र्याक आतां व्हडलिशी सुवात उरूंक ना, ती दुराचाराक लेगीत आलाशिरो

दिवपाक लागल्या अशें म्हळें आनी झुजामळ सोडून ते उठून शान्तिनिकेतनांत गेले. आपणाले लोकप्रियतेक बादा येतली हो भंय तांकां आफडूंक पावलो ना. टिका जातली म्हणपाचें खबर आसुनूय तांणी टिकेची पर्वा केली ना. तांकां हे करणेचें पानवळ भोगचें पडलां. तांची खूब निंदा जाल्या. हो आतां इंग्रजांचो जाला, हाणें **जनगणमन** ह्या राष्ट्रगितांत ब्रिटीश वायसरॉयाक 'भारत भाग्य विधाता' म्हळा' हे तरेची धरबांद नाशिल्लीय निंदा जाल्या. तांकां ती आयकुची पडल्या. सगळी निंदा तांणी सोंसून घेतल्या. आपणांत ह्या आंदोलनाक नवी दिका दाखोवपाची तांक ना, पुणून लोकप्रियता भंगतली ह्या भंयान आपूण आपणालो राष्ट्रवाद भश्टूंक दिवचों ना, अशें थारावन ते फाटीं सरल्यात. एका उतरान लेगीत तांणी कोणाचो प्रतिवाद करूंक ना. गांधींच्या हातांत स्वराज्याचें आंदोलन गेलां त्या वेळार तांच्यांनी तातूंत पडूं येतालें. पडचेंशें खूब फावटीं तांकां दिशिल्लें. पुणून दोन गजालींक लागून ते पडले नात – एक, आंदोलन आतां खंयचे खंय पावपाचो भंय उरूंक नाशिल्लो, तें सुरक्षीत हातांत गेल्लें. आनी दुसरी, तांची उतार पिराय जाल्ली. धके चपाटे सोंसपाची तांक कुडींत उरूंक नाशिल्ली. पुणून गांधींचे चळवळिचेर ते बारीक लक्ष दिवन रावल्यात. गांधींक 'महात्मा' ही पदवी तांणीच दिल्या. केन्ना केन्ना गांधींच्या हातान अतिताय जाल्या तेन्ना तांचो कान पिळपाक ते अनमन नासतना मुखार सरल्यात. गांधी तांकां हे खातीर 'द ग्रेट सेंटिनल' म्हणटाले आनी तांकां खूब मानताले.

**जनगणमन** गितांतलो भारत-भाग्य-विधातो ब्रिटीश वायसरॉय आशिल्लो जाल्यार सुभाषबाबू आपणाल्या आझाद हिन्द सेनेंत ह्या गिताक राष्ट्रगिताचो भोवमान दिवचेच नासले.

रवीन्द्रनाथ एक व्हड देशभक्तूच आशिल्ले. राष्ट्रवाद हो राष्ट्रपुजाधर्म जाता तेन्ना तो मनीसघाणो जाता अशें तांचें मत्त आशिल्लें. तांणी ह्या विशयाचेर कितलिंशीं उलोवपां केल्लीं. तांतलीं कांय **नॅशनलिझम** ह्या तांगेल्या पुस्तकांत आयल्यांत.

**घरे बाहिरे** ही तांगेली एक खुबूच सुंदर नवलकथा. हे नवलकथेंतूय ताची चर्चा आयल्या.

[४]

रवीन्द्रनाथांच्या व्यक्तित्वांतलें सगळ्यांत चड ओडलायणें आंग, म्हजे नदरेन, तांच्यांतल्या 'साधका'चें आशिल्लें. ते एक 'साक्षात्कारी' साधक आशिल्ले. 'त्या' परम तत्त्वाचो स्पर्श तांच्या काळजाक जाल्लो. 'आमि जेनेछि ताहारे' अशें आत्मविस्वासान ते म्हणूंक पाविल्ले. ते 'ताका' वळखताले, ना जाल्यार तांचे लिखणेंतल्यान **गीतांजली** येवंकूच पावची नाशिल्ली. तसो **शान्तिनिकेतना** सारको ग्रंथय ते बरोवंक पावचे नाशिल्ले. शान्तिनिकेतनांत बुधवारा बुधवारा 'उपासना' चलताली. ते उपरांत ते एक ल्हानशें प्रवचन करताले. ह्या प्रवचनाचे दोन खंड **शान्तिनिकेतन**

ह्या नांवान उजवाडा आयल्यात. अध्यात्मीक विचारांची एक व्हडली खण ही. ह्या 'शान्तिनिकेतन' ग्रंथांतलीं प्रवचनां वेंचून तांणीच तांकां इंग्रजी रूप दिल्लें. आनी **साधना** ह्या नांवान तें उजवाडा हाडिल्लें. (हाचो कोंकणी अणकार साहित्य अकादेमीन उजवाडा हाडला.)

रवीन्द्रनाथांचो जल्म ज्या घराब्यांत जाल्लो त्या घराब्यांत सदां धर्माच्यो खबरी चलताल्यो. रवीन्द्रनाथांचो बापूय देवेन्द्रनाथ सभावानूच धार्मीक आशिल्लो. ते अध्यात्मीक बडिचे आशिल्ले. ब्रह्म समाज सुरू करप्यां मजगतचेच ते एक आशिल्ले. तांगेले अध्यात्मिकतायेचो धेंक येदो आशिल्लो की लोक तांकां 'महर्षी' ह्या नांवान पाचारूंक लागिल्ले. उपनिषदांचें वाचन मनन ह्या घराब्यांत सदां चलतालें. ह्या वातावरणाचो खोल परिणाम रवीन्द्रनाथांचेर जाल्लो. 'हें सगळें म्हजें दायज. तें पचोवन हांवें ताचे मुखार वचूंक जाय' ही जाणवीक तांकां ल्हानपणा सावन आशिल्ली. हो घराबो श्रीमंत आसलो तरूय – द्वारकानाथांचो एक आडवाद सोडल्यार – सगळे 'सादें'च जिवीत सारताले. 'स्टँडर्ड ऑफ लिविंगा' परस 'क्वॉलिटी ऑफ लायफ' चड म्हत्वाची अशें महर्षी म्हणीत आयिल्ले. ते हेर खंयचेच गजाली परस संस्कारितेक चड म्हत्व दिताले. मनीस जसो जसो जाणटो जायत वता तसो तसो तो उदार जायत वचूंक जाय, दिशीं दिशीं नमळ जायत वचूंक जाय अशें ते सांगीत आयिल्ले. ह्याच संस्कारांत रवीन्द्रनाथांची वाड जाल्ली. ह्याच संस्कारांत तांणी आपणालो धर्म केळोवन काडिल्लो. आपणाल्या धर्माक तांणी, **मानुषेर धर्म – रिलिजन ऑफ मॅन** हें नांव दिल्लें. मनशांतलें मनीसपण जागोवंक जाय, ताका 'तूं मनीस म्हूण व्हड' म्हूण सांगूंक जाय, ताच्या मनीसपणाक बादा हाडपी ताच्यांतले अवगूण पयस करूंक जाय – हेच एके दिकेन रवीन्द्रनाथांली साहित्य-सेवा, तांगेलें संगीत, तांगेले शिक्षणाचे प्रयोग, तांगेली समाजसेवा, तांगेलें राजकर्ण, सगळें चलत राविल्लें. मनीस हेंच सत, मनशा परस व्हड दुसरें कितेंच ना अशें ते म्हणटाले. रवीन्द्रनाथांचो देव मनशाल्या काळजांत रावतालो म्हूण तागेली देवाची भक्ती मनशाचे सेवेंत रुपकारीत जाल्ली.

भजन-पुजन-तपन-आराधना करतल्यांक सगळ्यांक ते विचारताले, 'काळखांत दोळे धांपून कोणाची पुजा करतात तुमी? देवाची? दोळे उकते करून पळेयात, देव देवळांत ना. मागीर, खंय आसा? शेत नांगरता त्या शेतकामत्यांचे खोंपींत वचून तो बसला. जंय खडी फोडून लोक रस्ते बांदतात तांचे मजगतीं रावन तो रस्ते बांदता. तो वोतांत पावसांत बाराय म्हयने वावर करीत आसता. ताचे हात धुल्लान भरल्यात. तुमकां देव जाय आसत जाल्यार ह्या कश्ट करपी, काम करपी लोकां मजगतीं रावन काम करात. हें भजन-पुजन तुमी कित्या खातीर चलयलां? मुक्ती मेळची म्हूण? सभाग्यांनो, 'मुक्ति कोथा आछे'. जाणें येदोय व्हड हो संवसार रचला तोच खासा आपखोशयेन आपणें रचिल्ल्या संवसारा कडेन आपणाक बांदून घेवन रावला. तुमकां देवाची पुजा करपाची आसा मू? मागीर सोडून दियात तें

ध्यान. भिरकावन मारात तीं फुलां. लोकां वांगडा काम करूंक लागात. काम करतां करतां तुमचीं वस्त्रां झिरझिरून वचूंक जाय. तुमचें आंग धुल्लान भरूंक जाय. स्रम करतल्यां वांगडा काम करतां करतां तुमचें आंग हुमेन थपथपतलें तेन्नाच तुमी देवाची खरी पुजा करूंक पावतले. तुर्ताक तुमी जें चलयलां तें सगळें फटींगपण, सगळें धोंग.

रवीन्द्रनाथ सैमाचे भक्त आशिल्ले, सैमाक एक आकार ना, तें आकारा पेले कडलें, म्हूण ते निराकाराचे भक्त आशिल्ले – सगळें खरें. पुणून ते हवेंत उडपी नाशिल्ले. देव तांचे मुखार साकार रुपांत येवन उबो रावतालो. तेन्ना तो मनशाचेंच रूप घेवन येतालो. मनशाची सेवा हीच देवाची सेवा अशें ते म्हणटाले. रवीन्द्रनाथांक हांवें 'साक्षात्कारी' म्हळ्यार ते ह्या अर्थान. भारतीय अध्यात्माक तांणी एक नवें परिमाण जोडून दिलां. श्री अरविंदांच्या आनी महात्मा गांधींच्या अध्यात्मीक मळा वयल्या योगदाना इतलेंच रवीन्द्रनाथांचें अध्यामीक योगदान मोलाचें.

तात्पर्य –

रवीन्द्रनाथ व्हड साहित्यकार आशिल्ले. व्हड संगितकार आशिल्ले. व्हड चित्रकार आशिल्ले. व्हड शिक्षणतज्ज्ञ आशिल्ले. व्हड समाजसेवक आशिल्ले. व्हड देशभक्तआशिल्ले. आर्विल्ले मुस्त्रींतले ते एक विशाल राष्ट्रपुरूस आशिल्ले. सगळ्यांक घडयता आसतना देव पंचमहाभूतांचो आधार घेवन घडयता. रवीन्द्रनाथांक घडयतना ताणें दुसऱ्योच धातू वापरिल्ल्यो आसूंक जाय.

□ □

# १३

# काकासायब

काकासायबां म्हन्यांत जेन्ना जेन्ना पावलां तेन्ना तेन्ना एका रुशी सरीं पाविल्ले वरी म्हाका दिसलां. तांगेली नदर रुशिची आशिल्ली. खूब पयसलें पळेतालीं. काळिजूय रुशिचें आशिल्लें. खूब खोलायेंत देंवतालें. देवान तांकां रुपूय रुशिचें दिल्लें.

जिविताचें अशें एकूय आंग मेळचेंना, जाचेर काकासायबांनी येवजूंक ना. असो एकूय विचार मेळचो ना, जातूंत तांणी मोलादीक भर घालूंक ना.

सामवेदाच्यो ऋचा अधिकारवाणीन गायता ताका वेदीक भाशेंत 'उद्गातो' म्हणटात. त्या नेमान काकासायबांक पाचारचें पडलें जाल्यार तांकां 'भारतीय संस्कृतायेचो उद्गातो' म्हणूंक जाय. वेदां पसून गांधी-रवीन्द्रनाथां मेरेनचें सगळें सांस्कृतिक दायज तांणी आपलें केल्लें. तांतलीं बऱ्यांतलीं बरीं तत्त्वां तांणी आपल्या जिवितांत रिगयल्लीं. आचारान आनी विचारान ते हीं तत्त्वां लोकांक आयुश्यभर समजायत आयिल्ले आनी तांचे वशीन सगळ्यांक ओडितय राविल्ले. भारतीय संस्कृताये कडेन काकासायब इतले एकरूप जाल्ले की तांगेलें पुराय जिवीत जशें कितें हे संस्कृतायेचें प्रतीक जाल्लें.

काकासायबांक खूब जाण गांधी विचाराचे एक भाष्यकार म्हूण वळखतात. दुबावूच ना: ते एक व्हडांतले व्हड भाष्यकार आशिल्ले. तांणी आपणाली सगळी मौलिकता गांधींक सोदून काडपांत खर्चिल्ली आनी संवसाराक गांधी समजावन सांगप हातुंतूच आपणाल्या जिविताची धन्यताय मानिल्ली. पुणून—

गांधीजींनी सांगलें आनी काकासायबांनी तें वेदवाक्य कशें मानून ताचेर भाष्य केलें हे तरेचे भाष्यकार ते केन्नाच नाशिल्ले. हाचें कारण, काकासायब गांधींचे निखटे शिष्य नाशिल्ले. तांगेले एक बऱ्यांतले बरे सांगातीय आशिल्ले. गांधीं कडल्यान तांणी घेतलां तितलेंच गांधींक तांणी दिलां. गांधींचे घडणुकेंत जसो टॉलस्टॉय आनी रस्कीन हांचो हात आसा तसो तांगेल्या दोगां-चौगां सांगात्यांचोय आसा. हांच्यांत काकासायबांचो हात म्हत्वाचो म्हणूंक जाय.

गांधींक तांणी दिलां तें कितलें मोलाचें, मुळावें आनी आगळें-वेगळें हें पळोवचें आसत जाल्यार तांगेल्या **जीवन-विकास, जीवन-भारती, जीवन-संस्कृति** ह्या आदल्या पुस्तकां वांगडा आर्विल्ले मुस्तींतलीं **जीवन व्यवस्था, जीवन योग की साधना, गांधी जीवन दर्शन, गांधीजी का रचनात्मक क्रान्तिशास्त्र, हिन्दू जीवन दृष्टि** बी कांय पुस्तकांय पळोवंक जाय. कोणूच म्हणचो ना हें गांधी विचाराचें निखटें भाष्य म्हूण. कोणूच म्हणचो ना हें भाष्य न्हय म्हूण.

स्वराज्य म्हळ्यार 'गोरे वचप आनी सांवळे येवप' इतलोच अर्थ गांधीं आदल्या फुडाऱ्यांच्या मनांत आशिल्लो. लाल-बाल-पाल बी आदले सगळे फुडारी राजकी मळा वयल्या स्वराज्याकूच आंवडेताले. गांधींच्या हातांत स्वराज्याचे चळवळिचीं सुत्रां आयलीं तेन्ना तांणी स्वराज्य ह्या उतराचो अर्थ मुळा सावन बदलून उडयलो. ताका एक नवो अर्थ दिलो. स्वराज्य म्हळ्यार फकत राजकी मळा वयलें स्वराज्य न्हय. राजकी मळा वयल्या स्वराज्या वांगडा सामाजीक मळा वयलेंय स्वराज्य, आर्थीक मळा वयलें स्वराज्य, सांस्कृतीक मळा वयलेंय स्वराज्य हे तरेचो नवो अर्थ तांणी जोडून दिलो. आनी एका एका स्वराज्याचें 'खातें' तांणी आपणाल्या एक एकल्या सांगात्याच्या हातांत दिलें. हांतलें सांस्कृतीक मळा वयल्या स्वराज्याचें खातें काकासायबांच्या हातांत आशिल्लें. काकासायब गांधींक मेळ्ळ्यात त्या खिणा सावन श्याण्णवद वरसांचे पिरायेर ते संवसार सोडून गेल्यात त्या खिणा मेरेन – म्हळ्यार, सुमार पंयसस्ट वरसां काकासायबांनी हें खातें सांबाळिल्लें.

संस्कृतायेक आंगां हजार. तातूंत भारतीय संस्कृताय म्हळ्यार हजार संस्कृतायो मेळून घडिल्ली एक संस्कृताय. तिचीं आंगां हजारांक हजारान गुणचे इतलीं. तितल्याय आंगांचो काकासायबांक खोलायेन विचार करचो पडला. तितल्याय आंगांचेर तरांतरांचे प्रयोग करचे पडल्यात. तितल्याय आंगांचेर तांकां उलोवचें पडलां, बरोवचें पडलां. काकासायबांच्या गिन्यानाचो विस्तार पळोवन तांगेले एक सांगाती किशोरलाल मश्रुवाला तांकां भौमानान 'ज्ञाननिधी' म्हणटाले. ज्ञाननिधी म्हळ्यार एन्सायक्लोपेडिया. संस्कृतायेचें एक आंग अशें आसचें ना, जाचेर काकासायबांनी आपणाले खाशेले 'संस्कार' करूंक नात. भास, शैली, साहित्य-संगीत-कला, धर्म, समाज, अध्यात्म, संस्कृतायेच्या एकान एक आंगाक काकासायबांचो खाशेलो 'टच' मेळ्ळा. गांधी युगांतलें नवसृजन – रेनेसांस – काकासायबांच्या स्पर्शान कितलें फुल्लां फळ्ळां जातलें हाचो हिशोब अजून लावपाचो उरला.

काकासायबांनी ऐन उमेदिचे पिरायेर शाळा चलयल्यो. आश्रम चलयले. विद्यापिठां चलयलीं. संस्कृतायेच्या मळार कितलेशेच प्रयोग केले. पंयसस्ट वरसांचे पिरायेर पावतकूच तांकां आपणाक संस्थांनी बांदून दवरप सोंसना जालें. तांणी सगळ्या संस्थांतल्यान आंग काडून घेतलें. ते सामकें मेकळे जाले. पुणून —

ते खासा एक संस्था जाले. एक आश्रम जाले. एक चलतें-भोंवतें विद्यापीठ जाले. चलत्या भोंवत्या विद्यापिठाच्या रुपान ते संवसारभर भोंवूंक लागले. णव्वद ब्याण्णवद वरसांचे पिरायेचे जायसर ते एका सारके भोंवत आशिल्ले. हे भोंवडेंत तांणी हजारांनी व्याख्यानां दिलीं. हजारांनी इश्ट जोडले. जांचे जांचे कडेन संबंद आयलो, जो जो कोण कितें करता-सो दिसलो ताका आपलेपणाच्या धाग्यान आपणा कडेन जोडलो. ताका चिटी बरोवन प्रेरणा दिली. नवी नदर दिली, नव्या जिविताची दीक्षा दिली. **मंगल प्रभात** नांवाचें नेमाळें चलयलें. तातूंत वेगळ्या वेगळ्या विशयांचेर बरयत रावले. जो जो विद्वान मेळ्ळो ताचे कडेन संभाशणां केलीं. ताचे कडल्यान घेवपा सारकें

आशिल्लें तें घेतलें, ताका दिवपा सारकें दिसलें तें दिलें. कितल्याश्याच लोकांक घडयले.

तांगेलो हो वावर पळोवन तांकां तांगेल्या इश्टांनी 'संस्कृतिके परिव्राजक' म्हूण एक पदवी दिल्ली. पद्मविभूषण, विद्यावाचस्पती बी जोडिल्ल्या पदव्यां परस ही पदवी तांकां सगळ्यांत चड सोबताली.

काकासायबांक खूब भौमान मेळ्ळ्यात. त्या भौमानांनी ते भौमानीत जावपा बदला भौमानूच भौमानीत जाल्यात.

विनोबान एक खेपे म्हळ्ळें: ''काकासायब कितें हाचे परस काकासायब कितें न्हय हेंच सांगप कठीण. पूण एक अनमन नासतना सांगूं येता – ते कितेंय आसले तरूय उत्तमांतले उत्तम. शिक्षणशास्त्री: उत्तमांतले उत्तम. साहित्यीक: उत्तमांतले उत्तम. समाजशास्त्री: उत्तमांतले उत्तम...''

लटीक न्हय. जें जें कितें काकासायबांनी हातांत घेतलां तातूंत सदां ते उत्तमांतले उत्तम – फस्ट क्लास फस्ट – म्हुण्णूच मुखार आयल्यात.

साहित्यीक ह्या नात्यान ते उत्तमांतले उत्तम. तांगेले व्हडांतले व्हड टिकाकार आनी दुस्मान लेगीत तांकां ह्या मळार 'व्हडांतले व्हड' लेखीत आयल्यात. चडशे सगळे साहित्यीक धा-पंदरा वर्सां तरतरतात. मागीर 'सोंपतात'. तेंच तेंच बरयत रावतात. काकासायब evergreen साहित्यीक आशिल्ले. सदांच नवें नवें कितें दीत रावताले. काकासायबांचें नवें पुस्तक उजवाडा आयलां आनी लोकांनी तें उडयो मारून रोखड्या रोखडें व्हेलां अशें गुजरातींत सदांच घडत रावलां. आनी वाचतकूच 'बरेंऽ कितें वाचिल्ल्याची' खोसूय सदां लोकांक मेळत रावल्या. फाटल्या पन्नास-साठ वरसांचो अणभव हो गुजराती प्रकाशकांचो.

प्रवास वर्णनां आनी निबंध हे काकासायबांचे आवडटे दोन फॉर्म. काकासायबांनी कविता बरयल्यो नात. कथा-नवलकथा बरयल्यो नात. नाटकां बरयलीं नात. न्हंयो पळेल्यो. वेळो पळेल्यो. तळीं पळेलीं, घसघशे पळेले. तीर्थां, इतिहासीक थळां, अभयारण्यां, अरण्यां पळेलीं. वेगळे वेगळे देश पळेले. सैमाचे वेगळे वेगळे मूड पळेले, मळब पळेलें, मळबांतलीं कुपां पळेलीं. नक्षत्रां पळेलीं. आनी हें जें कितें पळेलें, ताची खोस दुसऱ्यांक दिवपा खातीर बरयलें. तेंच तांगेलें 'साहित्य' थरलें. रवीन्द्रनाथां भाशेन तेवूय म्हणटाले, 'बहे निरंतर अनंत आनंद धारा.' संवसारांत धाय दिको भरून आनंदाच्यो झरी व्हांवतात. हे आनंदधारेचे जे थेंब तांणी चाखले तेच तांणी लोकांचे जिबेर दवरले. तांचेंच तांगेलें 'साहित्य' जालां. ह्या तांगेल्या साहित्याक लागून ते गुजराती भाशेंत 'अज्रंवर' जावंक पावल्यात. (चडशें साहित्य तांणी गुजराती भाशेंतूच बरयलें.) जे मेरेन गुजराती भास संवसाराचे फाटीर आसतली ते मेरेन काकासायबांचें हें साहित्य लोकांक जिविताचे आनंदधारेचे थेंब चाखपाची प्रेरणा दीत रावतलें.

गांधीवादी म्हळ्यार सुतकी असो जो कितें समज लोकांत पातळ्ळेलो तो फट म्हणपाचें काकासायबांनी ह्या साहित्या उदेशीं दाखोवन दिलां. गांधीवादी कितलो 'रसीक' आसूं येता हें तांगेलें साहित्य दाखोवन दिता.

रसीक कोण? जो सगळे तरेचे भोग भोगता तो. कलाकार कोण? जो विकार जागयता तो. सुंदर कितें? जें गुळगुळीत, गुबगुबीत दिसता तें – असो एक समज पातळ्ळा. जो तेजस्वी जिवीत जियेता तोच कलाकार, जो संयमान जियेता तोच रसीक, जें सत्य आनी शिव तेंच सुंदर अशें काकासायबांचें म्हणणें आशिल्लें. तांगेलें एक ल्हान-शें पुस्तक आसा – 'कला – एक जीवन दर्शन' नांवाचें. गांधीयन एस्थॅथिक्साचो तो एक मॅनिफेस्टो म्हळ्यार जाता. कितल्याश्याच व्हड व्हड कलाकारांक लेगीत ह्या पुस्तकान सौंदर्या कडेन पळोवपाची एक नवी नदर दिल्या.

काकासायबांची नदर सत्यूय सोदताली आनी शिवूय सोदताली. तेच वांगडा सुंदरूय सोदताली. तांणी पुनवेच्या चान्न्यांत काव्य पळेलां तशें भर दनपारच्या रखरखांतूय पळेलां. न्हंयेचे व्हांवतेंत पळेलां तशें घसघशाच्या 'कायोत्सर्गा'तूय पळेलां. सैमाच्या एकान एक मुडांत तांकां काव्य दिश्टी पडलां. तें कित्याक, चिखलांत लेगीत तांकां काव्य मेळ्ळां. पुणून महाकाव्य तांकां सॉक्रेटिस, जीजस, गांधी हांच्या बलिदानांत दिश्टी पडलां. मीरा, ज्ञानेश्वर हांच्या त्यागांत मेळ्ळां. भक्तींत दिसलां. सौंदर्याचीं साधनां तांणी प्राणाचे उपासनेंत पळेल्या. देखुनूच जावंये, काकासायबांच्या प्राणवान तेजस्वी गद्याक उमाशंकरां सारकेल्या कवीन 'काकासायबांची कविता' म्हळ्ळ्या.

इतलेंय आसून मुजरत सांगूंक जाय: काकासायब तांगेल्या साहित्या परस कितलेशेच व्हड आशिल्ले. तांगेल्या जिविताची तांगेल्या साहित्या कडेन तुळा केली जाल्यार तांगेलें साहित्य तांगेल्या नाखटा येदेंच दिसतलें.

काकासायब मुदलचे स्वातंत्र्यवादी. हिन्दुस्तान स्वतंत्र जावंक जाय, ना जाल्यार आपणाक 'मनीस' म्हूण म्हणोवन घेवपाचो लेगीत हक ना, अशें मना पसून मानपी. स्वातंत्र्या खातीर जिवार उदार जावन 'कितेंय' करपाची तांची तयारी आशिल्ली. भुरगेपणा सावनची तांगेली ही प्रेरणा. हे प्रेरणेन ते आर्दी टिळकांचे भक्त जाले आनी मागीर सावरकरांच्या क्रान्तिकारी गटाक वचून मेळ्ळे. पुणून ह्या गटांत तांकां असल्यो कांय गजाली पळोवंक मेळ्ळ्यो की तांकां लागून ते ह्या गटाचेर विटले. भावजे कडेन फोल्गां मारूंक मेळचीं म्हूण भावाक दगो दिवपी फुडारीय तांकां ह्या गटांत दिश्टी पडले. स्वातंत्र्य तर जोडूंक जाय. ते खातीर झुजूंक तर जायच जाय. वैयक्तिक जीवनांत जीं अनैतीक उणाक तत्त्वां रिगतात तींय काडून उडोवंक जाय ह्या विचारांचीय भर पडली. ते एके वाटेन शिक्षक जाले आनी दुसरे वाटेन पत्रकार जाले. क्रान्तिकारी तर ते आशिल्लेच. तिनूय मळांचेर वेगळे वेगळे प्रयोग करीत – कोडू गोड अणभव घेत घेत – एक दीस ते बडोद्याच्या गंगनाथ महाविद्यालयांत पावले.

गंगनाथ महाविद्यालय बॅ. केशवराव देशपांड्यांचें. तें क्रान्तिकारकांचो अड्डो जावन पडिल्लें. काकासायब ह्या विद्यालयाचे आचार्य जाले. (हांगाच ते 'दत्तात्रेय बाळकृष्ण कालेलकरां'चे 'काकासाहेब कालेलकर' जाल्यात.) तनमन प्राण ओतून ते ह्या विद्यालयांत वावुरले. पुणून एक दीस ब्रिटीश सरकाराची क्रान्तिकारकांच्या ह्या अड्ड्याचेर नदर पडली आनी केशवरावांक विद्यालय बंद करचें पडलें!

काकासायबांक बडोदें सोडून वचचें पडलें.

खंय वतले? तांच्यांत आनीक एक तितलीच तीव्र ओड आशिल्ली – आध्यात्मीक साधनेची. हे ओडीन ते हिमालयांत गेले. सुमार दोन वरसां ते थंय साधुच्या भेसांत साधना करीत रांविल्ले.

पुणून तांगेली मुदलची स्वातंत्र्याची प्रेरणा तांकां थंय सस्तपणान आध्यात्मीक साधना करूंक दिना जाली. ती तांकां परती सकल घेवन आयली. हिमालयांतल्यान ते नीट रवीन्द्रनाथांच्या शान्तिनिकेतनांत गेले. नवो भारत घडोवपाचो हांगा एक नवो आगळो-वेगळो प्रयोग सुरू जाल्लो. काकासायब ह्या प्रयोगांत नवे उमेदीन गुल्ल जाले. काकासायबांची ज्ञाननिधी सारकी विद्वत्ता, तांगेलो अणभव आनी तांगेलें निर्मळ, तेजस्वी चारित्र्य पळोवनं रवीन्द्रनाथ तांचेर इतले भाळ्ळे कि ते तांकां विश्वभारतीचे मुखेली करपाक भायर सरले.

जिस्त ह्या वेळार दक्षीण आफ्रिकेंतलो आपणालो सत्याग्रहाचो प्रयोग सोंपोवन गांधी भारतांत परतल्ले. शान्तिनिकेतनांत रवीन्द्रनाथांक मेळूंक ते आयिल्ले. थंय पयलेच भेटींत काकासायब आनी गांधी एकामेकांचे जाले. गांधींत काकासायबांक जाय आशिल्लें सगळें सगळें मेळ्ळें – क्रान्ति मेळ्ळी, तेजाची आनी प्राणाची उपासना मेळ्ळी. अध्यात्म मेळ्ळो, समाज सुधारणा मेळ्ळी, चारित्र्य मेळ्ळें – स्वराज्याची पुराय साधना मेळ्ळी. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार, बॉम्ब-पिस्तुलां परसूय प्रभावी अशें सत्याग्रहाचें एक नवें आगळें वेगळें अस्त्र मेळ्ळें.

काकासायब गांधींच्या आश्रमांत आयले आनी थंयचेच जावन रावले.

स्वातंत्र्या खातीर गांधींनी जितल्योय चळवळी केल्यो तितल्याय चळवळिंनी काकासायबांनी वांटो घेतला.जितले खेपे गांधी बंदखणींत गेल्यात तितलेय खेपे काकासायबूय गेल्यात. जितलेय वावर गांधींनी केल्यात, तितल्यांतूय हातभार लायला.

स्वराज्य जाय. ते खातीर समाजांतलें ऊंच-उणाकपण वचूंक जाय. धर्माच्या नांवान जो आपलो-पेलो वेगळेचार चल्ला, तोवूय वचूंक जाय. देश संघटित जावंक जाय. शिक्षीत जावंक जाय, संस्कारी जावंक जाय, प्राणवान जावंक जाय. देशाक आपले संस्कृतायेचो अभिमान दिसूंक जाय. काकासायब हे हावेस तडीक व्हरपा खातीर तरांतरांच्या मळांर एका सारके वावुरले.

काकासायबांचें एक पुस्तक आसा – 'परमसखा मृत्यु' नांवाचें. मरणाचो भंय काडून उडोवपी पुस्तक हें. तांगेल्या म्हातारपणांत तें उजवाडा आयलें खरें. पुणून तें बरोवपाक तांणी सुरवात केल्ली ते ऐन उमेदिचे पिरायेर आशिल्ले तेन्ना. कर्तुत्वदशेच्या शिखराचेर पाविल्ले तेन्ना. गांधीजी तेन्ना देशाक बलिदानाची दीक्षा दिवपाक भायर सरिल्ले – 'मरपाक तयार रावात, ते बगर स्वराज्य मेळपाचें ना' अशें ते सांगताले. त्या वेळार काकासायबांनी मृत्युचेर बरोवपाक सुरवात केल्ली – पामर जिजीविषे परस मृत्यु कितलो सुंदर हें दाखोवन दिवपा खातीर. गांधींच्या प्रयोगांत चडांत चड लोकांक ओडून घेवपा खातीर. लोकांक तेजस्वी, प्राणवान करपा खातीर.

'परमसखा मृत्यु' सारकें पुस्तक विश्व साहित्यांत मेळचें ना.

कोणूय विचारीत, 'काकासायबांच्या जिवितांत तुका चड कितें पळोवंक मेळ्ळें?' तर म्हज्या तोंडांतल्यान अनमन नासतना जाप भायर सरतली: तेजस्वी जिविताची उपासना – प्राणाची, तेजाची साधना. पुरुषार्थाची प्रेरणा.

काकासायबांनी लाव लुस्कानेचो हिशेब लावन केन्नाच कितेंच करूंक ना. जें करपा सारकें, करूंक जाय, केले बगर रावं नज, तें मागीर कितलेंय म्हारग पडूं, कितलेंय त्रासांत उडोवं, कितलेंय कोडू आसूं, करुंकूच जाय ह्याच नेमान ते आयुश्यभर चलत आयले. दुसऱ्यांकूय हीच देख दीत रावले. काकासायबांचे प्रेरणेन वेगळ्या वेगळ्या मळांचेर आयुश्य खर्चिल्ले जायते जाण आसात. ग्रामसेवेक आयुश्य दिल्ले बबलभाई मेहता, आदिवासी लोकांचे सेवेक जिवीत ओंपिल्ले नटवरभाई ठक्कर, भारत-जपान मैत्री खातीर वावुरपी नरेश मंत्री, साहित्य संस्कृतायेच्या मळार वावुरपी कितलेशेच बरोवपी – हांतल्या कोणाकूय विचारचें: काकासायबां कडल्यान तुमकां कितें मेळ्ळें? ते अनमन नासतना जाप दितले: 'जें सत्य दिसता ताचे खातीर परिणामांची पर्वा करी नासतना प्राण ओंपपाची प्रेरणा.'

काकासायबांचें वर्णन एका उतरांत करचें जालें जाल्यार तांकां 'विभूती'च म्हणचें पडटलें. 'विभूती' ह्या उतरान जांची वळख करून दिवं येत अशे चडशे लोक आयज देशांत उरूंक नात. आनी काकासायबां खातीर दुसरें उतर येवजना. गांधींच्या मर्णा उपरांत ज्यो दोन चार विभूती आमच्या देशांत दिश्टी पडटाल्यो तांतले काकासायब एक आशिल्ले – जांचे मुखार मान आपशींच नमताली आनी जांच्या पांयांची धूळ मस्तकाक लावपाक धन्यताय भोगताली.

काकासायब एक जल्मजात प्रवासी. बापायच्यो बदल्यो हेवटेन तेवटेन जाताल्यो. हाका लागून ल्हानपणांतूच तांकां हेवटेन तेवटेन भोंवचें पडिल्लें. एका सारक्यो शाळा बदलच्यो पडिल्ल्यो. त्या वेळार पांयांक जें चाक लागिल्लें तें आयुश्यभर तांकां सगळे कडेन व्हरीत रावलें. सावरकराचो गट सोडून काकासायब बडोद्याक गेले. गंगनाथ महाविद्यालय बंद पडलें तेन्ना हिमालयांत गेले. सुमार दोन वरसां ते हिमालयांतले पर्वत चड-देंव, चड-देंव करीत राविल्ले. अख्खो हिमालय 'पादाक्रान्त' करपी खूब थोडे लोक देशांत पळोवंक मेळटले. तांतले काकासायब एक आशिल्ले. ते आर्दी आनी ते उपरांत ते उत्तर भारतांत ह्या तोंका पसून त्या तोंका मेरेन कितलेशेच खेपे भोंवल्यात. गुजरात तर तांचें घरूच जाल्लें. पुणून राष्ट्रभाशेच्या प्रचाराचें काम हातांत घेतलें तेन्ना भारतवर्षाच्यो कितल्योशोच प्रदक्षणा तांणी काडल्यो. काश्मिरा पसून कन्याकुमारी मेरेनच्या आनी द्वारके पसून परशुराम कुंडा मेरेनच्या ह्या भारतवर्षांत असो एक पर्वत आसचो ना, जाचेर काकासायब चडूंक नात. अशी एक न्हंय मेळची ना जिचें आचमन काकासायबांनी करूंक ना. असो एक गांव दिसचो ना जंय काकासायब एक रात तरी रावंक नात.

भारतवर्षाच्या खांची कोनशांनी इतलो आनी इतले खेपे भोंविल्लो दुसरो कोणूच

मेळचो ना. आडवाद फकत दोगांचो – एक गांधींचो, दुसरो विनोबांचो (पुणून गांधी आनी विनोबा तरी काकासायबां इतले हिमालयांत खंय भोंवल्यात?). काकासायबांच्या पांयांक लागिल्लें हें चाक पळोवन स्वराज्य मेळनाफुडें राजेनबाबूंनी तांकां एक रेल्वे पास दिल्लो (तो अखेर मेरेन तांचे कडेन आशिल्लो). तेन्ना पसून रेल्वे जशें कितें तांचें घर जाल्लें. भोंवन भोंवन पुरो जातकूच केन्ना काय जीव व्हरून घरा घालचो-शें दिसतालें तेन्ना ते ह्या घरांत (रेल्वेंत) व्हरून 'जीव घालताले'.

स्वराज्य मेळसर ते देशा भायर खंयच वचूंक नाशिल्ले. सोडून ब्रह्मदेश. (तो एका काळार आमच्या देशाचोच वांटो आशिल्लो.) स्वराज्य मेळ्ळें आनी 'पुराय धर्तरी म्हजी आवय, हांव तिचो पूत' अशें मानून काकासायब संवसार भर भोंवपाक लागले. १९५०त ते उदेंत आफ्रिकेचे भोंवडेक गेले. केनिया, युगांडा, तांगानिका, कोंगो – सगळ्या देशांनी भोंवन आयले. दोन वर्सां उपरांत – बावनांत – येवरोपच्या प्रवासाक गेले. थंयचे सगळे देश पळेले. उपरांत दोन वर्सांनी – चोवपन्नांत – जपान पळोवन आयले. (जपानांत ते पांच खेपे वचून आयल्यात.) सत्तावनांत तांणी चीन देशाची यात्रा केली. दुसऱ्याच वरसा ब्रिटिश गियाना, वेस्ट इन्डीज आनी उत्तर अमेरिका (कॅनडा सयत) पळोवन आयले. मदीं एक खेपे रशियेच्या प्रवासाक गेल्ले. एक खेपे आफ्रिकेंतल्या घाना नायजेरियांतूय वचून आयले. आनी एक खेपे मादागास्कार, मॉरिशसय पळोवन आयले. पयर पयर मेरेन काकासायबांची ही भोंवडी एका सारकी चलताली. 'जे मेरेन म्हजो प्रवास चल्ला ते मेरेन म्हातारपणूय म्हाका धरूंक पावचें ना, तशें मरणूय म्हाका सोदूंक येवचें ना' अशें ते मोट्या अभिमानान सांगताले.

लक्षांत दवरपा सारकी गजाल म्हळ्यार, काकासायब 'सायट सियिंगा'क भोंवऽनाशिल्ले. एक खरें: पळोवपा सारकें सगळें पळोवन येताले. हिमालयांत गंगेचो उगम पळोवंक गंगोत्रीक गेल्ले त्याच भक्तिभावान आफ्रिकेंत ते नायल न्हंयच्या उगमा कडेनूय – 'निलोत्री'कूय वचून आयिल्ले. कर्नाटकांतलो जोग घसघसो तांणी जे नदरेन पळेला तेच नदरेन अमेरिकेंतलो नायगाराय पळेला आनी दक्षीण अमेरिकेंतलो केचूरचो प्रपातूय पळेला. उडिसांतलें चिल्का सरोवर पळेलां तशें येवरोपांतलें इन्टरलाकेनूय पळेलां. पळोवपा सारकें सगळें पळेलां (आनी ताचेर बरयलां) पुणून 'विश्वयात्री' म्हूण ते भोंवताले तेन्ना तांगेलो उद्देश सायट सियींग नासतालो. वेगळो आसतालो – आफ्रिकेंत ज्योमो केनियाटा आनी पीटर कोयनांगे, अमेरिकेंत मार्टिन ल्यूथर किंग, चिनांत माओ आनी चौ-एन-लाय,जपानांत निचिदात्सु फुजीई, येवरोपांत फ्रेंक बुकमन, घानांत एनक्रूमा हांकां मेळपाचो, तांकां गांधी समजावन सांगपाचो. राजकर्णा परस संस्कृताय व्हड हें सगळ्यांक दाखोवन दिवपाचो. चौ-एन-लायन तांकां एक पार्टी दिल्ली. हे पार्टींत काकासायबांनी तांकां सांगलें: तुमी गरज नासतना रशियेचो साम्यवाद घेवन आयल्यात. तुमचे कडेन हांगा बौद्ध धर्म आशिल्लो. तो साम्यवादीच धर्म. ताकाच धरून तुमी नवो साम्यवाद निर्माण केल्लो जाल्यार तुमचो बौद्ध साम्यवाद आनी आमचो गांधीयन साम्यवाद, दोगूय मेळून संवसाराचीं सगळीं दुख्खां पयस करूंक पावतले आशिल्ले.

वेगळ्या वेगळ्या देशां कडेन सांस्कृतीक संबंद जोडपी एक संस्थाय तांणी घडोवन भारत सरकाराक दिल्या – इन्डियन कौंसिल ऑफ कल्चरल रिलेशन्स नांवाची.

तांगेलो हो 'रोव्हींग कल्चरल अँबासेडरा'चो वावर पळोवन अंयशीं वरसांचे पिरायेर तांकां देशांतल्या लोकांनी तोखणायेन आनी कृतज्ञतायेन 'संस्कृतिके परिव्राजक' नांवाचो एक 'अभिनंदन ग्रंथ' भेट दिल्लो. हो ग्रंथ घेवपाक ते त्या दिंसा राष्ट्रपती भवनांत गेल्ले. वतना 'वय जालें, आतां सगळ्या कामांतल्यान निवृत्त जावप' अशें थारावनय गेल्ले. पुणून राष्ट्रपती भवनांत पावल दवरना फुडें तांगेल्या काळजाच्या खोल तळांतल्यान तांकां एक आवाज आयकूंक आयलो. 'निवृत्त जावपाची भास कसली उलयता तूं? आतां मेरेन केलें ताच्याकूय व्हड काम तुका हे मुखार करपाचें आसा, धर्म समन्वयाचें.' काकासायब ह्या आवाजाक 'गांधींची प्रेरणा' म्हणटात. काकासायब अभिनंदन ग्रंथ घेवन जे परतले ते तरण्या भुरग्याक लेगीत लजयत येद्या उत्साहान धर्मसमन्वयाच्या कामांत पडले. निमार्णी बारा वर्सां ते हेंच काम करताले. 'सगळे धर्म बरे, सगळे धर्म खरे. पुणून सगळे अर्दकुटे' हें गांधींचें मत्त मुखार करून 'सगळ्यांनी एकामेकांक समजून घेवन विश्वसमन्वयाचो वावर करूंक जाय' अशें ते सांगीत भोंवले.

ह्या बारा वरसांत तांणी ह्या विशयाचेर शेंकड्यांनी भाशणां दिलीं, शेंकड्यांनी लेख बरयले आनी हजारांनी चिटी बरयल्यो.

कितल्या लोकांक नवी प्रेरणा दिली!

णव्वद ब्याण्णव वरसांचे पिरायचे जायसर ते रवीन्द्रनाथांचे भाशेंत म्हणटाले, 'मोदेर पाकबे ना चुल गो', 'म्हजे केंस धवे जाल्या जायत, पुणून हांव म्हातारो अजून जावंक ना.' ब्याण्णव वरसांचे पिरायेर लेगीत ते म्हातारे जावंक नाशिल्ले. तांच्या हातांत रोत येवंक नाशिल्लें, तांकां पोंग पडूंक नाशिल्लें. तांचें भोंवप थांबूंक नाशिल्लें. बरप वाचप, उलोवप एका सारकें चलतालें. वाखराचे धारे वरी बुद्द चलताली.

अकस्मात एक दीस तांकां दुबाव आयलो, 'आतां थोडो थोडो विसर पडूंक लागला. लागिंच्या लोकांची लेगीत वळख पडना. चलता आसतना पावल थीर पडना. दुसऱ्याचो आधार जाय पडटा. हो दिश्टावो जायनाफुडें तांणी येवजिलें, 'आतां निवृत्त जावपाचो वेळ आयला'.

दुसऱ्याच दिसा सकाळीं सगळ्या कामांतल्यान तांणी आंग काडून घेतलें. लेख बरोवप, भाशणां दिवप, चिटींक जापो बरोवप, सगळें बंद केलें. वर्तमानपत्रां लेगीत वाचपाचें बंद केलें. भोंवपाचेंय बंद केलें. निमार्णी चार वरसां ते एके तरेचे 'ब्राह्मी स्थितींत' जियेताले. ईश्वराच्या अखंड सान्निध्यांत म्हळ्यार जाता. कितले प्रसन्न आनी तृप्त दिसताले!

ह्या निमाण्या चार वरसांत जेन्ना जेन्ना तांकां मेळ्ळां तेन्ना तेन्ना तांगेलें हें प्रसन्न आनी तृप्त रूप पळोवन हांवें स्वता कडेनूच म्हळां: 'म्हातारपण लेगीत इतलें सुंदर आसूं येता, न्हय?'

□ □

# १४

# विनोबा

विनोबांक साहित्यीक न्हय म्हणपाचो धीर कोणाक जायत व्हय ? विनोबा साहित्यीक न्हय जाल्यार ज्ञानेश्वरूय न्हय, तुकारामूय न्हय, कबीरूय न्हय म्हणचें पडटलें. आनी काळाचे कसवटणेक तर खंयच्याय साहित्यिका परस चड ज्ञानेश्वर, तुकाराम, कबीर उतरल्यात. पांच-पांच, स-स शतमानां तिगून उरल्यात. अजून प्रेरणा दीत रावल्यात.

विनोबा हांचेच जातिचे एक साहित्यकार आशिल्ले.

सात-सात हजार पानांचें तांगेलें साहित्य आयज आमकां वाचूंक मेळटा. प्रतिभेन उपाट भरिल्लें. न्हिदिल्ल्यांक जागें करपी आनी जागे आशिल्ल्यांक खोलायेंत घेवन वचपी. ह्या साहित्याची एक फावट रूच लागल्यार पुरो, वाचपी ताचीं पारायणां करीत रावतलो.

सगळ्यांत पयलीं नदर वतली ती तांचे शैलिचेर. सादी, सोंपी, अल्पाक्षरी, नीट काळजांत वता असली. तांगेल्या शिला सारकी निर्मळ. एक एक उतर उपाट अर्थान भरिल्लें. तशें नादाचें भान दवरून वापरिल्लें पळोवंक मेळटलें.

ते एक बऱ्यांतले बरे शैलिकारूय आशिल्ले.

विनोबांचें पुराय जिवीत ज्ञानाचे उपासनेंत खर्चल्लें. वेद, उपनिषदां, ब्रह्मसुत्रां, गीता आनी तांचे वयलीं वेगळीं वेगळीं भाष्यां ते कोळून पियेल्ले. सगळें तांगेले जिबेर घोळटालें. ते भायर, देशी भासांतलें सगळें संत-साहित्य तांणी पचयल्लें. तेंय तांकां तोंडपाठ जाल्लें. तांगेल्या पिंडाक असल्याच साहित्याची पोसवण मेळ्ळ्या. विचारांच्या मळार जें जें कितें संवसारांत मोलाचें उक्ताडा आयलां तें सगळें आत्मसात करप, तांतल्या सत्याचें चिंतन मनन करप हो तांगेलो सभावूच जावन पडिल्लो. देखून तांच्या तोंडांतल्यान जें भायर सरतालें तें सुभाषिता सारकें आसतालें. खासा सरस्वतीच, तांगेले जिबेर येवन बसल्या अशें दिसतालें. खंयच्याय युनिव्हर्सिटी प्रोफेसराक फाटीं घालीत असो तांगेलो व्यासंग आशिल्लो.

तांगेलें ज्ञान पळोवन अजाप जाता. दिसाचीं चोविसूय वरां ते पुस्तकांच्या सांगातांत रावताले जावंक जाय, अशें दिसता. पुणून ना, पुस्तकां ते हातांत घेताले फकत 'फाविल्ल्या' वेळांत, उसरपत जाताली तेन्ना. बाकिचो तांगेलो सगळो वेळ तरांतरांच्या 'मजुरी'च्या कामांत घुसपल्लो उरतालो. हय, दिसवाड्याचे मानाय करतात तसल्या वावरांत तांगेलो दीस वतालो. हें पळेतकूच तांणी इतलेंय हें ज्ञान कशें आनी केन्ना जोडलें हाचेंच अजाप जाता.

तांणी 'मानायां' भाशेन तरांतरांचीं कामां केल्यांत. तिंवूय कसलीं? समाज जांकां 'उणाक' लेखीत आयला तसलीं – कुदळ खोरें घेवन आठ आठ वरां शेतांत काम करप, केन्ना आठ आठ वरां चरख्यार सूत कांतप वा आठ आठ वरां मागार बसून लुगट विणप, तुतयो विन्नें किसूळ घेवन आठ आठ वरां मेस्तकाम करप – असलीं. असल्या कामांत तांगेल्या आयुष्याचीं, ऐन तरणेपणांतलीं, बत्तीस वर्सां खर्चल्यांत. ते म्हणटाले, 'जल्मान हांव ब्राह्मण. ब्राह्मण म्हळ्यार ब्रह्मनिष्ठ. जाल्यार, ह्या अर्थान हांव जल्मभर ब्राह्मणूच आसतलों. पुणून कर्मान हांव मानाय. ते करतात तींच कामां करून हांव आत्म-दर्शनाची साधना करीत रावतलों. तांकां मेळटा तितलोच दिसवाडो घेवन जियेतलों...'

ते वेद शिकले. चित्त एकाग्र करून वेदांचे खोलायेंत देंवले. दोन वर्सां तांगेलें हें शिकप चल्लें. ह्या दोन वर्सांत ते आठ आठ वरां शेतांत काम करीत राविल्ले. ते मुस्तींत आठ वरां काम करपी मानायांक दिसवाड्याचे आठ आणे मेळटाले. तितलोच दिसवाडो घेवन विनोबा जियेले. ते समाजाक विचारताले, 'आठ आठ वरां मानाय शेतांत काम करतात म्हुण्णूच मू तुमकां जेवपा-खावपाक अन्न मेळटा? तांणी हें काम करुंकूच नाशिल्लें जाल्यार तुमगेलो समाज जेवंक खावंक पावतलो आशिल्लो व्हय? मागीर, हें काम करतल्यांक तुमी उणाक कशे लेखतात? तांकां दिसवड्याचे फकत आठ आणे कशे दितात? तुमकां जेवपा-खावपाक जे दितात तांकां जेवपा-खावपाचो अधिकार ना? आठ आण्यांत तांचें भागता? जे श्रमाचीं कामां करतात तांकां भिकाड्डो आठ आणे दिसवडो मेळप आनी तुमी जे फकत बुद्दिचीं कामां करतात तांकां तांचे परस शंबर वांट्यांनी चड मेळप, हो अन्याय न्हय? जे श्रम करतात तांकां पोटाक पावऽ सारकें मेळप ना, आनी जे कसलोच श्रम करिनात, बेंदल्ल जावन समाजाक जे फकत लुंचत आयल्यात, तांकां जोडिल्लो पयसो खंय 'इन्वेस्ट' करचो, खंयच्या धंद्यांत घालचो हें कळप ना, हाचे सारको दुसरो अन्याय आसा?...'

संवसारांत जे तरांतरांचे अन्याय चलत आयल्यात तांच्यांतलो सगळ्यांत व्हडलो अन्याय हो, अशें ते म्हणटाले आनी हो अन्याय आपणा हस्तुकीं घडचो न्हय म्हूण ते मानायां भाशेन वावर करून, तांकां मेळटा तितलोच दिसवाडो घेवन जियेताले.

श्रमीक लोकां कडेन एकजीव जावपाची तांगेली ही साधना चलिल्ली.

तांणी आश्रमांत आपणाल्या सांगात्यां आनी विद्यार्थ्यां कडल्यान आठ आठ वरां काम घेतलां आनी मानायांक ते मुस्तींत दिसवाडो मेळटालो तोच तांकां दिला.

सद्दां चरख्यार चार 'आंटयो' सूत काडप असो नेम केल्लो. एक दीस हिशोब लावन पळेलो. चार आंटयो सूत काडपाक दिसाक आठ, केन्ना केन्ना णव वरां लागतात. आनी चरखा-संघ ह्या सुता बदला सूत काडटल्यांक म्हयन्याक पांच रुपये दिता. पांच रुपये पावनात. साडे सात रुपये तरी मेळूंक जाय ह्या निर्णयार ते पावले. साडे सात दिले जाल्यार खादी म्हारग जातली अशें कांय जाणांचें म्हणणें जालें.

'जावं दी', विनोबांनी तांकां सांगलें. 'आमचे हस्तुकीं तरी अन्याय जावंक जायना!' अशें म्हणून 'अथातो न्यायारंभ:' ह्या नांवाचो एक लेख तांणी बरयलो. लेख गांधींच्या हातांत पडलो आनी गांधींनी विनोबांच्या म्हणण्याक पुराय तेंको दिलो.

सांगपाचें म्हळ्यार, श्रम करतल्यांक दिसवाडो सारको मेळूंक जाय, ना जाल्यार श्रमाचें मोल वाडचें ना, ताका प्रतिश्ठा मेळची ना, ह्या मत्ताचे ते आशिल्ले.

१९२४च्या अदमासाक तांणी अर्थशास्त्राचो खोलायेन अभ्यास केलो. आनी देशांत मनशाची दिसाची 'सरासरी' जोड दोन आण्यां वयर वचना ह्या निर्णयार ते पावले. 'तशें जाल्यार मागीर आमी जेवणाचेर दोन आण्यां वयर खर्च करूंक जायना', ते म्हणपाक लागले. दोन आण्यां वयर खर्च करप ना, ह्या नित्शयाक तांणी वर्सभर पाळो दिलो. इश्टांनी विचारचें, अर्थशास्त्राचो आनी हे तपस्येचो संबंद कितें? तांणी जाप दिवची, 'आमी जेन्ना विचार चलणुकेंत हाडूंक प्रयोग करतात, तेन्नाच शिकिल्लें बरें जिरता, बरें पचता. ह्या प्रयोगा उपरांतूच म्हाका टॉलस्टॉय, रस्कीन आनी गांधी हांगेलें अर्थशास्त्र बरें समजलें...'

विचार आचारांत हाडपाची विनोबांक संवयूच आशिल्ली. ह्या अर्थान ते खरेले आचार्य आशिल्ले.

श्रमाचेर आधारिल्ल्या जिविताचे तांणी तरांतरांचे प्रयोग केल्ले. आयची पयशांचेर उबी आशिल्ली अर्थविवस्ता बारीक दुबळ्यांच्या श्रमाचो आड-फायदो घेवपी, तांकां नागोवपी अर्थविवस्ता; ती चलूंक दिवंक जायना. पयसो 'लफंगो'. आयज एक मोल सांगपी, फाल्यां दुसरें. लफंग्याच्या हातांत कोणूच आपणालो कारभार काडून दिना अशें ते म्हणटाले. आनी हे अर्थविवस्ते बदला दुसरी न्यायाची, कोणाक नागयना, फटयना, कोणाचोच गैरफायदो घेना असली एक अर्थविवस्ता उबी करूंक जाय म्हणटाले. ही नवी अर्थविवस्ता श्रमाचे बुन्यादीर उबी करची पडटली -- जाल्यारूच धनाची सुवात लक्ष्मी घेतली, अशें सांगताले. चलत आयिल्लीं कितलिंशीं मुल्यां भायर उडोवन नवीं मुल्यां चलोवचीं पडटलीं अशें म्हणटाले.

कोणाकूच पोटा खातीर चार पांच वरां वयर काम करपाची गरज भासूंक जायना ह्या मत्ताचे ते आशिल्ले.

तांणी म्हणचें, एका काळार ब्रह्मविद्या अरण्यांत विकसीत जाल्ली. उपनिषदां अरण्यांत जल्मा आयिल्लीं. उपरांत ब्रह्मविद्या झुजा मळार विकसीत जाली, गीता झुजा मळार जल्माक आयल्या. आतां ब्रह्मविद्येक श्रमाच्या मळार घेवन वचपाचे दीस आयल्यात.

रोमन लोकांनी ज्या दिसा श्रमाक उणाक लेखलो त्या दिसा सावन तांची अवनत सुरू जाली आनी उपरांत इल्ली इल्ली करून दिव्य भव्य रोमी संस्कृतायूय मोडून पडली, हें गिब्बनाचें म्हणणें तांणी सदां लोकां मुखार दवरचें.

जण एकल्यान श्रम करून जियेवंक जाय हो सिद्धांत हालिंच्या काळार टॉलस्टॉयान संवसारा मुखार मांडिल्लो. गांधीन तो टॉलस्टॉया कडल्यान घेतलो आनी सत्य

अहिंसा अस्तेय अपरिग्रहा इतलीच मोलाची सुवात ताका जोडून दिली. विनोबान तो चलणुकेंत हाडून दाखयलो. ते म्हणटात, 'आयुष्यभर हांव श्रम करीत जियेलों म्हण म्हजे बुद्धीक कितें बादा आयल्या व्हय? ती दुबळी पडल्या व्हय? परती, तीख जावंक पावल्या. खोलायेंत देवंक पावल्या. जो श्रमाचें जिवीत जियेता ताची नदर निर्मळ जाता. तो खोलायेन चिंतूंक पावता...'

तॉलस्तॉय म्हणटालो, दिसाच्या चोवीस वरांतलीं आठ वरां न्हिदे खातीर राखून दवरात, आठ वरां कमर बागोवन श्रमाचीं कामां करात. तरी आसतना तुमचे कडेन आनीक आठ वरां उरतलीं. ह्या आठ वरांतलीं पांच वरां वाचपाक, तरांतरांचे विशय शिकपाक दवरात. उरिल्लीं तीन वरां तुमकां जाय तें करपाक खर्चियात. बरोवपाचें काम फकत सप्तकांतल्यान एक दीस करपाचें. तेंवूय दीसभर न्हय. फकत दोन पानां बरयतलों अशें थारावपाचें. तुमचे लिखणेंतल्यान जें येतलें तें चिरंतन मोलाचें कितेंय येतलें.

विनोबा हे शिकवणेक धरून जियेल्ले.

लक्षांत दवरपा सारकी गजाल म्हळ्यार, विनोबांच्या स-सात हजार पानांच्या साहित्यांत तांणी 'बरयल्लें' साहित्य अशें तशें पांचशीं पानांचें मेळटलें. गीताई, **स्वराज्य-शास्त्र, उपनिषदांचा अभ्यास, विचारपोथी** असलेंच थोडेंशें. बाकिचें तांगेलें सगळें 'उलयल्लें' साहित्य. तांगेलें सगळ्यांत गाजलां तें **गीता प्रवचने**चें पुस्तक लेगीत उलयल्लें साहित्य. हाचो अर्थ, ते उलयताले तें साहित्यूच उलयताले असो करचो पडटा.

विनोबांनी साहित्याक जें दिलां तें जिवितांतल्यान 'आयिल्लें' दिलां. साहित्य सदांच जिवितांतल्यान 'येता'. जिविताचें एक उपफळ तें. एक बायप्रॉडक्ट. असलेंच साहित्य चिरंतन मोलाचें आसता.

'पूर्ण वेळ साहित्यीक' असलें साहित्य केन्ना बरोवंक पावना.

विनोबा 'मानाय' म्हूण जियेल्ले. मानायाचीं कामां करता आसतनाच वाचपा सारकें सगळें वाचताले. शिकपा सारकें शिकताले. तांच्यांतलो विद्यार्थी सदां जागरूक उरलो. खासा विद्यार्थी आशिल्ल्यान ते आपणा म्हर्यांत येवन राविल्ल्या विद्यार्थ्यांक शिकोवंक पावले. एकवीस वर्सांचे पिरायेर ते गांधीं सरीं येवन राविल्ले. छप्पन वर्सांचे जायसर गांधींनी नेमून दिल्लीं कामां तांणी केलीं. तरांतरांचे प्रयोग करून गांधी विचार समृद्ध करीत रावले. सत्याग्रह करचे पडल्यात तेन्ना तांणी सत्याग्रह केल्यात. बंदखणींत वचचें पडलां तेन्ना बंदखणींत गेल्यात. छप्पन वर्सांचे पिरायेर ते आश्रमांतल्यान भायर सरले. लोकां कडेन गरिबां खातीर भूंय मागीत एका सारकीं चौदा वर्सां देशांत पांयांनी भोंवले. साडे पस्तीस हजार मैल तांणी पांयांनी माड्डिल्यात. पन्नास हजार प्रवचनां दिल्यांत. पन्नास लाख एकर भूंय एकठांय करून ती शेतकामत्यांक वांटून दिल्या. ह्या चौदा वर्सांच्या काळांत लेगीत शिकपाच्या आनी शिकोवपाच्या तांगेल्या वावरांत तांणी खंड पडूंक दिवंक ना. भोंवता आसतनाच वेगळ्या वेगळ्या धर्मांचे 'सार' तांणी

काडले. **कुराण सार, खिस्ती धर्म सार, ऋग्वेद सार, गुरू-बोध सार, धम्मपदम्, मनुशासनम्** – एक आनी दोन न्हय, कितल्याश्या धर्मविचारांचो आपरोस काडून तांणी लोकां मुखार दवरला.

बेश्टे लोक तांकां ह्या युगांतले व्हडांतले व्हड ज्ञानर्षी म्हणिनात.

मात् लेगीत फुरसत नाशिल्ल्या ह्या ज्ञानर्षीन 'फाविल्ल्या' वेळांत पांच-सात हजार पानांचें साहित्य आमकां दिलां!

कसली गरज आसा मनशाक पूर्ण वेळ साहित्यीक जावपाची ? पूर्ण वेळ साहित्यिकाचें साहित्य खपत, उरपाचें ना. ज्ञानाची अखंड उपासना करात, पूर्ण वेळ कर्मयोगांत गुल्ल रावात आनी फुरसतिच्या वेळांतूच बरयात. कितेंय तरी चिरंतन मोलाचें लिखणेंतल्यान 'येतलें'.

□ □

# १५

# जवाहरलाल

दिल्लींतल्या एका कॉफी हाऊसांत आमी कांय साहित्यीक एकठांय जाल्ले. साहित्याचेरूच उलयत बशिल्ले. उलयतां उलयतां बऱ्यांतल्यो बऱ्यो आत्मकथा कोणें बरयल्यात हाचेर उलोवपाक लागले. एकल्यान जवाहरलालांचे आत्मकथेचो उल्लेख केलो. हांवें म्हळें, 'एका काळार हांवें ही आत्मकथा पंचवीस खेपे वाचिल्ली.'

'पंचवीस खेपे ?' म्हजे मुखार बशिल्ल्या एकल्या साहित्यिकान अजापान विचारलें.

हांवें म्हळें, 'हय. एक आनी दोन खेपे न्हय. पंचवीस खेपे. अशें पंचवीस खेपे हांवें आनीक एकूच पुस्तक वाचलां : शरत्‌बाबूंलें **विप्रदास**.

तो म्हणपाक लागलो, 'जवाहरलाल त्याच पांवड्याचे एक साहित्यकार. राजकर्णांत पडूंक नाशिल्ले जाल्यार व्हडांतले व्हड साहित्यकार म्हूण मुखार येतले आशिल्ले. काळजान जवाहरलाल कवी. नदरेन एक कलाकार. अत्यंत सुसंस्कृत, कल्चर्ड म्हणटात तसले एक रसीक. राजकर्णाक लागून देवांचे बदला चोरांचे आळंदीक पावले...'

हांवें म्हळें, 'जवाहरलाल साहित्यिकूच म्हूण मुखार आयिल्ले जाल्यार ते जवाहरलाल उरचे नाशिल्ले. तुमचे आमचे भाशेन 'अनेकांतले एक' जातले आशिल्ले. जवाहरलाल सगळ्यां परस आगळे. राजकर्णी ह्या रुपानूय, साहित्यीक ह्या रुपानूय.'

आनी हांवें म्हजो एक आवडटो सिद्धांत तांचे मुखार दवरलो. म्हळें, 'ते राजकर्णांत पडिल्ल्यानूच इतलें बरें बरोवंक पावले. तांगेलें साहित्य तांगेल्या जिविताचो एक बाय-प्रॉडक्ट, एक उपफळ ते जियेत आयिल्ल्या जिविताचें. खरें आनी बरें साहित्य हेच भाशेन हेच प्रक्रियेंतल्यान निर्माण जाता.

जवाहरलालांच्या नांवान आयज पन्नास-साठ पुस्तकां बाजारांत मेळटात. अजुनय खंय तितलींच येवपाचीं आसात. आयुष्यांत तांणी हजारांनी भाशणां दिलीं. हजारांनी पत्रां बरयलीं. बंदखणींत आसतना – आनी हरशींय वेळ मेळ्ळो तेन्ना – दिसपटयो बरयल्यो. सगळें एकठांय करून तें उजवाडावपाची एक येवजण भारत सरकारान आंखल्या. ते उलयताले ताच्याकूय चड बरयताले. जें जें कितें तांकां येवजतालें, तें सगळें ते दुसऱ्यांक सांगीत आयिल्ले. तातुंतल्यानूच तांगेलो हो वाङ्मयीन संवसार उबो जाला. Style is the man हें म्हणणें खरें आसत जाल्यार म्हणचें पडटलें: तांणी जें जें कितें बरयलें तातूंत त्या त्या विशया भायर खासा ते – जवाहरलाल – दिश्टी पडटात: एक भावना-प्रधान विचारवंत, एक संवेदनक्षम आनी प्रतिभावंत कवी, एक तत्त्वनिष्ठ संस्कारी दृष्टो.

जवाहरलालांचीं सगळ्यांत चड गाजिल्लीं पुस्तकां तीन:

१. **ग्लिम्प्सिस ऑफ वर्ल्ड हिस्ट्री**

२. **द डिस्कव्हरी ऑफ इंडिया**, आनी

३. **एन ऑटोबायोग्राफी**.

पुणून हीं पुस्तकां बरोवचे पयलीं तांगेल्या सुरवातेच्या कांय पुस्तकांनी म्हजे पिळगेक पिशें लायिल्लें. तांतलीं कांय म्हळ्यार,

१. **अ विन्डो इन् प्रिझन एण्ड प्रिझनलँड**

२. **इंडिया एण्ड द वर्ल्ड**

३. **एटीन मन्थ्स इन इंडिया, आनी**

४. **युनिटी ऑफ इंडिया**

एके तरेच्या लघुनिबंदांचीं आनी निबंदांचीं पुस्तकां हीं. इंग्लीश भाशेंतल्या एडिसन, लॅम्ब, हॅझलिट बी लघुनिबंदकारांचो उगडास करून दिवपी. कितलें वाचन, मनन-चिंतन ह्या मनशान केल्लें आसूंक जाय, हाची जाण करून दिवपी.

केन्ना केन्ना तांचे लिखणेंतल्यान एकाद-दुकलें एक वाक्य भायर सरतालें जें आमकां वर्सांचीं वर्सां प्रेरणा दीत रावतालें. Success often goes to those who dare and act; it seldom goes to the timid. हेंच वाक्य घेवंया. स्वातंत्र्य संग्रामांत पडिल्ले म्हजे पिळगेक ह्या वाक्यान मंत्राची दीक्षा दिल्या. 'तुमी अनमनूं नाकात. धिरान मुखार पावल घालात. तुमकां जैत मेळटलेंच मेळटलें. जैत सदांच धिरान पावल घालून मुखार वतल्यांकूच मेळटा. तें भित्र्याक, फाटल्यान फुडल्यान पळोवन जतनायेन चलतल्याक केन्ना मेळना.' हे तरेचें एक आश्वासन आमकां ह्या मंत्रान दिलां आनी काळखांत उडी घेवपाक आमकां धीर दिला.

ऋषींनी कवीक मंत्र-दृष्टो बेश्टो म्हणूंक ना. जवाहरलाल स्वत: कवी आशिल्ले. धाडसान मुखार वचपी – काळखांत उडी घेवपी एक विरूय आशिल्ले, एक मंत्र-दृष्टे आशिल्ले. तरणे पिळगेचे ते 'बेताज बादशाह' जाले जाल्यार अजाप न्हय.

**लॅटर्स फ्रॉम अ फादर टू हिज डॉटर** नांवाचें तांगेलें एक पुस्तक आसा. ल्हानशेंच. पुणून तें उपरांत भायर सरिल्ल्या **ग्लिम्प्सिस ऑफ वर्ल्ड हिस्ट्री** पुस्तकाची प्रस्तावना म्हूण त्या पुस्तकांत आसपावन घेवंक येता. 'ग्लिम्पसिस' हें संवसाराच्या इतिहासाचें एक पुस्तक जाल्यार 'लॅटर्स' संवसार कसो घडलो ताचो इतिहास सांगपी पुस्तक.

जवाहरलालांनी बरयला तो इतिहास हेर जायत्या जाणांनी बरयला. पुणून जवाहरलालांनी बरयला तातूंत आनी हेरांनी बरयला तातूंत एक व्हडलो फरक आसा. इतिहासावयर बरोवपी हेर सगळे इतिहास उस्तून काडपी, इतिहास शिकोवपी प्रोफेसर्स आशिल्ले. जवाहरलाल इतिहास घडोवपी आशिल्ले. आपणालो खिणान खीण आपूण भारताचो इतिहास घडोवपांत खर्चितां हाची तांकां जाणविकूय आशिल्ली. आपणा आदीं कोणें खंय कसो इतिहास घडयलो हें सोदपाक तांगेलें मन वावरूंक लागलें जाल्यार अजाप न्हय. 'ग्लिम्पसिस' आनी 'डिस्कव्हरी' हीं दोनूय इतिहासाचीं पुस्तकां

तांणी बंदखणींत मेळिल्ले उसरपतिच्या काळांत बरयल्लीं. संदर्भ ग्रंथ व्हडलेशे मुखार वा म्हऱ्यांत नासतना. पुणून ते कितले खोलायेंत भितर सरल्यात! कितल्यो बारीक बारीक गजाली तांणी सांगल्यात! पुराय संवसार एक एकक जाल्ले वरी – एक unit जाल्ले वरी आमचे मुखार उबो रावता, ताच्या सगळ्या अंत:प्रवाहां सयत.

सगळ्यांत चड नदरेंत भरता ती तांगेली शैली: सादी, सोंपी, प्रांजल, संस्कारी. इंग्लीश वाङ्मयांत येथेच्छ पेंविल्ल्या एका रसिकाची. ते जेन्ना बुद्ध जावं अशोक, नेपोलियन जावं चेंगिझखान, चन्द्रगुप्त मौर्य जावं अकबर – एक एकल्याचें चित्र आठ धा वळीं भितर तांगेल्या धोंगां पोंगां सयत आमचे मुखार उबें करतात तेन्ना तें एका व्हड साहित्यकाराचे लिखणेंतल्यान भायर सरिल्ल्या पॅन्-पोर्ट्रैट्सा सारकेंच जिवें तट्टटीत जावन मुखार येता. इतिहासाच्या अत:प्रवाहा वांगडा इतिहासांत जावन गेल्ल्या म्हा-पुरसांच्या आंतर-जिवितांचीय कथा आमकां वाचूंक मेळटा. एक फावट पुस्तक हातांत घेतकूच तें सोंपऽसर कडेन काडून दवरपाची इत्सा जावची ना, इतलीं रसाळ पुस्तकां हीं दोनूय.

असलें भाग्य संवसारांत दुसऱ्या खंयच्याच इतिहासाच्या पुस्तकांक मेळूंक ना.

इतिहासकार जवाहरलालांक इतिहासकार लेखचे नात. जवाहरलालूय आपणाक इतिहासकार म्हणिनात. टॉयन्बी, गिब्बन, सरदेसाय वा जदुनाथ सरकार हे जातींतले इतिहासकार ते केन्नाच नाशिल्ले. एच्. जी. वॅल्साचे पंगतींतलेय नाशिल्ले. पुणून इतिहास जिवो तट्टटीत करून लोकां मुखार दवरपाचें – इतलेंच न्हय, तर लोकांक एक संवसारीक नदर, एक 'ग्लोबल' व्ह्यू दिवपाचें काम जवाहरलालांनी जितलें केलां तितलें टॉयन्बीनूय करूंक ना, वॅल्सानूय करूंक ना, कोणेंच करूंक ना.

हे·नदरेन इतिहासकारांतूय ते आगळे वेगळे.

जवाहरलाल रगतान भारतीय. संस्कारान येवरोपी. तांच्यांच उतरांनी सांगचें जाल्यार उदेन्तेचें आनी अस्तमेचें एक विचित्र मिसरण – out of place everywhere, at home nowhere. भायरूय सगळे कडेन परकी, आपणाल्या खाशेल्या देशांतूय परकी. काळजान ते कोणा कडेनूय कितलेय एकरूप जावपाचो यत्न करपाक लागले जाल्यारूय बुद्दीन सगळ्यां पसून पयस, सगळ्यां पसून अलिप्त रावताले. तांगेलें घर अलाहबादेक प्रयागाक गंगा आनी यमुना जंय एकीमेकींक मेळटात थंय. हें थळ हिन्दुंचें एक म्हत्वाचें तीर्थस्थळ. कदीम काळा सावन ह्या थळांत वेगळे वेगळे कडले हिन्दू येवन संगमांत न्हावन गेल्यात. जवाहरलाल हो देखाव सदां पळेत आयिल्ले. तो पळोवन तांकां प्रस्न पडटालो: हे वेगळ्यो वेगळ्यो भासो उलोवपी, वेगळ्यो वेगळ्यो चाली-रिती चलोवपी वेगळे वेगळे कडले लोक एकेच प्रेरणेन कशे हांगा एकठांय येतात? ही प्रेरणा समजून घेवपाचो ते यत्न करपाक लागले. तांकां ही प्रेरणा हेर जायते कडेनूय दिश्टी पडली. तिचे कडेन एके वटेन एकरूप जावपाचो यत्न करता आसतना दुसरे वटेन अलिप्ततायेनूय ते तिचे कडेन पळोवपाक लागले. परिणाम: तादात्म्य आनी ताटस्थ्य, दोनूय बडी तांच्यांत सारक्योच विकसीत जाल्यो. जवाहरलाल

जेन्ना भारताचो सोद घेतात तेन्ना आमकां तांच्यांतल्यो ह्यो दोनूय बडी दिश्टी पडटात आनी भारताच्या सोदा वांगडा आमकां जवाहरलालांच्या अंतरंगाचोय सोद लागता.

जवाहरलालांची आत्मकथा १९३६च्या अदमासाक उजवाडा आयली. रवीन्द्रनाथांनी ह्या पुस्तकाक एक म्हान पुस्तक – A great book म्हळां. आपूण तें वाचून प्रभावीत जालों अशेंय तांणी बरयलां. 'तातुंतल्या सगळ्या बारीक बारीक गजालींतल्यान मनीसकायेचो एक खोल प्रवाह व्हांविल्लो दिश्टी पडटा आनी आपणाल्या कर्तुत्वा परसूय जो व्हड आनी भोंवतणच्या संवसारा परसूय जो खरो, अशा एका मनशाचे म्हन्यांत आमकां हें पुस्तक घेवन वता' अशें जवाहरलालांक एक प्रशस्तिपत्रूय रवीन्द्रनाथांनी दिलां.

कवी जवाहरलाल, साहित्यीक जवाहरलाल, रसीक जवाहरलाल, इतिहासकार जवाहरलाल, इतिहास घडोवपी जवाहरलाल, धाडसी जवाहरलाल, विचारवंत जवाहरलाल – जवाहरलालांचीं सगळीं रुपां, सोळाय कळां सयत ह्या पुस्तकांत उकतीं जाल्यांत. आत्मकथा बरोवप सोंपें न्हय. खुबूच कठीण. आत्मकथा बरोवपी मनीस एक तर आत्मस्तुती करपाक लागता वा आत्मनिंदा करता. जवाहरलाल दोनांय पेल्यान गेल्यात. तादात्म्य आनी ताटस्थ्य ह्यो तांगेल्यो दोनूय बडी ह्या पुस्तकांत जैतवंत जाल्ल्यो पळोवंक मेळटात. कोणें एकल्यान ह्या पुस्तकाक at once lyrical and epic म्हळां. भारताच्या स्वातंत्र्य संग्रामांत पडिल्ले कितलेशे ल्हान व्हड लोक आमकां ह्या पुस्तकांत तांगेल्या धोंगां-पोंगांच्या ओडलायण्या रुपां सयत पळोवंक मेळटात. तांतले तातूंत तांणी जीं दोन चित्रां उबीं केल्यांत तीं सगळ्यांत चड ओडलायणीं. एक, आपणाल्या बापायचें, मोतीलाल नेहरूचें. दुसरें, महात्मा गांधींचें. आनिकूय एक चित्र गुप्त सरस्वती भाशेन ह्या संगमांत आमकां दिश्टी पडटा. तें तांगेले घरकान्निचें – कमला नेहरूचें. जवाहरलालांचे लिखणेची सगळी तांक, तांगेली 'साहित्यीक' ह्या रुपाची सगळी शक्त घरकान्निच्या ह्या चित्रांत उकती जाल्ली पळोवंक मेळटा.

साहित्य-शक्तींत तांकां लागपी राजकर्ण्यांत दुसरो कोण ना.

स्वातंत्र्य मेळ्ळां त्या दिसा मध्यान राती केल्लें तांगेलें भाशण आसूं, अशोकचक्र आशिल्लो भारताचो तिरंगो देशा मुखार दवरतना केल्लें उलोवप आसूं, गांधीजींचे हत्ये उपरांत तांकां ओंपिल्लीं आर्गां आसूं, वा आपणाल्या मरणा उपरांत आपणाले अस्थिचें विसर्जन गंगेंत करचें, हें सांगपा खातीर बरयल्लें Will and Testament ह्या नांवान उजवाडा आयिल्लें तांगेलें गंगेचें तुस्त-गीत आसूं, जवाहरलाल हे जवाहरलाल, तांकांच असलें सगळें येवजुपाचें, तांकांच हें सगळें सुचपाचें, तांणीच असलें सगळें बरोवपाचें अशेंच सदां सगळ्यांक दिसत आयलां. राजकर्णांत पडिल्ल्यान साहित्याच्या संवसाराक ते अंतरले अशें म्हणप समा न्हय; राजकर्णांत पडिल्ल्यानूच ते बऱ्यांतले बरे आनी व्हडांतले व्हड साहित्यकार जावंक पावले अशेंच म्हणप समा जातलें. म्हज्या साहित्यीक इश्टांनी म्हाका क्षमा करची—

असलो भव्य पुरूस निर्माण करपाची तांक तुमच्या साहित्याच्या संवसाराक ना.

# १६

# खलिल जिब्रान

खलिल जिब्रान भारतीय लेखक न्हय. जे भाशेंत तो बरयतालो ती अरबी भासूय ह्या देशांतली भास न्हय. पुणून, एक विसरुंया नाका: संस्कृत भाशेचे पंडित ह्या देशांत वचत थंय पळोवंक मेळटात तशे अरबीचेय मेळटात. अरबी आमकां चिनी जपानी सारकी सामकी परकी भास न्हय. आनी जिब्रानूय आमकां परकी, पयसलो वा अनवळखी लेखक न्हय.

म्हाका उगडास जाता: हांव त्या वेळार वीस बावीस वर्सांचे पिरायेचो. जिब्रानान म्हाका पिशें लायिल्लें. म्हाकाच म्हणिना, म्हजे पिळगेंतल्या खूबश्या भुरग्यांक. धर्माच्या जावं परंपरेच्या, संस्कृतायेच्या जावं रुढिंच्या नांवान समाजांत जें कुड्डेपण, पांगळेपण, दांभीकपण, कुसकेपण, फातराळपण, निर्बुद्दपण चलत आयलां ताचे आड बंडाची घुडी घेवन उबो राविल्लो साहित्याच्या मळा वयलो लोहियाच कसो तो आमकां दिसतालो. आमकां ताची खूब खूब ओड. तागेल्या जल्म-शताब्दी वर्सा कोणेंच कसलोच उत्सव केलो ना. रवीन्द्रनाथांचो जाल्लो तेद्याच दबाज्यान जिब्रानाचोय जावंक जाय आशिल्लो.

आमच्या तीन चार पिळग्यांचेर ताचो आकांताचो प्रभाव पडला. ताणें ह्या पिळग्यांची नदर बदलल्या.

जिब्रानाचें म्हत्वाचें पुस्तक **The Prophet.** येदेंशें. शंबर पानांचें लेगीत न्हय. आंगान ल्हान. पुणून 'परिणामीं थोर'. गीता, कुराण, बायबला येद्याच तोला मोलाचें. एक नवो धर्म संप्रदाय निर्माण करपाची तांक आशिल्लें. हें पुस्तक जाणें वाचूंक ना; आनी वाचून जो प्रभावीत जावंक ना असो शिक्षीत भारतीय म्हज्या तरणेपणांत नाशिल्लो. आयजूय आसत अशें दिसना. म्हजेर ह्या पुस्तकाचो जो परिणाम जाल्लो ताचो उगडास काडटां तेन्ना मन आयज लेगीत उचांबळून येता.

वीस बावीस वर्सांची पिराय म्हळ्यार जिवितांतली सगळ्यांत म्हत्वाची. हेच पिरायेर मनीस फुडाराची वाट वेंचून काडटा. हेच पिरायेर मनशाची पोरण्या मुल्यांवेली श्रद्धा उडून वता. हेच पिरायेर मनीस नवीं सपनां पळेता. नवें कितेंय तरी सोदूंक लागता. जिविताक नवो अर्थ दिवचे खातीर, नवी वाट दिवपा खातीर मनीस हेच पिरायेर आंवडेतां. हांवें हे पिरायेर परंपरेन चलत आयिल्लीं मुल्यां सोडून दिल्लीं वा म्हणुंया, हे पिरायेच्या प्रभावान तीं आपशींच गळून पडिल्लीं. हांव एके 'फिलॉसॉफी ऑफ लायफा'चे सोदींत आशिल्लों. मार्क्सवाद, बुद्धीवाद चाखून पळेल्ले. समाधान मेळूंक

नाशिल्लें. अश्या वेळार जिब्रानाचें **The Prophet** हातांत पडलें. आनी जें कितें सोदतालों, सोदीत राविल्लों, आनी मेळूंक ना म्हूण निर्शेवपा कडेन पाविल्लों, तें म्हाका ह्या पुस्तकांत मेळ्ळें.

म्हाका एक नवी नदर मेळ्ळी. एक नवी 'फिलॉसॉफी ऑफ लायफ' मेळ्ळी.

जिब्रानान आपलो धर्म संप्रदाय उबो केल्लो जाल्यार हांव ताची दीक्षा घेतलों आशिल्लों. जिब्रान सगळ्याच धर्म संप्रदायां आड आशिल्लो म्हूण वाटावलो. गांधी मेळ्ळा, तेन्ना ताका समजुपाक जिब्रानाचो म्हाका खूब आधार जाला.

वीस बावीस वर्सांची ही पिराय म्हळ्यार मोगांत पडपाची. पडिल्लोंय हांव.

'मोग तुमकां उलो मारता तेन्ना मोन्यांनी ताचे फाटल्यान वचात. ताची वाठ कठीण, त्रासांची, कांट्यांची-खुंट्यांची वा निसड्डी आसली जाल्यारूय... मोग तुमकां आपल्या पांखाट्या खाला घेता तेन्ना मोन्यांनी ताचे सुवादीन जायात. ताच्या पाखांट्या खालचे तरसादेन तुमकां घाय केले जाल्यारूय...' मोगाचो हो म्हयमा पटपाक कळाव लागलो ना. रोखडो पटलो. पुणून जिब्रानान जेन्ना हेंवूय सांगलें – 'एक लक्षांत दवरात: मोग तुमचे तकलेर मुकुटय चडयता तसो तो तुमकां खुरसारूय मारता' तेन्ना मोगा कडेन पळोवपाची नदरूच बदल्ली. मोगाची वाट धाडसाची, साहसाची, heroismची शी दिसली. मोग रोखडोच म्हजे उंचाये मेरेन चडलो आनी ओतांत थरथरपी म्हज्यो कोमन्यो आंकन्यो आंजारूंक लागलो. तसो तो म्हज्या मुळसा मेरेन देंवलो आनी घांस मारिल्ले जमनींत भितर वचून म्हज्या मुळांक खुनळावंकूय लागलो. पयलेच खेपे समजलें: 'मोग मोगा बगर कांय घेना, मोगा बगर कांय दिना. मोग आपणाक बांदुनूय घेना, दुसऱ्याकूय बांदून दवरिना. मोग मोगांतूच परिपूर्ण आसता.'

कितें तरी नवें मेळिल्ले वरी दिसलें. आनी मन खूब खूब खोलायेंत देंवलें. सगळीं थिल्लरपणां आपशींच गळून पडलीं.

जिचेर मोग तिचेच कडेन लग्न करप हें तर थरिल्लेंच. आनी एक 'आदर्श जोडपें' म्हूण लोकां मुखार रावप हेंवूय थरिल्लें. पुणून—

'आदर्श जोडपें' पळोवंक नाशिल्लें.

जें जोडपें एकामेकांत एकरूप एकजीव जालां तें 'आदर्श' अशें आयकत आयिल्लों. भोंवतणच्या संवसारांत पळेतालों तेन्ना दिसतालें: एकरूप एकजीव जावपाचें काम एकली बायलमनिसूच बाबडी करीत आयल्या. तीच आपलें वेगळेपण सोडून – सर्वधर्मान पारित्यज्य – घोवांत विरगळून गेल्या. घोव खंयच विरगळून गेल्लो पळोवंक नाशिल्लो. पतिव्रता बायलो पळेतालों तेन्ना बरेंय दिसतालें आनी खंय तरी चुकता चुकताशेंय दिसतालें.

जिब्रानान एक नवोच आदर्श मुखार दवरलो. ताणें सांगलें – 'तुमी दोगांय एकामेकां खातीर जल्मा आयल्यांत. तुमी एकामेकांच्या सांगातांतूच रावपाचें. पुणून तुमच्या ह्या सांगातांत तुमचे मजगतीं एक अंतर दवरूंक मात विसरूं नाकात. कित्याक, संवसारांत स्वर्गांतले वारे व्हांवतात. तांकां तुमचे मदल्यान व्हांवंक मेळूंक जाय.'

सामकोच नवो आदर्श हो. सांगातांत रावप, सांगातांत जियेवप. पुणून एकामेकां मजगतीं 'अंतर दवरून' एकामेकांच्या व्यक्तिमत्वाक बादा येवंक दिनासतना. तिका तीच दवरून हांवें हांवूच रावन. 'दोगांयनी एकामेकांचेर उपाट मोग करचो.' पुणून 'मोगाचो खोडो जावंक दिवचो न्हय...' 'एकामेकांक काळीज दिवचें. पुणून मुठींत दवरपाक न्हय. दोगांयनी एकामेकांचें कोप भरून दिवचें. पुणून एकाच कोपान पियेवचें न्हय... एकामेकांच्या सांगातांत रावचें. पुणून खेटून न्हय.'

मागीर कशें – तर खंय 'देवळाच्या खांब्यां भाशेन एकामेकां मदीं अंतर दवरून.' कित्याक, पिंपळ आनी वड एकामेकांचे सावळेंत केन्नाच वाडूंक पावनात.

हे नवे नदरेन भोंवतणच्या संवसारा कडेन पळोवंक लागलों तेन्ना पोरण्यो पतिव्रता बायलो – रागार जावचें न्हय कोणें – म्हाका सुखी रखेल्यां सारक्यो दिसपाक लागल्यो. आनी नव्यो - मॉडर्न - बायलो दुख्खी मालकिणी सारक्यो दिसल्यो.

म्हज्यांतलो 'घोव' आपशींच बदल्लो.

म्हाका म्हज्या खाजगी जिवितांतल्यो खबरी कोणाक केन्ना सांगच्यो-श्यो दिसल्यो नात. तितलें म्हज्या जिविताक मोलूय ना. पुणून एक गजाल केन्ना केन्ना भीड मुरवत कुशीन दवरून सांगचीशी दिसता. सांगतांय बी – लग्न जावन आतां आमकां पन्नास वर्सां जालीं. आमचो सभाव वेगळो. आमच्यो अभिरुची वेगळ्यो. आमचे आदर्शूय वेगळे. इतलेंय आसून ह्या पन्नास वर्सांच्या काळांत एक दीस लेगीत एकामेकांचेर तापिल्ल्याचो वा झगडलेल्याचो आमकां उगडास जायना.

आमच्या जिविताचेर जाल्लो जिब्रानाचोच हो प्रभाव अशें हांव मानतां.

'तुमचीं भुरगीं तुमचीं न्हय' हें तर सामकेंच नवें. आमचीं भुरगीं आमचीं न्हय जाल्यार, कोणाचीं? तर खंय जाणें हो संवसार रचलो ताचीं. संवसार उत्पत्ति, स्थिती, लयाचे प्रक्रियेंत 'चलत' आयला. तो खिणा खिणाक बदलता (म्हूण नवो ताल्ल दिसता). तो खंयच थांबना. एक सारको चलत रावता. हें सगळें ताच्यांत जें एक 'चैतन्य' काम करता तें घडोवन हाडटा. आमचीं भुरगीं ह्या चैतन्याचीं – हे विश्वजिणेचीं. 'आमगेर जालीं म्हूण आमचीं म्हणूं येनात. आमचे सरीं रावलीं म्हूण आमचीं जायनात.' जिब्रान म्हणटा: तुमी तांकां माया दियात. तांची अपुर्बाय करात. पुणून तुमचे विचार तांकां दिवं नाकात. तुमचे सारकीं तांकां करूं नाकात. कित्याक, तीं रावतात 'फाल्यांच्या घरांत – जंय तुमी सपनांत लेगीत केन्ना पावपाचीं नात.'

मागीर आवय-बापायचें काम कितें?

जिब्रान एक ओपार दिवन सांगता: जो हो संवसार चलयता तो अनंताचे वाटेर उबो आसा, हातांत एक धोणू घेवन. आवय-बापायच्या रुपाचें. तुमी ताच्या हातांतलें धोणू जावपाचें. तो बागयतलो तितलें बागवपाचें. तुमच्यांतल्यान तो तीर सोडटलो. हे तीर म्हळ्यार तुमचीं भुरगीं. देखून, 'तुमचें वागप पूर्ण धादोसकायेचें जावचें.' कित्याक, 'त्या धोणवाकाराक जितलो तिरांचो मोग तितलोच धोणवाचोय मोग.'

नव्या शिक्षणशास्त्राचो मंत्रूच हो नवो.

जिब्रानाच्या ह्या The Prophet पुस्तकाची शैली आनी मांडणी तागेलीच खाशेली: जिब्रानी. ताणें आल्-मुस्ताफा नांवाचो एक मनीस उबो केला, 'देवाच्या कंठांतलो'. कोण म्हणटात, खासा जिब्रानूच तो. हरशीं, आल्-मुस्ताफा म्हळ्यार पैगंबर. Prophet महमदाक लोक ह्या नांवान पाचारताले. जिब्रानाचो आल्-मुस्ताफा महमदा भाशेन एक संदेश घेवन जल्मा आयिल्लो – नव्या युगाचो. आयच्या संवसारांतलें सगळें कुसकें पाडें नष्टें ना करून नवो संवसार घडोवपाची प्रेरणा दिवपी संदेश हो. हो आल्-मुस्ताफा ऑर्फिलीज नांवाच्या एका शारांत आपल्या तारवाची वाट पळेत बारा वर्सां रावला. बाराव्या वर्सा तागेलें तारूं ताका व्हरपाक येता. ह्या तारवार चडचे पयलीं तो शारांतल्या देवळा कडेन वता. थंयच्या चौकार उबो रावता. थंय ताचे भोंवतणीं लोक एकठांय जातात. हांच्यांत भितर अल्-मित्रो नांवाची 'दिव्य नदर' आशिल्ली एकली बायल-मनीस आसता. ती ताचे म्हन्यांत येता आनी ताका म्हणटा, 'तुका व्हरपाक तुजें तारूं आयलां. तुका आतां वचचेंच पडटलें. तेन्ना, वचचे पयलीं एकं काम कर – तुका जें सत्य होलमलां तें आमकां सांग. म्हणटकूच, आमी तें आमच्या भुरग्यांक सांगतलीं. तीं तांच्या भुरग्यांक सांगतलीं. हे भाशेन तें संवसारांत घोळत रावतलें. केन्ना ना जावंक पावचें ना.' आनी आल्-मुस्ताफा आपणाक जें सत्य होलमलां तें सत्तावीस प्रवचनांनी थंय जमिल्ल्या लोकांक सांगता.

ह्या सत्तावीस प्रवचनांत किरिस्तांवांक ख्रिस्ताचे शिकवणेचें अर्क मेळूंक जाय. मुसलमानांक इस्लामाचें सार मेळूंक जाय आनी हिन्दूंक पुराय वेदान्त मेळूंक जाय.

इतलेंय आसून, संप्रदायांच्यो सगळ्यो वणटी मोडून मनीस भायर सरूंकूच जाय.

आयज मेरेन खंयच्याच धर्माक पातकाचो भंय घाले बगर वा पुण्याचें हांयस दाखयले बगर ब्रह्मज्ञान सांगूंक येवंक ना. जिब्रान कसलोच भंय घालिना. कसलेंच हांयस दाखयना. फकत 'सत्य' सांगता – उगडें नागडें आनी तें आमच्या काळजांत नीट भितर रिगून आमचें जिवीत बदलूंक लागता. एक पुराय जिणे-दिश्टी – एक 'फिलॉसॉफी ऑफ लायफ' आमकां तातूंत मेळटा.

जिब्रान जल्मान किरिस्तांव. किरिस्तांव जालो म्हूण ताका आपली अरबी परंपरा सोडपाची केन्ना गरज भासली ना. किरिस्तांवपणाच्या बुरख्या खाला तो येवरोपेव जालो ना. तो अरबीच उरलो आनी इतलेंय आसून पेल्यानूय गेलो. कोणें एकल्यान, एक खेपे ताका विचारलें, 'जिब्रान, तुगेलो धर्म खंयचो?'

'धर्म? हांव धर्म-बीर्म वळखना. हांव वळखतां तें फकत जीवन आनी जातुंतल्यान तें उदेलां तें चैतन्य.' जिब्रानान जाप दिली.

ताका ख्रिस्ताची खूब ओड. **Jesus, the Son of Man** नांवाचें तागेलें एक पुस्तक आसा. तें वाचतकच कोणूय जेजूच्या मोगांत पडटलो. बद्द मारी माग्डलेना भाशेन. इतलो ओडलायणो जेजू ताणें ह्या पुस्तकांत चितारला. इतलोच फरक: जिब्रानाचो हो जेजू किरिस्तांवांचो – वा म्हणुंया, इगर्जेचो जेजू न्ह[illegible] र नाझारेथाचो. जिब्रान म्हणी: शंबर शंबर वर्सांनी नाझारेथाचो जेजू किरिस्तांवा[illegible] जेजूक मेळपाक

येता. मेळ्ळे म्हणटकूच दोगूय दीसभर एकामेकां लागीं उलयत बसतात. निमाणें, नाझारेथाचो जेजू उबगता आनी किरिस्तांवांच्या जेजूक सांगता: 'बाबा रे, तूं कितेंय म्हण. म्हाका आनी तुका पडपाक ना' आनी अशें म्हणून तो उठून वता.

जिब्रान किरिस्तांव खरो. पुणून एक बंडखोर किरिस्तांव. एक तत्त्वज्ञ – परम तत्त्वाचो स्पर्श जाल्लो. एक साक्षात्कारी. Mystic अणभव आशिल्लो. एक गद्यकार. उपाट कवित्वान भरिल्लें गद्य बरोवपी, चित्रकार, शिल्पकार आनी संगीतकारूय म्हूण ताणें नांव जोडिल्लें. एक साहित्यकार. पुणून कलाविलासी न्हय. आनंद उक्तावपाचें वा दिवपाचें एक माध्यम वा साधन म्हूण साहित्या कडेन पळोवपी न्हय. तर, एक कलारसीक: 'जीवन उन्नत आनी समृद्ध करपाचें एक साधन म्हूण साहित्या कडेन पळोवपी. मनशान आपल्या जिविता कडेन कसले नदरेन पळोवचें हें समजावन सांगपाक ताणें The Prophet बरयलें. मनशाचें ताचे भोंवतणच्या समाजा कडेन कसले तरेचें नातें आसचें हें सांगपाक ताणें Garden of the Prophet बरयलें. तो Death of the Prophet नांवाचें एक पुस्तक बरोवपाचो आशिल्लो. मनशाचे आनी देवाचे संबंद समजावन सांगपाक. पुणून तें बरोवपाक घेवचे पयलींच ताच्या जिविताची यात्रा सोंपली. चाळीस जावचे पयलींच वा त्या अदमासाक तो भायर पडलो. ताचीं Broken Wings, Spirit Rebellious नांवाचीं दोन कथेचीं पुस्तकां आसात. कथेच्या तंत्रा-मंत्रांत तीं बसचीं नात, बसय नात. पुणून तीं वाचले उपरांत वाचप्यांक न्हीद पडची ना. कांय दीस तांकां उंडी लेगीत वचची ना. Madman, Wanderer नांवाचीं ताचीं आनीक दोन पुस्तकां आसात. इसापाच्या काणयां सारकीं. तीं वाचप्याक जिवितांत खंय तरी खोल खोल ओडून व्हेले बगर रावचीं नात. Sand and Foam नांवाचें ताणें सुभाषितांचें एक पुस्तक बरयलां. वाचतनाच दिसता, हांतल्या एका-एका विचारा फाटल्यान हागेलें रगत आटलां जावंक जाय.

सोक्रतिशान म्हळ्ळें: विचारांचें सौंदर्य आकृतिच्या सौंदर्या परस्सूय मन ओडून घेता. जिब्रान वाचतां तेन्ना म्हाका ताच्या एकान एका वाक्यांत विचारांचें सौंदर्य दिश्टी पडटा. आनी हांव म्हाकाच विचारतां – 'कित्याक?' आनी हांवूच म्हाका जाप दितां:

'कित्याक, जिब्रान सदां सत्यूच सांगता आनी सत्य सदांच सुंदर आसता.'

आतां जाणटेपणांत म्हाका पुराय जिब्रान पर्थून एक फावट वाचून काडचोसो दिसपाक लागलां. अरबी शिकोवपी कोणूय लागसार आशिल्लो जाल्या अरबी शिकतलों आशिल्लों आनी अरबींतल्यान जिब्रान कोंकणींत हाडटलों आशिल्लों. म्हाका जिब्रान कोंकणींत आयिल्लो जाय. पुणून इंग्रजींतल्यान न्हय, मूळ अरबींतल्यान. कोणूय हाडटलो एक दीस.

□ □

# १७

# फेर्नान्दु पेस्सोअ

ऑक्ताविय़ु पाझान म्हळां, poets don't have biographies. Their work is their biography. हेर कोणाय संबंदांत उलयता बरयता आसतना तो खंय जल्मा आयिल्लो, कोण आशिल्लो, कितें करतालो, असल्यो सगळ्यो गजाली सांगच्यो पडटात. कवी संबंदान उलयतना बरयतना असल्या गजालींक व्हडलें-शें म्हत्व ना. कवीक भायलें जिवीत नासता. आसता भितरलें जिवीत. Inner Life. तेंच तागेलें खरेलें जिवीत. आनी तें तागेले कवितेंत येता. कवितेंत तें उकतें जाल्लें पळोवंक मेळटा. कविचें जिवीत म्हळ्यार तागेली कविता. हें सत्य आनीक कोणाय परस चड आमकां फेर्नान्दु पेस्सोआच्या जिवितांत पळोवंक मेळटा.

फेर्नान्दु पेस्सोअ जल्माक आयलो लिज्बोआक. १३ जून १८८८ दिसा. बापूय न्याय खात्यांतलो एक अधिकारी. आवय एका घरंदाज घराण्यांतली चली – आस्सोरिश जुंव्यार वाडिल्ली. फेर्नान्दु पांच वर्सांचो आसतना बापूय टी.बी.न भायर पडलो. कांय दिसांनी आवयन दुसरें लग्न केलें. कोमान्दान्त जुआंव मिंगेल द रोझा नांवाच्या एका मनशा कडेन. लग्ना उपरांत रोखडीच कोमान्दान्त रोझाची नेमणूक दक्षीण आफ्रिकेंतल्या डर्बन शारांत पुर्तुगेज कोंसूल म्हूण जाली. परिणाम: फेर्नान्दु आवय आनी ह्या दुसऱ्या बापाय वांगडा दक्षीण आफ्रिकेक गेलो. सुमार धा वर्सां तो थंय उरलो. ताचें शिक्षण थंयच इंग्लीश भाशेंतल्यान जालें. सतरा वर्सांचे पिरायेर ताका आवयन पुर्तुगेज शिकपाक पुर्तुगालाक धाडून दिलो. एक दोन वर्सां लिसेवार तो थोडें भोव कितें शिकलो. मागीर लिसेवाच्या भुरग्यांनी संप केल्लो हें निमित्त धरून ताणें शिक्षण सोडून दिलें. सोडून दिलें तें सामकेंच सोडून दिलें. थोडे पयशे गांठीक आशिल्ले. ते गुंतोवन ताणें एक छापखानो काडलो. तातूंत अपेशी थरलो. सगळें होगडावन बसलो. निमाणें, पोटा खातीर ताणें एक काम सोदून काडलें. वेगळ्या वेगळ्या व्यापाऱ्यांगेर वचून तांगेलो व्यापारी पत्रवेव्हार पुर्तुगेजींतल्यान इंग्लेजींत, इंग्लेजींतल्यान पुर्तुगेजींत करून दिवपाचें. ताका फ्रांसेजूय बरी येताली. १९०८ पसून १९३५ मेरेच्या काळांत ताणें होच एक वावर पोटा खातीर केला.

१९१९त कोमान्दान्त रोझा भायर पडलो. हाका लागून फेर्नान्दाची आवय आफ्रिकेंतल्यान पुर्तुगालाक परतली – दुसऱ्या घोवा पसून जाल्ल्या दोगा चल्यांक आनी दोगी चलयांक घेवन. फेर्नान्दु तिचे सरीं रावपाक लागलो. १९२५त तीय भायर पडली.

ते उपरांत फेर्नान्दु एकलो जीव सदाशीव कसो जियेलो. लग्न जालो ना. पुणून मर्दी केन्ना एका वर्सा एके टायपिस्ट चलयेच्या मोगांत पडलो. पुणून मोग सफळ जावंक पावलो ना. ह्याय मळार तो अपेशी थरलो. 'अपेस' हें तागेल्या जिविताचें मुदल भांडवल.

पुर्तुगालाक येवन रावत पसून तो पुर्तुगालच्यान खंयच भायर गेलो ना. तें कित्याक, लिज्बोआ भायरूय खंयच गेलो ना. सिगरेटी खूब ओडटालो. सोरो खूब पियेतालो. सोऱ्याच्या ह्या व्यसनाक लागून तो ३० नवेम्बर १९३५ ह्या दिसा फिग्दाच्या दुयेंसान भायर पडलो. सत्तेचाळीस वर्सांचे पिरायेर.

फेर्नान्दु पेस्सोआच्या ह्या भायल्या जिवितांत नदरेंत भरपा सारकें कांयच ना. एक म्हत्व नाशिल्लें, अर्थ नाशिल्लें, एका किरकोळ मनशाचें अपेशी जिवीत हें. असले कितलेशे लोक येतात आनी वतात ह्या संवसारांत. वतकूच तांचें कोण नांव लेगीत घेना. पुणून फेर्नान्दु पेस्सोअ वचूंक ना, मरूंक ना, तो उरला. इतलेंच न्हय, तर ताचो प्रभाव तो मेले उपरांत एका सारको वाडत गेला. आयज कामोंइशा उपरांतचो सगळ्यांत व्हडलो पुर्तुगेज कवी म्हूण लोक ताचें नांव घेतात. फेर्नान्दु पेस्सोआचें भितरलें जिवीत समृद्ध आशिल्लें. तागेले कवितेंत तें प्रतिबिंबीत जाल्लें.

भायल्यान अपेशी, भितरल्यान समृद्ध जिवितानूच ताका कवी केल्लो.

कविता तो भुरगेपणा सावन बरोवपाक लागिल्लो. भुरगेपणांतल्यो तागेल्यो दोन कविता मेळटात. एक, स-सात वर्सांचे पिरायेर बरयल्ली. दुसरी, बारा तेरा वर्सांचो आसतना बरयल्ली, दोनूय पुर्तुगेज भाशेंतल्यो. पंदरा पसून एकवीस मेरेनचे पिरायेच्या काळांतल्यो तागेल्यो सुमार एकशें सात कविता मेळटात – इंग्लेज भाशेंत बरयल्ल्यो. कांय उजवाडा लेगीत आयल्यात. पुणून फेर्नान्दु पेस्सोआच्या नांवान न्हय. ताच्यांतल्या ॲलेक्झांडर सर्च नांवाच्या एका कविच्या नांवान. फेर्नान्दु पेस्सोआचें हें एक आगळें वेगळें आंग तो पुर्तुगेजींत बरोवपाक लागला तेन्ना चड नदरेंत भरलें. फेर्नान्दु पेस्सोआंत फकत फेर्नान्दु पेस्सोअ नांवाचो कवी नाशिल्लो. आल्वरु द काम्पुश, आल्बेर्तु कायेइरु, रिकार्दु रेइश असले एका परस अदीक कितलेशे कवी आशिल्ले – एकाच व्यक्तित्वांत कितलींशीं व्यक्तित्वां आसपाविल्लीं. शिकपा खातीर तो डरबनच्यान लिज्बोआक आयला ते उपरांत लेगीत कितलींशीं वर्सां इंग्लेजींतल्यानूच कविता बरयत रावला. तीस वर्सांचे पिरायेर ताणें शेक्सपियराच्या प्रभावांत येवन सुमार पस्तीस सुनितां बरयल्लीं – इंग्लेजींतूच. एक दोन दीर्घ कविता, ते भायर, बरेंचशें गद्य तो इंग्लेजींतल्यानूच बरयत रावला. म्हळ्यार, कामोंइशा उपरांतच्या ह्या व्हडांतल्या व्हड पुर्तुगेज कविची सुरवात एका इंग्लेज कविच्या रुपान जाल्या. इंग्लेजींत तो अखेर मेरेन बरयत रावला.

पुर्तुगेज भाशेंत तो पयलोच आयलो एक समीक्षक म्हूण. कवी म्हूण न्हय. ऊ पोर्तु शारांत **अ आगिया** नांवाचें एक नेमाळें भायर सरतालें. तातूंत ताणें एक लेखमाला बरयल्ली. पुर्तुगेज भाशेंत एक व्हड कवी जल्मा येतलो, जो कामोंइशा पेल्यान वतलो, जें जें कितें दोळ्यांक दिश्टी पडटा, ताचे पेल्यान वा ताचे भितर जें कितें आसा

त्या अणभवां पेलेकडल्या तत्त्वांचो सोद घेत, फकत पुर्तुगेज साहित्यूच न्हय, तर पुराय येवरोपेव साहित्य अणभवान गिरेस्त करतलो' हे तरेचो आत्मविस्वास ताणें हे लेखमालेंत उक्तायल्लो.

तो एके कडेन म्हणटा, खंयच्याय राष्ट्राची प्राणशक्ती, vitality मेजची जाल्यार ताच्या सैनिकी बळग्या कडेन वा उद्योगीक वैभवा कडेन पळोवन भागचें ना. असल्या गजालींक राष्ट्राच्या जिवितांत व्हडलेंशें म्हत्व ना. म्हत्व आसा तें ताच्या आत्म्याक. ताच्यांत नवे विचार, नवीं मुल्यां, नवी जीवनचर्या, नवें सृजन करपाची तांक आसा काय ना तें पळोवंक जाय. आनी ह्याच मापान त्या राष्ट्राचे प्राणशक्तिचो अदमास लावंक जाय.

येवरोपाची संस्कृताय घडयली रोम आनी ग्रॅसिया (ग्रीस) दोगायनीं मेळून. पुणून एक गजाल विसरूंक फावना: संस्कृताय निर्माण केली ग्रेसियेन. रोमान ती फकत पांतळायली. आयज रोमाचे फकत अवशेश उरल्यात. ग्रेसिया आमच्या विचारांत, भावनेंत जिवी तटटटीत उरल्या. रोम फकत स्मृतींत उरलां. ग्रेसिया आमच्या संस्कारांत अजून जिवी आसा.

फेर्नान्दु पेस्सोआक पुर्तुगाल ग्रेसिये भाशेन मुखार आयिल्लें जाय आशिल्लें. नव्या येवरोपाचेर ताचो खोल सांस्कृतीक प्रभाव पडिल्लो ज़ाय आशिल्लो. खासा तो आपणाले कवितेच्या माध्यमांतल्यान पुर्तुगालाक हें रूप दिवंक आंवडेतालो.

तो भायर पडला ते मेरेन पुर्तुगेज भाशेंत तागेलें एकूच कवितेचें पुस्तक भायर सरिल्लें – A Mensagem नांवाचें. सोळाव्या शतमाना मेरेनच्या पुर्तुगालाच्या इतिहासाची एक नवी symbolic आनी occultist – प्रतिकात्मक आनी रहस्यात्मक अर्थावणी तातूंत पळोवंक मेळटा. पुणून हें पुस्तक भायर सरलां ताच्या आदल्या वीस वर्सांच्या काळांत ताणें कितल्योश्यो कविता बरयल्ल्यो. तांतल्यो कांय Atena, Orpheu, Centauro, Presença सारक्या आडमृत्युचो योग घेवन जल्मा आयिल्ल्या नेमाळ्यांनी उजवाडा आयिल्ल्यो.

ह्या कवितांनी पुर्तुगालाच्या साहित्यीक संवसारांत तरांतरांचीं ल्हारां उठयल्यांत.

फेर्नान्दु पेस्सोअ खरो मुखार आयला तो तागेल्या मर्णा उपरांत – १९३५ उपरांत. एक ट्रंक भरत इतलें बरप दवरून तो गेल्लो. आतां मेरेन ह्या बरपाचे इकरा खंड उजवाडा आयल्यात. कवितां भायर Apologia do Paganismo, Crônicas intemporães सारकेले गद्याचेय कांय खंड तातूंत आसात. ह्या गद्याच्या खंडांत तागेलो नदरेंत भरता तो Livro do desassossego नांवाचो दोन खंडांत आयिल्लो ग्रंथ. एके तरेची आत्मकथा ही तागेल्या सृजनाचे प्रक्रियेची. इतलें दुख्खी आनी इतलें खोल पुस्तक पुर्तुगेज बरपावळींत दुसरें ना. लेखक म्हूण मात ताणें ह्या पुस्तकाक आपणालें नांव दिवंक ना. बेर्नार्दु सोआरिश हें नांव दिलां. फेर्नान्दु पेस्सोआचें आगळें वेगळें आंग तें हें. ताच्यांत एकलो फेर्नान्दु पेस्सोआच नांवाचो कवी वा चिंतक नाशिल्लो. ताच्यांत दुसरे कितलेशे स्वतंत्र व्यक्तिमत्वां आशिल्ले कवी आनी चिंतक आशिल्ले.

स्वतंत्र विचारांचे, स्वतंत्र प्रज्ञेचे. ताणेंच निर्माण केल्ले.

कांय जाण दुसरीं नांवां घेवन आपणालीं बरपां छापतात. पुणून नांवां दुसरीं आसलीं‍य जाल्यार बरप तांचेंच आसता. हिन्दींतलो सच्चिदानन्द हिरानन्द वात्स्यायन 'अज्ञेय' हें नांव घेवन बरयतालो. पुणून 'अज्ञेय' सच्चिदानन्द हिरानन्द वात्स्यायना परस वेगळो नाशिल्लो. फेर्नान्दु पेस्सोआचे आल्वरु द काम्पुश, आल्बेर्तु कायेइरु, रिकार्दु रेइश फेर्नान्दु पेस्सोअ नाशिल्ले. स्वतंत्र कवी आशिल्ले. विचारांत फेर्नान्दु पेस्सोआक आनी तांकां चडशें पडय नाशिल्लें. हेर कवी कविताच निर्माण करतात. फेर्नान्दु पेस्सोआन कवी निर्माण केल्यात. विश्वसाहित्यांतली एक अद्भुत घडणूक ही.

पेस्सोअ हें तागेलें आडनांव हे नदरेन उपाट अर्थान भरिल्लें दिसता. पेस्सोअ म्हळ्यार एक व्यक्ती, 'कोण न्हय' आसली. नांव गांव नाशिल्ली. परत, पेस्सोअ म्हळ्यार एक खाशेली व्यक्ती. केदेय भुरावळींत नदरेंत भरत असली – a face in the crowd. पेस्सोअ हें उतर लातींतल्या persona वेल्यान पुर्तुगेजींत आयलां. पेर्सोना म्हळ्यार रुपडें. नाटकांत तोंडार घालतात तसलें. वा म्हणुंया, सवंग. सवंग वेगळें, सवंग घेता तो वेगळो.

फेर्नान्दु पेस्सोआच्या व्यक्तिमत्वांत तागेल्या आडनांवाचे हे तिनूय अर्थ भरिल्ले. ताका आपणांत भितर एकीमेकींक कातरपी, एकीमेकीं आड वचपी कांय बडी दिश्टी पडटाल्यो. एके वटेन विवेकाची ओड तर दुसरे वटेन भोळ्या भावार्ताची बड. एके वटेन बंडाची ओड तर दुसरे वटेन परंपरेंत संतुश्ट रावपाची बड. एके वटेन खांतरी, दुसरे वटेन दुबाव. एके वटेन अख्ख्या संवसारा कडेन एकरूप जावपाची ओड तर दुसरे वटेन सगळ्यां पसून पयस एकलो रावपाची बड. हे रस्साकशींत आपूण केन्ना हे वटेन व्हांवन वतां, केन्ना ते वटेन वतां, कोण तरी आपणाक ओडून व्हरता अशें ताका दिसतालें. हाका लागून आपूण खरो कोण हेंच ताका समजनाशिल्लें. तो खासा आपणाक सोदतालो.

अवचीत एक दीस फेर्नान्दु पेस्सोआक फेर्नान्दु पेस्सोअ मेळ्ळो! जालें अशें – ८ मार्च १९१४ ह्या दिसाची खबर. हातांत कांय फोली घेवन तो कविता बरोवपाक बसलो. एके ऊंच इश्तांतिचेर (स्टुलाचेर) उबो रावन तो बरयतालो. ताची संवंय ही. बरयतां बरयतां ताका कितें जालें, ताकाच सारकें समजलें ना. ताका एके तरेची भाव समाधीशी लागली. कोण तरी ताच्यांत संचारलो आनी तो भरभरीत बरयत रावलो. हे तरेचो अणभव हाचे पयलीं ताका केन्ना येवंक नाशिल्लो. O guardador dos Rebanhos ह्या माथाळ्या खाला ताणें सुमार तीस-बत्तीस कविता – मात थांब नासतना – बरोवन काडल्यो. बरयता तो स्वता आपूण न्हय इतलें ताका कळिल्लें. दुसरो कोण ताचे कडल्यान बरोवन घेतालो. आल्बेर्तु कायेइरु म्हूण ताका ताणें नांवूय दिवन उडयलें. नांव दिना फुडें कितें म्हूण कोण जाणा, तो ताका आपणालो गुरू कसो दिसपाक लागलो. आपूण वेगळो आनी हो आपणा कडल्यान बरोवन घेता तो वेगळो अशें खोलायेंत दिसूंक लागना फुडें – तागेल्यो ह्यो तीस-बत्तीस कविता

सोंपोवन ताणें दुसऱ्यो फोली घेतल्यो आनी Chuva Obliqua नांवाच्यो आपणाल्यो फेर्नान्दु पेस्सोआच्यो पांच कविता बरोवन काडल्यो. फेर्नान्दु पेस्सोआक फेर्नान्दु पेस्सोअ आल्बेर्तु कायेइरान दिल्लो. मागीर आल्बेर्तु कायेइराक एक शिश्य दिवंक जाय अशें ताका दिसलें. तोय ताका ताच्यांत दिश्टी पडलो. ताचेर नदर थिरावता थंय आसा – दुसऱ्या तोंका वयल्यान आनीक एकलो तकली वयर काडून येता तो ताका दिश्टी पडलो. पयल्याक ताणें नांव दिलें रिकार्दु रेईश. दुसऱ्याक दिलें आल्वरु द काम्पुश... तांच्योय कविता ताणें बरोवन काडल्यो. हरशींय जाल्यार, कविता कशी 'येता' हें समजना. कविकूच सारकें सांगूंक येना. पुणून ती 'येता' ही गजाल खरी. तातूंत दुबाव ना. कविताच न्हय, निबंदूय येतात. कथाय येतात. सृजनाची ही प्रक्रिया मोटी गूढ. तिचो थाव लागना. फेर्नान्दु पेस्सोआंत जी ही प्रक्रिया चल्ली ती गुढांतली गूढ. ताका हे जे हे वटेन ते वटेन कोण ओडटाले तांकां ताणें, ताका खबर नासतना, आपणा पसून मुक्त केल्ले. तांकां खेरीत व्यक्तिमत्व दिवन तो मेकळो जाल्लो. आनी हे प्रक्रियेंतल्यान खासा तो, फेर्नान्दु पेस्सोअ, तांचे पसून मुक्त जाल्लो.

फेर्नान्दु पेस्सोआक तागेलें खाशेलें फेर्नान्दु पेस्सोअ हें व्यक्तिमत्व ह्या आल्बेर्त कायेइरु, रिकार्दु रेईश, आल्वरु द काम्पुश हांणी मेळोवन दिल्लें.

फाम एक मोटी विचित्र देवता—

एकाद्र्याचेर ती केन्ना केन्ना इतली प्रसन्न जाता की लोक कितलो तेंप ताचेंच नांव घेवपाक लागतात. एक दीस अवचीत फाम ताका सोडून वता. मागीर ताका सगळेच विसरतात. कांय जाणांचेर ती आरंभा सावन प्रसन्न जाता. ते आसासर तांच्या सांगातांत रावता. ते गेले उपरांत ती कडेक सरता. परिणाम: व्हडले व्हडले लोक एक दीस विस्मृतिच्या गुपाट काळखांत लिपून ना जावन वतात. कांय जाणांक ती मेले उपरांतूय कितलिंशींच वर्सां – केन्ना केन्ना युगांचीं युगां सांगात दीत रावता. पुणून कांय जाणांचेर ती ते मेले उपरांत प्रसन्न जाता. एक फावट प्रसन्न जातकूच, जिवो आसतना जाका कोण लेखी नाशिल्लो, ताका तो गेले उपरांत सगळेच मानपाक लागतात. इतलेंच न्हय, खंयच्याय जित्या मनशा परस चड ताचो प्रभाव लोक अणभवूंक लागतात.

काफ्काच्या वांट्याक हे तरेची फाम आयिल्ली.

फेर्नान्दु पेस्सोअ हांच्यांतलोच एक आशिल्लो. तो जिवो आशिल्लो तेन्ना – खुबूच थोडे लोक सोडल्यार – पुर्तुगालांत ताका कोण सारको वळखऽ लेगीत नाशिल्लो. तो गेलो आनी तो केदो व्हड मनीस आशिल्लो तें कळ्ळें. ताचो प्रभाव आतां सगळेच अणभवूंक लागल्यात. इतलेंच न्हय, तागेलो प्रभाव दिशीं दिशीं वाडत वचूंक लागला. आयज निखटो पुर्तुगाल न्हय, तर अख्खो संवसार फेर्नान्दु पेस्सोआ कडेन विश्वसाहित्यांतली एक अद्‌भुत घडणूक म्हूण पळोवपाक लागला.

'प' क 'प' आनी 'ट' क 'ट' जोडूंक आयलें म्हूण मनीस कवी जायना. कोडू

गोड अणभव छंदांत वा मुक्त छंदांत बसोवंक आयले म्हुण्णूय कोण कवी जायना. कसलीच पर्वा करी नासतना काळजाच्या खोल तळांत उडी घेवपाचें साहस जो करता तोच खरो कवी आसता. फेर्नान्दु पेस्सोआचें खरें व्हडपण ताच्या ह्या साहसांत आसा.

दुर्दैव म्हजें, तागेल्यो कविता वाचून दाखयतलों म्हळ्यार, आयज नवे पिळगेंतल्या कोंकणी बरप्यांत पुर्तुगेज जाणा जाल्लो कोणूच ना. आनीक कित्याक न्हय, फकत फेर्नान्दु पेस्सोअ वाचपाक आमकां पुर्तुगेज येवंक जाय आशिल्ली. आमी ती उरूंक दिवंक जाय आशिल्ली.

□ □

## १८

# उमाशंकर

मनीस ? फूंच. कवी म्हूण मात व्हड. असले जायते जाण संवसारभरच्या भासांनी पळोवंक मेळटात. मनीस म्हुण्णूय व्हड आनी कवी म्हुण्णूय व्हड, असले मात मेळूंक खुबूच कठीण. असल्या मेळूंक कठीण, अपरूप कवीं मजगतचे उमाशंकर जोशी एक आशिल्ले.

पांच दसकांचे तांचे साहित्य सेवे उपरांत आमी तांचे कडेन पळेतात तेन्ना गुजराती कवी म्हूण वयर सरिल्ले उमाशंकर फकत गुजराती कवी उरूंक नाशिल्ले, गुजरातींतूच बरोवन भारतीय कवी जाल्ले, कालिदास रवीन्द्रनाथांच्या पांवड्यार चडिल्ले आनी विश्वकवी जाल्ले म्हणपाचें दिसून येता. उमाशंकर आपणाली वळख केन्नाच गुजराती कवी म्हूण करून दिनाशिल्ले. 'हांव एक भारतीय कवी, गुजराती भाशेंत बरयतां' म्हुण्णूच करून दिताले. आनी लोकूय तांचे कडेन एक भारतीय कवी म्हुण्णूच पळेताले. रवीन्द्रनाथांचे विश्वभारतीचे आचार्य (चान्सलर) ते बेश्टे जावंक पावंक नाशिल्ले.

गुजरात राज्यांतल्या सांबरकांठा जिल्ल्यांतल्या बामणा नांवाच्या एका गरीब ब्राह्मण कुटुंबांत तांचो २१ जुलै १९११ ह्या दिसा जल्म जाल्लो. घरांत सान्न मार, आयदनां घांस, गोरवांक सोड, गोठो निवळ कर, शेण एकठांय कर, शेणी थाप – असलीं सगळीं कामां उमाशंकरांनी ल्हानपणांत मोटे उमेदीन केल्यांत. तांचें गुजराती चवथे यत्ते मेरेनचें मुळावें शिक्षण गांवांतूच जालें. फुडलें शिकपाक शेजारच्या 'इडर' गांवांत वचपाक लागले. मॅट्रिक शिकपाक अहमदाबादेक गेले. १९२८त ते मॅट्रिक जाले. ते मुस्तींत सिंध, गुजरात, महाराष्ट्र आनी कर्नाटकाचो अस्तमी वाटार मुम्बय इलाख्यांत मोडटालो. मॅट्रिकेची परिक्षा बॉम्बे युनिव्हर्सिटी घेताली. उमाशंकर तिसऱ्या नंबरार आयिल्ले. कॉलेजचें शिक्षण घेवपाक अहमदाबादेंत पावले. आनी जिस्त ह्या वेळार—

महात्मा गांधींनी देश पेटयलो. शेंकड्यांनी तरणाटे, शाळा कॉलेजां सोडून सत्याग्रहांत पडले. उमाशंकरूय पडले. पयलीं साबरमतीचे, उपरांत येरवड्याचे बंदखणींत चौदा सप्तकां उरले. ते मुस्तींतल्यो बंदखणी एके तरेचीं विद्यापिठां आसतालीं. उमाशंकर बंदखणिच्या ह्या विद्यापिठांत मराठी, बंगाली आनी उर्दू ह्यो तीन भासो शिकले. बंदखणींतल्यान सुटून आयले आनी पांय आपशींच गुजरात विद्यापिठाचे दिकेन चलपाक लागले.

आनी विद्यापिठांत तांकां काकासाहेब मेळ्ळे.

उमाशंकर मुम्बयच्या एल्फिन्स्टन कॉलेजांत शिकल्यात. अर्थशास्त्र आनी इतिहास

घेवन बी.ए. जाल्यात. गुजराती आनी संस्कृत घेवन एम्.ए. जाल्यात. पुणून सदांच आपणाक काकासाहेबांचे विद्यार्थी मानीत आयल्यात. तांच्या कविच्या पिंडाक काकासायबांचीच पोसवण मेळ्ळ्या. वीस वर्सांचे आसतना ते तांचे सरीं पाविल्ले. ते पिरायेर तांणी 'विश्वशान्ति' नांवाचें एक खंडकाव्य बरयलें.

आनी रातयांच गुजरातभर 'फायचो एक व्हड कवी' म्हूण तांचें नांव जालें.

ते मेरेन नानालाल आनी मुनशी गुजराती बरपावळिचे मानदंड थरिल्ले. 'विश्वशान्ति' उपरांत उमाशंकर गरगरीत वाडत गेले ते पांच सात वर्सा भितर गुजराती कवितेचेच न्हय, तर गुजरातचे पुराय सांस्कृतीक जिणेचे मापदंड म्हूण मुखार आयले. **गंगोत्री, निशीथ, प्राचीना, आतिथ्य, वसंतवर्षा, महाप्रस्थान, अभिज्ञा, धारावस्त्र, सप्तपदी** — १९३१ पसून १९८१ मेरेनच्या पन्नास वर्सांच्या काळांत तांगेले एका फाटल्यान एक कवितांचे झेले उजवाडा आयल्यात. 'त्यां दूरथी मंगल शब्द आवतो / शताब्दिओना चिरशांत घुम्मटो / गजावतो, चेतनमंत्र गावतो' ह्या वळिंनी सुरू जाल्ली तांची कविता 'छेल्लो शब्द मौनने ज कहेवानो होय छे' हे वळीन सोंपल्या. 'शब्द' तांकां संवसारांतल्या खांची कोनशांनी घेवन गेला. ते चीन पळोवन आयल्यात. सिंगापूर, इण्डोनेशिया, मलाया, लंका ह्या देशांनीय वचून आयल्यात. येवरोपांतल्या सगळ्या देशांनी भोंवल्यात. सोवियत संघ, इजिप्त, जपान, कोरिया ह्या देशांक भेटी दिवन आयल्यात. गांधी-युगाच्या प्रभावान संस्कारीत जाल्ली तांगेली कविचेतना राष्ट्रचेतने कडेन आनी विश्वचेतने कडेन अशी कितें अद्भुत रितीन एकरूप जाल्ली की साहित्याच्या कितल्याश्या रुपांचेर तिचे संस्कार जाले. उमाशंकरांनी कथा नवलकथा, एकांकी, नाटकां, निबंध, प्रवासवर्णनां, विवेचनां बरयल्यांत. हाताक स्पर्शमणी आशिल्ले भाशेन जाका तांणी हात लायला ताचें भांगर केलां.

स्थान, मान, धन, भौमान कितेंच मागपाक उमाशंकर केन्ना कोणाच कडेन गेले नात. पुणून गुजरात युनिव्हर्सिटिचें गुजरातीचें अध्यापकपद, ताच्या भाषा-साहित्य-विभागाचें नियामकपद, कुलपतिपद, राज्यसभेचें सभासदपद, गुजरात साहित्य परिषदेचें, युनिव्हर्सिटी ग्रांट्स् कमिशनचें आनी केन्द्रीय साहित्य अकादेमीचें अध्यक्षपद, विश्वभारती-शांतिनिकेतनचें आचार्यपद, हीं सगळीं पदां तांकां सोदीत तांच्या पांयां कडेन आयल्यांत. आनी तांणी तीं कुशळतायेन सांबाळ्ळ्यांत. इतलेंच न्हय तर खूब बरे तरेन सोबयल्यांत. त्या वेळार तांचे व्यवहारदक्षते वांगडाच तांगेलें सात्वीक बळूय खूब जाणांनी उकताडा आयिल्लें पळेलां. तांणी केन्ना कोणाची खुशामत केली ना. केन्ना कोणाची उवेखणीय केली ना. 'उवेखे न कोईने' ही तांची नामना. पुणून तेच बराबर कोडू सत्य उलोवपाकूय ते केन्ना फाटीं फुडें सरूंक नात.

३६ वर्सांचे पिरायेर अवचीत तांणी घरकान्नीक म्हळें, 'चल, संस्कृति सुरू करूंया' आनी एक म्हयनाळें सुरू केलें. 'म्हयनाळें सुरू करूंया' म्हळें ना. 'संस्कृति' सुरू करूंया म्हळें. जल्मा पयलींच नांव मेळिल्लें. आठ्ठीस वर्सा तांणी तें चलयलें. 'मॉडेल' म्हूण रामानंद चटर्जींचें 'मॉडर्न रिव्ह्यू' मुखार आशिल्लें. म्हयन्या-म्हयन्याक एक

तारखेर 'मॉर्डन रिव्ह्यू' भायर सरतालें आनी वायसरॉय तशे गांधी ताची उत्सुकतायेन वाट पळेताले. **संस्कृति** हेच तरेचें एक नेमाळें आशिल्लें. पत्रकारितेच्यो कितल्योश्यो तरा आसात. उमाशंकरांनी 'साहित्यिक पत्रकारिता' म्हूण एक नवी तरा सुरू केल्ली. कथा, कविता, नाटकुलीं, निबंध असलें बरप तर तातूंत येतालेंच. ते भायर, देश विदेशांतल्या राजकी, सामाजीक, सांस्कृतीक घडामोडिंचेर उमाशंकरांचें भाष्यूय येतालें. तांकां दोगी धुवो. **संस्कृति**क ते आपणाली तिसरी धूव लेखताले. तांकां हुस्को तो ह्या तिगी धुवांचो. खंयूय वचूं, **संस्कृति** थरल्या ते तारखेर भायर सरुंकूच जाय हो तांचो नेम. जीव ओतून तांणी हें नेमाळें केळयल्लें. ४१६ आंक काडून १९८४तल्या डिसेंबरांत तांणी निमाणो आंक पोस्टांत घालो तेन्ना तांच्या दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो झरी व्हांवपाक लागिल्ल्यो. **संस्कृति**चें 'ऑफिस' नाशिल्लें. तेच (आनी तांगेली घरकान्न – घरकान्न भायर पडटकूच, तांगेल्यो दोगूय धुवो) तें चलयताले. म्हळ्यार, बरोवप, आयिल्लें बरप निवळावप, प्रुफां पळोवप, रॅपराचेर पटयेकारांचे पत्ते बरोवप, तिकेटी दसोवप सगळें तेच करताले. गुजरात युनिव्हर्सिटिचो हो कुलपती, विश्वभारतीचो हो आचार्य, गुजराती सारस्वतांतलो व्हडांतलो व्हड एक सारस्वत 'असलीं' कामां करता तें पळोवन खूब जाणांक अजाप जातालें. पुणून उमाशंकरांक ताचें व्हडपण आशिल्लें. भाशेची सेवा म्हळ्यार ते भाशेंत बरोवप इतलेंच व्हय तर? भास वयर काडपा खातीर जें जें करूंक जाय तितलेंय करप हीच भाशेची सेवा अशें तांचें म्हणणें आशिल्लें. **संस्कृति**न कितलेशे नवे कवी, नवे साहित्यकार गुजराती भाशेक दिल्यात. **संस्कृति**ंत जाचें बरप येता तो गुजरातींतलो 'व्हड साहित्यकार' आसता अशी ह्या नेमाळ्याची प्रतिष्ठा आशिल्ली.

गुजरातीपण सोडी नासतना विश्वमानव जावं येता हें **संस्कृति**न दाखोवन दिलां. **संस्कृति**चे खंड आयज गुजराती बरपावळिचो एक व्हडलो खजिनो, एक व्हडलें भांडार जालां. जाचे कडेन ते आसात तो संस्कृतायेच्या मळा वयलो गिरेस्त मनीस अशें लोक मानतात.

कवी ह्या उतराच्या मूळ अर्थानूय उमाशंकर एक कवी आशिल्ले. व्यास कवी आशिल्ले, महाभारत रचलें ह्याच अर्थान फकत न्हय. महाभारतांतल्या उचांबळीत वातावरणांत घुस्पल्ले आसतनाय धा आंगळां सगळ्यां परस ऊंच राविल्ले, ह्या अर्थान. वाल्मीकी कवी आशिल्ले. क्रौंच-वध पळोवन कळवळून आयिल्ले आनी ह्या कळवळ्यान तांणी रामायण रचिल्लें, ह्याच अर्थान फकत न्हय. घोवान सोडिल्ले सीतेक लव-कुशा वांगडा रामाच्या दरबारांत घेवन गेल्ले एक महामानव ह्याय अर्थान. रवीन्द्रनाथ कवी आशिल्ले, शांतिनिकेतनांतल्या नाच गाण्याच्या वातावरणांत रावन सुंदर सुंदर कविता रचपी ह्याच अर्थान न्हय. तर बंगालचे फाळणेच्या उज्यांत उडी घेवन ह्या धगधगत्या वातावरणांत लोकांक स्फूर्त दिवपी कविता रचपी ह्याय अर्थान. उमाशंकरूय अशेच एक 'कमिटेड' कवी आशिल्ले. तांणी स्वराज्या आदल्या काळांत सत्याग्रह केल्यात, बंदखणी भोगल्यात. स्वराज्यांत उतार पिरायेरूय ते सरकारा आड उबे रावल्यात.

देशांत जें घडटा मोडटा ताचेर जागरूक नदर दवरून रावल्यात. बऱ्यांतलो बरो एक शिक्षक – ग्रीक ट्रॅजडिंचेर जितले रुचीन उलोवपी, तितलेच रुचीन प्रेमानंदाचेर उलोवपी, हो विद्यार्थी-प्रिय प्राध्यापक गरज पडल्या तेन्ना इन्दिरा गांधींचे कान पिळपाकूय फुरफुरून मुखार आयला. १९७४/७५च्या काळांत गुजरात राज्यांतल्या नवनिर्माण आंदोलना वेळार ते रविशंकर महाराजां वांगडा गुजरात राज्यांतल्या शिक्षक विद्यार्थ्यांक घेवन चलल्यात.

उमाशंकर म्हळ्यार उमाशंकर. गांधींच्या प्रभावांत आयले, काकासायबांची पोसवण घेवन वाडले. पुणून अखेर मेरेन उमाशंकरूच उरले. कोणाच कडेन जांची सर करूंक येना असले. एकमेव. Unique.

१९८८त डिसेंबराचे १९ तारखेर ७७ वर्सांचे उतार पिरायेर तांणी निमाणो स्वास घेतला तेन्ना —

गुजरातच्या संस्कारी समाजाक एक म्हालम्हातारो वड कोंसळून पडचो आनी पुराय संवसार उकतो उकतो दिसचो अशेंशें कितें जालां. पुणून तांणीच म्हळ्ळें —

'नाम मारूं गुजराती भाषा मां ओगळी गयुं छे' – म्हजें नांव म्हजे भाशेंत विरगळून गेलां. उमाशंकर गुजराती भाशेंत साकरे भशेन विरगळून रावल्यात.

□ □

# १९

# बाकीबाब

बाकीबाबांच्यो खुबश्यो मराठी कोंकणी कविता हांवें खासा तांच्याच तोंडांतल्यान आयकल्यात. तांणी म्हाका त्यो म्हणून दाखयल्यात. पुणून हें भाग्य म्हाकाच एकल्याक मेळ्ळां, अशें म्हणू येना. तांगेल्या सगळ्या इश्टांक तें मेळ्ळां. तांगेलें इश्ट-मित्रांचें 'सर्कल' खूब व्हडलें आशिल्लें. तरांतरांचे लोक तातूंत पळोवंक मेळटाले. तांच्यांत कांय अशेय आसताले की जांकां कवितेंतलें मातूय कितें समजनाशिल्लें. 'म्हजे कवितेंतल्यान तांकांय कितें-न्हय-कितें मेळ्ळे बगर रावचें ना ह्या भावार्तान हांव तांकां त्यो म्हणून दाखयतां', बाकीबाब म्हणटाले.

पुणून कविच्या तोंडांतल्यान कविता आयकूंक मेळप वेगळें आनी कवीक कविता 'येतात' त्यो 'पळोवपाचें' भाग्य मेळप वेगळें. तांकां कविता 'येतात' त्यो पळोवपाचें भाग्य म्हाका मेळ्ळां. आमची वळख गोंयची. पुणून दाटी मुम्बयंत जाल्ली. मुम्बयंत गांवदेवीक ते आपणाल्या बापोलभावागेर -- वसंतबाबागेर -- रावताले. हांव आत्र्या-पयऱ्यान सांजचो तांकां मेळपाक थंय वतालों. म्हाका घेवन तांणी, मागीर, भायर सरचें. चलत चौपाटीर वचचें आनी मरीन ड्रायव्ह मेरेन चलत रावचें. अर्द वर वचपाक, अर्द वर परतुपाक -- मेळून एका वराची आमची ही पासय जाताली. ह्या एका वरांत कितल्यो खबरी तांणी सांगच्यो! आनी कितल्या तरांच्यो! बाकीबाबां सारको तोंडभर उलोवपी, रुचीन गजाली सांगपी दुसरो गोंयकार म्हाका अजून मेळूंक ना. केन्ना कविते संबंदान उलोवचें, तर केन्ना पळेल्ल्या कांय व्हड मनशां संबंदान सांगचें. गोंयचे संस्कृताये विकृताये संबंदान तर खूब उलोवचें. केन्ना आपणा संबंदानूय खूब कितें कितें सांगचें. सगळें आयकुपा सारकें आसतालें.

एक खेपे चौपाटी वयल्या टिळकांच्या पुतळ्या सरीं एकलो भिकारी तांचे मुखार हात मुखार करून उबो रावलो. बाकीबाबांनी रोखडोच बोल्सांत हात घालो आनी बोल्सांत आशिल्ले दोन अडेच रुपये -- सगळे -- काडून ताच्या हातार दवरले. म्हाका अजाप! बाकीबाब हिमटे, दमडी कोणाक दिवचे नात, अशी मनाचेर तांची छाप आशिल्ली. मात्शे मुखार वतकूच हांवें तांकां म्हळें, 'बाकीबाब, एका आण्यान भागतलें आशिल्लें... बोल्स रिकामें करपाची कसली गरज आशिल्ली?' बाकीबाबांनी अजापान म्हज्या तोंडा कडेन पळोवन म्हळें, 'तूं वळखलो ना ताका? तो भिकारी न्हय... गोंयचो एक व्हडांतलो व्हड मनीस तो. आयज जांकां तूं व्हड मानता तांकां सगळ्यांक लोक विसरतले त्या वेळारूय लोक हाचो उगडास काडटले... हो उरतलो...'

'कोण तो ?'

'चित्रकार रघुवीर चिमुलकार... पिसो जाला बाबडो.'

हांवें फाटल्यान मान घुंवडावन पळेलें. चिमुलकार धोलत धोलत भिकणां खायत वतालो.

'दिव्यत्वाची जेथे प्रचीती' थंय बाकीबाबांचे हात आपशींच जुळटात तें हांवें म्हज्या दोळ्यांनी त्या दिसा पळेलें. चित्रकार, संगितकार, शिल्पकार, कवी हांचे विशीं बाकीबाबांक सुमार भायर आदर. खासा बाकीबाबांत एक कवी आशिल्लो, तसो एक चित्रकारूय आशिल्लो. तांणी आपणाले घरकान्निचो एक पोर्ट्रॅट काडिल्लो. 'पिरायेचीं साठ जातकूच हांव रवीन्द्रनाथां भाशेन ब्रश हातांत घेतलों आनी जें आतां मेरेन उतरांतल्यान उक्तायत आयलां तें रंगांतल्यान उबें करूंक लागतलों... तुर्ताक कवितेचें अग्निहोत्र हातांत घेतलां. म्हजी ही साधना पयलीं पूर्ण जावंक जाय' अशें एक फावट तांणी म्हाका म्हळ्ळें.

एक फावट आमी सदचे वरीच पासयेक गेल्ले. विल्सन कॉलेजा कडेन रस्तो क्रॉस करून चौपाटीर गेले आनी मरीन ड्रायव्हचे दिकेन चलपाक लागले. अजाप म्हळ्यार, बाकीबाब मोन्यांनी चलताले, कांयच उलयनाशिल्ले. 'कितें जालां काय, देवा ?' म्हाका प्रस्न पडलो. 'भुरग्यांची बी याद आयली काय ?' भुरगीं मुम्बयंत नाशिल्लीं. बेळगांवां काय खंय तरी आसतालीं. बाकीबाबांचो भुरग्यांचेर जीव हें हांवें पळेल्लें. विचारपाचो म्हाका धीर जालो ना. बाकीबाबांचो इतलो सुको सांगात म्हाका केन्ना मेळूंक नाशिल्लो. हांवूय तांचे वरी मोन्यांनी चलत रावलों. परत येतना विल्सन कॉलेजा कडेन पावले तेन्ना 'बरें, बाकीबाब, येतां हांव' अशें सदचे वरी म्हळें. हांव तांकां सदां हांगाच सोडटालों.

'राव, म्हजे बरोबर यो. तुका कितें दाखयतां' अशें म्हणून म्हाका ते गांवदेवीक वसंतबाबागेर घेवन गेले. घरा पावनाफुडें भितर वचून आपणाली डायरी घेवन आयले. तिचेर एक कविता बरोवन काडली आनी म्हाका वाचून दाखयली. 'जीवन त्यांना कळले हो, मीपण ज्यांचे पक्व फळावरी सहजतेने गळलें हो' ही ती तांगेली – उपरांत खूब गाजिल्ली – कविता आशिल्ली. एक बऱ्यांतली बरी कविता आयकल्ल्याची खोस तर जालीच. पुणून मराठींतली एक व्हड कविता जल्माक आयिल्ली 'पळोवपाचें' भाग्य मेळ्ळें हे गजालिची चड खोस जाली. बाकीबाब ते मुस्तींत गांधी-परिवारांतल्या कांय आगळ्या वेगळ्या विभूतिंच्या सहवासांत पाविल्ले. तांच्यांतल्यान उक्ताडा आयिल्लें गांधींचें दिव्यत्व तांणी पळेल्लें. दिव्यत्वाचे हे 'प्रचीती' मुखार तांचे हात आपशीं जुळिल्ले.

आनीक एका दिसाची खबर —

बाकीबाब गांधींक खूब मानताले. ते तांकां मेळिल्ले. तांचे कडेन उलयल्ले. ते भायर, काकासायबां उदेशीं तांकां ते 'वळखल्ले'. गांधींचे उतार पिरायेर तांगेलो संवसार मातयेभरवण करून तांची जशी कितें सत्वपरिक्षा घेवपाचो वावर नियतीन

हातांत घेतिल्लो. ही परिक्षा दिवपाक गांधी मुखार सरिल्ले. उदेंत बंगालांतल्या नोआखालींत मुसलमानांनी हिन्दुंचेर आगळिको केल्ल्यो. हिन्दूंक धीर दिवपा खातीर गांधी नोआखालींत गेल्ले. अनवाणयां एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत भोंवपाक लागले. असल्या ह्या खर कसवटणेच्या काळार कोणें एकल्यान तांचे कडेन संदेश मागलो आनी गांधींनी ताच्या ऑटोग्राफ बुकार बंगाली भाशेंत संदेश बरोवन दिलो – आमार जीबन इ आमार बानी, My life is my message. दुसऱ्या दिसा देशांतल्या सगळ्या खबरेपत्रांचेर ही खबर छापून आयली. बाकीबाबांनी ती वाचली. ते उचांबळीत जाले. तांच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागलीं. रोखडीच डायरी घेतली आनी पंदरा वीस मिनटां भितर 'आमार जीबन इ आमार बानी' नांवाची एक सुंदर कविता मराठींत बरोवन काडली.

हेय कवितेचो जल्म म्हज्या दोळ्यां मुखार जाल्लो हांवें पळेला.

'अशो कविता कशो येतात तुमकां?' हांवें तांकां एक फावट विचारलें.

'किर्ते जाता, समजना... थाव लागना... कविता अवचीत येता आनी तीच म्हजे कडल्यान आपणाक बरोवन घेता... हांव तेन्ना हांव नासतां.' तांणी जाप दिल्ली.

कविता बरोवन जातकूच ती कोणाक तरी वाचून दाखयले बगर तांकां सूख लागनाशिल्लें. तांच्या सभावाच्या ह्या आंगाचो म्हाका एक फावट विचित्र तरेन दिश्टावो जाला. हांव गांधींक समजून घेतलों अशें थारावन वर्ध्याक गेल्लों. काकासायबांच्या आश्रमांत रावतालों. (काकासायबां कडेन बाकीबाबांनीच म्हजी वळख करून दिल्ली.)

अवचीत एक दीस एक टांगो येवन आमच्या घरा मुखार थांबलो. कोण काय म्हूण पळेत जाल्यार, टांग्यांतल्यान बाकीबाब देंवतात. 'बाकीबाब, तुमी हांगा?' हांवें अजापान तांकां विचारलें.

'नागपुराक एका कविसंमेलनाक वचूंक भायर सरिल्लों... वाटेर गाडयेंत एक कविता आयली. ती तुका वाचून दाखोवपाक 'जर्नी ब्रेक' केल्या. सांजचे गाडयेन वतलों.' ही जाप दिवन तांणी कविता वाचून दाखयली – 'काळखी रात आसून वाटेर पुनव कशी ओत्ता / येता नगर सुंदरता सपनवासवदत्ता' – वासवदत्तेचे कथेचेर तांकां एक संगीतिका बरोवपाची आशिल्ली. तिचें पयलेंच कडवें तांकां मुम्बय-वर्ध्या मेरेनच्या प्रवासांत 'आयिल्लें'. आठ धा वळीच आयिल्ल्यो. त्यो तांणी वाचून दाखयल्यो. आयकून म्हज्या दोळ्यांतल्यान भळऽ भळऽ करून दुकां व्हांवपाक लागलीं. 'म्हजीं न्हय हीं दुकां, बाकीबाब... शणै गोंयबाबांचीं दुकां हीं... तांकां कोंकणींत असल्यो कविता आयकूंक मेळूंक नाशिल्ल्यो.' हांवें म्हळें.

बाकीबाबांनी ही संगीतिका पूर्ण कित्याक केली ना, तांकां केन्ना सारक सांगूक आयलेंना. तांणी 'महात्मायनू'य पूर्ण केलें ना. 'ज्या पांवड्यार हांव चडटां ताच्या वयल्या पांवड्यार चडूंक आयलेंना जाल्यार हांव थांबतां' इतलीच एक जाप ते दिताले. तांगेले 'संजीवनी' संगीतिकेन कोंकणी चळवळींत प्राण फुंकिल्लो. 'वासवदत्ता' हे चळवळीक वेगळीच एक गती दितली आशिल्ली. 'म्हाका वयर चडूंक आयलें

ना जाल्यार हांव थांबतां' हें बाकीबाबांचे प्रतिभेचें एक म्हत्वाचें आंग. आमच्यांतल्या खूब जाणांक 'थांबूंक' केन्ना आयलें ना. म्हूण जिते आसतनाच ते सोंपल्यात. बाकीबाब आयुश्याच्या निमाण्या खिणा मेरेन चडत राविल्ले. 'नाहीं पुण्याची मोजणी, नाहीं पापाची टोंचणी / जिणे गंगौघाचें पाणी' असली कविता उतार पिरायेर फकत बाकीबाबांकूच 'येवपाची'. आनीक कोणाक न्हय.

आपूण कवी हाचो बाकीबाबांक व्हडलो अभिमान आशिल्लो. फोन वाजनाफुडें रिसिव्हर हातांत घेवचो आनी 'पोएट बोरकर स्पीकिंग' अशी तांणी सदां सुरवात करची. एक फावट मनोहरराय सरदेसायांक तांणी म्हजे हुजीर म्हळ्ळें, 'जाणां मरे मनोहर, तुका एक गजाल सांगूंक सोदतां. तूं फ्रॅंच भाशेचो विद्वान, म्हाका खबर आसा. आयज प्रोफेसर आसशीत, फाल्यां एम्बासेडर जाशीत, परां आनीक कोण जाशीत. पुणून तूं कवी हें मात केन्ना विसरूं नाका आं... प्रोफेसर, एम्बासेडर हांचे परस तूं कितलोसो व्हड. तूं कवी. आपणाली वळख करून दितना 'हांव कवी मनोहरराय सरदेसाय' अशीच करून दी, कळ्ळें?'

मनोहररायां वयल्यान एक उगडास जालो —

गोंय मेकळें जाल्लें. रोखडेच आमचे कांय स्वातंत्र्य सैनीक लोहियांक आपोवपाक गेले. लोहिया पुण्यांत आशिल्ले. 'स्वतंत्र गोंयांतल्या पयल्या अठरा जुनाक तुमी गोंयांत आसचे म्हूण आपोवपाक आयल्यात आमी.' तांणी लोहियांक म्हळें. 'अब तो क्या... अब तो भेड भी जा सकती है... वह दिन गये जब सिर्फ शेर ही जा सकते थे', लोहियांनी तांकां जाप दिली.

पुणून लोहिया ते. स्वातंत्र्य सैनिकांक ना कशे म्हणटले? 'हमारे बेटे हो तुम' अशें म्हणून आयले. ४६तले चळवळींत आपणाक लोहियांचे वारस मानपी कांय जाण लोहिया गोंयांत येतात हें कळनाफुडें बेळगांवां-बिळगांवां पळून गेले. आपूण तांचे बरोबर आशिल्लों हें 'वयर' कळत जाल्यार हांगासल्ली आपणाली गादी वचत ह्या भंयान. खरो भंय बाकीबाबांक आशिल्लो. कित्याक, पणजेच्या आकाशवाणी केन्द्रांत ते एक अधिकारी आशिल्ले. म्हळ्यार, सरकारी नोकर आशिल्ले. तांणी पर्वा केली ना. 'लोहिया गोंयांत येवन हांवें तांचे बरोबर नासप, हें सोबता म्हाका?... जावं दी कितें जाता तें' अशें म्हणून तांणी चार दिसांची 'लीव्ह' घेतली आनी चारूय दीस ते लोहियां बरोबर भोंवले. दोंगरेर एक सभा जाल्ली. लोहियांचें उलोवप जातकूच लोकांनी बाकीबाबांक उलोवंक सांगलें. बाकीबाब उठले. 'हांव एक कवी... हांव तुमकां एक कविता वाचून दाखयतां' अशें म्हणून तांणी 'आग्वादाच्या शिंवा तुवें हाडली आमकां जाग' ही मनोहररायांची कविता वाचून दाखयली. खासा मनोहररायांक येवची नाशिल्ली इतली बरी वाचून दाखयली. 'बोरकरजी, आप बड़े कवि अवश्य हैं, लेकिन कवि से आप बड़े इन्सान हैं, यह आज मालूम हुआ' अशें म्हणून लोहियांनी तांकां म्हळें, 'हिन्दींतलो खंयचोच म्हालगडो कवी आपणा परस पिरायेन ल्हान कविची कविता अशी चार चौगांत वाचून दाखोवचो ना...' बाकीबाबांक तेन्ना खोस जाल्या

ती ल्हाना समानांतली न्हय.

गोंय मेकळें जाले उपरांत सुरवातिच्या काळांत सप्तकांत एक खेपे तरी बाकीबाबांनी पिरवळा आमगेर येवचें. एक रात आमगेर सारवची. मागीर रातचें देड दोन मेरेन आमच्यो खबरी चलच्यो. एक खेपे हांवें तांकां रवीन्द्रनाथांची एक बंगाली कविता वाचून ·दाखयली. उपनिषद-काळांतल्या सत्यकाम जाबालीच्या जिवितांतल्या एका प्रसंगाचेर आधारिल्ली कविता आशिल्ली ही. सत्यकामाक वेद शिकपाचे आसतात. तो गौतम रुशी सरीं वता. 'बाबा रे, ब्राह्मणां बगर वेद कोणाक शिकोवंक येनात... तुजी जात खंयची?' अशें रुशी ताका विचारता. 'म्हजी जात? हांव नकळ... आवयक विचारून येतां' अशी सत्यकाम जाप दिता आनी जात विचारपाक तो आवय सरीं वता. आवय म्हणटा, 'पुता, तुजी जात खंयची, म्हाका सांगूक येवपाचें ना. तरणेपणांत हांव खूब जाणांगेर वावराक आशिल्लीं... तांचे भितरल्या एकल्या कोणा पसून तूं जाला.' सत्यकाम परतौ येता आनी आवयन सांगिल्लें गौतम रुशीक सांगता. आश्रमांतले भुरगे खुक् करून हांसतात. म्हणटासर रुशी आसना वयलो उठ्ठा. मुखार वता. सत्यकामाक घट्ट वेंगेंत घेता, आनी म्हणटा, 'अब्राह्मण नोहे तुमि तात / तुमि द्विजोत्तम, सत्यकुलजात.' तुका न्हय जाल्यार आनीक कोणाक शिकयतलों हांव वेद? कविता आयकनाफुडें बाकीबाबांचें काळीज भरून आयलें. 'देवनागरींत घालून दी म्हाका ही कविता,' म्हाका म्हळें. हांवें देवनागरींत घाली. 'आतां फोल आनी पेन घेवन यो.' हांवें फोल आनी पेन हाडून दिलें. सिगरेट पेटयली. एक दोन झुरके घेतले आनी वीस पंचवीस मिणटां भितर तांणी ही कविता कोंकणींत करून दिली. रवीन्द्रनाथांच्याच छंदांत, खंयच खाडाखोड करी नासतना. असल्यो णव कविता हांवें तांचे कडल्यान कोंकणींत करून घेतिल्ल्यो. 'कंठमणी' ह्या नांवान त्यो आतां पुस्तका रुपान आमी छापल्यात. 'एकोत्तरशतीं'तल्यो रवीन्द्रनाथांच्यो शंबरूय कविता म्हाका तांचे कडल्यान कोंकणींत करून घेवपाच्यो आशिल्ल्यो. रवीन्द्रनाथांच्याच मूळ छंदांत. 'आमी एके कडेन रावले जाल्यार कितलें काम करूंक पावतले, तुका खबर आसा?' तांणी म्हळ्ळें. पुणून—

ते मेरेन बाकीबाबांचें 'सर्कल' बदल्लेलें.

गोंयकारांक केन्ना आपणाले व्हड मनीस वळखुंकूच आयले नात. म्हाका एका प्रसंगाचो उगडास जाता—

गोंय १९ डिसेंबर १९६१ ह्या दिसा मेकळें जालें. तें रवीन्द्रनाथांचें शताब्दी वर्स आशिल्लें. जवाहरलाल साहित्य अकादमीचे अध्यक्ष आशिल्ले. तांणी संवसारांतल्या बावन्न भासांतल्या कवी-कवियत्रींक आमंत्रण दिवन भारतांत आपयल्ले. मोट्या दबाज्यान हो उत्सव देशभर चलिल्लो. एक उत्सव दिल्लींत जाल्लो. जवाहरलाल ताका हाजीर आशिल्ले. आनी ह्या उत्सवाचे यजमान बाकीबाब आशिल्ले. गोंय मेकळें जाल्ल्यान गोंयानूय मे ६२त रवीन्द्र-शताब्दी उत्सव मनयलो. सगळे आयिल्ले – पत्रकार, इतिहासकार, प्रोफेसर, इंजीनियर, दोतोर, आदोगाद. फकत—

बाकीबाबांक आमंत्रण नाशिल्लें!

त्या दिसा बाकीबाबांचें विषादान भरिल्लें जें तोंड पळेल्लें तें ह्या खिणा मेरेन दोळ्यां मुखावयलें हालना. तेंच तोंड पर्थून एक फावट पळोवंक मेळ्ळें – मराठी साहित्य संमेलनाच्या अध्यक्षपदाचे वेंचणुकेंत ते 'पडले' तेन्ना. मुजरत सांगूंक जाय (ना जाल्यार, बिर्मत फुट्टली), तांकां वेंचणुकेंत उडयले ते गोंयच्या मराठीवाद्यांनी, महाराष्ट्रांतल्या लोकांनी न्हय. कित्याक उडयले? तर खंय ते मराठींत बरयतात जाले तरूय 'मराठीचे मनीस' नाशिल्ले, मराठीक आपली आवय-भास मानपी नाशिल्ले. कोंकणीक आपली भास मानपी आशिल्ले. ज्ञानपीठ अवॉर्डूय तांकां ह्याच एका कारणाक लागून मेळूंक पावलो ना. एका वर्सा सोळा भासांची चाळणी करून ज्ञानपीठ समिती मुखार दान नावा आयिल्लीं. एक असमिया भाशेंतल्या वीरेन्द्र भट्टाचार्यांचें. दुसरें मराठींतल्या बा.भ. बोरकरांचें – बाकीबाबांचें. बाकीबाब कोंकणीचे, मराठीचे न्हय, अशें म्हणून ज्ञानपीठाच्या मराठी सल्लागार मंडळान तांकां 'डिस्क्वॉलिफाय' केले!

बाकीबाबांनी मराठीची जितली सेवा केल्या तितली गोंयच्या खंयच्याच मराठीवाद्यान करूंक ना. मराठीन गोंयकारांक खूब दिलां. पुणून गोंयकारांनी मराठी कडल्यान घेतिल्लें सगळें रीण एका बाकीबाबान कळंतरा सयत फारीक केलां, हें कशे विसरतात हे लोक, समजना.

बाकीबाबांत अवगूण नाशिल्ले अशें कोण म्हणटा? व्हडले व्हडले अवगूण आशिल्ले. पुणून व्हडले व्हडले गुणूय खूब आशिल्ले. ते आपणा संबंदान खूब उलयताले हो तांचो एक अवगूण कांय जाण दाखयतात. पुणून तांच्या तोंडांतल्यान केन्ना कोणाची निंदा कोणें आयकल्या व्हय? तीन-साडेतीन दसकांची आमची दाटी. हांवें केन्नाच कोणाची निंदा तांच्या तोंडांतल्यान आयकूंक ना. साहित्याच्या मळार तांणी केन्ना कोणाची तुस्त केल्या जाल्यार ती मना पसून केल्या. वयल्याचाराची करूंक ना. सगळ्यांक हाचो अणभव आयला. तांणी फाट थापटिल्या तेन्ना सगळ्यांचें हड्डें फुलून आयलां. म्हाकाय असले कितले-शे अणभव आयल्यात.

तत्त्वाचो प्रस्न आयला तेन्ना बाकीबाब घट्ट रावल्यात. गोंय मेकळें जालें आनी त्याच वर्सा पणजेंत गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनाचें अधिवेशन भरलें. गोंय गिळपाचें महाराष्ट्राचें तें पयलें पावल आशिल्लें. हांवें बाकीबाबाक वचून विचारलें, 'तूं ह्या अधिवेशनाक वतलो?'

'म्हाका आमंत्रण आसा. आनी एका संमेलनाचो हांव स्वागताध्यक्ष आशिल्लों म्हूण थंय वचपाचो म्हाका अधिकारूय आसा.' बाकीबाबान जाप दिली.

हांवें म्हळें, 'तुका केदोय अधिकार आसूं वा तुका केदोय आग्रो आसूं, तूं वचूं नाका.'

बाकीबांबान म्हाका कित्याक कितें कात कितेंच विचारलें ना. 'बरें आसा' इतलीच जाप दिली.

बाकीबाब गेलो ना. आमी सगळे गेल्ले. गोंया आड कितेंय घडलें जाल्यार अधिवेशनूच

मोडून घालतले ह्या निल्शयान गेल्ले.

आमची खरी चळवळ त्या दिसा सावन सुरू जाल्या.

'घरचे भेदी, भायले चोर, सांगात तांकां वास्सीमोर' अशें आड्डत आड्डत आमी त्या दिसा पणजी सगळी उमथी घाल्ली. त्याच दिसा गोंयान कूस परतिल्ली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं हांव बाकीबाबागेर च्याक गेल्लों. जिस्त त्या वेळार तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी तांगेर आयिल्ले पळेले. तांचे वांगडा आनीक दोग तीग जाण आशिल्ले. एकल्याचो उगडास जाता: वि.गं. देशपांड्यांचो. त्या वेळार ते 'गोमंतकां'त काम करताले. दुसऱ्या दोगांत एक घडये बांदोडकार आसूं येतात. सारको उगडास जायना. तिसऱ्याची मातूय याद जायना. सातोसकार जायत? तर्कतीर्थान बाकीबाबाक म्हळें, 'साताऱ्याक मराठी साहित्य संमेलनाचें अधिवेशन भरपाचें आसा. तुका अध्यक्ष करचो अशें आमच्या सगळ्यांच्या मनांत आसा. परंतु कोंकणी विषयींची तुमची भूमिका काय राहील हें प्रथम जरा स्पष्ट करा.'

बाकीबाबा संबंदान जायतें कितें कितें आयकल्लें. ताचे संबंदान म्हजे तरेतरेचे समज गैरसमज आशिल्ले. बाकीबाब कितें जाप दिता ती आयकुपाक हांव उचांबळीत जालों.

बाकीबाबान जाप दिली, 'गेल्या चाळीस वर्षांपासून मराठी शारदेची सेवा करीत आलों आहे. तिची पावती म्हणून जर हें अध्यक्षपद देणार असाल तर अत्यंत कृतज्ञतेनं स्वीकार करतों.'

रोखडोच बाकीबाबाचो सूर बदल्लो. तो तीख जालो. आनी म्हज्या कानार आनीक एक वाक्य पडलें — 'परंतु कोंकणी विषयींच्या माझ्या विचारांना मी मुरड घालावी म्हणून जर तुम्ही मला ही लांच देणार असाल तर लक्षांत ठेवा, बोरकर स्वत:ला विकणारा माणूस नाही.'

तर्कतीर्थान म्हळें, 'तुम्ही प्रतिभावंत आहांत...'

तर्कतीर्थाचें वाक्य पूर्ण जावंकूच नाशिल्लें. बाकीबाबान तें पूर्ण केलें, 'मी प्रज्ञावंतही आहे.'

बाकीबाबांक वचून आतां एक तप जायत आयलें! खरें दिसना. अजुनूय ते म्हज्या दोळ्यां मुखार येतात आनी ते नात ह्या विचारान दोळे भरून येतात. पुराय आसमंत उकतो उकतो दिसचो तशें शें कितें दिसपाक लागता.

□ □

# २०

# चा. फ्रा.

एकुणीसशें बावन्न काय त्रेपन्नांतली खबर. मुम्बयच्या आकाशवाणी केन्द्रा वयल्यान कोंकणी कार्यावळिंचें वितरावप सुरू जालें. हांव त्या दिसांनी वर्ध्याक आसतालों. मोटें उत्सुकतायेन कार्यावळी आयकूंक लागलों. पयल्याच सप्तकांत 'वाट पळेतां, दुकां गळयतां / दोळे गेले सुजून' आनी 'ती पालोवं नाका जोत, तुका जोडले दोनूय हात' हीं बयाभावालीं दोन गितां सोडून तिसरें गीत आयकूंक मेळ्ळें ना. म्हजेर कलकल आयलो. 'कोंकणींत गितां बरोवन दिवपी कोणूच कसो मुखार आयलो ना?' हांवें हुसक्यान म्हजे म्हाकाच प्रस्न केलो. तिडक बाकीबाबांची मारली. 'तांणी बरोवन दिवपाचें न्हय?' अशें दिसलें. आमचें दैन्य पळोवन मराठीवादी खोश्शी खोश्शी जाले. काका गाडगीळ तांगेले फुडारी. तांणी घोशणा केली, 'कोंकणी कार्यावळी सुरू करतल्यांक आतां पच्छाताप जाले बगर रावचो ना... एका म्हयन्या भितर तांकां त्यो बंद करच्यो पडटल्यो... पळेशात तुमी.' अशा वेळार कान्त काणेकार, यशवंत केळेकार असल्या ज्या दोग तीग कविंनी नवीं नवीं गितां बरोवन आकाशवाणीक दिलीं तांच्यांतले एक चा.फ्रा. द कॉश्त आशिल्ले. तांगेलें 'कोंबलेबाबांनो, साद रे घाला / आमगेर आयज बाबू जाला' हें गीत मुम्बयंत रावतल्या गोंय-कारवार-मंगळूर कडल्या दर एकल्या कोंकणी भाशीक घरांत ल्हान-व्हड सगळ्यांचे जिबेर दुसऱ्याच सप्तकांत घोळपाक लागलें.

कान्त काणेकार, यशवंत केळेकार हांकां वळखतालों. हो चा.फ्रा. कोण, नकळ आशिल्लों. एक दीस हेच कोंकणी कार्यावळींत तांच्याच ताळ्यान तांचीच एक कविता आयकूंक मेळ्ळी —

*आलमारींत बूक, बुकांत कविता / वाचूंक आशेलों*
*किरकोळ वाळय, वाचून गेली / हांव खर्शेलों*

निमाण्यो वळी आशिल्ल्यो —

*काळशेलां मळब, मळबार नेकेत्रां / मेजूंक आशेलो*
*मवाली पोर मेजून गेलो / हांव खर्शेलों.*

कविता आयकून खोश्शी खोश्शी जालों. म्हळें, चा.फ्रा. फकत गीतकार न्हय. एक व्हडं कवीय बी. आकाशवाणी वयल्यान कोंकणी कार्यावळी सुरू जावंक नाशिल्ल्यो जाल्यार असलो एक कवी कोंकणींत आसा म्हणपाची खबर लेगीत आमकां कळची नाशिल्ली.

कांय काळान मुम्बय पावलों. सगळ्यांत पयली भेट आकाशवाणीक दिली. विष्णू नायक कोंकणी कार्यावळिंचे निर्देशक आशिल्ले. नव्या नव्या लोकांक आकाशवाणीचेर हाडून कोंकणीची दीक्षा दिवपाच्या कामांत गुल्ल जाल्ले. तांकां मेळ्ळों. थंयच चा.फ्रां.ची वळख जाली. पयलेच भेटेंत आमी जशे कितें एकामेकांक युगां युगां सावन वळखतात असोसो भास जालो. दोग जिवाभावाचे इश्ट बऱ्याच तेंपान एकामेकांक मेळचे तशे आमी मेळ्ळे. विष्णूबाब, चा.फ्रा. आनी हांव धोबीतलावा वयल्या एका रेस्तोरांत वचून बसले. थंय चा.फ्रा.च्याच तोंडांतल्यान तांच्यो आनीक कांय कविता आयकल्यो. 'चा.फ्रां.च्यो कविता फकत आयकुपाच्यो नासतात. त्यो पळोवपाच्यो आसतात. चा.फ्रा. आपणाल्यो कविता फकत आपणाल्या ताळ्यान म्हणिनात; हातांनी, बोटांनी, दोळ्यांनीय म्हणून दाखयंतात. तांगेल्या आंगां आंगांतल्यान तांगेल्यो कविता फुलून येतात' अशें मनोहररायांनी हालीं म्हळां तें पयलेच भेटेंत हांवें अणभवलें.

वळख वाडत गेली तशी तशी चा.फ्रा.च्या जिवितार्चीं दुसरींय आंगां इल्लीं इल्लीं करून स्पस्ट जायत रावलीं. चा.फ्रां.क फकत कवी म्हूण वळखतालों. तांच्या जिविताच्या एकाच आंगाची वळख आशिल्ली. एक दीस चा.फ्रा. एक व्हड पत्रकारूय म्हणपाची जाणवीक जाली. **पयणारी** नांवाचें एक कोंकणी नेमाळें कन्नड लिपयेंत ते चलयताले. **पयणारी** म्हळ्यार आपणालो गांव सोडून पयस गेल्ले लोक – एमिग्रंट. सप्तका सप्तकाक उजवाडा येवपी ह्या नेमाळ्याचे सत्तर हजार पटयेकार आसात म्हूण कळ्ळें. ह्या नेमाळ्याक लागून चा.फ्रा.ची फकत कवी म्हूण न्हय, तर कोंकणींतले बऱ्यांतले बरे एक गद्यकार, शैलीकार म्हुण्णूय नामना जाल्ली. विष्णू नायक तांगेल्या गद्याचे एक भक्त आशिल्ले. **पयणारीं**तले तांगेले अग्रलेख कन्नड लिपी जाणा आशिल्ल्यां कडल्यान नागरींत घालून घेताले आनी मोटे रुचीन वाचताले, आमकांय वाचून दाखयताले.

कांय दिसांनी आनीक एक सोद लागलो —

चा.फ्रा. पत्रकारांत चार चौगां सारके पत्रकार न्हय. एक 'मिशन' घेवन बशिल्ले पत्रकार म्हणपाचें कळ्ळें. ते 'न्यूज' दिवन संतोस मानपी पत्रकार न्हय, 'व्ह्यूज' दिवन वाचप्यांक चिंतूंक लावपी एक पत्रकार म्हणपाचें समजलें. एक विचारवंत, विचारवंतांत प्रगतिशीळ, प्रगतिशिळांत कृतिशीळ म्हणपाचें कळ्ळें. समाजांत ज्यो कितल्योश्यो नश्ट्यो, पाड्यो, कुसक्यो रुढी चलतात त्यो पाळांमुळां सयत हुमटावन उडोवंक वावुरपी एक 'ॲक्टिविस्ट' म्हणपाचें समजलें. ते मुर्स्तीत तांणी हुंड्या आड एक चळवळ चलयल्ली. मंगळूरी किरिस्तांवां भितर ज्या लग्नांत हुंडो घेतला वा दिला म्हणपाचें कळटालें थंय काळे बावटे दाखोवन निदर्शनां करताले. दोन तीन निदर्शनांनी हांवेंय तांचो सांगाती जावन वांटो घेतला. आनी तांगेले सांगाती तांकां कितले मानतात तें पळेलां.

चा.फ्रा. मुदलांतले कोडयाळचे – मंगळूरचे. नोकरी सोदीत मुम्बय पाविल्ले आनी खंय तरी नोकरी करताले. फाविल्ल्या वेळांत **पयणारी**चें संपादन, कवितांचें लेखन

आनी चळवळिचें संचालन करताले. आपणाक ते 'गोंयकार' लेखताले. मंगळूरचे किरिस्तांव मुदलांतले गोंयकार. बाटाबाटी वेळार जशे गोंयचे हिन्दू गोंय सोडून पळून गेल्ले तशे इगर्जेन 'इंकिझिसांव' सुरू करिनाफुडें बाटून किरिस्तांव जाल्ले गोंयकारूय पळून मंगळूराक गेल्ले. गोंयच्या किरिस्तांवांचेर इगर्जेचो धेंक आशिल्लो तसो मंगळूरच्या किरिस्तांवांचेरूय आशिल्लो. पुणून गोंयांत इगर्ज किरिस्तांवपणा परस फिरंगीपणाचेर चड भर दीत आयिल्ली. मंगळूरांतले इगर्जेचेर ही दायकी नाशिल्ली. जाल्यारूय इगर्ज ही इगर्जूच आशिल्ली. तिच्या सुरांत सूर मेळोवन जो चल्लो ना त्या किरिस्तांवांक पिडापीड भोगोवपाक ती केन्ना अनमनूंक ना. फादर माश्कारॅन्यशांक तिणें थोडी पिडापीड भोगोवंक ना. चा.फ्रा.य तिच्या दावकुलांतल्यान सुटूंक नात. पिडापीड तांच्याय वांट्याक आयली.

मुम्बयंत तांची बलायकी इबाडली म्हूण ते मुम्बय सोडून कोडयाळाक येवन रावले. आयुष्यांतलीं निमाणीं पंचवीस-तीस वर्सां तांचीं कोडयाळांत सरलीं. मुम्बयंत चलयल्ले वावर तांणी हांगाय चलयले. नेमाळीं चलोवप, जंय जंय अन्याय जाता थंय थंय अन्याय परतून लावपाक लिखणेची तरसाद करून मुखार सरप, तरांतरांच्यो चळवळी चलोवप हो वावर तांणी कोडयाळांतूय चलयलो. परिणामी, समाजांतले थांय-बसकेक लागिल्ले – establishmentतले खुबशे जाण तांचे आड गेले. हाका लागून चा.फ्रां.चें जिवीत बरेंच त्रासांत गेलें. आरोग्यूय इबाडलें. पुणून चा.फ्रा. हाल्ले नात. सभाव नित्शयाच्या मेरू सारको. मोडटलों पुणून कमर बागोवचों ना हे तरेचो. मुम्बयंतूच हांवें तांचो हो सभाव पळेल्लो. आमची पयलीच वळख जाल्या त्या वेळार चा.फ्रां.च्या दोळ्यांक दाट भिंगाचें एक ऑक्ल आशिल्लें. एक दीस तांच्या हातांत हॅन्री बेंजामीनाचें 'बॅटर सायट विदाउट ग्लासिस' नांवाचें पुस्तक पडलें. तातूंत सांगिल्ले दोळ्यांचे सगळे व्यायाम करपाचो तांणी नित्शय केलो आनी स म्हयन्यां भितर नदर 'नॉर्माल' केली. ऑक्ल जें त्या वेळार गेल्लें तें परतें केन्ना दोळ्यांचेर चडूंक पावलें ना. असल्या ह्या सभावाक लागून जे छळ तांकां सोंसचे पडल्यात ते सगळे तांणी मोन्यांनी सोंसले. सगळे काळजांत सांठोवन दवरले. तांचें जें भितर रसायन जालें तातुंतल्यान तांचें साहित्य 'आयलें'. चा.फ्रां.चें साहित्य तांच्या जिविताचें एक उपफल म्हणूंक जाय. एक 'बायप्रॉडक्ट' लेखूंक जाय. तांणी बऱ्यांतल्यो बऱ्यो कविता बरयल्यो. **सोंशाचे कान** ह्या पुस्तकांत त्यो एकठांय गुंथिल्ल्यो पळोवंक मेळटात. तांणी बऱ्यांतलीं बरीं नाटकां बरयलीं. 'सुणें माजर हांसता', 'तर्नें तर्नें मोर्नें' हीं तांगेलीं नाटकां खंयचेय भाशेक अभिमान दिसचो हे तरेचीं. अश्टतासांचो साहित्यकार हो आमचे भाशेंतलो. 'भारतीय' आकाराचो.

कोणाच्या स्रापाक लागून कोण जाणा, कोंकणी समाज अजून 'एक भाशीक समाज' म्हूण मुखार येवंक पावूंक ना. चलत आयिल्ल्यो रिती-रविसो, चाली, नेम, परंपरा हांच्या बांदपासांत आपणाक बांदून घेतिल्लो समाज हो. तो मात् पसून बदलूंक तयार ना. परिणामीं, कन्नड भाशेंत बरोवपी गिरीश कर्नाड, यशवंत चित्ताल बी साहित्यकार

आमचे इतलेच शंबर प्रतिशत कोंकणी आसुनूय कन्नड साहित्यकार म्हूण नांवाजते जाल्यात. बाकीबाब, लक्ष्मणरावां सारकेले कोंकणी मनीस मराठी साहित्यकार म्हूण मुखार सरल्यात. कर्नाड चित्ताल गोंयकारांक आपले दिसनात आनी बाकीबाब लक्ष्मणराव कर्णाटकांतल्या कोंकणी समाजाक आपले दिसनात. चा.फ्रा. कोंकणी साहित्यकार. कोडयाळांतले. आनी कोडयाळ कर्नाटकांतलें. पुणून कन्नड लोकांक ते आपले केन्ना दिसले नात. तशे किरिस्तांव आसुनूय मंगळूरचे जाल्ल्यान गोंयच्या किरिस्तांवांक आपले दिसले नात.

वेगळ्या वेगळ्या संवसारांत वांटून गेल्लो कोंकणी समाज 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' ह्या सुतांत आपणाक गुंथून घेवंक पाविल्लो जाल्यार देवगडा सावन कोची मेरेन शिंपडिल्लो कोंकणी समाज चा.फ्रां.क माथ्यार घेवन नाचतलो आशिल्लो.

चा.फ्रा. फकत मंगळूरच्या किरिस्तांवांचे आनी गोंयांतल्या देवनागरी कोंकणींत बरयतल्या हिन्दूंचे कवी जावन उरले. भारतीय आकाराच्या ह्या कोंकणी कवीक आमी समस्त कोंकणी समाजाचो कवी करूंक पावले नात.

खंतिची गजाल म्हळ्यार, आमी एक भाशीक समाज म्हूण संघटीत जावंक जाय हाची जाणवीक लेगीत अजून कोणाक जायना. कोंकणी समाजाचे परंपरा-पुजे मुखार सगळ्यांक हार खावची पडल्या. एक जावंया, एक जावंया, म्हूण सगळ्यांक सांगीत तीन पिळग्यांचें रगत आटलें. आनीक कितल्या पिळग्यांच्या रगताची कोंकणी समाजाक तान लागल्या जातली, कोण जाणा.

चा.फ्रां.क थोडो भोव संतोस भोगलो तो तांगेल्या आयुश्यांतल्या निमाण्या वर्सा. साहित्य अकादेमीची तसरीप तांकां मेळ्ळी त्या निमित्त्यान मंगळूरांत तांगेल्या इश्टांनी तांचो एक भौमान-सुवाळो घडोवन हाडलो. सगळ्या थरांतले लोक ह्या सुवाळ्याक आयले. तांगेले राजकी-सामाजीक विरोधकूय आयले. 'जावं, म्हजो समाज सामको बेइमान न्हय' अशें तांकां दिसलें. पुणून—

जिविताक उबगून बलायकी इबाडून घेतिल्ली. बलायकेन तांकां आधार दिलो ना. हेच अवस्तेंत एक दीस तांणी आपणाली जिविताची यात्रा सोंपयली.

याद येता तेन्ना म्हजेंच एक आंग गळून पडिल्ले वरी म्हाका दिसता.

□ □

# २१

# एक विशाळ नवलकथा

Voina i Mir म्हळ्यार, ''झूज आनी थंडाय'', War and Peace. ही नवलकथा बरोवन जातकूच खासा टॉलस्तॉयानूच खंय आपणाल्या एका इश्टाक बरयल्लें, 'हाचे आदलें म्हजें सगळें बरप भुरग्यांचो खेळ कशें धरूंक जाय.' आनी खरेंच हाचे आदलें ताचेंच न्हय, दुसऱ्यांचेंय बी (आनी ताचे उपरांतचें सगळ्यांचेंच) बरप हे एके नवलकथे मुखार 'भुरग्यांचो खेळ' कशें दिसता.

आकांताचें पुस्तक हें. आकारानूय आनी आशयानूय. बद्द विश्वामित्राचे नवे सृश्टी सारकें. सुमार पांचशीं साठ ल्हान-व्हड मनशां आसात हातूंत. एकूय पात्र अडेचें न्हय. हाची गरज ना, अशें म्हणून एकूय भायर उडोवंक येना.

तांतलीं स पात्रां म्हत्वाचीं: पीयर, आंद्रेई, नाताशा, मारिया, निकोलाय आनी सोनया. हांचे भोंवतणी टॉलस्तॉयान हे नवलकथेचें पुराय कथानक विणलां.

पीयर काउंट बेझुहोव्हाचो पूत. लग्नाचे बायलेचो न्हय. अनौरस म्हणटात तसलो. असले खंय ताका कितलेशेच पूत आशिल्ले. खासा ताकाच हिशेब नाशिल्लो. पीयराक ताणें फ्रांसाक धाडून दिल्लो. शिकपा खातीर. नवलकथा सुरू जाता तेन्ना तो फ्रांसाक सावन परतो आयिल्लो आसता. आंगान वांटकुळो, पळोवपाक व्हडलोसो न्हय, नदरेंत भरना असलो. पुणून ताचें तोंड भुरग्यां सारकें. भोळें, पातका-मेकळें. सभ्य समाजाच्यो चालिरिती ताका खबर नात. शिश्टाचार बावडो नकळ. फ्रान्साक राविल्ल्यान जावंये वा तरणे पिरायेचो जाल्ल्यान जावंये, तो नेपोलियनाचो भक्त.

आंद्रेई पीयरा परस पिरायेन व्हड. ताचें तरणेपण सोंपलां आनी जाणटेपणांत ताणें पावल घालां. दिसपाक उजवो. देखणो. ताच्या तोंडार बुद्दिचें तेज मारतालें. निश्चयूय उफेवन दिसतालो. सभावान पीयरा परस सामकोच वेगळो. उरफाटो म्हळ्यार जाता. पीयर सदांच उमेदीन भरिल्लो दिसता. आंद्रेई सदांच उबगल्लो, वाजेल्लो आसता. थिल्लर खबरी ताका माननात. त्यो आयकल्यो म्हणटकूच तो उबगता.

ताका पीयराची ओड. सभावान वेगळो आसुनूय पीयरा कडेन ताची इश्टागत.

आमकां सुरवातिकूच हे दोगूय एके मदलसेंत मेळटात.

मदलस सोंपतकूच आंद्रेई पीयराक आपणागेर व्हरता. थंय दोगांयच्यो पोटभर खबरी जातात. थंयच दोगांयचो सभाव उकतो जाता. पीयराचो बापूय काउंट बेझुहोव्ह आसता मॉस्कोंत. तो पीयराक पीटर्सबर्गाक वच म्हणटा. मुखावेली 'करिअर' वेंचून काडपाक. पीयर अजून ती वेंचूंक पावूंक ना. आंद्रेई ताका विचारता, 'तशें जाल्यार

मागीर, तूं सैन्यांत कित्याक भरती जायना?' पीयर भरती जातलो आशिल्लो. पूण सैन्याची तयारी चल्ल्या नेपोलियना आड झुजपाची आनी पीयर नेपोलियनाचो भक्त. तो ताचे आड कसो झुजतलो? आंद्रेई म्हणटा, 'तुजे भशेन सगळे येवजुपाक लागले जाल्यार झुजांच केन्ना जावंचीं नात.'

'जावंकूच जायनात', पीयर ताका जाप दिता.

आंद्रेई अणभवान जड जाल्लो मनीस. बेगीन जाणटो जाल्लो. ताका पीयराचो हो भोळो ध्येयवाद पळोवन हांसूंक येता. तोखणायूय दिसता. पुणून तो जाणा, झुजां केन्ना सोंपपाचीं नात. खासा तो सैन्यांत भरती जावंक सोदता. देशाच्या मोगान न्हय, ध्येयाचे प्रेरणेनूय न्हय. जिविताची ताका उबगण आयल्या म्हूण. तें रितें रितें, पोकळ पोकळ दिसता म्हूण.

ताच्या ह्या वैराग्याक कारण जाल्या ताची बायल लीझा. ती सुंदर आनी आरोग्यान घटमूट. तरणेपणाचे उमेदीन भरिल्ली. तरण्यांक आनी जाणट्यांक सगळ्यांक ती आपले उमेदिचो वसो लायता. श्रीमंताली धूव जाल्ल्यान त्या समाजांतल्या बाकिच्या बायलां भशेन तिची ओड पार्ट्यांक वचप, नाचांक वचप आनी हाचे ताचे धवळे करप असल्याच गजालिंनी. चारित्र्यान वायट न्हय, पुणून घोवाचे उमेदींत आनी हावेसांत वांटो घेवपाची तांक तिच्यांत ना. गंभीरतायूय ना. आंद्रेई रोमँटिक मोगाक भुकेल्लो. ही भूक ताच्यांत नाशिल्ली जाल्यार तो बायलेक, ती आसा तशी, मानतलो आशिल्लो. पूण हे भुकेक लागून ताचीं सगळीं सपनां मातये भरवण जाल्यांत आनी तो सभावान कोडू जाला. 'सगळ्योच बायलो सभावान अश्योच थिल्लर आनी स्वार्थी आसतात' अशें मानूंक लागला. पीयराक सांगता, 'लग्न मात केन्ना जावं नाका आं', आनी उपदेश करता, 'जातलोच जाल्यार जिचेर तुजो मोग आसा तिचे वयलो तुजो मोग देंवतकूच तिचेच कडेन जा. म्हणटकूच सपनां तरी तुजीं भंगचीं नात आनी तुज्या सभावांत कोडसाण येवंक पावची ना.'

आंद्रेई लग्नाचे बाबतींत अपेशी जाला. पुणून चारित्र्याचे वांटेवेल्यान तो कडेक सरूंक ना, चळूंक ना. श्रीमंतांच्या समाजांत ही सामान्या भायली गजाल म्हणूंक जाय.

पीयर सभावान सादो. काळजान खरो. आनी तरणेपणाच्या आदर्शवादान भरिल्लो आसुनूय सोऱ्याच्या, जुगाराच्या व्यसनांत आनी बायलांचे संगतींत बरोचसो वेळ होगडायता. बायलां कडेन पळोवपाची ताची नदर मात दाक्षिण्यान भरिल्ली. तो तांचो अपमान केन्नाच करिना.

आंद्रेई सैन्यांत भरती जाता तेन्ना बायलेक व्हरून गांवांत पावती करता. थंय ताचो बापूय आनी भयण आसतात. आपूण ऑस्टरलिट्झच्या झुजांत आतां वांटो घेवंक वतलों हें तो बापायक सांगता तेन्ना बापूय ताका म्हणटा, 'झुजांत तूं मेलो जाल्यार म्हाका दुख्ख जातलें. पूण म्हज्या पुताक सोबना हे तरेन तूं वागलो म्हूण कळ्ळें जाल्यार मात म्हाका लज दिसतली.' पूत जाप दिता, 'खबर आसा. म्हाका

सांगपाची गरज ना.' आनी हेच आत्मस्रद्धेन तो झुजता. झुजाच्या आदल्या दिसा सांजवेळची ताका बापायची, भयणिची, बायलेची सगळ्यांची याद येता. झुजांत घडये आपणाक मरण येतलें अशेंय ताका दिसता. पूण ताका मात लेगीत भंय दिसना. ताचे नदरे मुखार यशाचें आनी कीर्तिचेंच कूप नाचूंक लागता. ते खातीर केदोय व्हडलो त्याग करपाची ताची तयारी आसता. दुसऱ्या दिसा झुजांत रशियन सैनिकांची दानाधिस्पट जाल्या आनी ते वाट मेळत ते वटेन पळूंक लागल्यात हें तो पळेता. आंद्रेईक हें सोंसना. तो तांच्यांत उत्साह हाडटा आनी दुस्मानाच्या आंगार धांवन वता. आनी थंयच पडटा. दोळे उकते जातात तेन्ना ताका आपलो पुनर्जल्म जाल्ले वरी दिसता. मुखार दिसता तें निर्मळ नितळ मळब आनी ताचेर मंद गतीन उफेवपी कुपां. ताच्या तोंडांतल्यान उतरां फुट्टात, 'कितलो शांत आनी प्रसन्न देखाव हो!' तो येवजिता, 'खंय सैन्याची गडबड, सैनिकांची धांवपळ आनी खंय ही थंडाय! हाचे पयलीं हांवें केन्नाच अंत पार नाशिल्लें हें मळब कशें पळेलें ना? असल्या ह्या मळबा मुखार बाकी सगळें फट, सगळें मिथ्या! फकत एक थंडाय खरी. देवा, केदे उपकार तुजे!'

झूज सोंपता. रशियेचें आनी ऑस्ट्रियेचें सैन्य फाटीं सरता. झुजा मळार कितलेशेच लोक पडल्यात. तातूंत एक आंद्रेई आसा. नेपोलियन थंयच्यान पासार जाता आसतना आंद्रेईक पळेता. हो जिवो आसा अशें धरून नेपोलियन ताका बरो करपाक धाडून दिता. आंद्रेई हरशीं नेपोलियनाचो भक्त. पुणून मळब पळोवन ताका जो अणभव आयिल्लो ताचे मुखार जैताच्या मदान फुलिल्लो नेपोलियन ताका किरकोळ दिसता. उणाक दिसता. ताका आपले भयणिची याद जाता. मारियाली. आनी तिच्या देवा वयल्या भावार्ताची.

आंद्रेई सारको जावंचो ना अशें धरून नेपोलियनाचे लोक ताका ऑस्ट्रियेच्या एका गांवांत असोच सोडून दितात.

आंद्रेईची भयण मारिया जाणट्या बापाय वांगडा आसता. बापूय फाटल्या काळांत जियेवपी. आयच्या काळाचो आनी ताचो कांयच संबंद नाशिल्ले भशेन. सभावान कोल्ली. ताच्या काळजांत खोलायेंत खंय तरी मोगाची एक झर व्हांवता. पुणून मोगा सुवादीन जावप हातूंत कितें तरी दुबळेपण आसा अशें ताका दिसता आनी तो आपलो मोग केन्ना उकतोच जावंक दिना. तो केन्नाच कोणाक दाखयना. ताचो दिश्टी पडटा तो फकत कोल्ली सभाव. धुवे कडली ताची चलणूक कडक. मारिया कुरूप न्हय. पूण व्हडलिशी नदरेंत भरपा सारकीय न्हय. गांवांतूच वाडिल्ल्यान शारांतल्या चलयां भशेन ती हुशारूय न्हय. तिचें काळीज मात धर्म-स्रद्धेन भरिल्लें. बापूय उठ्ठा बसता तेन्ना तिका तापयता, तिचो अपमान करता. तिवूय बापायक भियेता. पुणून तिंच्या काळजांत कोडसाण मात लेगीत येवंक ना. काळजांतलो मोग मात लेगीत सुकूंक ना. आपूण दिसूंक बरी न्हय हाची तिका खंत आसा. पूण ती वयली वयली. खोल न्हय. मॉस्कोच्यान तिगेले एके मैत्रिणिची तिका एक चीट येता. हे

चिटींत बरयल्लें आसता: 'तीन म्हयन्यां आदीं आमी एकठांय राविल्लीं तेन्ना तुज्या दोळ्यांतल्यान जें प्रेम झिरपतालें ताणें म्हाका केदी थाकाय दिल्ली, केदें बळगें मेळिल्लें!' मारिया हारशांत पळेता. आपलें रूप रंग नाशिल्लें तोंड पळोवन ती उस्वास सोडटा. तिका दिसता, मैत्रीण आपली ओगीच तोखणाय करता. मारियाक रूप नाशिल्लें खरें. पुणून दुख्खाचे सावळेंत भरिल्ल्या तिच्या दोळ्यांत एके तरेचें तेज आशिल्लें. तें रुपा परस अदीक ओडलायणें दिसतालें. बापायच्च्या कडक सभावाचें तिका केन्नाच वांकडें दिसना. ती सगळें सोंसता. इतलेंच न्हय, आंद्रेई झुजाक वचचे पयलीं बायलेक दवरूंक आयिल्लो तेन्ना बापूय मारियाक जे तरेन वागयतालो ती तरा पळोवन तापिल्लो. तें आयकून मारियान आंद्रेईक म्हळ्ळें, ''बापायचीं म्हणून उर्णी काडटात रे? बापाय विशीं मनांत पूज्यभाव सोडून आनीक कितेंच येवंक जायना.'

देवाचेर तिचो खुबूच भावार्त. ह्या भावार्ताची कसवटणी एक दीस जाता. पीटर्सबर्गाक आशिल्ल्या एका श्रीमंताचो पूत आनातोल तिच्या जिवितांत येता. आनातोल वाळेस. ताची वाळेस म्हूण नामना जाल्ल्यान ताका पीटर्सबर्गांत चली कोण दिनात. चली दिसपाक किरकोळ आसल्यार उपकारता. पुणून मोटी इस्टेट घेवन येवपी जाय म्हूण तो मारियाक मागणी घालता. बापायक मारिया पयस गेल्ली नाका. मारिया नासत जाल्यार आपलें कशें जातलें हो ताका हुसको. ताका लग्नाची खबर मानना. तरी आसतना तो धुवेक आफयता. आनी आनातोलाची खबर तिका सांगता. आपूण सुंदर न्हय हाची जाणवीक मारियाक आसता. आपणा कडेन आनी लग्न जावपाक कोण तयार जातलो, असोय तिचो समज आसता. म्हूण ती बापायच्या सांगातांतूच धादोसपणान जियेता. आनातोल आनी ताचो बापूय कित्या खातीर हांगा आयल्यात हें तिका कळटा. कितलीय जाल्यार चली मनीस. तिच्या काळजांत आयज मेरेन केन्नाच उदेवंक नाशिल्ल्यो लागणुको उचांबळून येतात. दोळ्यां मुखार फुडल्या जिविताचें एक चित्र उबें रावता. त्या चित्रांत एक भुरगें आसता. तें दूद पियेता. म्हन्यांत घोव उबो आसता. तिका सट्ट जाता. कुडिच्यो कांय तानो जाग्यो जातकच ती भियेता. आनी देवा कडेन मागता, 'देवा, तूंच वाटाय म्हाका.' देव तिका काळजांतूच जाप दिता: 'तुज्या नशिबांत कितें आसा तें तूं खंय जाणां? घडये देव तुजी नवी परिक्षा घेता जातलो. तेन्ना तूं तुजी इत्सा सोड आनी देवाचे इत्से सुवादीन जा.' बापूय विचारता: 'तुज्या मनांत कितें आसा?' धूव बापायक विचारता: 'तुज्या मनांत कितें आसा?' बापूय तापता. 'लग्न कोण जावपाचो आसा? हांव काय तूं? तुवेंच थारावंक जाय. पूण लक्षांत धर, तूं जें कितें आज थारायतलें ताचेर तुजें मुखावयलें पुराय जिवीत आधारून उरतलें.' आनी बापूय तिका एका वराचो प्राझ दिता. 'हय काय न्हय ही तुजी जाप मेळटकरूच हांव म्हाका कितें दिसता तें सांगतलों', अशें सांगता.

मारिया बापायचे कुडींतल्यान भायर येता. कितें जाप दिवंची, तिका समजना. अवचीत तिका एक देखाव दिश्टी पडटा – तांगेर बुरियें नांवाची एक चली आसता. फ्रांसांतली. घर सांबाळपाक तिका दवरलेली. ती आनी आनातोल एकामेकांचे वेंगेंत

आशिल्लीं तिका दिश्टी पडटात. मारियाक पळेनाफुडें दोगांय कांचवेतात. आनी बुरियें जाल्यार रडत रडत मारियाच्या पांयांचेर घालून घेता. मारियाक तिचें मात लेगीत वायट दिसना. ती बुरियेंक सांगता: 'तुजेर आदीं आशिल्ली ताच्याकूय चड माया आतां आसा. तुका सुखी करपा खातीर म्हज्यान जाता तितलें हांव करतलें. चल तूं आतां.'

आनी सोमतीच बापाय म्हऱ्यांत येता आनी सांगता: 'म्हाका लग्न जावपाचें ना. तुका सोडून म्हाका खंयच वचपाचें ना.'

एकली पडटा तेन्ना ती येवजिता, 'म्हजी वाट वेगळी. मोग आनी त्याग हातुंतल्यान मेळटा त्या सुखाची वाट म्हजी. कितेंय जावं, बुरियेंक सुखी करपाचो हांव यत्न करतलें. ताचें आनी आनातोलाचें लग्न जुळोवन हाडटलें. बापाय कडल्यान आनी आंद्रेई कडल्यान हांव भरपूर घेवन ताका दितलें. आनातोलाचेर ताचो मोग आसतलो. म्हुण्णूच तर तें ताचे वेंगेंत पडलें जातलें. ताचे स्थितींत हांव आशिल्लें जाल्यार घडये हांवूय तेंच करतलें आशिल्लें.'

गुन्यांव भगसुपाची किरिस्तांव देख मारियाच्या रगतांतूच आशिल्ली.

पीयर लेगीत हेच देखीन मुखार वचपी. पुणून मारिया परस अदीक त्रासांचे वाटेन. तो सभावान मोगाळ आनी म्होंवाळ. ताका बायलांची – चड करून सुंदर बायलांची – सुमारा भायर ओड. हे ओडीक लागून तो आनातोलाची भयण ॲलेन हिचे कडेन लग्न जाता आनी आपणाक एका पांजऱ्यांत बंद करून घेता. ॲलेन पीटर्सबर्गांतल्या गिरेस्त समाजांतली सगळ्यांत सुंदर चली. पुणून चालीन धील, सदळ. तिच्या चारित्र्या संबंदान लोक तरेतरेचे दुबाव घेताले. आनातोला कडेन – म्हळ्यार खासा भावा कडेन लेगीत तिचे संबंद आसात अशें उलयताले. पीयराचो बापूय मरता. आनी तो मॉस्कोंतलो सगळ्यांत मोटो गिरेस्त जाता. ताकाय लोक काऊंट बेझुहोव्ह म्हूण वळखतात. पिराय तरणी. सांगपाची गरज ना – सगळ्या वाडिल्ल्या चलयांच्या आवय-बापायंची नदर ताचेर पडटा. पीयराक ॲलेनाची ओड. पूण मोग नाशिल्लो. तरी आसतना हे ओडीन तो ॲलेना कडेन लग्न जालो. लग्न अपेशी थरलें. पिटर्सबर्गांतलो एक वाळेस दोलोहोव्ह हाचे कडेन ॲलेनाचे संबंद आशिल्ले. ते ताका कळ्ळे. कांय बऱ्या मागत्यांनी ताका ह्या संबंदान पत्रांय बरोवन खुबळायलो. पीयर खुबलो. आनी एक दीस ताणें दोलोहोव्हाक ड्युॲला खातीर आफयलो. तातूंत दोलोहोव्ह दुखावलो. ताचेर आपणें घाय केले हें पळेतकूच पीयराचो राग देंवलो. पूण तो खंती जालो. इतलो खंती जालो की तो रडपाक लागलो. ॲलेनाक ही खबर कळ्ळी. दुसऱ्याच दिसा दोगांय झगडलीं आनी एका सप्तका उपरांत पीयर ॲलेनाक सोडून पीटर्सबर्गाक गेलो. ताका हाचें मोलूय फारीक करचें पडलें. ॲलेनाक ताका इस्टेट दिवची पडली.

पीटर्सबर्गाक वता आसतना पीयराचो वाटेंत नवो अवतार सुरू जाता. तो एके कडेन बसता आनी येवजिता – 'म्हजो अपमान जालो म्हूण हांवें दोलोहोव्हाक घाय केलो. हांवें हें बरें केलें काय वायट केलें? जिवितांत बरें कितें, वायट कितें, हें

थारावप कशें? मनशान कोणाचेर मोग करचो आनी कोणाचेर करचो न्हय? आमी जियेतात कित्या खातीर? कित्या खातीर ह्यो लटपटी-खटपटी? जिवीत म्हळ्यार कितें?' पीयराक एकाय प्रस्नाची जाप मेळना. ताकाय हे प्रस्न सस्थ बसूंक दिनात. जितलो अदीक येवजिता तितलो तो अदीक बुचकळ्यांत पडटा. आनी मनांतल्या मनांत म्हणटा, 'हांव मरतलों तेन्नाच एक तर ह्या सगळ्या प्रस्नांच्यो जापो मेळटल्यो वा प्रस्न विचारपाचेच बंद जातले.'

तो हे भशेन येवजीत बशिल्लो आसतना तेवटेनच्यान एक मनीस पासार जाता. तो पीयराक पळेता, एका सारको पळेत रावता. पीयर ताचे नदरेक आपली नदर लागची न्हय म्हूण यत्न करता. इतल्यांत तो मनीस विचारता, 'तूं काऊंट बेझुहोव्ह न्हय? हांवें तुज्या संबंदान आयकलां. तुजेर कोंसळ्ळेल्या दुख्खाचीय म्हाका खबर आसा. तूं भुरगो हांव जाणटों. म्हज्यान तुका आधार दिवं येता. दिवं?'

हो मनीस फ्रीमेसन संप्रदायाचो एक वांगडी. दोगूय उलोवंक लागतात. पीयर म्हणटा, 'हांव देव बीव कांय मानिना.'

जाणटेलो जाप दिता, 'देखुनूच तूं दुख्खी. देव म्हज्यांत आसा, म्हज्या उतरांत आसा, तुज्या उतरांत आसा. तूं देव मान वा मानूं नाका. पूण तो आसा. इतलेंच की ताका वळखप सोंपें न्हय.'

पीयर आयकत रावता. ताका ह्या जाणट्याच्या उतरांनी अणभवाचो पडसाद आयकूंक येता. 'हो उलयता तें अणभवाचें' अशें ताका दिसता. आनी ताच्यांत भावार्त जागो जाता. काळजांत एके तरेचो आनंद जागो जाल्ले वरी ताका दिसता. तो विचारता, 'हें गिन्यान मनशाक कशे तरेन मेळटा?'

'आपलें अंतस्कर्ण निवळ करून', जाणटेलो जाप दिता. 'देवान सगळ्यांच्या काळजांत उजवाड दिला. काळीज निवळ करून हो अणभवूं येता.'

आनी मागीर तो म्हणटा, 'आतां मेरेनच्या तुज्या जिविताचें येवजून पळे. कितलें अनितीन भरिल्लें आशिल्लें तें. तूं एके चलये कडेन लग्न जालो. तिका जिवितांत योग्य वाटेन व्हरपाचें सोडून तुवें कितें केलें? तिका दुख्खांतूच धुकलून उडयली मूं? कोणें एकल्यान तुजो अपमान केलो. तूं दुखवलो. म्हूण तुवें ताका दुखयलो आनी आतां म्हणटा, आपूण देव बीव कांय मानिना म्हूण! कसो मानतलो?'

पीयर सगळें मोन्यांनी आयकता. तो जाणटेल्याक सांगता, 'तूं सांगता तें सगळें खरें. पूण हांव कितें करूं? हांव सामको वायट मनीस न्हय. पुणून म्हाका अजून मेरेन कोणेंच कसलोच आधार दिवंक ना. तो तूं दिशीत जाल्यार...' पीयराचो गळो भरून येता आनी तो रडूंक लागता.

'हांव कितें आधार दितलों? आधार देवानूच दिवपाचो.' जाणटेलो जाप दिता.

जाणटेलो वता आनी पीयर आतां मेरेनच्या आपल्या जिविता संबंदान येवजूंक लागता. 'आतां नवे तरेन जिवीत जियेवप' अशें तो थारायता. नव्या जिविताच्यो तो कल्पना करूंक लागता. आनी ताचें काळीज खोशयेन भरून येता.

तो पीटर्सबर्गाक पावता आनी सोमतोच फीमेसन संप्रदायाचो वांगडी जाता. ह्या संप्रदायाचे उद्देश तीन. १) पुर्विल्ल्या काळा पसून चलत आयिल्ले ब्रह्मविद्येची जतनाय करप. २) ते खातीर आत्मशुद्धी करप, आनी ३) हे भशेन काळीज शुद्ध करून संवसाराच्या बऱ्या भल्या खातीर वावरप. पीयराक हो तिसरो उद्देश मानवता – संवसाराचें बरें भलें करपाचो. पुणून आत्मशुद्धिचें म्हत्व ताका व्हडलेंशें समजना. देखून जिविताचे नवे वाटेर चलता जावनूय ताचे गतीक वेग येना. अॅलेनाची चूक तो विसरना आनी बायलां विशिंचे ओडींतल्यानूय तो मेकळो जायना. कांय काळान ताच्यांतलो भावार्थ इल्लो इल्लो उणो जाता. तो पर्थून आपल्या गुरू सरीं वता आनी ताचे सांगणेन अॅलेना कडेन जुळोवन घेता. आपणें तुजेर अन्याय केलो अशें सांगून तो अॅलेनाची माफीय मागता. आनी अॅलेना बरोबर रावंक लागता.

पुणून दोगांयच्यो वाटो सदांच वेगळ्यो वेगळ्यो उरतात. अॅलेन पार्ट्यो, नाच, धवळे हातुंतूच गुल्ल रावता आनी पीयर आपल्या काळजांत भितर बुडून रावता, जिविताचो अर्थ सोदीत. आदल्या ताच्या सदळ जिविताचे संस्कार अजून सुटूंक नात. ते सुटचे म्हूण तो देवाची काळीज ओतून प्रार्थना करता

आंद्रेई आनी पीयर दोगूय एके नदरेन पळोवंक गेल्यार दुबळे. पुणून तांची नदर निवळ आशिल्ली. देखून बदलप तांकां जड वचना. पुनर्जल्म जाल्ले वरी ते बदलतात.

पुणून निकोलाय मात सोंपेपणान बदलना. निकोलाय हें आनीक एक म्हत्वाचें पात्र हे नवलकाणयेंतलें. खंय तरी ताच्यांत असत्य आसता. देखून ताची शुद्धी अर्दकुटीच उरता. नेपोलियना आड झूज सुरू जाता तेन्ना तातूंत मोटे उमेदीन पडटा. देशाच्या मोगानूय आनी झाराचे भक्तिनूय. झूज सुरू जावचे पयलीं झार सैन्याची नियाळणी करपाक येता तेन्ना निकोलायचें काळीज उचांबळीत जाता. ताचो गळो भरून येता. झार आपणा कडेन एक दोन उतरां उलयत जाल्यार आपणाक इतली खोशी जातली, इतली खोशी जातली की ती आपणाक सोंसूंक जावची ना; त्या खिणाक झारान आपणाक उज्यांत उडी मार म्हूण सांगल्यार आपूण उडी मारपाक मातूय अनमनचो ना अशें ताका दिसता. झारा मुखार आपणाक मरण येवचें अशेंय ताका दिसता.

पुणून झूज सुरू जायनाफुडें ताची राजभक्ती, ताची उर्बा, ताचो उत्साह कांयच उरना. तो मरणाक भियेवंक लागता. घायाळ जाल्ल्या एका सैनिकाची पिडा पळोवन तो आपलें तोंड दुसरे कडेन घुंवडायता. थंय ताका न्हंय दिश्टी पडटा. ताचे उपरांत धारेर आशिल्ले दोंगर दिश्टी पडटात. दोंगरा वेले रूख तो पळेता. आनी तांचे फाटलें निळें मळब पळेता. अवचीत ताका हो देखाव आनी झूज हांचे मदलो विरोध जाणवता. तो म्हणटा : 'मेलों जाल्यार एका खिणांत हें सगळें ना जातलें.' मरणाच्या भयान तो थरथरतां. आनी ताका आपले आवयची, इश्टांची सगळ्यांची याद जाता. नेपोलियनाचे कांय सैनिक कांय रशियन सैनिकांक धरून व्हरतात हें तो पळेता आनी ताका थरथरो सुट्टा. तो हातांतलें आर्म मोखून मारता. आनी शेंपडी तुटसर पळून पयस

झिलींत वचून लिपता: 'आतां हांव मरतलों, म्हाका हे मारतले. कसलेच भोग भोगी नासतना म्हजें जिवीत सोंपतलें' अशें कितें कितें ताचे तकलेंत येता.

आपल्या ह्या भित्रेपणाची लज दिसपा बदला तो जशें कितें आपणें व्हडलें कर्तुप केल्ले भशेन ह्या प्रसंगाचें वर्णन आपल्या इश्टां कडेन करता. निकोलायच्या जिवितांत जें थोडेंशें असत्य आसा म्हळ्ळें तें हें. तेंच ताच्या मोगांतूय दिश्टी पडटा. तांगेर एक आवय बापूय नाशिल्ली गरीब घराण्यांतली चली – सोनया – आसता. ताची सोयरी ती. तिचेर हाचें प्रेम. एक दीस तो हें प्रेम विसरता आनी तिची धाकटी भयण नाताशा हिचेर प्रेम करता. एका फुला वेल्यान दुसऱ्या फुलार बसपाक ह्या भोंवऱ्याक मातूय खंत दिसना. तो आपणाक कसल्याच बांदपासांनी बांदून दवरिना. दोलोहोव्ह हो ताचो एक इश्ट (पीयरान जाका ड्युयेलांत घायाळ केल्लो तो). तो निकोलायागेर येवन वचून आसतालो. हाका लागून तो सोनयाच्या मोगांत पडलो. तो आपलो मोग सोनया मुखार उकतो करता. सोनयान हाचे पयलीं आपलें काळीज निकोलायाक दिल्लें आसता. तें ताका पयस करता. दोलोहोव्हाक हो आपलो अपमान दिसता. तो निकोलायाचो सूड घेवप म्हूण थारायता. ताका जुगार खेळपाक फुसलायता आनी ताचे कडले त्रेचाळीस हजार रूबल तो जिखता. निकोलाय रिणांत पडटा. ताची आर्थीक स्थिती पयलींच व्हडलिशी बरी नासता. तातूंत हें रीण. बापाय कडल्यान तो हें रीण फारीक करता. आनी बापायच्या उपकारांत चिड्डल्लो निकोलाय पयशे जोडपा खातीर आशिल्लो तसो सैन्यांत नोकरी करता.

झुजा मळार नवो दिश्टावो जाले उपरांत आंद्रेईचें जिवीत बदलता. नवलकथेंतल्या आनीक कोणाय परस ताचें अंतर जिवीत खोल आसता. हरशींच तें अंत:स्रोता म्हळ्यार भितरल्यान व्हांवपी. भायर उकतें जायनाशिल्लें. आपणा संबंदान तो कोणा कडेन कितेंच उलयना. झुजांत ताणें शूरपण दाखयल्लें तें लेगीत ताणें कोणाक सांगूक नाशिल्लें. सेनापती कुतुझोफूच तें जाणा आशिल्लो. झुजांत तो पडिल्लो ते उपरांत तो खंय आसा, कितें कात, कोणाक कांय खबर नाशिल्लें. तो मेलो जातलो अशें लोक मानताले. पूण तो मरूंक नाशिल्लो. घायाळ जाल्लो.

आंद्रेई बरो जाता आनी बऱ्याच तेंपान अवचीत घरा परतता. जिस्त त्या दिसा ताची बायल बाळंत जाता. खबर कळनाफुडें तो सोमतोच तिचे कुडींत वता. ती साबुद्दीर नासता. ताका वळखना. तिच्या तोंडा कडेन तो पळेता. ती जशी कितें, 'हांवें कोणाचें कितेंच वांकडें करूंक ना, मागीर म्हाका इतलें दुख्ख कित्याक' अशें विचारता-शें ताका दिसता. फाटल्यो सगळ्यो कोडू यादी आंद्रेई विसरता. तो बायलेक उलो करता. पूण बायल जाप दिना. तो भायर वचून बसता. थोड्या वेळान ताका भितर एक भुरगें रडिल्ल्याचो आवाज आयकूंक येता. तो आवाज आयकून ताका खूब खोशी जाता. आनी खोशयेच्या उमाळ्यांनी तो रडूंक लागता. भितर वचून पळेत जाल्यार, बायल मेल्या.

बायलेच्या मरणाचो आंद्रेईक आकांताचो धसको बसता. ताका आपल्या जिवितांतलो

रोसूच सुकला अशें दिसूंक लागता. कित्यांतूच ताचें चित्त लागना. हे वटेन नव्या झुजाची तयारी चल्ल्या. पूण हो तातूंत लक्ष घाली ना. ताचें सगळें लक्ष पुतांत एकठावता. जिवितांत आतां आपणाक ही एक लागणूक सोडून दुसरी कसलीच उरूंक ना अशें मानता. आंद्रेईचो बापूय कोल्ली. म्हूण तो बापाय म्हऱ्यांत राविना. दुसरे कडेन रावता. थंय एक दीस ताका पीयर मेळपाक येता. पीयर हरशीं ताचो जिवाभावाचो इश्ट. पूण ताका पळोवन आंद्रेईक कसलीच खोस जायना. पीयराकूय कळटा, हाका जिवितांत आतां कित्यांतूच आनंद ना. हाचें मन संवसारावेलें उडलां. काळीज सुकलां. 'दुसऱ्यांचेर उपकार करपाची इत्सा मनांत बाळगी नासतना मनशान जियेवचें, इतलेंच की हे भशेन जियेता आसतना दुसऱ्यांचें लुकसान जावंचें ना हाची जतनाय घेवची' हीच हाची जिणे दिश्टी. म्हळ्यार, हाचें काळीज सुकलां.

सांजचो आंद्रेई पीयराक घेवन भोंवंक वता. थंय वाटेर पीयर ताका फ्रीमेसन संप्रदायाची खबर सांगता. आंद्रेई देव मानी नाशिल्लो. मनीस मेले उपरांतूय जियेता म्हणपाचेंय मानी नाशिल्लो. तरी आसतना मरण म्हळ्यार कितें हें समजून घेवपाचो यत्न तो मर्दी मर्दी करतालो. वर्सांचीं वर्सां जियेवपी मनीस अकस्मात एक दीस नाच जाता म्हळ्यार कितें, हो प्रस्न ताका पडटालो. आनी मेले उपरांत जिवीत दुसऱ्या खंयच्या तरी रुपांत उरता जातलें अशेंय ताका मर्दी मर्दी दिसतालें. पीयर ताचे हे दुबाव आयकून खुशालभरीत जाता आनी म्हणटा: 'हाचो अर्थ, देव आसा आनी देव आसा जाल्यार मरणा उपरांतचें जिवीत आसा. हाकाच सत म्हणप, हाकाच मोग म्हणप. आमचें जिवीत मोगान भरिल्लें आसूंक जाय.' आंद्रेईक हें खरें दिसता. तो एक उस्वास सोडटा आनी पीयराक म्हणटा: 'तूं म्हणटा तें खरें आशिल्लें जाल्यार काय बरें जातलें आशिल्लें!'

अवचीत आंद्रेईची नदर मुखावेल्या मळबाचेर पडटा. झुजामळार तो घायाळ जावन पडिल्लो तेन्ना ताणें मळब पळोवन जें कितें जोडिल्लें ताची ताका याद जाता. आनी भितर काळखांत आतां मेरेन न्हिदिल्लें चैतन्य जागें जाल्ले वरी ताका दिसता. पूण खिणा पुरतेंच. जुवानपणाचो आनंद आनी चैतन्याचो अणभव हाचो फकत ताका उगडासूच उरता. भायल्यान ताची जीण पयलीं भशेनूच चलता. पुणून ताका खबर नासतना ताच्या काळजांत एक नवी झर फुटिल्ली आसता.

अशींच दोन वर्सां वतात. आंद्रेई आपल्या भाटा बेसांनी वावर करता. ताच्या भागेल्यांची आनी कुळवाड्यांची स्थिति सुधारपाचेय तो यत्न करता. एक दीस तो पुताक आवय कडल्यान दायजान मेळिल्ल्या एका भाटांत वता. वाटेर ताका एक रूख दिश्टी पडटा. बाकिच्या सगळ्या रुखांचेर वसंतरुतू फुलिल्लो. हो एकूच रूख – बाकिच्यां परस पिरायेन धा वांट्यांनी व्हड, आंगांनीय धा वांट्यांनी व्हड आनी उंचायेन दुपेट – सुको, जाणटो म्हातारो कसो ताका दिसता. आंद्रेई त्या रुखांत आपणाक पळेता. 'हांवें हाचेच भाशेन जिवीत पळेलां. खूब पळेलां. म्हजें जिवीत आतां सोंपत आयलां' अशें ताका दिसता. खरें म्हळ्यार, ताच्यांत भितर जी एक

नवी झर फुटिल्ली ती अजून काळजाचें खडप फोडून भायर सरूंक नाशिल्ली.

एक दीस तो निकोलायच्या बापायक मेळपाक तागेर वता. ताचें ताचे कडेन काम आसता. थंय ताका कांय चलयो दिश्टी पडटात. दीस भर हांसपी, दीस भर खेळपी असल्यो. तांतले एकलेचेर ताचें लक्ष वता. अवचीत ताका आपल्या काळजांत सुर्याचो उजवाड पडिल्ले वरी आनी वसंत रुतुचो उल्हास उचांबळून आयिल्ले वरी दिसता. ती चली आपल्याच सुखांत गुल्ल आशिल्ली. आपल्याच आनंदांत मस्त आशिल्ली. जितलेय खेपे ताणें तिका पळेल्ली तितलेय खेपे ताका 'ही इतली आनंदीत कशी' असो प्रस्न पडिल्लो. ताका रातची न्हीद पडना. उजो जाता म्हणून ताणें जनेल उकतें केलें आनी त्याच खिणाक चान्नें ताचे कुडींत शिंवरलें. जनेलांत रावन तो चान्न्याची सुंदरकाय पळोवंक लागलो. वयर माळयेर त्यो चलयोय जाग्यो आशिल्ल्यो. खबरी करताल्यो. तांतले एकलेन दुसरेक म्हळें, 'म्हाका न्हीद पडना. चल परत एक खेपे आमी पदां म्हणुंया.' आंद्रेई आवाजा वयल्यान तिका वळखलो. तीच चली ती, जी सकाळ पसून ताचें लक्ष ओडीत आशिल्ली. भायलो सुंदर देखाव पळोवन आंद्रेई पयलींच सुखावल्लो. तातूंत चलयांचीं पदां आयकूंक आयलीं. ताच्या काळजांत कितल्याश्याच वर्सां उपरांत परतून एक फावट तरणेपणाचीं ल्हारां वयर सरलीं.

कांय तेंपान तो परतो त्या रुखा कडेन पावता. हे खेपे ह्या रुखाक नवी पालय आयिल्ली आसता. परतून तो आपणाक त्या रुखांत पळेता. ताका आपल्या जिवितांतले बऱ्यांतले बरे खीण येवजतात आनी तो मनांतल्या मनांत म्हणटा, 'च्ये, च्ये, एकतीस वर्सांचे पिरायेर जिवीत सोंपना.'

आंद्रेईच्या सुक्या काळजांत तरणेपणाची झर व्हांवोवपी ही चली म्हळ्यार निकोलायाची धाकली भयण नाताशा. तॉलस्तॉयान निर्माण केल्ल्या स्त्री पात्रांतलें सगळ्यांत सुंदर, ओडलायणें पात्र हें.

आंद्रेईक पिडा जाल्ली ती विचारांची. ताकाच लागून ताचें काळीज सुकिल्लें. ह्या काळजाक नाताशा पाझर फोडटा.

नवलकथेंत नाताशा आमकां पयलीच मेळटा तेन्ना तिची पिराय तेरा वर्सांची आसता. अजुनूय ती बावल्यो घेवन खेळटा. आनी तरी आसतना अठरा वर्सांच्या बॉरिसाचेर प्रेम करता. कसलेच तरेचो अडेचो संकोच तिच्या काळजाक आफुडना. काळीज जे वटेन ओडटा ते वटेन ती वता. देखुनूच जावंये, बावल्यो बदलच्यो तशे ती आपले प्रेमीक बदलता. बोरीस सैन्यांत भरती जायना फुडें ताका नाताशा विसरता आनी नाच शिकोवपी मास्तराच्या प्रेमांत पडटा. उपरांत निकोलायचो इश्ट डेनिसोव्ह तागेर येता. कांय दीस तो रावता. नाताशा ताच्या प्रेमांत पडटा. डेनिसोव्ह एक दीस 'आमी लग्न जावंया?' अशें विचारता. नाताशा आनंदान धांवत आवय सरीं वता आनी विचारता, 'ताका कितें जाप दिवं?' नाताशाक अजून पंदरा भर जावंक नात. हे पिरायेर लग्नाची खबर काडपाची चालूय समाजांत ना. म्हूण आवय धुवेक सांगता, 'डेनिसोव्हान तुका अशें विचारलें जाल्यार तूं वचून ताका सांग, तूं पिसो,

तुका कांय कळना म्हूण.'

'ना गे, तो पिसो न्हय', नाताशा जाप दिता.

आवय तिडकता. आनी म्हणटा, 'तूं ताच्या प्रेमांत पडलां जाल्यार वच आनी जा ताचे कडेन लग्न.'

'ना, हांव ताच्या प्रेमांत पडूंक ना.' नाताशा आवयक सांगता. आनी तरी आसतना डेनिसोव्हाक ना म्हणपाचें तिका काळीज जायना. 'डेनिसोव्ह इतलो बरो भुरगो, इतलो शाणो, इतलो गुणांचो, ताका ना कशें म्हणूं' अशें ताका दिसता. ताका दुखचेंना हे भशेन ताका जाप दिवंची अशें येवजून नाताशा ताचे म्हऱ्यांत वता. इतल्यांत आवय थंय येता, आनी डेनिसोव्हाक ती तापोवन काडटा. डेनिसोव्हाक जाल्ली लज पळोवन नाताशा हुंदक्या हुंदक्यांनी रडूंक लागता.

नाताशाक आतां सोळा जाल्यांत. बॉरीस परतो येता. दोगांकूय पोन्न्या मोगाची याद जाता. पूण आतां मोग आसुनूय बोरीस नाताशा कडेन लग्न जावपाचें येवजिना. तो पीटर्सबर्गांतल्या श्रीमंतांच्या समाजांत वावुरलेलो. श्रीमंत चलये कडेनूच लग्न जावंचें अशें येवजितालो. हे नदरेन नाताशा ताका उपकारा नाशिल्ली, तरी आसतना दोगांय हांसतालीं, उलयतालीं. आनी परत मोगांत पडिल्ले वरी वागतालीं. आवय परिस्थिती वळखता. ती बॉरिसाक येवपाचो बंद करता. आनी नाताशाक सांगता, 'ताचेर तुजें प्रेम आसल्यारूय ताचे कडेन लग्न जावपाचें तुवें येवजूंक जायना.'

'हांव ताचे कडेन लग्न जायना. पूण तो असोच येत वचत रावल्यार तुका आडखळ कसली?' नाताशा विचारता.

'कित्याक येवंक जाय तो हांगा?' आवय विचारता.

'हरशींच... आमकां दोगांकूय बरें दिसता एकामेकांक मेळटकूच.' नाताशा जाप दिता. ताका अशें मेळप, हांसप, खिदळप हातूंत कसलेंच पातक दिसना.

आंद्रेई कडेन वळख जातकूच नाताशा बॉरिसाक, नाच शिकयतल्या मास्तराक, डेनिसोव्हाक सगळ्यांक विसरता. आनी पयलेच खेपे 'खरें प्रेम तें हें' असो ताका अणभव येता. आंद्रेई आतां बदल्ला. ताच्या जिवितांत नवो उत्साह भरला. वर्स देड वर्सा उपरांत तो पीटर्सबर्गाक एका कामाच्या निमतान पावता. थंय एका बॉल नाचाक पावता. थंय ताका नाताशा मेळटा. पीटर्सबर्गांतलो श्रीमंत समाज थंय एकठांय जालो. नाताशाचो पयलोच प्रसंग हो, असल्या समाजांत नाचपाचो. सुरवातेक कोणाचेंच लक्ष नाताशा कडेन वचना. पीयर हें पळेता आनी आंद्रेईक 'वच, ताचे बरोबर नाच' म्हूण सुचयता. आंद्रेई नाताशाक नाचूंक आफयता. आनी दोगांय एकामेकांच्या प्रेमांत पडटात.

दोन दिसां उपरांत आंद्रेई नाताशाक मेळूंक वता. देड वर्सा आदीं ताणें तिका पयलेच फावट पळेल्ली त्या वेळार ताच्या अंतरांत जी झर फुटिल्ली ती आतां काळजाचें खडप फोडून भायर सरिल्ली. तो नाताशाक पद म्हणूंक सांगता आनी पद आयकून ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवंक लागतात. कांय दिसां उपरांत तो

परतो नाताशाक मेळटा तेन्ना ताका आपल्या काळजांत मोगाचो दिश्टावो जाता. आपूण नाताशाच्या प्रेमांत पडलां हाची ताका खातरी जाता. तो पीयराक सांगता: 'नाताशा म्हळ्यार उजवाड. तें ना थंय फकत काळोख आसा. म्हाका काळखांत आतां जियेवंकूच येवपाचें ना.'

हे वटेन नाताशाचीय गत्त तशीच जाता. 'हाचे पयलीं हांवें प्रेमां केल्लीं तीं वेगळीं, हें वेगळें. हें खरें' अशें ताका खोलायेन दिसपाक लागता. तें आवयक सांगता, 'अशें म्हाका हाचे पयलीं केन्नाच दिसूंक नाशिल्लें.' घडये नियतिचोच हो संकेत जावंये अशें ताका दिसूंक लागता. आनी खोशयेन ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतात. आंद्रेई बापायक मेळूंक गांवांत गेल्लो. तो तीन सप्तकां मेरेन येच ना. नाताशा उचंबळीत जाता. रडपा कडेन पावता. 'नज, म्हज्यान नज! सोंसूं नज!' अशें तें म्हणूंक लागता. आंद्रेई येता तेन्ना सुखान तें इतलें भुल्लुसून वता की तेन्नाय ताका रडुंकूच येता. तो जेन्ना एका वर्सा उपरांत लग्न जावंया म्हणटा तेन्ना 'ना, ना, एक वर्स मेरेन रावप म्हाका जमपाचें ना' अशें सांगून हुंदक्या हुंदक्यांनी रडटा.

नाताशान आतां मेरेन आनंद आनी सूख सोडून कितेंच पळोवंक नाशिल्लें. आंद्रेईच्या मोगांत पडटकूच दुख्ख, शोक ताच्या वांट्याक येतात. केन्ना केन्ना ताचो धीर सुट्टा आनी 'आंद्रेई म्हाका आतांच जाय, ह्याच खिणाक जाय' म्हणून रडूंक लागता. जो आनंद ताका सदांच उल्हासांत दवरतालो, खळखळून हांसयतालो तोच विरहान ताका अधीर करून सोडटा.

आंद्रेईच्या इतल्या प्रेमांत पडिल्ली ही नाताशा अकस्मात आनी एकल्याच्या प्रेमांत पडटा – आनातोला सारकेल्या वाळेसाच्या. आनातोल ॲलेनाचो भाव. दोगांय चारित्र्यान धील. भावाक नाताशा कडेन मजा मारूंक मेळची म्हणून ॲलेन नाताशाक एक ऑपेरा पळोवंक आफयता आनी थंयच आनातोलाचेर नाताशा भाळटा. घरा वतकूच ताका आपूण सर्वनाशा कडेन चलूंक लागलां हाची जाणवीक जाता. आंद्रेईचो मोग आतां म्हाका फाव ना, आतां हांव पवित्र उरूंक ना, अशें ताका खोलायेन दिसूंक लागता. मागीर भितरले भितर म्हणटा, 'हांवें कांयच करूंक ना. आनातोलाक हांवें उत्तेजनूय दिवंक ना. हे मुखार हांव ताका मेळपाचेंय ना.' हे भाशेन तें आपणाकूच समजावंक लागता.

इतलेंय आसून आनातोलाचें देखणें रूप ताच्या दोळ्यांमुखावेलें हालना. ताका मागीर ल्हवू ल्हवू दिसपाक लागता, आपलें दोगांचेरूय प्रेम आसा. आनातोल काळजान उदार, प्रतिभावंत. आंद्रेई लेगीत तसोच. पुणून जेन्ना दोगां भितरल्या एकल्याकूच वेंचून काडचें पडटा तेन्ना नाताशाचें काळीज आनातोलाकूच वेंचून काडटा. संमोहान ताचो येदो स्मृतिनाश जाता की ताका मागीर आपली जावं घरच्यांची इज्जत, कित्याचीच पर्वा उरना. इतलेंच न्हय तर आनातोला बरोबर पळून वचपाची तयारीय तें करता.

आनातोल हो पीयराचो मेवणो. पीयर् जाणा आशिल्लो, आनातोलाचें पोलंडाक लग्न जालां म्हूण. एक खेपे लग्न जाल्लो, बायल आसतना, दुसरे खेपे लग्न जातलो?

आनातोल नाताशाक पळून वचपाक फुसलायता जायत जाल्यार फकत नाताशा बरोबर फोल्गां मारपाक, लग्न जावपाक न्हय. पीयर हें नाताशाक सांगता तेन्ना नाताशाक येदो धसको बसता की तें विख्ख घेवन जीव दिवपाक तयार जाता.

पीयराचेर ताचें निस्वार्थी प्रेम आसता. नाताशा आनातोला बरोबर पळून वचपाचो बेत करता म्हणपाचें पीयराक कळटा तेन्ना ताका, आपले बायलेची – ॲलेनाची याद जाता. 'सगळ्योच बायलो अश्यो' अशें म्हणून ताका नाताशाचो अबको येता. तरी आसतना आपणें ॲलेना कडेन जुळोवन घेतलां जाल्यार मागीर नाताशाक माफ करपाक आडखळ कसली, अशें येवजून तो ताका वाटावपाक भायर सरता. आंद्रेईचेर आशिल्लो मोगूय एक कारण हाचें.

पीयर बायलांचे बाबतींत दुबळो आशिल्लोच. तांचो तो अपमानूय केन्ना करी नाशिल्लो. तातूंत फ्रीमेसन संप्रदायाचे संस्कार ताचेर पडिल्ले. हाका लागून तो नाताशाची चूक विसरूंक पावलो. आंद्रेईक हें जमपा सारकें नाशिल्लें. आंद्रेईक जेन्ना नाताशाच्या ह्या पतनाची खबर कळटा तेन्ना तो नाताशाच्यो सगळ्यो चिटी परत्यो करता. पीयरूच त्यो घेवन वता. नाताशा पच्छातापान हुलपल्लें आसता. तें आंद्रेई कडेन क्षमा मागता. पीयराचें काळीज कळवळून येता. नाताशाक तो धीर दिता.

पीयराच्या मोगान नाताशा वाटावता. पच्छातापाच्या जाळान तें सामकें भाजुनूय येता आनी नाताशाचो एक नवोच अवतार सुरू जाता. आदलो ताचो हांसो वता, आदलो आनंद वता. आनी तें प्रार्थना, उपास असल्यो गजाली करूंक लागता. नाताशाचो एके तरेन पुनर्जल्म जाता.

नाताशा बदलता. नाताशाचो घाय पेखता. पूण आंद्रेईचो पेखना. जो उजवाड आनी उल्हास ताच्या काळजांत फुटून आयिल्लो ताची सुवात आतां काळोख घेता. ताच्या काळजांतली झर व्हांवपाची थांबता. तो परतो लष्करांत भरती जाता आनी दीसभर कामांत बुडून रावता. नेपोलियना आड झुजपाची तयारी चल्ल्या तेन्ना तो त्या झुजांत पडटा. आनी थंयच ताका मरणाचो दिश्टावो जाता. आतां आपलें जिवीत सोंपलें अशें म्हणून तो आपल्या फाटल्या जिविताच्यो यादी काडूंक लागता. कित्यांतूच कांय अर्थ ना. कीर्त, लोकांची सेवा, मोग सगळेंच अर्थ नाशिल्लें, अशें ताका दिसूंक लागता. पीयर ताका मेळपाक येता तेन्ना तो ताका सांगता, 'आतां जियेवप लेगीत म्हाका सोंसूं नज जालां. खूब पळेलें हांवें, खूब सोंसलें. झूज सुरू जाता आनी तोफेचो एक गुळो ताचे म्हऱ्यांत येवन पडटा आनी जिविताक उबगल्लो हो आंद्रेई अवचीत म्हणूंक लागता, 'ना, म्हाका मरपाचें ना. जिविताचेर म्हजो मोग आसा. ही धर्तरी, ही माती, हें तण सगळेंच मोग करपा सारकें.' जिस्त ह्या वेळार तो घायाळ जाता आनी पडटा...

तॉलस्तॉयची ही नवलकथा म्हळ्यार गंगा आनी ब्रह्मपुत्रा हांच्या संगमा सारकी. तिची तडूच दिश्टी पडना. दोळ्यांत फकत विशाळकायूच भरता. तुळा करची जाली जाल्यार तिची सैमा कडेनूच करूं येत. सैमांत खिणा खिणाक कितें तरी नवें जल्मा

येता, खिणा खिणाक कितें तरी मरता. देखून तें सदांच नवें ताल्ल आसता. निर्मणेच्या उल्हासाक नवीं नवीं जिवितां निर्माण जायत रावतात. खंयच काटकसर ना. खंयच हिमटेपण ना. आनी निर्मणेंत एकरुपतायूय खंयच दिश्टी पडना. सगळेंच नवें, आगळें वेगळें.

१८०५ ते १८१२ ह्या सात वर्सांच्या काळांत रशियेचेर नेपोलियनाच्यो घुरयो पडिल्ल्यो. ह्यो घुरयो हे नवलकथेचो विशय. पूण तॉलस्त्तॉय नेपोलियनाक इल्लेंय म्हत्व दिना. नेपोलियनाक लागून रशियेचें जिवीत सगळें धवळून आयलां. सगळेंच सकल वयर जालां. इतलेंय आसून नेपोलियनाक लागून हें सगळें जालां अशें तॉलस्त्तॉय म्हणिना – ताची नदर नेपोलियनाचेरूय ना. सेनापतीचेरूय ना. आसा ती ल्हान व्हड सैनिकांचेर. तांचींच सुखां, दुख्खां तो चित्रायता. नेपोलियनाक तो क्षुद्रूच लेखता. गर्विश्ठ मानता. ताची एकूय येवजण सफळ जायना अशें तो दाखयता. इतिहासांत जे व्हड मनीस जावन गेल्यात – चड करून झुजांच्या इतिहासांत तांकां तुमी कितलेय व्हड मानात, ते खरेपणानर्शी व्हड न्हय. हेंच तॉलस्त्तॉयाक दाखोवपाचें आसा. नेपोलियनाक जाल्यार तो व्हड मानूंक मातूय तयार ना. ल्हानांतलो ल्हान मनीस, किरकोळांतलो किरकोळ मनीस, कोल्ली, मिथ्याभिमानी. हाका लोक व्हड कित्याक म्हणटात, हेंच ताका समजना.

नवलकथेची सुरवात जाता एके पार्टीच्या वर्णनान. रशियेंतले व्हडले व्हडले लोक आयल्यात. व्हडले व्हडले भाटकार, व्हडले व्हडले उमराव थंय ज्मल्यात. खबरी चल्ल्यात. धवळे चल्ल्यात. थिल्लर समाजाच्यो खबरी ह्यो. कोणा कोणाचें लग्न जावंचें, कोण खंयचे सुवातेर पावचो असल्योच सगळ्यो. वयल्यो वयल्यो. तॉलस्त्तॉयान हें वर्णन कितलें सुंदर केलां! पार्टी चलता आसतना नेपोलियनाची रशिये वयले घुरयेची खबर येता आनी पुराय वातावरणूच जशें कितें घस्सायंच करून पडून मातये भरवण जाता. आनी आमकां मातूय वायट दिसना.

झुजाचीं कितलिंशींच वर्णनां आसात. सैन्यां येतात, वतात. तोफो एकामेकांचेर दागतात, कोण घायाळ जातात, कोण किळांची मारतात, कोण पळून वतात, कोण मरतात, गांवचे गांव लासून वतात. शेतांचीं शेतां जळून गोबर जातात. वसतिच्यो वसती एक गांव सोडून दुसऱ्या गांवांत वतात. घरां मोडटात. इतल्याय ह्या बोवाळांत लोक मोग करतात, निर्शेतात, नवे नवे बोध घेतात. नाच चलतात, गाणीं चलतात. जाणटेले मरतात, नवे जल्माक येतात. जिविताचो खेळ चलत रावता. हो खेळ झूज अर्थशून्य म्हणपाचेंच दाखोवन दिता.

तॉलस्त्तॉय कलाकार. एक व्हडांतलो व्हड कलाकार. तो सैमाचीं वर्णनां करता. लोकांचीं चित्रां दोळ्यां मुखार उबीं करता. तांच्या सभावाचीं वर्णनां करता. तांच्यो खोडी सांगता. आनी तांच्यो ज्यो खबरी जातात त्योय विस्तारान सांगता. ह्या खबरांनी तत्वगिन्यानाचे प्रस्न तो हाताळटा. देव आसा काय ना, जिविताचो अर्थ कितें, मरण कित्याक येता, ताचें रूप कितें, क्षमा, प्रेम हांची जिवितांत सुवात खंयची, हे सगळे

प्रस्न तो आमचे मुखार दवरता आनी तांच्यो जापोय सोदून काडपाक आमकां आधार दिता.

तॉलस्तॉयान ही नवलकथा सात खेपे बरयल्ली अशें म्हणटात. म्हळ्यार, सात खेपे ताणें बरयल्लें सगळें बदल्लें. तरी बरोवपाक ताणें कितल्यो खबरी एकठांय केल्ल्यो ! नेपोलियना विशिंचीं सगळीं पुस्तकां वाचून काडिल्लीं. रशियेच्या आर्काइव्हांतलीं सगळीं कागदां नदरे खाला घाल्लीं. नेपोलियनान घुरी घाल्ली ते मुर्स्तींतले कोण जिते उरिल्ले तांकां वचून तो मेळिल्लो. कितलेशेच ट्रंक भरून म्हायती एकठांय केल्ली. सगळें मागीर ताणें तकलेंत गाठायलें – वा म्हणुंया, प्रतिभेचे लॅबोरेटरींत शिजोवन काडलें. आनी विश्वामित्रा भशेन एक नवी सृश्ट निर्माण केली – आमचे मुखार जियेता ते सृश्टी इतलीच खरी.

एक एक उतर ताणें मेजलां. एक एक वाक्य ताणें घांसून पुसून काडलां. ताचे गिरबे नदरेंतल्यान कितेंच सुटूंक ना. ल्हानांतली ल्हान वस्त लेगीत ताणें अपरूप जाल्ले वरी जंय दवरूंक जाय थंयच व्हरून दवरल्या.

विश्व-साहित्यांतली व्हडांतली व्हड अशी ही नवलकथा. पर्वतांत जसो हिमालय तशी. ती बरोवपी मनिसूय तेदोच व्हड आसूंक जाय. आकांताची प्रतिभा, आकांताचो अणभव आनी मनशाच्या काळजांत भितर रिगपाची आकांताची गिरबी नदर आशिल्लो. येदी व्हडली नवलकथा संवसारांत आयजवेर कोणेंच बरोवंक ना.

आनी – सॉमरसॅट मॉम म्हणटा, हे मुखारूय कोण केन्ना बरोवंक पावचो ना.

□ □

# २२

# जिविताचें भांगर करपी एक पुस्तक

महाभारत म्हळ्यार रत्नांची एक खण. उसपीत राव, केन्ना सोंपपाची ना. महाभारतांत कितें मेळना ? इतिहास मेळटा, धर्मशास्त्र, नितिशास्त्र मेळटा. राज्यशास्त्र, समाजशास्त्र मेळटा, अध्यात्मशास्त्र तर पाना कणकणी मेळटा. भारतीय विचारांचो एक विश्वकोश हो. आनी भारतीय आख्यानांचो एक कल्परूख.

खासा महाभारतकारूच म्हणटा : हातूंत जें आयलां तेंच तुमकां हेर कडेन मेळटलें. हातूंत जें ना तें मात खंयच मेळपाचें ना.

यदिहास्ति तदन्यत्र यन्नेहास्ति न तत् क्वचित्.

**भगवद्गीता** हेच खणींतलें एक रत्न.

भगवद्गीते इतलेंच म्हत्वाचें दुसरें एक रत्न म्हज्या हाताक लागलें – महाभारताची ही खण उसपूंक बशिल्लों तेन्ना.

वनवास-अज्ञातवास सोंपोवन पांडव परते आयल्यात. विराटाचे उपप्लव्य नगरींत येवन रावल्यात. गेल्लें राज्य परतें कशें घेवचें हाचे बेत ते रचतात. कृष्ण तांच्या आधाराक हांगा येवन रावला. जमल्यार सन्मथान, ना जाल्यार झुजून, पुणून राज्य परतें घेवंकूच जाय असो ते नित्शय करतात.

झूज चुकोवंक येवपाचें ना म्हणपाचें ते जाणात. देखून कोण आपल्या अर्दान आसात आनी कोण कौरवांच्या, हें पळोवपा खातीर सगळे कडेन ते दूत धाडून दितात. धृतराष्ट्राच्या कानार ही खबर पावता. तेन्ना तो हुसक्यांत पडटा. 'तांच्यां मनांत कितें आसा तें मात्शें पळोवन यो पळोवंया' अशें म्हणून तो संजयाक पांडवां सरीं धाडटा. संजय उपप्लव्य नगरींत वचून सगळ्यांक मेळून येता आनी 'हे राज्य घेतले बगर सस्थ बसपाचे नात' हाचें खरेपण करून घेवन तो परतता. तो हस्तिनापुराक पावता तेन्ना रात जाल्ली आसता. धृतराष्ट्र न्हिदूंक गेल्लो आसता. ताका तो उठयता. आनी 'हांव पांडवांक मेळून आयलों. तांणी जें कितें सांगलें तें फाल्यां राजसभेंत सांगतां. आतां म्हाका पुरो जालां' इतलेंच सांगून तो न्हिदूंक वता. वतना एकूच वाक्य उच्चारून वता – 'तुवें खूब चुको केल्यात आनी आपणाचेर गरज नासतना अपसरणां ओडून घेतल्यांत' अशें म्हणटा.

धृतराष्ट्राक न्हीद पडना. 'कितें सांगून धाडलां काय देवा', तो तरेतरेचो दुबाव काडटा. ताका हुस्को जाता आनी तो विदुराक आपोवंक धाडटा. विदुर ताचो भाव. तसो सांगातीय. दीस रात ताचे म्हऱ्यांत रावपी.

विदुर येता. धृतराष्ट्र ताका संजय परतल्ल्याची खबर सांगता आनी म्हणटा : 'पांडवांनी जें कितें सांगून धाडलां तें फाल्यां सांगतां अशें सांगून गेला. कितें सांगून धाडलां जातलें, समजना. हाका लागून म्हाका आतां न्हीद पडना. जिवाक थाकाय मेळत अशें कितेंय सांग' अशें म्हणटा. आनी विदुर ताका कितें-कितें सांगता.

ह्या निमित्त्यान विदुराच्या तोंडांत जें घालां ताका महाभारतांत नांव दिलां: प्रजागर पर्व. प्रजागर म्हळ्यार स्थूल अर्थान जागरण, न्हीद उडून वचप. पुणून हाका दुसरोय एक अर्थ आसा: जागरूक रावप. खिणान खीण जागरुकपणान जियेवप.

ह्या प्रजागर पर्वाचीं देशी भाशेंत भाशांतरां जाल्यांत. सगळ्यांनी ह्या भाशांतरांक **विदुर-नीति** हें नांव दिलां. वयल्या वयल्यान पळेल्यार हातूंत नितिचीं सुभाषितांच एकठांय केल्यांत काय शीं दिसतात. पुणून मात्शे खोलायेंत देंवक जाय. कोण ही नीत सांगता आनी कोणाक सांगता हें लक्षांत घेवंक जाय. म्हणटकूच हे निती फाटल्यान आशिल्ली एक पुराय 'फिलॉजॉफी ऑफ लायफ' नदरेंत भरतली. भगवद्‌गीते इतल्याच म्हत्वाच्या एका तत्त्वज्ञानाचो दिश्टावो जातलो.

आमी जाणात: धृतराष्ट्र दैववादी. कर्ण शकुनी दुर्योधन दुःशासन जें कितें येवजितात करतात तें समा न्हय म्हणपाचें तो जाणा. ताका विदुर, गांधारी, व्यास, कृष्ण जें सांगतात तें खरें म्हणपाचेंय तो जाणा. पुणून ताका निर्णय घेवंक येना. तो म्हणटा: 'हांव कितें करूं? नशिबांत जें आसा ताचे आड कोणाचेंच चलना. नशिबांतलें चुकोवंक येना...' आनी तो कर्ण शकुनी दुर्योधन दुःशासन करतात तें करूंक दिता.

ते मुस्तींत 'नशिबांत जें आसा तें चुकोवंक येना' अशें मानपी एक मत्त आशिल्लें. ताका भाग्यवाद, दैववाद, नियतीवाद, प्रारब्धवाद अशीं नांवां दिल्लीं. सगळ्यांचो अर्थ एकूच: नियतीन जें थारायलां ताचे आड वचपाची तांक मनशाच्या कर्तुत्वाक ना. कर्तुत्वाक जिवितांत मोलूच ना अशें सांगपी हें मत्त आशिल्लें.

धृतराष्ट्र ह्या मत्ताचो आशिल्लो.

ह्या मत्ता आड तेच मुस्तींत आनीक एक नवें मत्त वयर सरिल्लें. दैवान, भाग्यान, प्रारब्धान सगळेंच थारावन दवरलां म्हणटात तें खरें न्हय. थारावन दवरिल्लें आसलेंय जाल्यार ताचे सुवादीन जावप समा न्हय. मनशांत प्रज्ञा नांवाची एक शक्त आसा – बुद्दी परस वयल्या पांवड्याची. तिच्यांत बरें-वायट पारखुपाची तांक आसा. तिका बरें वा बऱ्याक पडत तें वेंचून काडूंक येता. प्रज्ञेक धरून मनीस करण्यो करीत जाल्यार ताच्यान आपलें भाग्य लेगीत बदलूं येता अशें हें मत्त सांगतालें.

ह्या मत्ताक नांव दिल्लें: **प्रज्ञावाद.**

विदुर ह्या मत्ताचो आशिल्लो.

पांचशें तीस श्लोक आठ अध्यायांत वांटून विदुरान हो प्रज्ञावाद ताच्या वैयक्तीक, कौटुंबीक आनी सामाजीक आयामां सयत आमच्या हातांत दवरला. कर्तुत्व, शील, न्याय, नीत, ज्या ज्या तत्त्वांक लागून जिविताक अर्थ येता, आनी मनीस, कुटूंब हांचे वांगडा समाज वयर सरता त्या सगळ्या तत्त्वांची फोडणिशी ह्या पुस्तकांत

आयल्या.

महाभारतांत प्रज्ञावादाचो आसपाव जालो ते मुस्तींत समाजांत भाग्यवादाचो प्रभाव सगळ्यांत चड आशिल्लो. अजुनूय आमचो समाज ह्या प्रभावांत आसा. ह्या प्रभावाक लागून भारतीय समाज कर्तुत्वहीण जाला. मुखार मोक्षपर्वांत मंकी नांवाच्या एका रुशिचो उल्लेख आयला. तो भाग्यवादी – वा म्हणुंया, नियतिवादी आशिल्लो. जाणकार म्हणटात, मंकी रुशी बुद्दधान जाका मक्खली गोसाल म्हळा, तो आसूंक जाय. बुद्दधान मक्खली गोसालाक नियतिवादाचो आचार्य लेखला आनी समाजाचो सगळ्यांत व्हडलो दुस्मान मानला. बुद्दध प्रज्ञावादी. आयुष्यभर भाग्यवादा आड झुजिल्लो. ताची वाड श्रमण-संस्कृतींत जाल्ल्यान ताचो प्रज्ञावाद अखेर लोकांक निर्वाणा कडेन व्हरपाक वावरूंक लागलो ही गजाल वेगळी. पुणून तो भाग्यवाद विरोधी प्रज्ञावादी आशिल्लो हातूंत दुबावूच ना. विदुराचो प्रज्ञावाद संवसारा कडेन फाट करून निर्वाणा कडेन वचपी नाशिल्लो. हो दोगां मजगतचो मोटो फरक. विदुराच्या प्रज्ञावादान मनीस कुटूंब समाज आनी कर्तुत्वाच्या आधारान तांची उदरगत ह्या तत्त्वांचेर चड भर दिल्या. महाभारतांत विदुराच्या प्रज्ञावादाक 'संसारिणी' म्हळा. म्हळ्यार, सगळ्यांक पावला पावलाक उपकारा पडटा असलो लेखला. ताचो उद्ददेश भाग्यवादाच्या प्रभावांतल्यान समाजाक मेकळो करून ताका कर्तुत्वाच्या मार्गार हाडप होच आशिल्लो.

भाग्यवाद म्हणटा: नशिबांत आसा तशेंच घडटलें. तातूंत इल्लो लेगीत बदल जावपाचो ना. जाल्यार, प्रज्ञावाद म्हणटा: हें खरें न्हय. मनशांत बुद्दी परस वयल्या पांवड्याची एक शक्त आसा. ते भायर ताका करणेची मेकळीक मेळ्ळ्या. प्रज्ञेक धरून करणी करची, मनशाचें भाग्य बदलतलें.

भाग्यवाद म्हणटा: जें मेळ्ळां तातुंतूच मनशान धादोसभरीत रावचें. हात-पांय हालोवन कांय मेळपाचें ना. प्रज्ञावाद म्हणटा: मागीर, मनशाक हात-पांय देवान कित्याक दिल्यात तर? ते हालय. उर्बेन आनी उत्साहान काम कर. तुका जें मेळ्ळां तें तुका नाका आसत जाल्यार तुज्यान तें भायर भिरकावन मारूं येता आनी तुका जाय तें तुज्यान जोडूं येता. इतली तांक तुज्यांत आसा.

भाग्यवाद म्हणटा: जो वयल्या कुळांत जल्मा आयला तो वयरूच उरतलो. जो गिरेस्तागेर जल्मा आयला तो गिरेस्तूच उरतलो. प्रज्ञावाद ताका जाप दिता: हेंवूय खरें न्हय. कुळाक म्हत्व आसा, दुबाव ना. पुणून आचाराकूय तितलेंच म्हत्व आसा. आचारान कूळ वयर सरूं येता. इतलेंच न्हय, विद्द्या, तप, संयम, त्याग, स्वाध्याय, दान बी गुण केळोवन मनीस ल्हानाचो व्हड जावं येता. चारित्र्यान, शिळान, विद्द्येन व्हड तोच खरो व्हड. मागीर, तो खंयच्याय कुळांत जल्मा येवं. व्हड जातकूच ताका व्हडूच लेखूंक जाय. मनीस गरिबागेर जल्माक येवं, कर्तुत्वान ताच्यान गिरेस्त जावं येता.

नीट चाल आसप, उजू चलणूक आसप, चित्त निर्मळ दवरप, प्रज्ञेक धरून करणी करप, मनीसपणाक घट्ट धरून रावप, कसलीय परिस्थिती येवं, सुख-दुख्ख,

येस-अपेस, हार-जैत कित्याकूच म्हत्व दिनासतना मनीसपणान चलप, असले कांय नेम ह्या प्रज्ञावादान आमचे मुखार दवरल्यात. ह्या नेमांत एक पुराय जीवन-दर्शन – एक 'फिलॉजॉफी ऑफ लायफ' दिश्टी पडटा.

कित्यांतूच मन घालप ना, जाय तें जाय म्हणप ना, नाका तें नाका म्हणप ना, ठेविलें अनंतें तैसेंची रहावें, हें भारतीयांचें तत्त्वज्ञान असो सगळ्यांचो समज. भायल्यांचो जालो, आमचोय. प्रज्ञावाद सारको हाचे उरफाटो. तो म्हणटा: मनशान सगळ्याच गजालिंनी मन घालूंक जाय. घर, भाट, बायल-भुरगीं, जेवण-खाण, न्हेसण-पांगरूण, उद्देग-धंदो, इतलेंच न्हय तर राजकी, सामाजीक म्हत्वाच्या सगळ्या गजालिंनी रूच घेवंक जाय. तातूंत सुधारूय घडोवन हाडपाक वावरूंक जाय. केन्ना केन्ना यत्न करुनूय फळ मेळना. खरें. पुणून म्हणून निर्शेवंक जायना आनी तांतलें आंग वा मनूय काडून घेवंक जायना. यत्नूच खंय तरी चुकल्यात अशें धरून तातूंत बदल करूंक जाय.

प्रज्ञेक जैत मेळ्ळे बगर रावच ना.

विसाव्या शेंकड्यांत आमी बुद्‌दिवाद नांवाचें एक तत्त्वज्ञान येवरोपेवां कडल्यान घेतलें. बुद्‌दीक पटना तें मानप ना अशें सांगपी हें तत्त्वज्ञान आमच्यांतल्या कांय जाणांक रोखडेंच पटलें. पुणून तांच्या लक्षांत एक गजाल आयली ना. हो बुद्‌दिवाद लेगीत श्रद्धेचोच एक मार्ग. बुद्द आपणाक सत्या कडेन व्हरतली अशें मानपी मार्ग. पुणून बुद्द भुरगेपणांत भुरगी आसता, जाणटेपणांत जाणटी जाता, मागीर म्हातारीय जाता. आवडी-नावडी, कोडू-गोड अणभव हांचोय तिचेर प्रभाव पडटा. प्रज्ञा बुद्दी परस व्हडली, वयल्या पांवड्याची. तिच्यांत विवेक आसता तशी नमळायूय आसता. आवडी-नावडी आनी कोडू-गोड अणभवां पसून ती सदां अलिप्त आसता. तिचे कडेन कोणाचेंच लक्ष कशें गेलें ना, अजाप जाता.

महाभारतांत भगवद्‌गीताय आसा. गीतेचेय बुन्यादींत हो प्रज्ञावाद आसा. गीतेचो आदर्शूच स्थितप्रज्ञ – जाची प्रज्ञा थीर, कशीच हालना, असलो मनीस. हार-जैत, येस-अपेस, सुख-दुख्ख हांकां नितिचे नदरेन कसलेंच मोल ना अशें म्हणपी. हे गीतेचेर लोकांनी खूब भाष्यां बरयलीं. विदुराचे प्रज्ञावादी नितिचेर कोणेंच कितेंच अजून मेरेन कशें बरयलें ना? मराठी, गुजराती, हिन्दी, इंग्लीश – चारूच भासांनी हिचे अनुवाद मेळटात. भाष्यां खंयच मेळनात. कित्याक मेळनात? जितलो अदीक खोलायेंत वतां तितलें तितलें म्हाका दिसता, हाच्या पांचशें तीस श्लोकांचेर पांचशें तीस निरुपणां बरोवं येतलीं. एक नवी नदर दिवपी, नवी उर्बा दिवपी, नवी देख लावपी एक आगळें वेगळे आनी प्रेरक पुस्तक हें. कोणेंय तरी केन्नाय तरी महाभारताचे खणींतलें हें रत्न घांसून पुसून निवळ करून लोकां मुखार दवरूंक जाय.

जिवितांचें भांगर करपाची तांक आशिल्लें पुस्तक हें.

□ □

# २३

# फकत प्रेरणे खातीर

म्हाका एका विशयाची म्हायती जाय आशिल्ली. एक 'पेपर' बरोवपाचो आशिल्लो. आरमारींतल्यान धा-वीस पुस्तकां काडलीं. आरतिलीं परतिलीं. भौन भौन चाळ्ळीं. पुणून —

जाय आशिल्ली म्हायती सारकी मेळच ना जाली.

हांव निर्शेलों. कितें करचें, खंय वचचें, कोणाक विचारचें, येवजूंक लागलों. येवजितां येवजितां अवचीत उगडास जालो. म्हळें, 'आरेच्या! असो कितें हांव? हाण्डीर आसा चेडो, सोदतां सगळो वाडो! म्हजे कडेन 'ज्ञानकोश' आसा, डॉ. केतकरांचो... तातूंत मेळना अशें कितेंच ना... बेश्टो इतलो वेळ घुस्मटमार सोंसलो!...'

तसोच उठलों. आरमारींतल्यान ज्ञानकोश काडलो.

म्हायती मेळ्ळी. पुणून... देवा म्हज्या!... शेळी. शंबर वर्सां आदली. हांवें तिडकीन ज्ञानकोश मेजार आपटिलो आनी फणफणत म्हळें, 'असल्या ह्या गिन्यानाचेर पातयेवन रावल्यार मनीस अन्नाडीच उरतलो. महाराष्ट्र खूबसो अन्नाडी उरला तो हेच खातीर जावंक जाय... कपलाचो ज्ञानकोश हो... भिरकावन भायर मारपा सारको...'

आनी पायप पेटोवन म्हऱ्यांतल्या वॉल्तेरार वचून बसलों.

अवचीत् दोळ्यां मुखार एक मूर्त उबी रावली, एकल्या जाणट्या मनशाची. मात्शी भिजूड-शी. 'आयलां, तें काम जायत मू? परतें वचचें पडचें ना मू?' हे तरेन मात्शी काचाबूल जाल्ले वरी.

हांव तेन्ना सात आठ वरसांचों.

दनपारचो वेळ. बाबा जेवन न्हिदिल्लो. आपूण न्हिदतां त्या वेळार खंयच खुट्ट जावंक जायना असो कडक नेम बाबाचो. ह्या नेमाक धरून बाईन आमकां भुरग्यांक घेवन भायल्या वारांदार बसचें. खट्ट-खुट्ट खंयच जावंक दिवचें न्हय. बुकल्यान लेगीत खट्ट-खुट्ट केल्यार तिकाच धेंगसो खावचो पडटालो.

आमकां भुरग्यांक बंदखणींत घाल्ले वरी जावचें.

आमी दीवाक आसतालीं, तेन्नाची खबर ही.

जिस्त ह्याच वेळार कोणेंय तरी येवचें आनी 'डाक्टर साहेब छे?' काय म्हूण विचारचें. किण्ण वातावरणांत मदींच ढुम्म करून बॉम्ब फुटचो तशें-शें आमकां हें 'डाक्टर साहेब छे?' आयकतकूच जावचें. आमी कच्च करून आंग काडचें आनी शूत् शूत् करीत धांवत धांवत वचून 'बोवाळ करूं नाका, बाबा न्हिदला' म्हूण ताका

सांगचें.

एक दीस आमी अशींच पारो करीत बशिल्लीं. इतल्यांत एकलो जाण्टो, मोटवो मनीस आयलो. रोपेर दारांत येनात, तसो-सो, खांदार एक पोटली, हातांत एक बॅग घेवन. चुरिल्लो फात घाल्लो. दारांत उबो रावलो आनी—

'डॉक्टर केळेकर इथं राहतात का?' म्हूण चक्क मराठींत विचारूंक लागलो.

ह्या वेळार ह्या मनशाक असो अकस्मात आयिल्लो पळोवन आमकां पयलींच कच्च जाल्लें. तातूंत आनी ही विचित्र-शी भास आयकून थरथरिल्ले वरी जालें. 'आ! पडटा आतां फोग, ताका आनी आमकां' अशें आमकां दिसलें. पुणून आमी शुत् शुत् करून धांवत वचचे पयलींच बाबा उठलो आनी ताणेंच ताका दार काडून विचारलें, 'कोण?'

'आपण डॉ. केळेकर का?'

'होय...'

'मी डॉ. श्रीधर व्यंकटेश केतकर...' आनी काकुळटेचें तोंड करून तो बाबाच्या तोंडा कडेन पळेत रावलो.

म्हाका घट्ट उगडास आसा त्या तोंडाचो. आपणाक हांगा कसलो येवकार मेळत, सांगूं नज... घडये वासिमोराद पडत... ह्या दुबावान काचाबूल जाल्लें तें तोंड अजुनूय दोळ्यां मुखार जिवें तट्टटीत जावन उबें रावता.

आनी बाबा? खीणभर आपूण जागो आसां काय सपनांत ह्या बुचकळ्यांत पडला आनी मागीर, कितें करूं, कितें दिवं हे भाशेन भुल्लुसून गेला...

म्हज्या दोळ्यां मुखार हो प्रसंग उबो रावलो.

ज्ञानकोश रचून जातकूच तो खपोवपाक डॉ. श्रीधर व्यंकटेश केतकर महाराष्ट्रांत भोंव-भोंव भोंविल्ले. एक-एकल्याचे हुंबरे दोन-दोन चार-चार खेपो झरयत झरयत ते महाराष्ट्रा भायर इन्दोर, ग्वाल्हेराक गेल्ले. थंयच्यान बडोदें करून जुनागढाक पाविल्ले. जुनागढाक त्या वेळार वामन मल्हार जोशींचे एक भाव (नांवाची याद जायना आतां) खंयच्या तरी एका मोठ्या सरकारी हुद्द्यार आशिल्ले. तांच्या गळ्याक ताणी ज्ञानकोशाचो एक सॅट बांदिल्लो. थंयच तांकां कळिल्लें – तीस चाळीस मैलांचे वाटेर दीव नांवाचो एक जुंवो आसा, पुर्तुगेजांचे मालकिचो. थंय दोतोर केळेकार नांवाचो एकलो गोंयकार रावता. तो मराठी वाचता आनी ताका पुस्तकां विकतीं घेवपाचें 'व्यसनू'य आसा.

डॉ. केतकरांक इतलीच म्हायती पुरो जाली. एक सॅट खपल्यार खपलो हे आशेन उज्याच्या रखरखांत ते टांग्यान तीस चाळीस मैल कातरून दीवाक पाविल्ले... दोतोर केळेकाराक सोदपाक!...

हांव मेजार पडिल्ल्या ज्ञानकोशाच्या त्या खंडा कडेन पळेत रावलों.

कितें कितें दिश्टी पडचें थंय म्हाका! आनी कोण कोण?...

ज्ञानेश्वर, तुकाराम, एकनाथ, नामदेव...

'हय, मराठी नामना जोडूंक पावली ती तुमकांच लागून', हांवें तांकां म्हळें. पंडितांचे

संस्कृत भाशेंत बंदिस्त आशिल्लें आत्मगिन्यान अन्नाडी लोकांच्या काळजा मेरेन तुमीच व्हरून पावयलें. महाराष्ट्रांतलो लोक संस्कारी जालो, वयर सरूक पावलो तो तुमच्याच वावराक लागून. आकांताचे व्हड तुमी. अमृता कडेन लेगीत पैज जिखपाची तांक आशिल्ले...

'पुणून मराठी 'भास' जावंक पावली ती फकत तुमकांच लागून व्हय? अज्ञंवर कवितांचेर आधारून खंयचीय भास 'भास' जावं येताली जाल्यार अवधी आनी ब्रज ह्योवूय भासो जावंक जाय आशिल्ल्यो. कित्याक, ह्याय भासांनी तुमच्या येद्याच तोलाचो वावर जाला. तुलसीदास, सूरदास तुमचे परस ल्हान न्हय. तांणीय लोकांक संस्कारी केल्यात. तुमचे भाशेन तांणीय लोकांक वयर काडल्यात. अजून लेगीत लोक तांचीं पुस्तकां रुचीन आनी भक्तीन वाचतात. पारायणां करतात. पुणून अवधी आनी ब्रज अजून 'बोलयो'च उरल्यात. 'भासो' जावंक पावूंक नात. मागीर, मराठी 'भास' जावंक पावली ती तुमकांच लागून अशें कशें म्हणूं येत? तुमी मराठीक अज्ञंवर कवित्व दिलें. तुमीय अज्ञंवर जाले. मराठीक 'जिवी' दवरुपाचें स्रय तुमकां दिवं नज म्हज्यान.'

मागीर, स्रय कोणाक दिवचें?

म्हणटा म्हणसर, आर्विल्ले मुस्तींतले कवी, कथाकार, नवलकथाकार, नाटककार, निबंधकार, पत्रकार मानो वयर करून मुखार आयले.

सगळ्यां मुखार ना.सी.फडके येवन उबो रावलो. तांकां पळोवन म्हजे दोळे मात्शे बिलबिलूंक लागले.

'हय गा... तुमीय व्हड, हांवें खंय ना म्हळां?' हांवें तांकां म्हळें. 'तुमकांच लागून तर आत्मो, परमात्मो, सर्ग, नर्क, पातक, पुण्य हांच्या जाळांत घुस्पल्ली मराठी 'मेकळी' जावंक पावल्या. तुमीच तिका आर्विल्ल्या संवसारांत हाडून पावयल्या. तुमी न्हय जाल्ले जाल्यार मराठी देवस्पणांतूच घुसमटून मरतली आशिल्ली; लोकांक हांसोवची नाशिल्ली, खेळोवची नाशिल्ली, रडोवची नाशिल्ली, केळोवची नाशिल्ली. आमच्या काळजांत बशिल्ल्या देवाची आनी देंवचाराची वळखूच आमकां जावंक पावची नाशिल्ली.

कितले उपकार केल्यात तुमी लोकांचेर! पुणून...

एक विचारूं? रागार जावचे नात मू? तुमी आयले उपरांत मराठी 'भास' जाल्या? काय, मराठी 'भास' जाले उपरांत तुमी आयल्यात? तुमी मराठीची कितलिशी सेवा केल्या? मराठी खातीर तुमचें रगत कितलेंशें आटलां? तुमकां रॉयल्टी मेळूंक नाशिल्ली, नावलोकीक मेळूंक नाशिल्लो जाल्यार, तुमी मराठींत बरयतले आशिल्ले?...'

इतल्यांत —

आनीक कांय जाण मुखार आयले. कांय मुंडाशेकार, कांय तोपयेकार, कांय अजागळां सारके, कांय विक्षिप्त... चडश्या कोणाक हांव वळखलो ना.

पुणून हांच्यांत सगळ्यांत मुखार आशिल्लो – डॉ. श्रीधर व्यंकटेश केतकर. तस्सो...

हांवें म्हज्या भुरगेपणांत पळेल्लो तसो धवो फात घाल्लो. मात्सो चुरिल्लो. रंगीत ग्रावात आशिल्लो – फाटीर ज्ञानकोशाची पोटली घेतिल्लो. काकुळटेचे नदरेचो...

आनी हांवें म्हळें, 'हय... ह्या सगळ्यांचो प्रतिनिधी तूं, हांव जाणां, ह्या सगळ्यांक हांव वळखना. पुणून तुका वळखतां... तूं येवरोपाक शिकून आयिल्लो. तुज्यान जाय जाल्यार व्हडल्या पगाराची नोकरी करूं येताली. व्हडल्या बंगल्यांत रावं येतालें. सुशेगाद बरें जियेवं येतालें. पुणून तुज्यांत एक 'कितें तरी' आशिल्लें. जाका लागून 'वेव्हार' तुका मातूय कळनाशिल्लो. वेव्हाराक तुवें फाट केल्ली. देखून तूं 'नाका जाल्ल्या भानगडिंनी' पडलो. मराठींत ज्ञानेश्वर आशिल्लो, तुकाराम आशिल्लो, एकनाथ आशिल्लो. नामदेव, रामदास... एका फुडले एक कवी आशिल्ले. चिपळूणकर, टिळक, आगरकर, परांजपे – एका फुडले एक गद्यकार जावन गेल्ले... तरूय तूं म्हणूंक लागलो, 'च्यँ! इतल्यान भागना. मराठींत वेगळ्या वेगळ्या विशयांची म्हायती दिवपी पुस्तकां खंय आसात? एन्सायक्लोपेडिया ब्रिटानिका सारको ज्ञानकोश खंय आसा? असलें साहित्य मराठींत आयलेंना जाल्यार मराठी 'भास' जावंक पावपाची ना. तिच्या पुतांक हे म्हायती खातीर दुसऱ्या भासांचो आधार घेवचो पडटलो आनी जे मेरेन तांकां खंयच्याय कामाक दुसऱ्यो भासो जाय पडटल्यो ते मेरेन तांची भास दुसऱ्या पांवड्याचेर बशिल्ली उरतली... दुबळीच उरतली... तांच्या जिवितांतली मुखेल भास ती केन्नाच जावंक पावची ना...'

आनी तूं जेवंक आसा जाल्यार न्हेसूंक ना हे परिस्थितींत रावन, केन्ना केन्ना अर्द्या पोटार जाल्यार केन्ना उपाशीं रावन मराठींत ज्ञानकोश रचपाक भायर सरलो!... कोणाचोच आधार नासतना...

मराठी खातीर तुवें रगत आटयलां. ज्ञानकोशाचें एकान एक उतर तुवें रगतान बरयलां. मराठी 'जाल्या' ती तुजे सारकेल्या 'पिशांक' लागून... तुजे सारकेल्यांचे तपश्चर्येक लागून, धडपडीक लागून. ज्ञानेश्वर तुकारामान बुन्याद घाली मराठीची. टिळक आगरकरान 'सापात' काडलो. तुवें वणटी उबारल्यो... भाशेचें इन्फ्रास्ट्रक्चर तुवेंच उबें केलां.

हांव वॉल्तेरा वयलो उठलों. मेजा म्हन्यांत गेलों. शेळें गिन्यान भरलां म्हूण ज्ञानकोशाचो जो खंड हांवें तिडकीन मेजार आपटिल्लो तो हातांत घेतलो, भक्तिनम्र जावन कपळाक लायलो. आनी म्हळें —

फाल्या घडय हांव म्हजी पुराय इस्टेट काडून कोणाकूय दिवन उडयन. म्हजी लायब्ररीय दिवन उडयन. पूण बाबा कडल्यान येरांसान मेळिल्लो हो ज्ञानकोश म्हज्या काळजाच्या पेटलांत अपरूप वस्त जाल्ले वरी सांबाळून दवरतलों. फकत प्रेरणे खातीर... फकत देखी खातीर.

□ □

# २४

# नांवांचो खेळ

नांवांत कितें आसा ? कितेंय तरी आसूंक जाय. ना जाल्यार मनीस नांवा फाटल्यान लागचो नाशिल्लो.

रवीन्द्रनाथांली 'नामेर खेला' नांवाची एक कथिका वाचिल्ली—

केदारनाथ घोष भुरगेपणांतूच कविता करपाक लागिल्लो. तेन्ना सावन ताका कविता आयल्यो म्हणटकूच ताणें त्यो बरोवन काडच्यो आनी वेगळ्या वेगळ्या नेमाळ्यांक धाडून दिवच्यो.

थंयच्यान त्यो परत्यो येवच्यो.

'च्ये, अशें उपकारना... आपणेंच एक नेमाळें सुरू केल्लें बरें' अशें एक दीस ताका दिसपाक लागलें. पुणून, नेमाळें सुरू करप सोंपें आसलें तरूय चलोवप सोंपें न्हय म्हणपाचें ताका कळ्ळें आनी ताणें तो बेत सोडून दिलो. ना म्हळ्यार, एका फाटल्यान एक कवितांचे तीन झेले मात ताणें उजवाडावन हाडले. आपणाल्या कवितांक लागून साहित्याच्या मळार खूब बोवाळ जातलो... खूब जाण तांचेर उलयतले, बरयतले अशें ताका दिशिल्लें...

कोणेंच तांची दखल घेतली ना.

दखल घेतली ती फकत तागेल्या भाच्यान.

तो निकतींच अक्षरां वळखूंक लागिल्लो. हाताक लागता ताचे वयलीं अक्षरां वाचतालो. ताच्या हातांत केदारनाथाचें एक पुस्तक पडलें. अक्षरां जुळोवन वाचतां वाचतां ताका पुस्तकाचेर मामाचें नांव वाचूंक मेळ्ळें. तो धांवत मामा सरीं गेलो. 'मामा... मामा... हें पळे तुजें नांव...' ताणें मामांक पुस्तका वयलें नांव दाखयलें.

मामान अपुर्बायेन ताचो उमो घेतलो आनी ताका आनीक एक पुस्तक दाखोवन म्हळें, 'हें वाच...' ताचेरूय मामाचें नांव आशिल्लें. मामान आनीक एक पुस्तक काडलें आनी म्हळें, 'हें वाच...' ताचेरूय मामाचें नांव आशिल्लें. भाचो अजापान तटास जालो. मामाक म्हणपाक लागलो, 'मामा, कितल्या कितल्या पुस्तकांचेर तुजें नांव, न्हय ?'

मामान ल्हवूच म्हळें, 'पळेतलो तूं...'

इतले मजगतीं मामान एक नाटक बरयलें. बरोवन तें आपणाल्या इश्ट-सवंगड्यांक दाखयलें. 'माचयेर हाडपा सारकेंच जालां हें', तांणी म्हळें. मामाच्या दोळ्यां मुखार कितलिंशीं चित्रां उबीं रावलीं... वचत थंय नाटकाच्यो जायराती लागल्यात... शारभरचो

लोक नाटक पळोवपाक वता... तिकेटी मेळनात... हे तरेचीं.

इश्ट-सवंगडी खंयचे तरी एके नाटक कंपनीक विचारपाक गेल्यात. मामा तांची वाट पळेत बसला.

आयतार. भाचो शाळेक वचूंक ना. घरांत ताणें आयज एक नवो खेळ सुरू केला. शाळेच्या शेजरा एक छापखानो आसा. ह्या छापखान्यांत वचून तो आपणाल्या नांवाचे खिळे घेवन आयला. ते सुतान घट्ट बांदल्यात. तांकां शाय लायल्या आनी हाताक मेळटा त्या पुस्तकाचेर तो आपणालें नांव छापीत सुटला. वीस पंचवीस पुस्तकांचेर ताणें आपणालें नांव छापलां. इतल्यांत मामाची नदर ताचेर पडटा. 'कितें आडायलां रे तुवें हें?' मामा ताका तिडकीन विचारता, ताच्या कुल्यार सणसणीत बरें एक फुलयता आनी ताच्या हातांतले ताच्या नांवाचे खिळे झोंबून ते भायर मोखून मारता.

भाचो भेंऽऽ करून मोट्यान रडटा.

'कितें जालें बाबाक म्हज्या?' आवय भितरसून येवन विचारता.

'म्हजें नांव...' तो रडत रडत जाप दिता.

आवय भितरसून एक लाडू घेवन येता आनी ताच्या हातार दवरता. भुरगो लाडू मोखून मारता आनी म्हणटा, 'म्हजें नांव...'

आनीक एकलो कोण येता आनी ताका खेळांतली आगगाडी हाडून दिता. आगगाडयेक तो खोंट मारता आनी म्हणटा, 'म्हजें नांव...'

हे वटेन नाटक कंपनीक विचारपाक गेल्ले मामाचे इश्ट परतल्यात.

'कितें म्हणटात ते...' मामा विचारता.

'तयार नात ते नाटक माचयेर हाडपाक...'

मामा त्याच खिणाक नित्शय करता, 'अँऽ अशें उपकारना... आपणेंच एक नाटक कंपनी काडिल्ली बरी...'

इश्ट विचारतात, 'फुटबॉल मॅच पळोवपाक येता?'

'ना... आज जिवाक बरेंऽ ना...'

आवय जेवपाक आपयता. 'म्हाका भूक ना...' तो जाप दिता.

बायल येवन म्हणटा, 'तुजी एक नवी कविता वाचून दाखयशीत...?'

'आज तकली उसळटा', तो जाप दिता.

इतल्यांत भाचो येता आनी मामाक म्हणटा, 'मामा... म्हजें नांव...'

मामाक तिडक मारता. तो भाच्याचे सटकुटेर सणसणीत बरें एक फुलयता...

कथिका हांगा सोंपता.

भाच्याचो खेळ नांवाचोच आशिल्लो. मामाचोय नांवाचो आशिल्लो. दोगांयच्या खेळाचें रूप एकूच आशिल्लें. मान-भौमानाक जे आंवडेतात तांचो सगळ्यांचो खेळ हेच तरेचो आसता.

मनशांत ज्यो कांय भुको आसतात, तातुंतली नांवाची भूक सगळ्यांत खर. सगळ्यांत तीव्र. समाजांत आपणालें नांव जावचें, लोकांचे जिबेर तें घोळचें, आपणा अस्वडीं

लेगीत लोकांनी आपणा संबंदान उलोवचें, हे खातीर मनीस तरांतरांच्यो लटपटी खटपटी करीत आसता... हेर सगळ्यो भुको भागतात. ही एक भूक कितलीय भागय, कशीच भागना. परिणामीं, आपूण हेरां परस वेगळो हें दाखोवपा खातीर मनीस कितलो सकल देंवत सांगूंक येना. केन्ना केन्ना आड मार्गानूय वचून तो नांव जोडटा.

बुद्ध म्हणी, आड मार्गान नांव जोडपी मनशाचें पुराय आयुश्य एक तर आपणालीच तुस्त गावपांत ना जाल्यार दुसऱ्यांची निंदा करपांत खर्चल्लें पळोवंक मेळटलें.

हालिंसराक नांव छापून येवप कठीण उरूंक ना. कितलिंशीं नेमाळीं भायर सरपाक लागल्यांत. कितेंय बरोवन धाडात, छापतलीं. हाका लागून बरोवंक येना तेवूय कितेंय बरोवन धाडून दितात आनी बरोवन धाडिल्लें सगळें छापुनूय येता. हे भाशेन, जांचें नांव जालां तांकां नियाळून पळोवचे, मार व्हडले कोण जाल्ले वरी ते आपणाक मानपाक लागिल्ले दिश्टी पडटले, शेफारुनूय गेल्ले पळोवंक मेळटले.

हांकां लोक नांवान वळखतले. पुणून तांकां ते व्हड मानतले व्हय?

सोंपेपणान जोडिल्लें नांव लोक सोंपेपणान विसरुनूय वतात.

जांकां जें फावना तांकां लोक तें केन्ना दिनात.

कोणें तरी म्हळां, 'तुजें नांव उरचें अशें तुका दिसता आसत जाल्यार दोन तीन पिळग्यां उपरांतूय लोक वाचतले असलें कितेंय बरोवन दवर वा दोन तीन पिळग्यां उपरांत लेगीत तुजेर कोणाकूय कितेंय बरोवपाची प्रेरणा जायत असलें कितेंय करून दवर.

व्हड मनशांक नांव जोडपाची ताकतीक नासता. इंग्रजींत एक म्हणणी आसा, 'डिझर्व बिफोर डिझायर'. जी ख्याती आपणाक मेळची अशें तुका दिसता, तिका फावऽ सारको पयलीं तूं जा. संवसार ह्या मळार खुबूच हिमटो. कोणाकूय सोंपेपणान तो व्हडपण दिना. लायकी नासतना आयजवेर कोणाक ताणें व्हडपण दिवंक ना.

केदे केदे व्हड लोक पळेल्ले आयुश्यांत! कोणाक तांचो उगडास जाता आयज?

येद्या व्हड लोकांक जग विसरता तें आमचो उगडास कित्याक काडटलें? 'एक दीस लोक आमकां विसरतले. विसरपा सारकेच लोक आमी' हाची जाणवीक आमकां आसूंक जाय.

येदेंशें जग आमचें. गोंया येदेंच. गोंया भायल्या संवसारांत आमकां कोण्ण वळखना. बरें, गोंयांत तरी कितलेशे लोक वळखतात? हिशोब लावंक बसल्यार हजार दोन हजारां वयर आंकडो वचपाचो ना. तातुंतूय, आमी भायर पडले उपरांत कोणाच्या दोळ्यांतल्यान एक दोन थेंब दुकांचे गळत हाचो हिशोब लावन पळोवचो. पांच पन्नास, शें-देडशां वयर आंकडो वचचो ना. येद्याशा ल्हान संवसारांत हांव व्हड, तूं कोण न्हय हें भासोवन दिवपी मनीस मुदलांत ल्हानूच आसूंक जाय.

कृष्णमूर्ती म्हणटाले, 'सूख कित्यांत आसा, खबर आसा? नांवांत ना... सूख आसा just in being a nobody... a passerby. आपूण वाटे वयलो एक वाटसूर, हाचे पेल्यान आपणाक म्हत्व ना अशें मना पसून मानून जियेवचें. मनीस

सुखान जियेतलो.

ज्या संवसारांत आमी जल्माक आयले आनी जातूंत आमी इतलींय हीं वर्सां जियेले ताणें जियेवपा खातीर आमकां खूब आधार दिला. ताच्या रिणांतल्यान मेकळे जावपा खातीर संवसाराची थोडी भोव तरी सेवा आपणा हस्तुकीं जावची येदोच एक हावेस मनांत बाळगुचो. हाचे पेले कडेन वचचें न्हय.

गीतेन सांगलां —

बरीं कामां करतल्याची दुर्गती केन्ना जायना. येदेंच आश्वासन जियेवपाक पुरो. नांव कित्याक जोडूंक जाय ?

□ □

# २५

## मनशान स्वनामधन्य आसचें

काकासायब बारा वर्सां राज्यसभेंत आशिल्ले. बारा वर्सां सोंपलीं तेन्ना सरकारान तांकां 'पद्मविभूषण' पदवी दिवन तांचो भौमान करचो अशें थारायलें.

भौमानाची खबर छापून आयल्या त्या दिसा काकासायब मुंबयंत आशिल्ले. त्याच दिसा सांजचे फ्रंटियर मेलीन ते दिल्लीक वचपाक भायर सरले. मुम्बय-दिल्ली मेरेनचो प्रवास सुमार बावीस वरांचो. कितल्यो-श्यो चिटी फायलींत पडिल्ल्यो, जांच्यो जापो तांकां बरोवपाच्यो आशिल्ल्यो. गाडयेंत ह्यो जापो बरोवच्यो अशें तांणी थारायल्लें. ते आपणाल्या हातान बरय नाशिल्ले. ते घालतात तें बरोवन घेवपी कोण न्हय कोण तांकां लागतालो. धांवते गाडयेंत बरोवपी तांगेल्या दोगां तिगां विद्यार्थ्यां मदलो हांव एक आशिल्लों. देखून ह्या प्रवासांत तांणी म्हाका वांगडा घेतिल्लो.

स्टेशनार येवन आमी आमचें सामान डब्यांत दवरलें. जिस्त ह्या वेळार दुसऱ्या दारांतल्यान हांवें आचार्य कृपालानींक त्याच डब्यांत भितर सरतना पळेले. तेवूय दिल्लीक वताले. गाडी सुट्टकूच हांवें काकासायबांक म्हळें, 'आचार्य कृपालानी आमच्या डब्यांत आसात...'

'अशें?... तशें जाल्यार, तांकां वचून विचार वेळ आसा काय म्हूण...'

हांवें वचून विचारलें. 'अच्छा!... बताओ, काका कहाँ बैठे हैं' अशें म्हणून कृपालानी उठले आनी म्हजे फाटल्यान चलत चलत काकासायबां सरीं आयले.

येनाफुडें झगडूंक लागले. काकासायबांक पद्मविभूषण पदवी मेळिल्ल्याची खबर तांणी सकाळीं वाचिल्ली आनी तांकां तिडक मारिल्ली. काकासायबांचे ते एक दाट इश्ट. फर्ग्युसन कॉलेजांत शिकताले तेन्ना सावनची तांची इश्टागत. सावरकरांच्या दलांत दोगूय सांगातान गेल्ले आनी दोगांयनी सांगातान तें दल सोडिल्लें. गांधींचेय सांगाती दोगूय वांगडाच जाल्यात. कृपालानींक लोक आचार्यश्री, कृपालानीजी आनी दादा म्हूण उलो मारताले. (गांधी तांकां प्रोफेसर म्हणटाले) जाल्यार तांकां जीवत ह्या पयल्या नांवान उलो मारपी संवसारांत एकलेच काकासायब आशिल्ले. इतले दाट दोगांयचे संबंद.

'ती पद्मविभूषण पदवी घेवप ना... नाका म्हणप...' कृपालानींनी म्हळें.

'नाका कित्याक म्हणूं? हांव मागूंक वचूंक नाशिल्लों. सरकार आपूण जावन दिता... नाका म्हणप सोबतलें? तुमी विरोधी पंगडांतले. हांव विरोधी पंगडांतलो न्हय, सरकारी पंगडांतलोय न्हय... सरकार दिता त्यो सवलती हांव घेतां. सरकारान

राज्यसभेर म्हजी दोन खेपे नियुक्ती केली. हांवें ती मानून घेतली... राज्यसभेंतलो निवृत्त जालों तरूय म्हजो रेल्वे पास सरकारान म्हजे कडेन उरूंक दिलो... फकत पद्मविभूषण नाका म्हणूं?...' काकासायबांनी विचारलें.

'सरकारान तुमचें अवमूल्यन केलां... तुमची देशसेवा खंयच्याय भारतरत्ना परस इल्लीय उणी न्हय... तुमचो भौमान करपाचोच आशिल्लो जाल्यार भारतरत्न दिवन करचो आशिल्लो...' कृपालानींनी म्हळें.

'सरकारान म्हजी योग्यताय पद्मविभूषणा येदीच थारायल्ली आसत जाल्यार ताका हांव कितें करतलों?...' काकासायबांनी विचारलें.

सुमार दोन वरां दोगां मजगतीं कडाक्याचो वाद चल्लो. 'अरे, बापू को सूअर का बच्चा कहनेवालों को भी जवाहरलालने पद्मविभूषण का इल्काब दिया है... आप उनके बीच जाकर बैठेंगे क्या?' कृपालानींनी तिडकींन विचारलें.

'दुर्दैव म्हजें' अशें म्हणून काकासायबांनी विशय बदल्लो.

जी पदवी आमकां कोणाक केन्नाच मेळपाची आस्त ना ती 'परती क़र, घेवं नाका' म्हूण सांगपी कृपालानींचो उगडास जाता तेन्ना 'खंय गेलें तें जग' अशें केन्ना केन्ना खोलायेन दिसपाक लागता. आनी जीव खंती जाता.

दुसरो उगडास बाकीबाबांच्या तोंडांतल्यान आयकल्लो.

बाकीबाबांक पद्मश्री मेळ्ळी. गोंयच्या वांट्याक आयिल्ली ही पयलीच पद्मश्री. आमकां सगळ्यांक खोशी जाल्ली. ती घेवपाक बाकीबाब दिल्लीक गेले. थंय लोहियांक मेळ्ळे.

'कहिये, कैसे आना हुआ?' लोहियांनी तांकां विचारलें.

बाकीबाब म्हणटात, 'पद्मश्री मेळ्ळ्या, ती घेवपाक आयलां ही जाप दिवपाक हांव फाटीं फुडें सरपाक लागलों. भंय दिसलो. फटक् करून 'इतने गिर गये हो क्या' अशें म्हळें जाल्यार... कितें करचें हो प्रस्न पडलो. तरी आसतना, धीर केलो आनी पद्मश्री घेवपाक आयलां म्हूण भियेत भियेत सांगून मेकळों जालों...'

लोहिया खीण भर ओगी रावले. उपरांत तांणी म्हळें, 'ठीक है... मगर अफसोस की बात है कि आपको बदमाशों के हाथों से वह मिल रही है...'

आनी तांणी एक खबर सांगली—

लॉर्ड विलिंग्डन वायसरॉय आशिल्ले. तांणी देशांत ऑर्डिनन्स राज्य सुरू केल्लें. गांधीन तांकां फावऽशी जाप दिवची अशें थारायलें आनी सत्याग्रह सुरू केलो. लॉर्ड विलिंग्डनाक नाका पुरो जालें... असल्या ह्या कसवटणेच्या प्रसंगार एकल्या मनशान लॉर्ड विलिंग्डनाक एक पत्र बरयलें आनी 'ह्या एका मनशाक (गांधीक) धरून भितर घालात... सगळें जाग्यार पडटलें' म्हूण कळयल्लें तो आयज लटपटी खटपटी करून राष्ट्रपतीपदार बसला. ताच्या हातान तुका ही पद्मश्री मेळपाची आसा...'

बाकीबाब म्हणटात, पद्मश्रीचो जो कितें ग्लॅमर आशिल्लो तो त्याच खिणाक

तकलेंतलो सर्रर्र करून देंवलो आनी खंयची ही पदवी मेळ्ळी काय जालें...

तिसरी गजाल घटप्रभेच्या डॉ. माधव वैद्यांच्या 'वार्तापत्रां'त वाचिल्ली—

रंगराव दिवाकर, डॉ. डी.पी. करमरकर आनी डॉ. हार्डीकर तिगूय कर्णाटकांतले सुटके झुजारी. स्वराज्यांत दिवाकर आनी करमरकर केन्द्र सरकारांत मंत्री जाले. हार्डीकरांचो पिंड वेगळो. तांकां मंत्रीपद दिल्लें जाल्यारूय ते घेवचे नाशिल्ले. पुणून तांकां कितेंय तरी दिवंक जाय आशिल्लें. करमरकर दिवाकर दोगांनीय पद्मभूषण पदवे खातीर तांगेलें नांव राष्ट्रपतीक सुचयलें. राष्ट्रपती प्रधानमंत्री सगळे हार्डीकरांक वळखताले. तांणी सुचोवणी मान्य केली. पुणून हार्डीकरांनी पदवी घेवं नाका? तांकां दिली आनी तांणी नाका म्हळी जाल्यार?

दिवाकर, करमरकर दोगूय मान्यताय घेवपाक हार्डीकरांसरीं गेले.

'पद्मभूषण पदवी... म्हाका? शी शी शी... म्हाका पदव्यो-बिदव्यो कांय नाकात... पदव्यो घेवपाक हांवें देशसेवा करूंक नाशिल्ली... हांव आसां तोच बरो आसां...' हार्डीकरांनी नित्शयान जाप दिली.

दिवाकर हार्डीकरांक सारके वळखताले.

तांणी म्हळें, 'तुमी नाका म्हणटात जाल्यार तुमचें नांव आमी फाटीं घेतात... पुणून डॉक्टर, एक सांगात, नाका म्हणपांत अहंकार ना?... आपूण पदव्यो-बिदव्यो घेवपी किरकोळ मनीस न्हय... आपूण आगळो वेगळो, अशें सांगिल्ले वरी जायना?...'

'असो अर्थ जाता? तशें जाल्यार घेवंया.' हार्डीकरांनी जाप दिली.

हार्डीकर पद्मभूषण जाले.

कांय वर्सां गेलीं. वीस बावीस जावंये.

एक दीस कर्नाटक राज्यांतले कांय अधिकारी हार्डीकरांक मेळपाक घटप्रभेक आयले. 'तुमचो बायो-डेटा आमकां जाय आशिल्लो...' तांणी म्हळें.

'कित्याक?'

'इन्दिरा गांधींनी अंदू वर्सा तुमकां पद्मश्री पदवी दिवची केल्या...'

हार्डीकरांनी कपळार हात मारून म्हळें, 'सभाग्यांनो, वीस बावीस वर्सां पयलीं जवाहरलालान म्हजो पद्मभूषण पदवी दिवन भौमान केल्लो... आतां इन्दिराजी म्हाका पद्मश्री करपाक भायर सरल्या?... इतलें अवमूल्यन जालां ह्या पदव्यांचें...?'

ज्या पदव्यांक आमी आंवडेतात त्यो दितल्यांचे नदरेन तांचें मोल कितें तें कळ्ळें मू आतां?

* * *

मनशान स्वनामधन्य आसचें.

मेले उपरांत मनीस विसरपा सारको आसत जाल्यार डिग्रयां-पदव्यां सयत ताका लोक विसरतले. विसरपा सारको नासत जाल्यार डिग्रयो-पदव्यो नासतनाय ताचो

उगडास काडटले. लोहियांक, धरुंया, भारतरत्न पदवी मेळिल्ली जाल्यार ते आशिल्ले ताच्याकूय व्हड जातले आशिल्ले व्हय? ती मेळ्ळी ना म्हूण ते ल्हान उरल्यात व्हय?

लोहिया स्वनामधन्य आशिल्ले.

व्हड मनीस जायते जावन गेल्यात. लोहियां इतले व्हड फकत लोहियाच एक जाले.

□ □

# २६

# नोबेल इनाम

साहित्याचें नोबेल इनाम आमी जोडलें तें १९१३त. रवीन्द्रनाथांनी तें आमकां जोडून दिलें. ८५ वर्सां जालीं आतां हे खबरेक. ह्या ८५ वर्सांच्या काळांत आमचे मजगतचो दुसरो कोणूच तें जोडूंक पावूंक ना. हाचो अर्थ, ह्या काळांत नोबेल इनाम जोडपाच्या पांवड्याचो एकूय साहित्यकार देशांत जालो ना, असो करपाचो? ह्या ८५ वर्सांच्या काळांत संवसारांत वेगळ्या वेगळ्या भासांतल्या ८५ साहित्यकारांक हें इनाम मेळ्ळां. तांचे मजगतच्या खूबशा जाणांचीं पुस्तकां आमकां इंग्रजीक वाचूंक मेळ्ळ्यांत. ह्या साहित्यकारांच्या पांवड्याचे आमचे मजगतीं कोणूच जाले नात अशें कशे म्हणटले आमी? रवीन्द्रनाथांचेच बंगाली भाशेंतलीं शरतचन्द्र चट्टोपाध्याय, ताराशंकर बंदोपाध्याय, विष्णू डे, आशापूर्णादेवी, महाश्वेतादेवी अशीं कितलिंशीं नांवां घेवं येतात. हिन्दींतलीं प्रेमचन्द, जैनेन्द्र कुमार, अज्ञेय हांचीं घेवं येतात. गुजरातींतलीं उमाशंकर जोशी, पन्नालाल पटेल हांचीं घेवं येतात. मराठींतलीं बोरकार, कुसुमाग्रज हांचीं घेवं येतीत. कन्नडांतल्या शिवराम कारंथांचें घेवं येता. मलयाळमांतलीं तघळी शिवशंकर पिलै, वायकम मुहम्मद बशीर हीं घेवं येतात. उडिया भाशेंतलें गोपीनाथ मोहन्तीचें घेवं येता. नोबेल इनामां जोडिल्ल्या फ्रँच, इंग्लीश, जर्मन भाशेंतल्या खंयच्याय साहित्यकारा परस खंयच्याच आंगान हांकां उणे लेखूंक येवपाचे नात. तरूय, हांचे भितरल्या कोणाकूच नोबेल इनाम मेळूंक पावूंक ना!

कांय जाण म्हणटात, हे सगळे आपापणाले भाशेंतूच बंदिस्त उरले. म्हूण तांचे कडेन कोणालें लक्ष गेलें ना. इंग्रजींत ते आयिल्ले जाल्यार येन्नासर कितलिंशीं नोबेल इनामां घेवन येतले आशिल्लें.

हाकाच लागून जावंये, हालिंसाराक बऱ्या बऱ्या भारतीय साहित्यकारांच्या पुस्तकांचे इंग्रजी अणकार करपाचो वावर कांय संस्थांनी सुरू केला. खरेपणानशीं, ह्या वावरा सागातान दुसरो एक वावर सगळ्यांत चड गरजेचो कोणेंय तरी हातांत घेवंक जाय आशिल्लो. तो म्हळ्यार, भारतीय साहित्यकारांचें बरें बरें साहित्य **देशांतल्याच** वेगळ्या वेगळ्या भासांनी हाडून तांकां लोकां मुखार दवरपाचो.

उमाशंकर जोशी म्हणटाले, विसाव्या शतमानांतल्या भारतीय साहित्यकारां मदलीं दोनूच नांवां सांग म्हूण कोणूय म्हाका सांगीत जाल्यार हांव रवीन्द्रनाथां फाटोफाट वायकम मुहम्मद बशीर हांचें घेतलों. आयज बशीर नात. पुणून, धरुया, ते आशिल्ले आनी त्या वेळार कोणेंय तांचें नांव नोबल इनामा खातीर स्विडीश अकादेमीक सुचयल्लें

आनी अकादेमीन, धरुंया, ताका विचारिल्लें, 'ह्या लेखकाक भारतांत कितले लोक वळखतात? कितल्या लोकांनी हाचीं पुस्तकां वाचल्यांत?' जाल्यार तो कितें जाप दितलो आशिल्लो? बशीर मराठींत आयला काय ना, म्हाका खबर ना. बंगालींत? दुबाव आसा. उमाशंकरांचे गुजराती भाशेंत? हांवें पळोवंक ना. हाका लागून फकत केरळी लोकांकूच बशीर कोण तें खबर आसा.

बशीर ज्या देशांतलो त्याच देशांतलो लोक ताका सारको वळखना, जाल्यार स्विडीश अकादेमी ताका नोबेल इनाम कित्याक दितली? आमकांच जाची कदर ना ताची कदर दुसरे कित्याक करतले?

ज्या देशांतले साहित्यकारूच दुसऱ्या देशी भासांतल्या साहित्यकारांक व्हडलेशे लेखिनात त्या देशांतल्या एकाद्र्या लेखकाक नोबेल इनाम मेळचें अशी उमेद तरी कशी बाळगितात आमी, समजना...

पुणून, म्हाका सांगपाचें आशिल्लें तें वेगळेंच —

येवरोपेव लोक जंय जंय गेले थंय थंयच्या थळाव्या लोकां मजगतीं येवरोपेव रुची (tastes) निर्माण करपाचो वावरूय ते पोडतिडकीन करीत रावले. कितलिंशीं वर्सां हें काम 'क्रिश्चियानिटी'चो आधार घेवन चलिल्लें. खरेपणानशीं तांकां 'क्रिश्चियानिटी'चें कांयच पडूंक नाशिल्लें. 'क्रिश्चियानिटी'च्या आधारान तांकां जग येवरोपेव संस्कृतायेच्या प्रभावांत हाडपाचें आशिल्लें. 'क्रिश्चियानिटी' हें साधन आशिल्लें. 'युरोपियनायझेशन' हें तांचें साध्य आशिल्लें. खिस्तिकरणा परस तांणी येवरोपिकरणाक चड म्हत्व दिल्लें. आतां 'क्रिश्चियानिटी'चो असो उपेग करूंक येना. म्हूण 'क्रिश्चियानिटी'ची सुवात आयज तांणी इंग्रजी भाशेक आनी इंग्रजी 'कल्चरा'क दिल्या. येवरोपिकरणाक आतां क्रिश्चियानिटी परस इंग्रजी भाशेचो आनी 'कल्चरा'चो चड उपेग जावंक लागला. आमच्याच ह्या 'इण्डिया दॅट इज भारत' देशांत वर्सान वर्स खंय पन्नास हजार पुस्तकां उजवाडा येतात. तांतलीं पंचवीस हजार एकले इंग्रजी भाशेंतलीं आसतात. परत, हांतलीं अर्दीं इंग्लंड अमेरिकेंतल्या प्रकाशनांचीं देशी संस्करणां आसतात. इंग्रजी पुस्तकांची संवसारांतली व्हडांतली व्हड एक बाजारपेठ जाल्या आमचो हो देश. देशांत तुर्तांक सुमार अडेचशें विश्वविद्यालयां चलतात. आठ हजार कॉलेजी चलतात. साडे तीन हजार रिसर्च इन्स्टिट्यूट चलतात. देशाचें येवरोपिकरण घडोवन हाडपाच्यो 'इगर्जो' ह्यो नव्या काळांतल्यो.

हांचे भायर, हजारांनी एन्.जी.ओ. आसात. येद्याशा ह्या गोंयांतूच असल्यो सुमार तीनशें वीस संस्था काम करतात. एन्.जी.ओ. म्हळ्यार नॉन-गवर्नमॅन्टल ऑर्गनायझेशन्स. हांतल्यो कांय संस्था एड्स पिडे आड वावुरतात. कांय पर्यावरणाचे प्रस्न घेवन समाजांत लुडबूड करतात. कांय 'सस्टेनेबल डेव्हलपमेन्टा'च्या नांवान वावर करतात. सगळ्यांक विदेशी पयशे मेळटात. चोरयां न्हय, सरकारी मान्यतायेन. सरकारूच जंय विदेशी पयशांचेर चलता, थंय तें कोणाक पयशे घेवंनाका म्हणटलें?

नोकऱ्योय व्हडल्यो व्हडल्यो भौ-राष्ट्रीय कंपन्यो दितात. आनी त्यो इंग्रजी जाणा

जाल्ल्यांकूच मेळटात. जंय जंय इंग्रजी भास घुसडावंक येता थंय थंय तांणी ती घुसडायल्या.

साहित्याचें मळ मात्शें कुशीक पडिल्लें. पुणून विक्रम सेठीच्या **द स्युटेबल बॉय** पुस्तकाची सुमारा भायर तुस्त जावपाक लागली, ताची तॉलस्तॉयच्या **वॉर एण्ड पीस** पुस्तका कडेन सर जावपाक लागली, आनी ताका ह्या पुस्तकान दोन कोटी रुपये 'रॉयल्टि'चे मेळोवन दिले म्हणपाचो प्रचार सुरू जालो तेन्नाच मनांत पाल चुकचुकली. म्हळें, देशी भाशेंत बरोवपांत कांय लाव ना, इंग्रजींत बरयल्यार बऱ्याक पावतले अशें आमकां – आपापणाले भाशेंत बरयतल्या साहित्यकारांक – दिसचें आनी आमी आपणाले भाशेंत बरोवपाचें सोडून इंग्रजींत बरोवपाक लागचे म्हूण हो प्रचार सुरू जावंक ना मू? विक्रम सेठी फाटोफाट अरुंधती रॉयचें नांव गडगडपाक लागलें. म्हळें, हें नांव गडगडटा तें आमचें लक्ष आमचे भाशे वयलें उठचें आनी इंग्रजी भाशेचेर वचून बसचें म्हूण बी न्हय मू? हालिंसाराक तर ती अण्वस्त्र चांचण्यां आडूय उलोवपाक लागल्या! तांकां जाय तीच भास उलोवपाक लागल्या. आतां दिसपाक लागलां—

नोबेल इनाम कांय वर्सा भितर कोणाक तरी मेळपाचें आसा आमच्या देशांत. पुणून तो देशी भाशेंत बरोवपी कोण आसचो ना. इंग्रजींत बरोवपी कोण तरी आसतलो! देशी भाशेंत बरयतल्यांक नोबेल इनाम दिवन इंग्रजी अमेरिकनांक कांय लाव ना. हो देश इंग्लंड अमेरिकेची पुराय सांस्कृतीक वसणूक करपाक इंग्रजींत बरोवपी साहित्यकाराकूच हे लोक व्हड करतले आनी माथ्यार घेवन नाचतले.

देशी भासांतल्या साहित्यकारांक पुराय देश वळखता असली कितेंय तरी येवजण आंखले बगर ही सांस्कृतीक आगळीक आमकां परतून लावंक येवपाची ना.

□ □

# २७

# साहित्याच्या मळा वयली शिंदळकी

ताणें म्हळें, 'हांव एक कलाकार. जाका जे भाशेंत बरयन दिसता ते भाशेंत ताणें बरोवचें, ह्या मत्ताचो. कलाकारान भाशेच्या वादांत पडूंक जायना. अमकेच एके भाशेंत बरयतलों, असो ताणें हट धरूंक जायना.'

एका व्यासपिठा वयल्यान तो उलयतालो.

म्हाका कुर्रर जालें. काडचें आनी एक सणसणीत बरें फुलोवचें, अशेंय दिसलें. तूं कलाकार न्हय, तूं एक कलवंत म्हणून ताका दुखोवचो, अशेंय मनांत आयलें. म्हजो तोल सुटिल्लो. तरी आसतना हांवें म्हाका सांवरून धरलो. वोगी रावलों.

पुणून जीब ओगी रावली म्हूण मन ओगी रावता व्हय? तें भितरले भितर म्हजे कडेन वाद घालपाक लागलें. विचारपाक लागलें, 'धरुंया, 'धर्मयुगा'न तुजे कडेन एक लेख मागिल्लो. जाल्यार तूं ताका हिन्दींत बरोवन लेख धाडचो नाशिल्लो? 'महाराष्ट्र टायम्सा'न मागिल्लो जाल्यार, मराठींत बरोवन धाडचो नाशिल्लो? तत्वनिश्ठा कुड्डी आसून उपकारना. तत्त्वनिश्ठेंतूय तारतम्य सांबाळूंक जाय. तुवें काकासायबांचें जिवीत हिन्दींत कित्याक बरयलें? कोंकणींत बरोवं नज आशिल्लें?'

काकासायबांचें जिवीत कोंकणींत बरयल्लें जाल्यार कोंकणी बरपावळींत एक भर घाल्ल्याची खोस भोगतली आशिल्ली. पुणून काकासायब मराठी, गुजराती, हिन्दी ह्या तीन भासांनी बरोवपी एक आगळे वेगळे साहित्यकार. आयज ह्या तिनूय भासांतले विद्यार्थी तांगेले बरपावळिचेर प्रबंध बरोवन पी.एच्.डी. घेतात. तांकां उपकारा पडचें अशे तरेचें एक 'अधिकृत' जिवीत हिन्दींत आसूंक जाय, अशें तांगेले शताब्दी समितीक दिसलें आनी तिणें हें काम म्हाका करूंक सांगलें. आनी हांवें तें भक्तिभावान केलें. हांवें हिन्दींत गांधींचेंय एक जिवीत बरयलां – जें काँग्रेस शताब्दी समितीन उजवाडायलां.

मराठींत हांवें दोन पुस्तकां बरयल्यांत. एक, **ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यांत** आनी दुसरें, **जपान जसा दिसला**. ह्याय पुस्तकां फाटल्यान कांय 'उद्देश' आशिल्ले. महाराष्ट्र गांधींची निंदा करीत आयिल्लो, गांधीवादी आचार्यांचीं फकांडां मारीत आयिल्लो प्रदेश. तातूंत काकासायबांनी कोंकणीक आपलो तेंको दिलो तेन्ना महाराष्ट्र तांचेर खुबलो. तांची तरातरांनी नालस्ती करपाक लागलो. काकासायबांच्या व्यक्तिमत्वाक कितलिंशीं ओडलायणीं तासां आशिल्लीं. तीं हे नालस्तेन लिपिल्लीं. म्हाका दिसलें, महाराष्ट्रा मुखार तांगेली खरेली 'इमेज' दवरपाचें काम हांवें करूंक जाय – एक, तांगेलो विद्यार्थी म्हूण, आनी दुसरें, एक कोंकणी भक्त म्हूण.

आनी हांवें गुरू-भक्तीन **ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यांत** बरयलें.

**जपान जसा दिसला** ह्या पुस्तका फाटलो उद्देश सामकोच वेगळो आशिल्लो. जपानाची भोंवडी करून येतकूच हांवें हे भोंवडेचेर धा बारा लेख कोंकणींत बरयल्ले. ते 'राष्ट्रमतां'त 'जपानांतली आनंदयात्रा' ह्या माथाळ्या खाला छापुनूय आयिल्ले. ह्या छापून आयिल्ल्या लेखांचीं कात्रणां हांवें काकासायबांक धाडून दिल्लीं. तांचें पत्र आयलें, 'तुजे कडेन हांवें एक कोंकणी मराठी कोश मागिल्लो. तुवें तो अजून तयार करून दिवंक ना. तूं कितें बरयता, तें म्हाका कशें कळटलें ?' हांव काकासायबांच्या 'जंगम विद्यापीठां'तलो एक विद्यार्थी. तांचे परिक्षेक पास जावंक जाय म्हूण आंवडेवपी. तांचे खातीर हांवें ते बाराय लेख मराठींत घाले आनी इतलें हें केलां म्हूण उरिल्ली भोंवडीय मराठींत बरोवन काडली. सगळी भोंवडी वाचून काकासायबांनी आपूण जावन एक सुंदर प्रस्तावना बरोवन धाडली. आनी म्हाका पत्रांत बरयलें, 'जपानवर मराठींत एक पुस्तक लिहिण्याची माझी इच्छा होती... हें पुस्तक वाचल्यावर त्याची आतां आवश्यकता राहिलेली नाही, असे वाटूं लागलेलें आहे.' बाकीबाब म्हणपाक लागलो, 'ही पीएच्.डी. वा डि. लिटा परसूय व्हड डिग्री. तूं भाग्यवंत.' बाकीबाबान ताचे खातीर प्रकाशक सोदून दिलो.

भुल्लुसून वचचों इतली दोनूय पुस्तकांची तोखणाय जाल्या. पुणून मराठीवादी लोकांनी हाचे पयलीं म्हजी इतली अखटाय केल्या की कितलीय तुस्त केली तरूय भुल्लुसून वचपा इतलो 'भुरगे-बुद्दिचो' हांव उरूंक ना. आनी हाची कितलीय तुस्त केली तरी हो आमचो जावपाचो ना, हें मराठीवादी लोक बेस बरे जाणात. म्हूण हांव आसां थंयच उरलां.

हांव **स्वगतय** मराठींत बरयतां.

पुणून एक लक्षांत दवरूंक जाय. हांव निखटो 'लेखक' – 'रायटर' न्हय. वापरून वापरून हांवेंच गुळगुळीत केल्ल्या उतरांनी सांगचें जाल्यार हांव गोंयचे संस्कृतायेच्या मळा वयलो एक झुजारी – 'फायटर'. १९५३ पसून ह्या मळार एक 'पुराय वेळ दिवपी' म्हूण वावर करीत आयलां. म्हाका खूबश्यो गजाली लागतात. आमच्या सामाजीक वा संस्कृतायेच्या मळार ज्यो ल्हान व्हड घडणुको घडटात तांचे कडेन म्हाका तिरायता भाशेन पळोवप जमना. हालिंचे भाशेंत सांगचें जाल्यार एक 'बांधिलकी' मानून हांव ह्या मळार वावरत आयलां. मुम्बयंत 'कुडां'नी रावतल्या किरिस्तांव भावां मजगतीं वावुरतालों त्या वेळार 'गोमंत भारती' नांवाचें रोमी कोंकणींत एक सप्तकी नेमाळें चलयतालों. तीन वर्सां हांवें तें चलयलां. ह्या भावांच्या काळजाक हात घालपाक नागरी कोंकणी उपकारना. मराठी तर निखालूस चलना. इंग्रजीचोय उपेग जायना. थंय रोमी कोंकणींतल्यानूच प्रबोधन करूंक जाय. शिकिल्ल्या किरिस्तांवांक तिडायतलों जाल्यार रोमी कोंकणीय उपकारना, मराठीय उपकारना. इंग्रजीचोच आधार घेवन हें काम करूंक जाय. हांवें केन्ना इंग्रजींत बरोवपाचो यत्न करूंक ना. म्हूण, आमच्या समाजांतल्या एका वर्गा कडेन हांव पावना. म्हाका हाची खंत आसा. पुणून उपाय

ना. तसो, गोंयांत एक वर्ग आसा – जो कोंकणी उलयता. पुणून कोंकणींतलें कितेंच वाचिना. आपणाक वाचूंक येना म्हणटा. आनी ताचो 'अभिमान' धरता. ताचे कडेन – फकत ताचे कडेन – वतलो जाल्यार मराठीचो आधार घेवचो पडटा. ताका उपाय ना. चार-साडे चार शतमानांच्या इतिहासान आमकां संस्कृतायेच्या मळार जें दायज दवरलां तें हे तरेचें – गुलामिचें. मराठी मराठी करतल्यांक कोंकणी पटोवपा खातीर आमकां 'राष्ट्रमत' मराठींत चलोवचें पडलां, तें ह्याच कारणाक लागून. 'स्वगत'य म्हाका मराठींत बरोवचें पडलां तेंवूय ह्याच कारणान. 'स्वगतां'त साहित्याचे गूण आसूं येतात. पुणून हांव 'स्वगत' बरोवन साहित्य निर्मणेचो वावर करिना. मराठी म्हजी हांगा साहित्याची भास न्हय. सामक्याच गांवगरी उतरांनी सांगचें जाल्यार मराठी हो म्हजो तोणको. मराठीवाद्यांक आनी हिन्दुत्ववाद्यांक बडोवपाचो. बडोवपाक हांवें कसलें अस्त्र हातांत घेवचें हें कोणें थारावपाचें? तांणी काय हांवें?

साहित्य-निर्मणेचो वावर हांव कोंकणींतल्यानूच करीत आयलां. म्हजे तकलेंत साहित्य म्हणनाफुडें आतां मेरेन कोंकणीचीच घोंकणी चल्ल्या. म्हजे नदरेन मोलाचें अशें हांवें कितेंय दिल्लें आसत जाल्यार तें कोंकणीकूच दिलां. आयुश्यभर होच वावर करीत आयलां. असल्या मनशाकूच – फकत असल्या मनशाक – दुसरे भाशेंत बरोवपाचो अधिकार आसा. जो आपणाली भास उबंत उडयना, तिच्या दैन्याची उवेखणी करिना, ताणें कांय कारणांक लागून दुसरे खंयचेय भाशेंत बरयलें जाल्यार 'ताका बरोवचेंशें दिसता ते भाशेंत तो बरयता' अशें म्हणूंक जावचें ना. बरोवचें 'पडटा' म्हूण बरयता अशें म्हणचें पडटलें.

तकलेंत हो वाद संवाद मिनीटभर चल्ला जातलो. हांव रोखडोच निर्णयार पावलों, आपणाक कलाकार लेखपी ह्या कलवंताक हांवें दुखोवंक जाय आशिल्लो. पुणून ते मेरेन म्हजी तिडक न्हिविल्ली आनी हांव फकत तिरस्कारान ताचे कडेन पळोवन सभेंतलो उठून गेलों.

धा-एक वर्सां आदल्या एका प्रसंगाचो उगडास जालो. एका नव्या कोंकणी कथाकारान आपणाल्या कथांचें पयलेंच पुस्तक महादेवशास्त्री जोशींक धाडून दिल्लें. शास्त्रीबुवांच्या मराठी कथांनीच ताका कथा बरोवपाची प्रेरणा दिल्ली. शास्त्रीबुवां कडल्यान शाबासकी मेळची अशी उमेद ताणें बाळगिल्ली. ताका कितें मेळचें? 'तुवें ह्यो कथा कोंकणी बदला मराठींत बरयल्ल्यो जाल्यार स कोटिंचो महाराष्ट्र त्यो वाचतलो आशिल्लो. तुजें नांव महाराष्ट्रभर जातलें आशिल्लें' ह्या अर्थाचें एक कार्ड.

तो हें कार्ड घेवन म्हजे सरीं आयलो. हांवें ताका विचारलें, 'म्हणटकूच, तुवें कितें थारायलें?... व्यापक क्षेत्रूच तुका वेंचून काडचें आसत जाल्यार तें महाराष्ट्रा येदें ल्हान कित्याक वेंचचें? हिन्दीचें क्षेत्र महाराष्ट्रा परस पांच सात वांट्यांनी तरी व्हडलें, आनी इंग्रजीचें तर संवसारा येदें. तुका दोनूय भासो येतात. हिन्दींत बरय, इंग्रजींत बरय. तुजें नांवूय जातलें आनी तुका मरसर दुडूय मेळटलो. पुणून लक्षांत दवर (म्हजो सूर आपशींच तीख जालो) तुका देवान प्रतिभा दिल्या. तिचो उपेग

तूं नांव आनी दुडू जोडपा खातीर करपाक लागलो जाल्यार तुका हांव साहित्याच्या मळा वयलें एक कलवंत लेखतलों. एका घोवाची बायल म्हूण जियेवचे परस हजार दादल्यांक कूड विकप 'फायद्याचें' म्हूण कोणेंय वेश्येचो धंदो केलो, जाल्यार तूं तिचे कडेन खंयचे नदरेन पळेतलो ? तसोच हांव तुजे कडेन पळेतलों. देवान तुका एक भास दिल्या. ती उबंत पडल्या. तिका गिरेस्त करप हें काम तुजें न्हय जाल्यार कोणाचें ? गोंयांत येवन राविल्ल्या 'भायल्या' लोकांचें ?

खंयचोय गोंयकार मराठी लेखक जेन्ना कोंकणींत अमकें ना, तमकें ना म्हणटा, तेन्ना म्हाका ताची सुमारा भायर तिडक मारता. ताचेर उसळून हांव ताका विचारतां, 'सभाग्या, हें दैन्य तिच्या वांट्याक खंयच्यान आयलें ? तुजे सारकेले पूत तिगेर जल्माक आयले म्हुण्णूच मू ? आवयक दिवपाचें तें तुमी मावशेक काडून दिलें. आनी आवय दळिद्री म्हूण वयल्यान तूं शिणटा ? तुका लज दिसना ?'

मराठी परस ब्रज चड व्हडल्या वाटारांत घोळटा म्हूण ज्ञानेश्वरान, धरुंया, मराठी बदला ब्रज भाशेंत आपली **भावार्थ-दीपिका** बरयल्ली, जाल्यार मराठीक **ज्ञानेश्वरी** मेळटली आशिल्ली व्हय ? कोंकणीचें फुटकें नशीब हें की तिच्या पुतांनी कोंकणी सोडून हेर सगळ्या भासांनी बरयलें. आपणाली भास वयर काडपा बदला आपणाक वयर काडपाक सगळे वावुरले. इतले पडमूर – खाल्ल्या पानार हळशीक करपी पूत संवसारांतले दुसरे खंयचेच भाशेक जावंक नात जातले. जो आपणाले भाशेक उबंत उडोवन नांवा खातीर आनी दुडवां खातीर दुसरे भाशेंत बरयता तो लोकीक नदरेन केदोय व्हड आसूं, हांव ताका साहित्याच्या मळा वयलो शिंदळ लेखतलों आनी ताचे कडेन सदां तिरस्कारानूच पळेतलों.

आमच्या कोंकणी साहित्यकार फुडाऱ्यांकूय तारतम्य ना. आपणाल्या संमेलनां-परिशदांचें उक्तावण करपा खातीर कोणाक आपोवचो हाचो विचार करतात तेन्ना केन्ना केन्ना कन्नड भाशेंत नांव जोडिल्ल्या खंयच्याय तरी कोंकणी मनशाचें नांव घेतात. तेन्नाय म्हाका कुर्रर जाता. हांव म्हणटां, कन्नड भाशेंत बरोवपी कन्नड मनशाक आपयात, कोंकणी मनशाक नाका. कोंकणीक उबंत उडोवन जे गोंयकार नांव जोडपा खातीर मराठींत बरयतात तांचेच जातींतले ते... तांकां हाडून आमची साहित्याची वेदी भश्टूं नाकात... साहित्याच्या मळार शिंदळकी करपी मनशां हीं...

□ □

# २८

# फुकट गेल्लें एक बरें मराठी पुस्तक

भौ. पां.पु. शिरोडकारांलें **आठवणी: माझ्या काळ्या निळ्या कारावासांच्या** नांवाचें पुस्तक पयरूच वाचून सोंपयलें.

भौ. शिरोडकार आमगेल्या स्वातंत्र्य-संग्रामांतले वयले पंगतींतले एक झुजारी. तरणेपणा सावन गोंय फिरंग्यांच्या दावकुलांतलें सोडोवंक जाय हो ध्यास घेवन बशिल्ले. लोहिया गोंयांत येवचे पयलीं लेगीत कितें न्हय कितें करीत आयिल्ले. लोहियांनी गोंयांत येवन सुटकेची चळवळ सुरू केली तेन्ना तांगेल्या उत्फर्क्यांक आपशींच मेकळी वाट मेळ्ळी आनी ते चळवळींत उकतेपणीं पडले. परिणामीं, फिरंग्यांनी तांकां धरून बंदखणींत घाले. तांकां ख्यास्त फर्मायली. कांय तेंप आग्वादचे बंदखणींत दवरले. उपरांत तांकां पयस आंगोलांत व्हेले आनी थंयचे एके बंदखणींत दवरले. बंदखणींतले सोडले तेन्ना आंगोला भायर वचूंक जायना अशें फर्मान काडून सोडले. गोंयची सुटका जाल्या ते मेरेन ते आंगोलांतूच उरले.

आंगोलच्या सुटके-झुजांतूय तांणी वांटो घेतला आनी ख्यास्त भोगल्या.

येद्याय व्हडल्या ह्या काळांत तांणी जें केलें, पळेलें, सोंसलें, भोगलें, अणभवलें तार्ची वर्णनां तांगेल्या ह्या पुस्तकांत वाचूंक मेळटात. वाचतां वाचतां दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागतात. 'कितलें सोंसलें हांणी' हे तरेचीं उतरांय जिबे वयल्यान फुट्टात. आनी—

ह्या मनशाचें मोल गोंयाक केन्ना कळ्ळेंच ना म्हूण मन खेदान भरून येता.

शिरोडकार लोकीक नदरेन साहित्यीक न्हय. म्हळ्यार, कथा, नवलकथा, नाटकां, कविता बरोवपी लेखक न्हय. पुणून ह्या पुस्तकांत सैमाचीं जीं वर्णनां आयल्यांत तीं वाचतकूच 'साहित्याक तांणी आपणालें जिवीत ओंपिल्लें जाल्यार ते वयल्या पांवड्याचे एक साहित्यकार जातले आशिल्ले' अशें दिसले बगर रावना. तांगेल्या ह्या पुस्तकांत आनीक कांय वर्णनां आयल्यांत – खंयचें नुस्तें रुचीक कशें लागता हें सांगपी. नुस्त्या नुस्त्या मदल्या रुचिंचो फरक दाखोवन दिवपी हे तरेचीं वर्णनां हांवें तरी आतां मेरेन (नुस्त्या बगर उंडी वचना असल्या) खंयच्याच गोंयकार बरप्यान बरयल्लीं वाचूंक नात.

तांणी जें भोगलां तें कोणाचेय फाटिचो कणो मोडून वचूंक जाय हे तरेचें. आपणाल्या मानसीक त्रासांचीं आनी छळांचीं जीं वर्णनां तांणी केल्यांत तीं वाचतकूच दुस्मानांच्याय दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवूंक जाय. पुणून तीं वाचता आसतना नदरेंत भरता तें तांगेले

लिखणेचें दुसरेंच एक आंग – जांणी तांका हें सगळें भोगयलां तांचे विशीं दुस्वासाचें एक सादें उतर लेगीत तांगेल्या ह्या पुस्तकांत खंयच मेळना. येदो संयम तांचे लिखणेंत आशिल्लो पळोवन तांचे मुखार मान आपशींच बागवता.

पुस्तकांत खंयचेच कडेन कसलीच अतिताय ना.

कोणें तरी म्हळां, 'कंपॅरिझन्स आर ओडियस'. खंयच्याय दोन गजालिंची केन्नाच तुळा करची न्हय. केल्यार ती हळशिकावणी दिसतली. तरी आसतना केले बगर रावं नज म्हूण करतां —

शिरोडकारांलें हें पुस्तक सावरकरांच्या **माझी जन्मठेप** पुस्तका परस खंयच्याच आंगान उणें न्हय. एका आंगान तर तें 'जन्मठेपी' परसूय उजवें. 'जन्मठेपीं'त आमकां एक अहंकारी, गर्विश्ट, मिजाजखोर सावरकर दिश्टी पडटा. शिरोडकारांच्या पुस्तकांत तांच्या व्यक्तिमत्वांतलो असलो कसलोच दुर्गुण दिश्टी पडना. परती, तांगेले तत्त्वनिष्ठे वांगडा तांगेली नमळायूच चड नदरेंत भरता.

आतां म्हजो प्रस्न —

एका गोंयकारान बरयल्लें मराठींतलें हें आगळें वेगळें पुस्तक महाराष्ट्रांत कितल्याश्या लोकांनी वाचलां जातलें? कितल्याश्या मराठी लोकांक हे तरेचें एक पुस्तक गोंयांत भायर सरलां म्हणपाचें खबर आसतलें? महाराष्ट्रांतल्या एका तरी नामनेच्या नेमाळ्यान हाचें परिक्षण बरयलां व्हय? इतलें सुंदर पुस्तक – तेंवूय गोंयच्या एका निस्सीम मराठी-भक्तान बरयल्लें – महाराष्ट्रांत उपेक्षीत कशें उरलें?

मराठी आमकां 'व्यापक क्षेत्र' जोडून दिता, मराठींत बरयल्लें अख्खो महाराष्ट्र वाचता म्हूण जें कितें आमकां कांय जाण इतलींय हीं वर्सां सांगीत आयिल्ले तें फट म्हणपाचें दाखोवन दिवपाक शिरोडकारांलें हें पुस्तक पुरो जावचें ना व्हय? कित्याक फटयत आयले हे लोक आमकां इतलीं वर्सां?

खरी गजाल अशी — गोंयकार जें बरयतात तें फकत गोंयकारूच वाचतात. गोंयकारांनी वाचचें हे खातिरूच बरयतात. मराठी आमकां दिता तें 'व्यापक क्षेत्र' येदेंच; गोंयचे शिमेंत आसपावता येदें.

मागीर प्रस्न उपरासता, गोंयकारां खातिरूच बरोवपाचें जाल्यार तें मराठींत बरोवपाची कसली गरज आसा? शिरोडकारांनी आपणालें हें पुस्तक कोंकणींत बरयल्लें जाल्यार – आत्मविस्वासान सांगूंक सोदतां – कोंकणी-भक्त तें माथ्यार घेवन नाचतले आशिल्ले. पुस्तक खूब गाजतलें आशिल्लें. खूब जाण तें वाचतले आशिल्ले. आनी शिरोडकारूय धादोसभरीत जातले आशिल्ले.

मराठींत बरोवन तें 'फुकट गेलें' अशेंच म्हणचें पडटा.

□ □

# २९

# मराठींत भावणींचेर कित्याक बरोवचें पडटा ?

पयर एक मराठी नवलकथा वाचली. गोंयच्या जिविताचेर आधारिल्ली. सुंदरूच नवलकथा ही एक. पुणून —

नवलकथेंत भावीण पळेली आनी हांव फटक् करून उसळ्ळों, गोंयचेर पर्यटकांचें लक्ष ओडून घेवपा खातीर सरकार 'कार्नावाला'ची जायरात करता ती पळोवन कांय भाव उसळटात – बद्द तांचे भाशेन. सरकाराक, म्हण, कार्नावाल सोडून लोकांचें लक्ष ओडपा सारकें गोंयच्या जिवितांत कांय मेळना. ह्या मराठी बरप्यांकूय भावीण सोडून बरोवपा सारकें कांयच मेळना ? गोंयांत कितें, फकत भावणीच रावतात ? शेट, मेस्त, खारवी, कुळवाडी कोणूच राविनात ? बामण रावतात ते कितें भावणींगेरूच वचपी ? भावणींगेर वचपी दुसरे कोणूच नात ? बामण कितें फकत भाटकारूच आसतात ? भाटां-बेंसां नाशिल्ले बामण गोंयांत नात ? हांच्यो कोणाल्योच कथा व्यथा सांगपा सारक्यो आसनात ?

गोंयचेर आधारिल्ले नवलकथेंत भावीण येवंकूच जाय ? आनी ती 'देवते सारकी सुंदर' आसुंकूच जाय ? कुरूप भावणी गोंयांत नात ? तांच्यो कथा व्यथा सांगपा सारक्यो आसनात ? ह्यो नवलकथा गोंयचें एक विकृत रूप महाराष्ट्रा मुखार उबें करतात – जसो कार्नावाल देशा मुखार गोंयचें एक विकृत चित्र उबें करता.

पुणून, गोंयच्या खंयच्याच लेखकाक अजून भावीण नाशिल्ली नवलकथा मराठींत बरोवंक येवंक ना. म्हाका राग मारता. दिसता, पयशे आसूंक जाय आशिल्ले. भावीण नाशिल्ली नवलकथा मराठींत बरयतल्याक बरी पांच धा लाखांची एक तसरीप दवरतलों आशिल्लों.

म्हाका आनीक एके गजालिची तिडक —

भावणी-कलवंतांच्या समाजांत फाटल्या अंयशीं पाउणशीं वर्सांच्या काळांत एका फुडल्यो एक क्रान्त्यो घडून आयल्यात. आनी ह्या क्रान्त्यांक लागून ह्या समाजान एका फुडले एक व्हड मनीस देशाक दिल्यात. कोणाकूच कसो हे गजालिचो उगडास जायना ? पयलीं ह्या समाजांत फकत संगिताच्याच मळार नांव जोडिल्ले लोक पळोवंक मेळटाले. आयज ? अशें एक तरी मळ दाखयात, जंय ह्या समाजांतलो कोणूय दिग्गज दिश्टी पडना. जिविताच्या सगळ्या मळांचेर ज्या तोला-मोलाचे लोक ह्या समाजान निर्माण केल्यात तसले गोंयच्या दुसऱ्या खंयच्याय – आपणाक 'प्रतिष्ठीत' मानतल्या – समाजान केल्यात व्हय ? आनी तरी आसतना, आमचे कथाकार नवलकथाकार

पाउणशें अंयशीं वर्सां पयलिंच्याच समाजाचीं चित्रां रंगयत रावल्यात ?

कितें गानपाचें ? भावणी सोडून दुसऱ्या बारीक दुबळ्या सरसमान लोकांच्यो व्यथा, दुखी, धुंटमळे, फडफडे, निर्शेण्यो-खर्शेण्यो बरोवपाक येवंक जाय ती मराठी हांकां कोणाक येना, अशें म्हूण ?

हांकां मराठी येता ती 'ग्रांथीक'. ती वर्तमानपत्री बरपां बरोवपाक उपकारा पडटा. मनांतल्यो उचांबळायो उक्तावपाक घरगुती मराठी येवंक जाय. आनी घरगुती मराठी येवपाक ती तकलेंत घोळूंक जाय, जिबेर घोळूंक जाय. हांचे तकलेंत आनी जिबेर दीसरात घोळटा ती कोंकणी. हे कोंकणीचें मागीर तांकां मराठींत भाशांतर करचें पडटा. आनी थंयच तांगेली लिखणी लटपटूंक लागता. पुणून बाबडे कितें करतले ? मराठीच आपणाली मायभास म्हूण धरून चल्ल्यात आनी हेच भाशेंत बरयतले म्हूण हट घेवन बसल्यात. तांचे लिखणेंतल्यान येता ती मराठी पुण्या मुम्बयंतल्या मराठी बरोवप्यां सारकी जायना. मागीर —

बरपांत 'प्रादेशिकता' हाडची पडली ना ? पर्यटकांचें लक्ष ओढून ५५५। खातीर सरकार कार्नावाल घेवन येता तशे आपणाल्या कथां नवलकथांनी हे लोक भावणी घेवन येतात. काकूळट दिसता म्हाका हांची.

कर्नाटकांतूय असले बरपी आसात. जे उलयतात कोंकणी, बरयतात कन्नड भाशेंत. कितें बरयतात, खबर ना. पुणून एक विनोद आयकल्लो —

गिरीश कर्नाडाचें 'तुघलक' नाटक हिन्दींत येतकूच खूब गाजलें. मुदलांत ताणें तें कन्नड भाशेंत बरयल्लें. ह्या नाटकाची तुस्त तोखणाय आयकून एकलो तरणाटो खंय कर्नाडाक मेळपाक गेलो. 'म्हाका तुमचें हें नाटक म्हजे भाशेंत हाडपाचें आसा... तुमची परवानगी मेळटली मू ?' ताणें विचारलें.

'तुजी भास खंयची ?'

'कन्नड', भुरग्यान जाप दिली.

कर्नाटकांतल्या कोंकणी बरोवप्यांचें कन्नड बरप गोंयच्या मराठी बरोवप्यां सारकेंच जाता जावंक जाय. ना जाल्यार, असले विनोद कोणूच करचो नाशिल्लो.

प्रतिभावंत लोक हे. कोंकणींत बरोवपाक लागतले तेन्नाच तांगेलें बरप निजाच्या तेजान तळपूंक लागतलें. केन्ना लक्षांत येतलें तांच्या हें ?

□ □

# ३०

# अघळ पघळ इल्लें

आर्विल्ल्या भारतीय साहित्या कडेन म्हजो संबंद येता, तीन भासांतल्यान: मराठी, गुजराती आनी हिन्दी. तिनूय भासांतलें नवें नवें साहित्य खंयच्यान तरी हातांत पडटा आनी तांतलें वेंचीक वाचुनूय काडटां.

आनीक एक भास आसा – जी म्हजो विश्वसाहित्या कडेन संबंद जोडून दिता आनी म्हाका भारतीय साहित्याचीय वळख करून दिता. ती इंग्लीश.

एका काळार विश्वसाहित्या कडेन म्हजो पुर्तुगेज भाशेंतल्यान संबंद येतालो. तॉलस्तॉय, दॉस्तॉयव्हस्की, गोर्की, पुश्किन, त्स्वैग, बाल्झाक... सगळे पुर्तुगेजीक लागून संवकळिचे जावंक पाविल्ले.

हो संबंद आतां तुटला: आतां पुर्तुगेजिची सुवात इंग्लिशीन घेतल्या.

तघळी शिवशंकर पिल्लेची **चेमीन** हांवें इंग्लीश भाशेंत वाचली. रांपणकारांच्या जिविताचें चित्रण करपी ही एक मलयाळी भाशेंतली नवलकथा. ती वाचता आसतना हांव केरळांतल्या रांपणकारांच्या जिविताची वळख करून घेतां अशें दिसलेंच ना. कळंगूट कोलवेंच्या, आगशी करंजाळच्या रांपणकारांचें जिवीत नियाळटां अशें दिसलें. रांपणकारांची गोंयांत जी चळवळ चल्ली तिचे कडेन पयसल्यान जावं, पुणून थोडोसो संबंद आयिल्लो. पुणून रांपणकारांच्या सुखदुख्खांचो, तांगेल्या निर्शेण्या-उत्फर्यांचो अदमास म्हाका तघळीचे हे नवलकथेनूच करून दिलो.

गोंयच्या रांपणकारांत अजून कोण लेखक जल्माक येवंक ना आनी आयचो खंयचोच लेखक अजून रांपणकारांच्या जिविता कडेन एकरूप जावंक ना. ना जाल्यार, कोंकणींतूय एक तघळी निर्माण जावं येतालो.

कथा साहित्याचें म्हत्वाचें आंग तें हें – जें मोटे मोटे ग्रंथ बरोवन सांगूंक येना, तें एका मनशाच्या वा कुटुंबाच्या वा समाजाच्या जिविताचें चित्रण करून बरे भाशेन सांगूंक येता. कसलेंच भाष्य करी नासतना, कसलेंच तात्पर्य काडी नासतना.

हिन्दू धर्म समजून घेवपा खातीर कांयं येवरोपेव लोक ह्या देशांत येतात. ते बनारसाक वतात, हरिद्वाराक वतात. विवेकानन्द, राधाकृष्णन वाचतात आनी तरी आसतना 'हिन्दू धर्म सारको लक्षांत येना' अशें म्हणटात. म्हाका तांच्यांतलो कोणूय केन्नाय मेळटा तेन्ना हांव तांकां सांगतां, 'इतलेंच हें वाचून आनी पळोवन तुमकां हिन्दू धर्म कितें तो कळपाचो ना. तो तसो सांगुंकूय येना. तुमकां हिन्दू धर्म सारको समजून घेवपाचो आसत जाल्यार तुमी एक करात: रवीन्द्रनाथ ठाकुरांली **गोरा** नवलकथा

वाचात. हे नवलकथेंतलें गोराचे आवयचें जिवीत नियाळून पळेयात. तुमकां हिन्दू धर्म कितें म्हणटात तो सारको समजतलो. हिन्दू धर्माचीं सवळेपणां, कोल्लीपणां, ताची रुढि-निष्ठा, ताच्या संस्काराचीं शाणेपणां, ताची उदार नदर, ताचें सोंशीकपण, सगळें तुमकां तिच्या जिवितांत दिश्टी पडटलें.

रवीन्द्रनाथ तिचें पात्र चित्रावंक पावले, कित्याक, ते 'सुधारक' आशिल्ले – सनातनी समाजा कडेन तांचो दाट संबंद येतालो. ताच्या दुबळ्या आनी घटमूट, दोनूय आंगांचो हिशोब लावन तांकां आपलें काम करचें पडटालें.

साहित्यकारांचो जिविता कडेन जेन्ना इतलो दाट संबंद येता, तेन्नाच तांचे लिखणेंतल्यान जिवें तट्टटीत साहित्य भायर सरूंक पावता. साहित्यकार निखटो कलाकार आसलो म्हूण उपकारा पडना. ताच्यांत कलाकार आसुंकूच जाय; कित्याक, तो नासत जाल्यार तो चित्रण सारकें करूंक पावचो ना. पुणून ताची निष्ठा कले परस चड जिविताक ओंपिल्ली आसूंक जाय. हनुमानाची पुजा करपी पुजा हनुमानाची करता जालो तरूय ताची निष्ठा, ताची भक्ती जशी रामाच्या पांयां कडेन तो ओंपता तसो साहित्यकार कलाकार आसलो – कलेची पुजा करता जालो, तरूय ताची निष्ठा ताची भक्ती जिविताच्या पांयां कडेन ओंपिल्ली आसूंक जाय. तरूच तो बरें साहित्य बरोवंक पावतलो.

संवसाराचे फाटीर तरांतरांचे लोक रावतात – तांच्यो काती वेगळ्यो, केंस वेगळे, दोळ्यांचो रंग वेगळो, संस्कार वेगळे, धर्म वेगळे, भासो वेगळ्यो... तरूय सगळे हांसतात एकेच तरेन, रडटात एकेच तरेन. कित्याक, सगळ्यांक काळीज एक, सगळ्यांचें जिवीत एक. हें जें कितें आमकां सगळ्यांक एकामेकां कडेन जोडटा ताकाच लागून जेन ऑस्टिनची 'प्रायड ॲण्ड प्रेजुडीस' नवलकथा वाचता आसतना ती आमकां अमेरिकन-शी दिसना. जेन ऑस्टिनचीं पात्रां हांसतात आमचेच भाशेन, रडटात आमचेच भाशेन. तांचे दुस्वास, मत्सर सगळे आमचेच सारके. हांवें ती पयलेच खेपे वाचिल्ली – तीस-पस्तीस वर्सां जालीं हे खबरेक – तेन्ना म्हाका ही नवलकथा म्हज्याच सोयऱ्यांची-शी दिशिल्ली.

कोणें एकल्यान म्हळां; जें local तेंच universal आसता. तशें नाशिल्लें जाल्यार रशियेंतल्या गोगोलच्यो आनी फ्रांसांतल्या मोपासांच्यो कथा आमकां रुचूंक पावच्यो नाशिल्ल्यो, कळच्योय नाशिल्ल्यो.

साहित्यांत 'प्रादेशीक' म्हूण चडशें कांयच नासता. पात्रांचीं नांवां, तांचो भेस, तांची भास सगळें वेगळें आसून लेगीत तांचें जिवीत universal आसता. सगळ्यांक समजता. सगळ्यांच्या काळजाक तें हात घालता. म्हुण्णूच येवरोपांतल्या मध्यम-वर्गीय लोकांचें जिवीत आमकां हांगासल्ल्या मध्यम-वर्गियां सारकेंच दिसता.

ब्राझीलांतले एके झोंपडपट्टेंतले एके बायल-मनशेन आपणाली दिसपटी उजवाडायली आनी तिच्यो णव लाख प्रती एका वर्सांत सोंपल्यो म्हणपाचें हांवें एके कडेन वाचलें. हांवें पुर्तुगालाक अमेरिकेक हाका ताका पत्रां बरयलीं आनी एक दीस O Quarto

do despejo नांवाचें एक पुस्तक म्हज्या हातांत पडलें. हांवें मराठींत जयवंत दळव्याचें **चक्र** आनी मधु मंगेश कर्णिकाचें **माहीमची खाडी** हीं दोन पुस्तकां – झोंपडपट्टींतल्या जिवितावेलीं – वाचिल्लीं. मुम्बयंत अंधेरीक रावतालों तेन्ना 'गुंडवली'ची झोंपडपट्टी लागिंच्यान पळेल्ली. इतलेंच न्हय, तर एके तरेन हांव हे झोंपडपट्टेंतलोच एक वांगडी जावन तीन वर्सां राविल्लों. म्हाका ब्राझीलचे झोंपडपट्टेंतल्या जिवितांत आनी गुंडवलीचे झोंपडपट्टेंतल्या जिवितांत कसलोच फरक दिश्टी पडलो ना. असलीच एक झोंपडपट्टी हालींच हांवें आमच्या गोंयांत चिमला गेल्लों थंय पळेली. संवसारांतले मध्यम-वर्गीय जशे सगळे एक तश्यो संवसारांतल्यो झोंपडपट्ट्यो सगळ्यो एक. सगळे कडलें जिवीत सारकें आनी एक. देखून सगळे कडलें साहित्य एक.

हांगा जशे असंस्कारी आनी अन्नाडी श्रीमंत पळोवंक मेळटात, तशेच आनी तेच तरेचे श्रीमंत आमकां अमेरिकेंत आनी जपानांतूय मेळटात. उत्कट आनी बऱ्यांतलें बरें साहित्य बरोवपाक जें कितें जाय तें सगळें हांगा – आमचे भोंवतणी – आसा. आमचे लिखणेंतल्यान बऱ्यांतलें बरें साहित्य अजून भायर सरूंक ना जाल्यार हाचो अर्थ एकूच: आमचे भुंयेंत आमचीं पाळां-मुळां रिगूंक नात. आमकां आमचे भुंयेचें पोषण मेळना.. घडये आमी पुस्तकां चड वाचतात जावंयें. पुस्तकांतल्यानूच प्रेरणा घेतात जावंये. पुस्तकां वाचुंकूच जाय. पुणून बरो लेखक जावपाक, खरो लेखक जावपाक आमी आमकां भोंवतणच्या जिविता कडेन एकरूप करून घेवंक जाय.

बरें साहित्य निखटें 'प्रादेशीक' उरना तशें तें 'तत्कालीन'य उरना. प्रेमचंदाच्या **गोदानां**त भारतांतलो जो गांव चित्रायल्लो पळोवंक मेळटा, तसले गांव आतां भारतांत उरूंक नात. पर्ल-बकच्या **गुड अर्थां**त जो गांव चित्रायल्लो पळेल्लो, तसलो एक लेगीत गांव चिनांत सोदुनूय मेळ्ळो ना. आनी तरी आसतना **गोदान** आनी **गुड अर्थ** पोन्न्यो आनी शेळ्यो नवलकथा जावंक पावल्यो नात. कित्याक, दोनूय नवलकथांतलें जिवीत 'खरें'. आनी 'खऱ्या' जिवितांत अशें कितें तरी आसता जें काळाच्यो सगळ्यो शिमो हुंपून वता.

दोन निर्णयांचेर हांव पावलां. जिविताक काळूय मर्यादा घालिना आनी अवकाशूय घालिना. फाटल्या काळांतल्या जिवितांत जशें 'आयचें' कितेंय तरी आसता तशें खंयच्याय आनी कितलेय पयसल्या जिवितांत 'हांगासल्लेंय' कितेंय तरी आसता.

शिवराम कारंथांची **मरळी मण्णिगे** कोंकणींत हाडची अशें साहित्य अकादेमीन येवजिलें. कोंकणींत हाडपाचें काम कोणाकूय दिवचे पयलीं, म्हळें, नवलकथा वाचून पळेल्ली बरी. मराठींत **अशी धरतीची माया** म्हूण तिचो अणकार मेळ्ळो. वाचतकूच दिसलें, 'आरेच्या! हें आमचें हांगासल्लेंच जिवीत! हिका कन्नड नवलकथा कित्याक म्हणची? कोंकणी म्हणूं येता.' पोट्टीकाटाच्या **कथा एक प्रांतर की** नवलकथेंतूय म्हाका गोंयकारांचेंच जिवीत मेळ्ळें. तें कित्याक, उडिया भाशेंतल्या गोपीनाथ मोहोन्तीची **माटी मटाल** आनी **अमृत के संतान** ह्या नवलकथांनीय म्हाका चडशें वळखिचेंच जिवीत मेळ्ळें. जेन ऑस्टिनची **प्रायड ॲण्ड प्रेज्युडीस** वाचिल्ली त्या वेळार दिशिल्लें

तशें दिसलें.

आमच्यांत अजून कारंथ, पोट्टीकाट, मोहोन्ती निर्माण जावंक नात जाल्यार ताचो अर्थ एकूच – आमचे बरपी अजून आमच्या जिवितांत भितर सारके रिगूंक नात.

रिगचेच नात अशें कशें म्हणूं? 'अच्छेव' आनी 'कार्मेलीन' वाचले उपरांत आमच्यांत लेखक नात अशें म्हणपाचो अधिकार आमकां उरूंक ना. इतलेंच म्हणूं येता: 'खरो' लेखक गोंयांत कोंकणींत सोडून दुसरे खंयचेच भाशेंत जावचो ना.

कथा साहित्याक कित्याक म्हूण कोण जाणा, इंग्लीश भाशेंत 'फिक्शन' म्हळां. हरशीं, फिक्शन म्हळ्यार कल्पना. तिचो सभाव जमनीर पांय दवरून उबो रावपाचो न्हय, उडपाचो. हाका लागून ती केन्ना केन्ना 'फॅन्टसी'चें रूप घेता – मनोराज्यांत घुस्पता, स्वप्नचित्रां रंगयता. असलें साहित्य कोंकणींत अजून येवंक पावूंक ना. तें जेन्ना येवपाक लागतलें तेन्ना तें खूब लोकप्रिय जातलें. पुणून तें साहित्यांत मोडटलें व्हय? म्हाका दिसना. लोकप्रियता ही बऱ्यां आनी खऱ्या साहित्याची कसोटी न्हय.

मनोज बसू बंगाली भाशेंतले एक मोटे कथाकार. साहित्य अकादेमींत पांच वर्सां म्हाका तांचो दाट सहवास मेळ्ळा. एक खेपे हांवें तांकां एके बंगाली लेखिके विशीं विचारलें, 'ती कशी कितें?'

मनोजबाबून जाप दिली: She is very popular. आनी ते ओगी रावले. हांवें तांकां विचारलें, You mean to suggest that popular authors are not necessarily great? ते मुमुरख्यांनी हांसले आनी म्हणपाक लागले: हय.

सार्त्रच्या जिवितांतलो एक प्रसंग वाचिल्लो ताची म्हाका याद जाली. तो मदीं फ्रान्सांत खूब लोकप्रिय जाल्लो. ताका हाचें खूब वायट दिसलें. सिमॉन द बोव्हआर तागेली मैत्रीण. तिका तो म्हणपाक लागलो, 'शी: हांव इतलो किरकोळ लेखक आसन अशें दिसूंक नाशिल्लें.'

व्हड लेखक लोकप्रिय जातलोच अशें म्हणूं येना. आनी लोकप्रिय लेखक व्हड आसतलोच अशेंय म्हणूं येना. सार्त्र व्हडूय आशिल्लो आनी लोकप्रियूय आशिल्लो. टॉलस्तॉय व्हडूय आशिल्लो आनी लोकप्रियूय आशिल्लो. नांवां घेवचीं न्हय; पुणून फडके, गुलशन नन्दा लोकप्रिय, पूण ते व्हड म्हणूं नजत.

म्हजें कथां नवलकथांचें वाचन खूब मर्यादीत. म्हज्यो रुची वेगळ्यो, आवडी वेगळ्यो. तरी आसतना मदीं मदीं एकाद-दुकली बरी कथा नवलकथा हातांत पडल्या आनी हांवें ती वाचुनूय सोंपयल्या. विभूतिभूषण बंदोपाध्यायाची **आरण्यक** आनी ताराशंकर बंदोपाध्यायाची **गणदेवता** वाचतकूच एक वेगळोच विचार तकलेंत आयलो. म्हळें, बंगाली भाशेन रवीन्द्रनाथ आनी शरतबाबू निर्माण करूंक नाशिल्ले जाल्यार बंगालींत ताराशंकर, विभूतिभूषण आनी माणिक बंदोपाध्याया सारके जीवननिष्ट कथाकार येवचेच नाशिल्ले. रवीन्द्रनाथ आनी शरतबाबून कथा साहित्याचें शेत खूब नांगरलें आनी तांणी ह्या शेतांत बीं शिंपडायलें तेंच ह्या तीन बंदोपाध्यायांच्या रुपान किल्ललें. हाचो अर्थ, आयचो साहित्यकार फकत साहित्य निर्माण करिना. फुडले पिळगेंतले

साहित्यकारूय तो निर्माण करता. हिन्दींत रेणूची **मैला आंचल** वाचली तेन्नाय अशेंच दिशिल्लें. फकत प्रेमचंदाक माथ्यार घेवन नाचपाची गरज ना. त्याच तोलामोलाचो दुसरो कथाकार हिन्दींत पावला.

पुणून प्रेमचंदाक लागुनूच तो येवंक पावला.

बेदीची **एक चद्दर मैली सी** वाचली तेन्ना दिसलें, खूब बरोवंक जाय अशें ना. एकूच कथा वा नवलकथा भाशेक व्हडांतलो व्हड पांवडो जोडून दिता. पंजाबी भाशेंत आतां कोणेंय कितेंच बरयलें ना जाल्यारूय बेदीची ही नवलकथा पंजाबी साहित्याक संवसारांतल्या व्हडांतल्या व्हड साहित्याच्या पाटार बसोवपाक पुरो.

साहित्य काल पयर मेरेन मध्यम वर्गातल्या लोकांचीच मक्तेदारी आशिल्ली. तें तांचे भितरूच उरिल्लें आनी थंयच घुस्पल्लें. स्वराज्यांत तें समाजाच्या तळा-गाळा मेरेन पावलें. जो लोक युगानयुगां चिड्डल्लो चेपिल्लो आनी मोनो उरिल्लो ताची आतां अस्मिताय जागी जाल्या आनी ताका वाचा फुटल्या. तो जेन्ना भीड मुरवत धरी नासतना आपल्यो खबरी आपले भाशेंत सांगपाक लागतलो तेन्ना साहित्याचे सगळे आयाम बदलतले. सगळ्यो वणटी मोडटल्यो. ही प्रक्रिया मराठी हिन्दींत सगळे कडेन सुरू जाल्या. कोंकणी तर हेच प्रक्रियेंतल्यान वयर सरल्या.

कोंकणी साहित्य कसलें कितें रूप घेतलें, आयज सांगूंक येवपाचें ना. इतलें खरें — आयज मेरेन गोंयच्या साहित्यकारांनी मराठींत, पुर्तुगेजींत, इंग्लीशींत जें साहित्य बरयलें ताचे परस कोंकणी साहित्य सामकेंच वेगळें आसतलें.

□ □

# ३१

# कसलें साहित्य? कसले साहित्यकार?

हालीं कितेंय छापून येता आनी कोणूय बरयता. प्रस्न पडटा, हांतल्या खंयच्या बरपाक साहित्य मानचें आनी कोणाक साहित्यकार लेखचो? छापून येता तितल्याकूय साहित्य मानलें जाल्यार साहित्याचेर अन्याय जातलो आनी बरयतात तितल्यांकूय साहित्यकार लेखले जाल्यार साहित्यकारांचो अपमान जातलो.

हाचो अर्थ, हालीं येता ताका कांयच मोल ना असो न्हय. असल्या बरपाची साहित्याक कांयच गरज ना असोय न्हय. भास जिवी-तट्‌टटीत उरपा खातीर सगळेच तरेच्या साहित्याची आमकां गरज आसा. जाका आमी 'रद्दी' साहित्य लेखतात ताची लेगीत. ताका लेगीत मोल आसा. पांच पयशे, धा पयशे, रुपया, धा रुपये हेंवूय जाल्यार मोलूच. पुणून पोवनाचें मोल वेगळें. पोवनाच्या मोलाचें साहित्यूच साहित्याक व्हडपण जोडून दिता. आमकां पोवनाच्या मोलाचें साहित्य खंयचें आनी पांच पयशांचें, धा पयशांचें खंयचें हें वळखूंक येवंक जाय.

खूब जाणांक तें वळखूंक येना.

कांय जाण कोणें कितलीं पुस्तकां बरयलीं हें पळेतात आनी पुस्तकांचे संख्येवेल्यान कोण व्हड साहित्यकार आनी कोण ल्हान तें थारायतात. हांव जाका फाटल्या तीस पस्तीस वर्सां पसून मराठींतलो एक व्हड साहित्यकार म्हूण मानीत आयिल्लों ताचे विशीं पयर मुंबयंत एक टिका आयकली – 'यांनी मराठींत काय अन् कितीसं लिहिलेलं आहे म्हणून साहित्यविषयक सरकारी बीन-सरकारी साऱ्या समित्यांवर ते स्वतःची वर्णी लावून घेतात?' ही टिका आयकून म्हाका बरेंय दिसलें आनी समाधानूय जालें. म्हळें, हे मराठी साहित्यकार कोंकणी साहित्यकारां परस चडशे व्हड न्हय. तांचे येदेच गिड्डे हे, वा म्हणुंया, तांचे इतलेच नव-साक्षर. साहित्याचें आनी साहित्यकाराचें मोल कशें आंखचें हें आमकां समजना तशें हांकांय समजना.

मागीर हांव चिंतूंक लागलों. म्हळें, मराठींत वर्सान वर्स शेंकड्यांनी पुस्तकां उजवाडा येतात. फाटल्या शंबर वर्सांत हे भाशेन जीं हजारांनी पुस्तकां मराठींत आयलीं तांतलीं बऱ्यांतलीं बरीं अशीं, धरुंया, शंबरूच पुस्तकां वेंचून काडचीं अशें थारायलें. जाल्यार, खंयच्या खंयच्या पुस्तकाचो हे वळेरेंत आसपाव जातलो?

म्हज्या दोळ्यां मुखार सट्ट करून एक पुस्तक उबें रावलें: दिवाकरालें 'नाट्यछटा'. दिवाकरान ह्या पुस्तका भायर मराठींत आनीक कितेंय बरयल्लें आसत, म्हाका दिसना. हांवें तरी आयकूंक ना. म्हळें, फाटल्या शंबर वर्सांतल्या शंबर वेंचीक पुस्तकांत

दिवाकराल्या 'नाट्यछटा'चो आसपाव जाले बगर रावचो ना. पुणून शंबर सवायशीं पुस्तकां बरयल्ल्या ना.सी. फडक्यांच्या एका तरी पुस्तकाचो जायत व्हय? खरेपण ना.

एकल्यान एकूच पुस्तक बरयलें म्हूण तो ल्हान जायना आनी दुसऱ्यान शंबर पुस्तकां बरयलीं म्हूण तो व्हड थरना. पुस्तकांचे संख्येक साहित्य म्हत्त्व दिना, बरें आसा. पुस्तकांच्या आकाराक तरी दिता व्हय? शंबर पानांचें पुस्तक बरोवपी साहित्यकार ल्हान आनी पांचशीं पानांचें बरयता तो व्हड, अशें मानता व्हय?

अवचीत दोळ्यां मुखार 'ईशोपनिषद' येवन उबें रावलें. फकत अठरा श्लोकांचें एक उपनिषद हें. छापपाक दिलें जाल्यार तीन पानांत आसपावतलें. चवथें पान कोरेंच उरतलें. असल्या पुस्तकाक पुस्तक तरी कशें म्हणचें? पुणून, ह्या पुस्तकान हजारांनी पानांचीं भाष्यां बरोवपाक लोकांक प्रेरणा दिल्या. अजुनूय दिता. हिन्दुधर्माचीं सगळीं पुस्तकां, धरुंया, कोणेंय हुलपावन उडयलीं. फकत एक ईशोपनिषद वाटावलें. जाल्यार, ताच्या ह्या अठरा श्लोकांचेर आधारून पुराय हिन्दुधर्म नव्यान रचून काडूं येत. येदो म्हयमा ह्या 'पत्रका' येद्या पुस्तकाचो.

भगवद्गीता तरी केदी? शंबर पानांच्या 'चोपड्या' येदी तरी? पुणून देशी-विदेशी सगळें साहित्य तागडेच्या एका दाल्यांत घालात. आनी दुसऱ्या दाल्यांत भगवद्गीता घालात. गीतेचेंच दालें जड जातलें.

साहित्याचें मळ संवसारभर सदां 'वयल्या लोकां'च्याच हातांत उरलें. आमच्या देशांत ब्राह्मणांच्या. ब्राह्मणांनी धर्मशास्त्रां रचलीं हें, म्हण, समजूं येता. पुणून तांणी राज्यशास्त्रूय रचलें. युद्धशास्त्रूय तांणीच रचलें. राजान राज्य कशें करचें, झूज खंयच्या नेमाक धरून करचें, हें तांणीच थारायलें. आमच्या देशांत क्षत्रियांचीं शास्त्रां क्षत्रियांनी न्हय, तर ब्राह्मणांनी रचल्यांत.

साहित्याच्या आनी संस्कृतायेच्या मळाची 'मक्तेदारी' सदां ब्राह्मणांचीच आशिल्ली.

तरी आसतना वाल्मीकी आनी व्यास ह्या देशांत वयर सरले! कशे? दोनां भितरलो एकलोय ब्राह्मण न्हय. एकलो जातीन कोळी. जाल्यार दुसरो खारवी. तांचे मुस्तींत साहित्याच्या मळार ब्राह्मणूच शेक चलयताले. पुणून एकलोय ब्राह्मण हांकां चिड्डूंक पावलो ना. उवेखूंक पावलो ना. फाटीं उडोवंक पावलो ना.

ब्राह्मणांनी, धरुंया, थारायल्लें: आमी ब्राह्मण सोडून दुसऱ्या कोणाक ह्या मळार पावल दवरूंक दिवचे नात. जाल्यार, वाल्मीकी आनी व्यास वयर सरचेच नाशिल्ले? अशें म्हणूं नज.

'सर्व्हायव्हल ऑफ द फिटेस्ट' हो न्याय जीवसृश्टींत घडये चलत, घडये ना चलत. साहित्याचे सृश्टींत तो अत्यंत कठोरपणान चलता. जो 'फिटेस्ट' तोच साहित्यांत 'सर्व्हायव्ह' जाता. कोणूय केदीय 'कंपूशाही' करूं, जो 'फिटेस्ट' तो साहित्यांत केन्ना फाटीं पडना. खंयच पडूंक ना. आनी कोणेंय कोणाक कितलोय माथ्यार घेवं, जो 'फिट' न्हय तो साहित्यांत केन्नाच वयर सरूंक पावूंक ना. खंयच सरूंक ना.

साहित्यांत अशेंच सदां चलत आयलां. अशेंच चलूंक जाय. गुणांनीच मनीस वयर सरूंक जाय. जाका 'प्रोत्साहना'चे कुबडे बगर चलुंकूच येना, ताका सुशेगाद 'मरूंक' दिवंक जाय.

एक गजाल घट्ट मतींत धरिल्ली बरी—

साहित्याच्या मळार कोण कोणाक वयर काडिना. कोण कोणाक सकल उडोवंक पावना. जण एकलो आपुणूच आपल्या गुणांनी साहित्यांत आपली सुवात वेंचून काडटा आनी थंय तो आपल्याच अधिकारान वचून बसता. थंयचो ताका कोण्ण हालोवंक पावना.

कोणें म्हळ्ळें, सारको उगडास जायना. पुणून एका विचारवंतान म्हळ्ळें : साहित्याच्या मळार जे कोण आपली सुवात निश्चित करून रावल्यात ते जल्मान खंयचेय जातिचे आसूं, 'गुणकर्मा'च्या नेमान ते सगळे 'ब्राह्मण'.

ह्या ब्राह्मणां भितरूय चार जाती आसात—

शूद्र ब्राह्मणांची एक : दुसऱ्यांक जाय तें बरोवन दितात तांची. वैश्य ब्राह्मणांची दुसरी : पयशां खातीर बरयतात तांची. क्षत्रिय ब्राह्मणांची तिसरी : समाज जाग्यार हाडपा खातीर परंपरे आड, रुढीं आड, समाजाच्या कुसक्या, नष्ट्या, पाड्या आंगां आड लिखणेची तरसाद करून झुजतात तांची. आनी चवथी, ब्राह्मण ब्राह्मणांची : बरयले बगर रावं नज अशें दिसता तेन्नाच – आनी आपणाक जाय तेंच – बरयतात तांची.

हांच्यांत ऊंच, म्हज्या कोंतान, क्षत्रिय ब्राह्मण. दुसऱ्या पांवड्यार ब्राह्मण ब्राह्मण. उरिल्ल्यो दोनूय जाती 'उणाक' ब्राह्मणांच्यो.

आमच्यांत ह्या जाती-भेदा भायर दुसरो भेद आसूं नज. आसूंक फावना. जे जल्माचे जातिकूच जात लेखून तिच्या भांडवलार साहित्यांत सुवात जोडूंक सोदतात ते 'आमचे' न्हय. जल्मान मागीर ते बामण आसूं वा आनी कोणूय आसूं.

कोंकणीच्या मळार आमची भास कोंकणी तशी आमची जात कोंकणी आनी आमचो धर्मूय कोंकणी. जल्मान आमी खंयचेय जातिचे वा खंयच्याय धर्माचे आसूं, रगताच्या नात्यांतल्या लोकां परसूय आमचें नातें दाट आसूंक जाय. वाल्मीकी पासून रवीन्द्रनाथां मेरेन जी सांस्कृतीक परंपरा ह्या देशांत चलत आयल्या तिचेच आमी वारस.

हो जालो साहित्याचो वस्तुनिष्ठ Objective विचार. संवसारांतल्या सगळ्या साहित्याक जे नेम लागू जातात ते आमच्या कोंकणी साहित्याकूय लागू जातात. पुणून कोंकणी साहित्या कडेन हांव पळेतां तेन्ना आनीक एके नदरेनूय पळेतां.

ही आत्मनिष्ठ नदर – Subjective.

धरुंया, फाल्यां आमकां कोणूय म्हणपाक लागलो, हांव कोंकणीक 'भास' मानिना. मराठीची एक सुंदर 'बोली' मानतां. हांव कोंकणींत बरयतलों. पुणून तिका 'बोली' मानून बरयतलों. जाल्यार, ह्या मनशाक आमी 'आमचो' लेखतले व्हय ? बाकिच्यांचें हांव नकळ. हांव ताका 'आमचो' लेखचों ना. तो आपल्या गुणांनी साहित्यांत आपली

सुवात वेंचून काडूं, हांव ताका 'आमचे' पंगतीक बसोवचों ना. मागीर, तो आमचे भाशेंत कितलेंय बरें साहित्य बरोवं वा आमच्या साहित्यांत केदीय मोलाची भर घालूं. म्हाका तो सदांच 'भायले जाति'चो दिसतलो. आनी हांव ताका सदांच वेगळे पंगतीक बसयतल्गों.

कित्याक, आमची चळवळ निखटी साहित्यीक चळवळ न्हय. साहित्य तिचें एक आंग. म्हत्वाचें खरें. पुणून तिगेल्या हेर आंगां परस चड म्हत्वाचें न्हय.

आमचे चळवळिची मुदल भुमिका कितें?

आमी गोंयकार. पंजाबी, बंगाली, महाराष्ट्रीय, गुजराती लोकां भाशेन आपणाली एक खाशेली अस्मिताय आशिल्ले भारतीय. पंजाबी, बंगाली, महाराष्ट्रीय, गुजराती लोकांक जशें आपापलें भाशीक राज्य मेळ्ळां, तशें आमकांय आमचें राज्य मेळूंक जाय आनी तें आमकां धनिपणान चलोवपाची सूट आसूंक जाय अशें मानपी, तशें मोट्यामोट्यान सांगपी आनी ते खातीर जिवाचें रान करून झुजपी चळवळ ही आमची. आमचे हे भुमिके आड जो येता तो केदोय व्हड साहित्यकार आसूं, तो 'आमचो' न्हय.

हांव कबूल करतां: हो वस्तुनिष्ठ विचार न्हय. पुणून वस्तुनिष्ठ विचार हेंच विचाराचें म्हत्वाचें आंग न्हय.

हांव नांव घेना. नांवा बदला फुलयो घालून म्हजें मत्त स्पश्ट करतां.

आमचो xxx xxx कवी घेवंया. कोंकणींतलो हो एक प्रतिभावंत कवी. जायत्या कवीं परस ताच्या काव्याची आमी सगळ्यांनी पोटभर तुस्त केल्या. हांवें जाल्यार तागेल्या कवितांचें एक पुस्तकूय छापलां. (तागेली पयली कोंकणी कविता हांवेंच उजवाडायिल्ली). देवान तांक दिली जाल्यार तागेलीं दुसरींय पुस्तकां हांव छापन. इतलेंय आसून हांव म्हणटां, हो 'आमचो' न्हय. हो मराठीवादी. कोंकणीक तिची बोली मानपी. भास मानता आसलो (म्हाका खबर ना) जाल्यारूय विलीनीकरणवादी. गोंय महाराष्ट्रांत घालूंक जाय अशें म्हणपी. हाचीं पुस्तकां हांव छापतां म्हूण फाल्यां, धरुंया, ताका कोणूय आमचे खंयचेच संस्थेचो पदाधिकारी करपाक भायर सरलो जाल्यार, हांव ताचो प्राणपणान विरोध करतलों. ताका आमच्या खंयच्याच सम्मेलनाचो, परिषदेचो अध्यक्ष, उपाध्यक्ष, स्वागताध्यक्ष, कार्याध्यक्ष जावंक दिवचों ना. ताका आमच्यांतल्या ल्हानांतल्या ल्हान कविंचे पंगतीक लेगीत बसूंक दिवचों ना.

म्हजें चुकतलें? हय म्हणशात जाल्यार हांव म्हणटलों: तुमचें साहित्य तुमकांच लखलाभ जावं. हांव तुमचे कडेन संबंद दवरचों ना. तुमी कोंकणीचो आनी तिच्या साहित्याचो घात मारतले. आनी घडये, हांव तुमचेय आड झुजपाक फुरफुरून येतलों.

म्हजे हे भुमिकेक 'अतितताये'ची – extremist म्हणूं येता. पुणून ती कोंकणी विशिंचे म्हजे निष्ठेंतल्यान आयल्या. आनी हे निष्ठेन म्हाका कोंकणीच्या सगळ्या आंगां कडेन आत्मनिष्ठ नदरेनूच पळोवंक शिकयला.

फुलयो घालून ज्या कविचो हांवें उल्लेख केला ताचें मोल म्हाका खबर ना

अशें न्हय. मोल खबर आसा म्हुण्णूच तर तागेलें पुस्तक हांवें छापलां. इतलेंय आसून Thus far no further अशी एक लक्ष्मण-रेषा हांवें ताचे भोंवतणी घाल्या.

हेच भुमिकेंतल्यान हांवें xxx चेर बहिष्कार घाला. कोंकणींतलो तो एक व्हड साहित्यकार. दुबावूच ना. आयज जे आमी कोण बरयतात तांचें साहित्य एक दीस इतिहासजमा जातलें. हाचें घडये उरतलें. तरी आसतना म्हजो बहिष्कार उठपाचो ना.

गोंय स्वतंत्र जालां त्या वेळार गोंय गिळपाक कांय आसुरी शक्ती हांगा धुमशेणां कांडूंक लागिल्ल्यो. भारताच्या नकशा वयलें गोंयचें नांव निशाण लेगीत पुसून उडोवपाक त्यो वावरूंक लागिल्ल्यो. ह्या शक्तीं आड आमी सगळे प्राणपणान झुजताले. रगत आटोवन झुजताले. जिवाचें रान करून झुजताले. गाळी खाताले, फातर-गुंडे खाताले. त्या वेळार हो मनीस आमचो पंगड सोडून त्या आसुरी पंगडाक मेळिल्लो. ह्या आसुरी पंगडाक सत्येवेलो काडले बगर गोंय गोंय उरचें ना अशें आमकां सगळ्यांक दिसतालें, म्हूण ताका सत्येवेलो निखळावपाक आमी भितर विधानसभेंत अविश्वासाचो थाराव हांडपाक वावुरताले. तर भायर मोर्चा काडटाले, सत्याग्रह करताले, पुलिसांच्यो लाठयो खाताले, बंदखणींत वताले. त्या वेळार हो त्या पंगडाक तेंको दितालो आनी तो पडना म्हूण आनंदीत जावन ताच्या म्होरक्याच्या गळ्यांत फुलांचे हार घालतालो. (ताका हें सगळें साने गुरुजीन शिकयल्लें खंय.) तागेली त्या वेळा वयली ही करणी 'चूक' म्हणपा सारकी सादी नाशिल्ली. 'अपराध' म्हणपा सारकी ल्हानूय नाशिल्ली. हिन्दी भाशेंत सांगचें जाल्यार, तागेली ही 'गद्दारी' आशिल्ली. त्राइसांव आशिल्लें.

फाटल्यान येवन कोणेंय सुरो मारचो इतलें दुख्ख म्हाका त्या वेळार जाल्लें.

नव्या लोकांक तागेले हे गद्दारिची कांयच खबर ना. पोन्ने लोक ती विसरूंक लागल्यात. तो तर साप्प विसरून गेला. हांव विसरूंक ना. फाटल्या सतरा-अठरा वर्सांत विसरपाचो जायतो यत्न केलो हांवें. विसरूंक पावूंक ना. म्हगेलो गांधीवाद हांगा सामको पांगळो पडला. हांव कबूल करतां. हांव ताका खूब seriously घेवन ताचेर अन्याय करतां अशेंय केन्ना केन्ना दिसता. पुणून कितें करूं? म्हजी 'तिडक' म्हजी इत्सा नासतना म्हजे वागणुकेंतल्यान उकती जाता. तिचेर म्हजो उपाय अजून चलूंक ना. हांव ताकाय 'आमचो' मानिना. वस्तुनिष्ठ नदरेन म्हज्यान 'तटस्थ' रावं येतालें. रावतांय बी केन्ना केन्ना. पुणून म्हजी आत्मनिष्ठ नदरूच सदां जैतवंत जाल्या.

देखुनूच जावंये, म्हजी नदर साहित्या परस साहित्यकारा कडेन चड वता: साहित्यीक हो मनीस ह्या नात्यान व्हड आसत जाल्यार तागेलें साहित्य 'ल्हान' आसूं, म्हाका तें आवडटा. साहित्यकार मनीस ह्या नात्यान 'फूंच' आसत जाल्यार, तागेलें साहित्य केदेंय व्हड आसूं, म्हाका तें दोळ्यां मुखार नाका जाता.

दोन दाखले दितां.

बाकीबाबान मराठीक जें दिलां ताच्या शंबराच्या वांट्यान लेगीत कोंकणीक दिवंक ना. ताच्यान दिवं येतालें. ताणें दिवंक जाय आशिल्लें. पुणून दिवंक ना. कोंकणीचेर

बाकीबाबान हो अन्याय केला. ते खातीर म्हाका ताची तिडक आसा. हांवें म्हजी ही तिडक शिणाच्या रुपान खासा बाकीबाबा मुखारूच जायते खेपे उकतीय केल्या.

पुणून जेन्ना जेन्ना हांव ताचेर तिडकलां तेन्ना तेन्ना लक्ष्मणशास्त्री जोशांनी दिवंक केल्ली मराठी साहित्य सम्मेलनाच्या अध्यक्षपदाची लांच भिरकावन मारपी बाकीबाब म्हज्या दोळ्यां मुखार उबो रावला. आनी म्हाका दिसलां, कोंकणीच्या मळावेलो म्हजो बाकीबाब तो हो. **पांयजणां**तलो वा **सासायें**तलोच फकत न्हय. तोवूय व्हडलोच. जायत्या जाणां परस व्हडलो. पुणून आमच्या 'कॉझा' कडेन एकरूप जाल्लो बाकीबाब कवी बाकीबाबा परस कितलोसोच व्हडलो. देखुनूच तो 'आमचो'. इतलेंच न्हय, तर 'आमच्यांतले जे व्हड तांच्यांत लेगीत व्हडलो'. बाकीबाबाक कोंकणीच्या मळार केदेय वयले सुवातेर बसोवं येता, बसोवंक जाय आसलो.

म्हजें हें मूल्यमापन सामकें आत्मनिष्ठ, कबूल. पुणून वस्तुनिष्ठ मूल्यमापन निखटें वस्तुनिष्ठूच उरलें जाल्यार तें कुड्डें जाता. आनी कुड्ड्या मूल्यमापनाक म्हजे नदरेन कसलेंच मोल ना. साहित्यीक लेगीत.

आतां दुसरो एक दाखलो —

महाभारता भाशेन हांव रामायणाचोय एक भक्त. महाभारत कोंकणींत हाडलां तशें एक दीस केन्नाय तरी रामायणूय हाडटलों म्हूण रावलां. म्हजे कडेन वाल्मीकीचें रामायण आसा, तुलसीदासाचें आसा, कम्बनचें आसा. रामायणाचेर जायत्या जाणांनी अभ्यास केला. तसलीं अभ्यासाचीं कांय पुस्तकांय आसात. ग.दि. माडगूळकरांलें 'गीतरामायण' ना. तें घेवचें अशें येवजिल्लें. मुम्बय सुधीर फडक्यांच्या ताळ्यांतल्यान तें आयकल्लें. आनी खूब प्रभावीत जाल्लों. घेवपाचो आशिल्लों. अवचीत् एक दीस **आमचे भाऊ** नांवाचें एक पुस्तक हातांत पडलें. तातूंत माडगूळकरांलो एक लेख वाचपाक मेळ्ळो. आमच्या दयानंद बांदोडकारां वेलो. कितें वाचूंक मेळचें म्हाका तातूंत? 'बांदोडकरांचे जीवन हा महाकाव्याचा एक विषय आहे' हें मेळ्ळें वाचूंक!

'हे राम', म्हज्या तोंडांतल्यान उतरां फुटलीं. 'म्हळ्यार, हागेल्या गीतरामायणांतलो राम आमच्या भाऊ येदोच तर!' हांवें म्हाकाच म्हळें. परिणाम: गीतरामायण हांवें घेतलेंच ना. केन्ना घेवचोंय ना. म्हाका ताची किंमतूच ना.

देवान प्रतिभा दिल्या म्हूण कितेंय बरोवचें? व्हिस्किच्या एक दोन पेगां खातीर देवान दिल्ली प्रतिभा अशी विकची? कसलें हें साहित्य! आनी कसले साहित्यकार हे!!

'उणाक' म्हूण आनी कोण वेगळे आसतात व्हय?

□□

# ३२

# प्रगतिशीळ काय पलायनवादी ?

हिन्दू-धर्म हो म्हजे चिंतेचो आनी चिंतनाचो एक म्हत्वाचो विशय. म्हजें म्हणणें – हिन्दू-मुसलमानांचो, हिन्दू-शिखांचो, हिन्दू-किरिस्तांवांचो – सगळ्यांचीच न्हीद खळोवपी हो प्रस्न बरे भाशेन सोडोवचो आसत जाल्यार हिन्दू-धर्म बदलूंक जाय. तो उदार जावंक जाय. सगळ्यांक आपणांत आसपावन घेवपी जावंक जाय.

हिन्दू समाजांतले कांय लोक हिन्दू समाजाक खोंट मारून दुसऱ्या धर्म-समाजांत वतात हें आडावचें आसत जाल्यार, हिन्दू-धर्म हिन्दू समाजांतल्या सगळ्या जातिंचो जावंक जाय. आयज तो फकत ब्राह्मणांचो उरला. तसो तो फकत ब्राह्मणांचो उरूंक जायना. म्हूण, धर्माच्या मळार ब्राह्मणांक जे अधिकार आसात ते सगळ्या लोकांक मेळूंक जाय. देखीक, शंकराचार्याचे गादयेर एकाद्रया पवित्र विद्वान हरिजनाक बसूंक मेळूंक जाय. सनद घेवन कोणाच्यानूय वकिलकी करूंक जाता तसो धर्म-शास्त्र शिकिल्ल्या कोणाकूय मंगेशीं वा कवळ्यां पुजारी जावंक मेळूंक जाय. अभिषेकाचो अधिकार सगळ्यांक आसूंक जाय.

हे जे मूलगामी अशे कितलेशे बदल हिन्दू-धर्मांत घडून येवंक जाय ते घडोवन हाडपाची जापसालदारकी दुर्दैवान पुणून प्रामुख्यान ब्राह्मणांची. कित्याक, धर्माचो मक्तो आतां मेरेन तांच्या हातांत आसा. प्रतिष्ठीत देवळां तांच्या हातांत आसात, मठूय तांच्याच हातांत आसात. ते भायर, ज्या स्मृतींचेर आधारून हिन्दुंचें धर्म-जीवन चलता त्यो स्मृती जांणी रचल्यो तांचे ते वंशज. म्हूण ब्राह्मणांचीं दारां खटखटावप – एक खेपे न्हय, पन्नास खेपे खटखटावप – तांकां तांच्या लागणुकांची जाणवीक करून दिवप हें हांवें म्हजें 'मिशन' मानलां.

प्रतिष्ठीत हिन्दू-धर्मान – क्लासिकल हिन्दुइझमान – 'द्विज' जावपाचो अधिकार फकत वयल्या वर्णां खातीर राखून दवरिल्लो. 'द्विज' जाल्ल्या मनशा मुखार 'मोक्षा'ची मोख दवरिल्ली आनी मोक्ष जोडपाचे दोन मार्ग – ज्ञानाचो आनी कर्माचो – ताचे मुखार उकते केल्ले. शूद्रांक आनी बायलांक ह्या सगळ्या 'अधिकारां' पसून प्रतिष्ठीत हिन्दू-धर्मान वंचीत दवरिल्लीं. पुणून शूद्रांकूय 'मोक्षा'ची तान लागताली. ती भागोवपा खातीर लौकीक हिन्दू-धर्म मुखार आयलो. ह्या लौकीक हिन्दू-धर्माचो सगळ्यांत व्हडलो प्रणेतो भागवतांतलो श्रीकृष्ण. जातीन आभीर — गवळी. ताणें ज्ञानमार्गी आनी कर्मकांडी सनातन्यांच्या दावकुलांतलो हिन्दू-धर्म सोडयलो आनी तो 'शूद्रांक,

बायलांक आनी वैश्यांक' मेकळो केलो. ताणें ज्ञान आनी कर्मा परस भक्तीक चड म्हत्व दिलें.

श्रीकृष्णाचे वाटेन पयलीं दक्षिणेंतले आळवार गेले आनी उपरांत देशांतले सगळे संत गेले. तांणी जी भक्तिमार्गाची न्हंय व्हांवती केल्ली तिणें शूद्रांतल्या शूद्र लोकांची लेगीत मोक्षाची तान भागयली. तांचो सांस्कृतीक पांवडोय वाडयलो.

संतांच्या ह्या भक्तिमार्गाचो कर्मकाण्डी ब्राह्मणांनी आरंभाक यथेच्छ विरोध केलो. उपरांत जेन्ना ही व्हांवती आडावंक येवपाची ना म्हणपाचें तांकां दिसून आयलें तेन्ना तांणी ताचे कडेन जुळोवन घेतलें.

संतांत कांय ब्राह्मण मेळटात. पुणून खुबूच थोडे. चडशे सगळे शूद्रांतल्या वेगळ्या वेगळ्या जातींतलेच पळोवंक मेळटात. संतांच्या ह्या भक्तिमार्गाक लागून हिन्दू-धर्मांत एक नवी शाखा सुरू जाल्या – लौकीक हिन्दू-धर्माची.

ह्या लौकीक हिन्दू-धर्मान सगळ्यांची मोक्षाची तान भागयल्ली आसली – मोक्षाचो 'अधिकार' सगळ्यांक जोडून दिल्लो आसलो तरूय – प्रतिष्ठीत हिन्दू-धर्माच्या देवळांत साद्या अभिशेकाचो अधिकार लेगीत तांकां अजून मेळोवन दिवंक ना. प्रतिष्ठीत हिन्दू-धर्म ह्या लौकीक हिन्दू-धर्माच्या सांगातान – समान्तरान म्हणुंया – आरंभाक चलतालो तसोच चलत आयला. 'सब नदियां, जल भर भर रहियां, सागर किस बिधु खारी' असो सूरदासाक प्रस्न पडिल्लो. इतल्याय न्हंयांनी इतलेंय हें सावें उदक समुद्रांत हाडू हाडून रकयलें तरूय समुद्र खारूच कित्याक उरला, अशें तो विचारतालो. ताच्याच सुरांत सूर जुळोवन आमच्यांनी विचारूं येता – इतल्याय ह्या संतांनी इतल्योय ह्यो चळवळी चलोवनूय सनातन हिन्दू-धर्म आरंभाक आशिल्लो तसोच अजून कित्याक 'सनातनी' उरला? ब्राह्मण सोडून कोणाकूच तो सादो अभिशेकाचो लेगीत अधिकार कित्याक दिना?

म्हजें म्हणणें —

हिन्दू-धर्माचीं हीं दोनूय रुपां – प्रतिष्ठीत आनी लौकीक – एकामेकांत भरसून वचूंक जाय. तीं भरसुपाक धर्मशास्त्रांत मुळा सावन बदल घडोवन हाडूंक जाय. हो बदल मुखेलपणान प्रतिष्ठीत सनातन हिन्दू-धर्मांत जावंक जाय.

आनी हो बदल प्रतिष्ठीत हिन्दू-धर्माचो मक्तो घेवन बशिल्ल्या ब्राह्मणां कडल्यान करून घेवंक जाय. तांच्या मनाचीं धांपिल्लीं दारां एक आनी दोन खेपो न्हय, पन्नास खेपो खटखटावन उकतीं करपाचें काम कोणें तरी करूंकूच जाय.

हेंवूय हांवें म्हजें मिशन मानलां.

हिन्दुस्तानांत आदीं कितलेशे धर्म-संप्रदाय आशिल्ले. तातूंत इतिहास-विधात्यान भायल्याय कांय धर्मांची भर घाल्या.

ह्या भायल्यान आयिल्ल्या धर्मांतले मुसलमान आनी खिरस्ती हे दोन मोटे धर्म. पारशी, ज्यू हेवूय भायल्यानूच आयिल्ले. पुणून ते कोणाचे वाटेक वचनासतना कडेक रावल्यात. मुसलमान आनी खिरस्ती धर्म भायल्या सत्ताधिशां वांगडा आयले आनी

ह्या सत्ताधिशांनी हांगासल्ल्या लोकांचेर कितल्योश्यो आगळिको केल्ल्यो. हाका लागून दोनूय धर्मांची हांगासल्ल्या कांय लोकांक तिडक आसा.

म्हजें म्हणणें – परकी सत्ताधिशांची तिडक आमी आतांच्या मुसलमान किरिस्तांवांचेर काडूंक जायना. आतांच्या मुसलमानांक आनी किरिस्तांवांक ह्या देशांत रावपाचो हिन्दूं इतलोच अधिकार आसा. ते मुदलांतले हांगासल्लेच. आदले हिन्दू. म्हजी धूव जेन्ना घोव म्हूण कोणाकूय वेंचून काडटा तेन्ना हो भुरगो म्हजो जावंय जाता – धुवे इतलोच तो म्हजो जाता. अशें, खंयच्याय कारणान जावं, आदले हिन्दू बाटून मुसलमान वा किरिस्तांव जाल्ले आसले जाल्यारूय, तांचे धर्म हे म्हज्या भावांचेच धर्म जाल्ल्यान म्हजेच धर्म जातात. अल्पसंख्य आशिल्ल्यान ते भौसंख्य लोकांक भियेतात आनी म्हूण केन्ना केन्ना ते भौसंख्य लोकांक शिंगां दाखयतात, खरे. पुणून आत्म-संरक्षणाचीच तरा ही एक. अशें समजून तांकां आमी निर्धास्त करूंक जाय. तांचें हीत आमच्या हातांत सुरक्षीत आसा अशी तांकां खातरी पटत हे तरेन आमी तांचे कडेन वेव्हार दवरूंक जाय. तांकां लार्गी ओडून हाडूंक जाय. तांकां प्रभावीत करूंक जाय. तांचे पसून प्रभावीत जावंक जाय. आनी एकामेकांच्या संपर्कांत आमी एकामेकांक पूरक जावंक जाय.

हिन्दू समाज हें विसरला. देखून तो तरांतरांचे प्रस्न देशा मुखार उबे करूंक लागला.

सगळ्यांक एकामेकां लार्गी हाडप आनी समन्वयाच्या मार्गान सगळ्या धर्मांचें एक धर्म-कुटूंब स्थापीत करप हें हिन्दुंचें – प्रामुख्यान ताचेंच – इतिहासीक 'मिशन' आशिल्लें.

ह्या मिशनाची हिन्दूंक जाणवीक करून दिवप हेंवूय हांवें म्हजें 'मिशन' मानलां.

आनी म्हजें प्रामाणीक म्हणणें —

वयलीं तिनूय 'मिशनां' म्हजे इतलींच सगळ्या देशभक्तांचीं जावंक जाय. सगळ्या पुरोगामी साहित्यिकांचीं जावंक जाय. जे कोण ह्या मिशनांक फाट करतात तांकां आविल्ले भाशेंत एक नांव आसा – इस्केपिस्ट. पलायनवादी. आनी पलायनवादी प्रगतिशीळ केन्नाच नासता.

□ □

# ३३

# सायंटिफिकूच न्हय, मॉरल टॅम्परूय जाय

फार्टी आमच्या एका इश्टान खंयचे तरी एके सभेंत खंय म्हळ्ळें, 'कोंकणीक रामायणांची आनी महाभारतांची गरज ना. कोंकणीक खरी गरज आसा ती विज्ञानाच्या पुस्तकांची.'

ताणें कोणाक दोळ्यां मुखार दवरून ही टिका केल्ली, खबर ना. कित्याक, कोंकणींत अजून (म्हाबळूबाबाचें भुरग्यांचें रामायण सोडीत जाल्यार) रामायण कोणें दिवंक ना आनी जाणें महाभारत दिलां ताका ही टिका लागू जायना. कित्याक, ताणें **महाभारत** दिलां तशें **ब्रह्मांडांतलें तांडवूय** दिलां.

पुणून, ही जाली एक घेतलें जाल्यार दोन दिवपाची म्हजी रीत.

म्हजे मुखार प्रस्न आसा तो वेगळो.

हालीं विज्ञानाचो सुमारा भायर जप चलपाक लागला. कित्या खातीर? विज्ञानान कसले दिवे लायल्यात म्हूण? कोणाक खबर ना.

विज्ञान आमकां जाय आशिल्लें लोकांत मातिल्लें अज्ञान ना करपा खातीर, तांचे तकलेंतल्यो पिसायो, अंधश्रद्धा काडून उडोवपा खातीर. सत्य कितें तें निर्भेळ रुपान जाणा जावन घेवपा खातीर आनी ह्या सत्याचो आधार घेवन समाजांतलें दुख्ख दळडीर जाता तितलें उणें करपा खातीर.

पुणून विज्ञानाचो ह्या कामाक हालिंसाराक उपयोग जायना. सत्य आनी सेवा ह्यो ज्यो ताच्यो खऱ्यो प्रेरणा आसूंक जाय आशिल्ल्यो त्यो आयज काम करिनात. आयज वेगळ्योच प्रेरणा ताचे वाडी फाटल्यान काम करतात.

एक दाखलो घेवंया —

हालीं वयर अंतराळांत आमी कितलेशे 'सॅटलायट्स' – उपग्रह सोडल्यात. विज्ञान मुखार सरूंक नाशिल्लें जाल्यार ह्या उपग्रहांचो सोद लागचो नाशिल्लो, हें खरें. तांची निर्मणीय जावंची नाशिल्ली हेंवूय खरें. आमकां सूर्य-मंडळांतलीं गुपितां कळचीं नाशिल्लीं. पुणून आयज तांचो जो उपेग जाता तो पळेतकूच विज्ञानान तांचो सोद कित्या खातीर लायिल्लो आनी कित्या खातीर ताणें ते अंतराळांत सोडिल्ले, असो प्रस्न पडटा. 'दुस्माना'च्या देशांत कितें कितें 'आसा' (जें दुस्मान आमकां सांगिना) तें सोदून काडपा खातिरूच तांचो उपेग सगळे कडेन जाता तें पळोवन विज्ञानाचे दानतिचोच दुबाव येवपाक लागता.

आनी निखटें विज्ञान उपकरना, उणें पडटा, दुसरें कितेंय जाय अशें दिसपाक

लागता.

'अंतराळ विज्ञाना'क लागून आमी चन्द्रार वचून आयले. मंगळाक प्रदक्षिणा घालून ताची नियाळणी करून आयले. शनीचें कडें कितें कात तें पळोवंक पावले. तें कित्याक, आमचीं यानां आतां पयसल्या प्लुटो पेल्यानूय धांवपाक लागलीं. सूर्य-मंडळा पेल्यान गेलीं. केदें कर्तुत्व हें! पुणून हें सगळें कर्तुत्व विज्ञानान सत्य कितें तें सोदून काडपाचे प्रेरणेन केलां व्हय? अशें म्हणूंक येना. ताका प्रेरणा मेळ्ळ्या, देशांच्या 'दुस्मानांच्या भंया'ची, तांचे पसून ह्या देशांक राखपाची. तांचे प्रतिरक्षेची. ज्या कर्तुत्वाच्या मुळांत भंयाची प्रेरणा आसता, घृणेची, शोषणाची प्रेरणा आसता, तें कर्तुत्व अंतीं घातमारें थरलें जाल्यार अजाप कसलें?

आयज संवसारांतले सुमार पांच लाख विज्ञानीक बरोऽ गडगंज पगार घेतात, वैभवांत लोळटात. ते एक तर धतरेची साधन-संपत कशी लुटची हाचे उपाय सोदून काडपांत गुल्ल आसात वा 'दुस्माना'क मारपाचीं कसलीं कसलीं शस्त्रास्त्रां निर्माण करचीं तें सोदपांत घुस्पून आसात.

विज्ञान जेन्ना भौराष्ट्रीय कंपन्यांचें (आनी तांच्या आशिर्वादान चलतल्या सरकाराचें) गुलाम जाता तेन्ना विनाशा बगर दुसरो कसलोच उद्देश ताचे मुखार उरना.

कांय वर्सां पयलीं मनीस विज्ञानाच्या आधारान चन्द्रार पाविल्लो. आनी थंय पावन ताणें आपणाल्या देशाचो बावटोय लायिल्लो. त्या वेळार खूब जाणांक प्रस्न पडिल्लो —

फाल्यां, धरुंया, मनीस चन्द्रार रावंक पावलो. जाल्यार, तो थंय कितें करतलो? धर्तरी जशी ताणें वांटून घेतल्या, आनी हो कुडको म्हजो, तो तुजो असो हांगा भुंये भुंये मर्दी वेगळेचार उबो केला, तसोच तो चन्द्रूय वांटून घेतलो आनी हो कुडको म्हजो, हो तुजो, असोच वेगळेचार चन्द्रारूय उबो करचो ना? एका एका कुडक्याचेर एका एका देशाचो बावटो फडफडचो ना? हांगा उबे केल्यात तसलेच ओझोनच्या थराक बुराक घालपी, उदक वारो भूंय विखाळ करपी कारखाने तो थंयूय उबे करचो ना?

मागीर चन्द्रार वचून लाव कसलो?

आयज विज्ञान मनशाक चन्द्रार घेवन गेलां जायत. पुणून तेच बराबर तें मनशाक मनशा पसून पयस घेवन गेलां हें विसरूंक फावना. आयज आमचे मुखार देखाव उबो आसा तो शेजाऱ्या पसून पयस पाविल्ल्या मनशाचो आनी मनशा पसून पयस गेल्ल्या विज्ञानाचो. जो मनीस शेजाऱ्या पसून पयस गेला ताच्या हातांत विज्ञान पडलें जाल्यार तो शेजाऱ्याची तकली फोडटलो, दोंके मोडटलो.

आयज खरी गरज आसा ती आमकां चन्द्रार घेवन वचपी विज्ञानाची न्हय. तर हांव आनी म्हजो शेजारी हांचे मर्दी उबी आशिल्ली वणत मोडपी आत्मज्ञानाची. आत्मज्ञान हें उतर बेळशेल्लेंशें लागता जाल्यार म्हणुंया, नितिची, मनीसपणाची. हांव आनी म्हजो शेजारी एकामेकांक वळखनात. म्हजेंय ताका कांय लागना. म्हाकाय

ताचें कांय पडून वचूंक ना. आमच्यांत आपलेपणूच ना. हें आपलेपण ज्या दिसा आमच्यांत दोगांतूय जागें जातलें – म्हळ्यार, ज्या दिसा म्हजो शेजारी म्हजो जिवाभावाचो इश्ट जातलो, 'म्हजो' जातलो, त्या दिसा अख्खो संवसार म्हजो जावंक पावतलो.

आयज विज्ञान हें ज्ञान दिता व्हय ?

जे मेरेन तें हें ज्ञान दिना – जे मेरेन तें मनशाक मनीस करिना – ते मेरेन निखटीं विज्ञानाचीं पुस्तकां वाचप्यांच्या हातांत दिवन कांयच फायदो ना. रामायणां आनी महाभारतांच दिवचीं पडटलीं. दुसरी वाट ना.

फकत 'सायंटिफिक टॅम्पर' उपकरना. 'मॉरल टॅम्परा'ची सगळ्यांत चड गरज आसा. मॉरल टॅम्पर विज्ञान दिना. रामायण महाभारत दिता.

□ □

# ३४

# भुरग्यां खातीर काणयो

बाप्पा, काणी सांग... बा, काणी सांग...

जाणट्यां फाटल्यान 'काणी सांग' म्हूण लागना असलें एक तरी भुरगें पळोवंक मेळत व्हय अख्ख्या संवसारांत? मनीस उलोवपाक लागला तेन्ना सावन तो काणयो रचीत आयला, काणयो सांगीत आयला, काणयो आयकत आयला.

भुरगीं एक वेळ उपाशीं रावतीत. पुणून, काणी आयकले बगर न्हिदिल्लें एक लेगीत भुरगें पळोवंक मेळचें ना संवसारांत.

सुधारिल्ले जावं अन्नाडी, काणयांची भूक सगळ्यांक सारकी.

पुर्विल्ले मुस्तींत वेपारी लोक तरांतरांचें सामान गाडयांचेर घालून पयस-पयसल्या गांवांनी वताले. तीनसांज जातकूच खंय तरी रातचे रावताले. आनी एकामेकांक काणयो सांगताले. कसल्यो काणयो? चोरांच्यो, वाटमाऱ्यांच्यो, भुतांखेतांच्यो, देंवचार म्हारवाच्यो, देवाच्या रागण्याच्यो वा ताचे कुर्पेच्यो. तांचे वांगडाच एके कडल्यो काणयो दुसरे कडेन पावल्यात. आमचें कुंडेकुस्कूर सिंड्रेला जावन इंग्लंडाक कशें पावलें? घडये सिंड्रेला थंयच्यान हांगा येवन कुंडेकुस्कूर जाल्लें आसूं येता. इतलें खरें, सिंड्रेला जावं कुंडेकुस्कूर जंय जल्माक आयलें थंयच तें रावलें ना. माल हाडपी व्हरपी वेपाऱ्यां बरोबर तें एके कडलें दुसरे कडेन गेलां.

साधू-संन्याशीय हेंच करताले. ते एका सारके भोंवत रावताले. वतना काणयो घेवन वताले. आनी लोकांक त्यो सांगताले. भोंवडेकारूय हेंच करीत आयल्यात. आपणाले भोंवडेच्यो खबरी सांगतना खंय कितें आयकल्लें, कितें पळेल्लें तेंय सांगीत रावल्यात. आनी संवसारांतले लोक तांच्यो खबरी रुचीन आयकत आयल्यात.

जाणटीं नेणटीं, घर संवसारांत घुसपल्लीं, घर संवसार सोडून गेल्लीं – सगळ्यांक काणयांची ओड. काणयो सांगपाची तशी काणयो आयकुपाची. झुजांत घायाळ जाल्ल्या लोकांक हॉस्पिटलांत वचून पळेयात. एकामेकांक काणयो सांगीत पडिल्ले पळोवंक मेळटले. बंदखणींत पडिल्ल्यांक वचून मेळात. एकामेकांक काणयो सांगुनूच ते दीस सारतात म्हणपाचें दिसून येतलें. कांय राजा राणयांक तर काणयो आयकले बगर न्हीद पडनाशिल्ली. अरबी काणयांचो जल्म हेच भाशेन जाला.

भुरगें रडटा आसलें जाल्यार काणी सुरू करात. तें रडपाचें विसरतलें. कोणूय दुख्खांत पडिल्लो मेळ्ळो जाल्यार ताका काणी सांगात. तो दुख्ख विसरतलो. हार खावन निर्शेल्लो कोणूय दिश्टी पडलो जाल्यार ताकाय काणी सांगात. उर्बेन तो

फुरफुरून येतलो.

काणी धादोसभरीत करपी एक अन्न तशें दुख्ख पयस करपी एक वखदूय. मनशाच्या आधाराक देव पावला जायत, घडये पावनासतना रावला जायत. काणी सदांच पावल्या. काणयेन केन्ना कोणाक निर्शेवंक ना.

सगळ्यांनी काणयांचो आधार घेतला.

बुद्धान कितें केलें? काणयो सांगुनूच आपणाली शिकवण पातळायली. येशुनूय तेंच केलें. लोकांक काणयो सांगल्यो आनी तांचीं जिवितां मुळा सावन बदलून उडयलीं. रामकृष्णूय तेंच करतालो. ताचे कडेन काणयांचें एक व्हड कोठार भरिल्लें आशिल्लें.

रामायण महाभारत कित्याक जल्मा आयलीं? ल्हानांतले ल्हान मनीस कितले व्हड आसतात आनी व्हडांतले व्हड मनीस कितले ल्हान जातात हेंच लोकांक दाखोवन दिवपा खातीर मू? ह्या दोनूय म्हाकाव्यांनी आमकां मनीस-सभावाचीं हजार आंगां काणयांच्या आधारान समजावन सांगल्यांत आनी आपणाक घडोवपा खातीर आमचे मुखार कांय देखी दवरल्यात.

आर्विल्ले कथाकार, नवलकथाकार, नाटककार हेंच करतात. मनशाचें अंतरंग ते आमचे मुखार उकतें दवरून दाखयतात. मनशाक सारको वळखूंक शिकयतात. पुर्विल्ले मुस्तींत लोककथा ज्यो गरजो भागयताल्यो त्योच आयज ह्यो कथा नवलकथा भागोवपाचो यत्न करतात.

काणयांनी मनशाक धीर दिला, आधार दिला, थाकाय दिल्या. काणयांनी मनशाक बोध दिला, ताका शिटूक केला, घडयला.

काणयेकूच शाळेंतलें माध्यम करात अशें कांय जाणकार आतां म्हणपाक लागल्यात. काणयांचो आधार घेवन सगळें शिकोवं येता – गणीत, इतिहास, भुगोल, विज्ञान सगळे विशय शिकोवंक येतात अशें सांगपाक लागल्यात.

अमरशक्ती नांवाचो एक राजा आशिल्लो. ताका तीग पूत आशिल्ले – बहुशक्ती, उग्रशक्ती आनी अनंतशक्ती नांवाचे. तिगूय पिशे – म्हा-पिशे. हुर्रफुर्र जावपी, मोडतोड करपी, कितेंय करपी. जल्मा येनाफुडेंच हे मेल्ले बरे आशिल्ले अशें खासा बापायक दिसपाक लागलें. ताणें आपणाल्या राज्यांतल्या पांचशीं बुदवंतांक एकठांय आपोवन विचारलें, हांकां शाणे करीत असो कोण तुमचे मजगतीं आसा व्हय? सगळ्यांनी 'बें' म्हळें.

विष्णूशर्मा नांवाचो एकलो बुदवंत त्या राज्यांत रावतालो. ताका आपयलो. 'ह्या भुरग्यांक शाणे करशीत जाल्यार तुका धा गांव दितां', राजान ताका म्हळें.

विष्णूशर्मान जाप दिली, 'हांव विद्या विकिना. पुणून एक उतर दितां, हांकां स म्हयन्यां भितर शाणे करूंक पावलों ना जाल्यार नांवाचोच न्हय जायन.'

विष्णूशर्मान तिगांकूय आपणा सुवादीन करून घेतले आनी स म्हयन्यां भितर तांकां शाणे, शिटूक, बुदवंत केले.

विष्णूशर्माचें 'माध्यम' कितें आशिल्लें?

काणयो. 'पंचतंत्रां'त त्यो वाचूंक मेळटात.'

काणयो शाळेचें माध्यम जावं येता. पुणून काणयो सांगूंक येवंक जाय. काणयो सांगप ही एक कला. तें 'येरा गबाळांचें काम नोहे'. कथा नवलकथा बरोवंक आयल्यो म्हूण भुरग्यांक काणयो सांगूंक येतल्यो अशे ना. ताका एक वेगळीच कुशळताय लागता.

पयले सुवातेर काणयांतल्यान आमी भुरग्यांक कितें दिवंक सोदतात हें थारावंक येवंक जाय. निखटो बोध? बोध भुरग्याक मेळुंकूच जाय. पुणून तो अशे तरेन दिवंक जाय की भुरग्यांक तो बोध कसो दिसूंक जायना. भुरगीं आनंद जोडपा खातीर मन लावन काणयो आयकतात. काणयो आयकतना भुरगीं खोश्शी खोश्शी आसतात. ही खोस तांकां सगळ्यांत चड मेळूंक जाय. तूं बोधाचेर लक्ष दवरून काणी सांगशीत जाल्यार काणयेचो प्राणूच ना जातलो आनी तुजो बोधूय फुकट वतलो. काणयेंत सगळ्यांत चड शक्त खोस दिवपाची आसूंक जाय. खोशयेचे वाटेनूच सगळें दियात. खोस दिवप हो काणयेचो प्राण.

शिक्षण हें खोस दिवपीच आसूंक जाय. आदले मुस्तींत इंग्रजींतली एक म्हणणी सगळे कडेन चलपाक लागिल्ली – 'काम करता आसतना फकत कामाचेर लक्ष दवर. खेळटा आसतना फकत खेळत राव. Work while you work, play while you play. सुखी आनी खुशालभरीत जावपाची हीच एक वाट – That is the way to be happy and gay. आतां हें बदलूंक जाय अशें म्हणपी जाणकार फुडें सरल्यात. ते म्हणटात, भुरग्यांक खेळटां खेळटां काम करूंक येवंक जाय आनी काम करतां करतां खेळूंक मेळूंक जाय. काम आनी खेळ हांचे मदले वेगळेचार आयज ना जाल्यात, सगळे खेळ कामाचे, सगळीं कामां खेळत खेळत करपाचीं अशें भुरग्यांक दिसूंक जाय.

काणयो म्हळ्यार खेळाचेंच एक आंग.

भुरगीं आनीक एका उद्देशान काणयो आयकतात. तांकां आपणालो हो **उद्देश** समजावन सांगूंक येवचो ना. घडये खबरूय आसचो ना. पुणून काणयो सांगतल्यान एक गजाल घट मतींत धरूंक जाय—

भुरगीं काणयो आयकतात तीं कल्पनेच्या तरंगांचेर बसून वयर वयर उडपा खातीर. वास्तव जगांतल्यान कल्पनेच्या जगांत वचपा खातीर.

कल्पना हें भुरग्यांचें एक बळ – जें तांच्या मनाचे वाडीक हातभार लायता.

म्हळ्यार, काणयांचो उद्देश भुरग्यांची कल्पना फुलोवप होय एक आसूंक जाय. कल्पना म्हळ्यार निखटें तरंग न्हय. वास्तविकतायेचो एक विस्तार तो. कल्पनेची बुन्याद वास्तविकताय आसूं, ती थंयच रावची ना. मुखार वतली. एक दोन तीन चार हे वास्तवीक संवसारांतले आंकडे. अनंत हो कल्पनेंतलो. अनंताची संकल्पना वास्तविकतायेच्या संवसारांत उदेल्ले कल्पनेकूच करूंक येवपाची. मनीस मरता हें भुरगें पळेता. हो मेलो, तो मेलो म्हणपाचें वास्तव गिन्यान ताका जाता. पुणून जल्माक आयिल्ले सगळेच मरतात हें गिन्यान तें कल्पनेंतल्यानूच जोडटलें.

काणी कल्पना फुलोवपा खातीर सांगपाची. उद्देश गौण आसूं. पुणून विसरपा सारको न्हय.

काणी कल्पनेंतूच जल्माक येता. कल्पनेचेंच फळ तें. पुणून वास्तविकतायेंतल्यान आयिल्ले कल्पनेचें.

भुरग्यांचे कल्पनेक उडपाक सुवात करून दिता ती खरी काणी.

कांय जाण म्हणटात, वास्तविकताय सोडून कल्पनेक चड म्हत्व दिवप समा न्हय. भुरगीं हरशींय जाल्यार स्वैर कल्पनेंतूच जियेतात. तांगेल्या ह्या सभावाक पोसवण दिली जाल्यार तीं वाऱ्या वयल्या घोड्यांचेर बसून धांवपाक लागतलीं. पुणून भुरग्यांची वास्तव संवसारांत वचपाची वाट ह्या तरंगी संवसारांतल्यानूच वता. भुरगीं केन्नाच आमच्या वास्तवीक संवसारांत नीट वाटेन येनात हें विसरूंक फावना. एक ओपार दिवन समजावन सांगचें जाल्यार, भुरग्यांचें मन कॅमेऱ्या भाशेन वास्तवीक संवसाराक निगेटीव रुपांत पकडटा. निगेटिवी वयलें चित्र उरफाटें आसलें तरूय तिच्याच आधारान आमी प्रिन्ट्स काडटात काय ना? हे भाशेन, कल्पनेच्या आधारानूच आमच्यांनी भुरग्यांक वास्तवीक संवसारांत हे भाशेन व्हरूं येता.

काणयांचो आनीक एक उपेग आसा —

भास शिकोवपाक त्यो खूब उपकारा पडटात.

भुरगीं जाणट्यांचें उलोवणें आयकून सगळ्यांत पयलीं शिकतात तें भाशेचें व्याकरण. उपरांत तीं आपणालो कोश तयार करतात. खंयचें उतर खंय आनी कशें वापरप हें काणयो आयकतां आयकतां तीं आपशींच शिकून घेतात. सगळ्योच गजाली भुरग्याक सारक्यो सांगूंक येनात. कोणूय केन्नाय कितेंय सांगूंक लागलो आनी उतरां खातीर आडखळूंक लागलो त्या वेळार आमी ताका फावऽ तें उतर दिलें जाल्यार 'हय, म्हाका हेंच उतर जाय आशिल्लें' अशीं उतरां ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लीं आमी आयकूंक नात व्हय? भुरग्यांचेंय अशेंच जाता. खूबश्यो गजाली तांकां कळटात. पुणून तांकां त्यो सांगूंक येनात. काणयो आयकतां आयकतां तांकां जीं उतरां जाय आसतात तीं भुरगीं जिस्त वेंचून काडटात. आनी आपणाल्या कोशांत तीं नोंदून दवरतात. काणी सांगतल्याक ती सारकी सांगूंक येवंक जाय. उतरांचे उच्चार सारके करूंक येवंक जाय. भुरग्यांच्या कोशांत नव्या नव्या उतरांची भर पडत रावतली आनी ल्हवू ल्हवू करून भाशेचेर तांचो ताबो वाडत वतलो. इल्लीं इल्लीं करून तीं आपणाक उक्तावंक लागतलीं आनी भाशेच्या मळार तांचें पावल मुखार पडटलें.

काणयांचें म्हत्व तें हें. तें सारकें लक्षांत दवरुनूच भुरग्यांच्या काणयांचीं पुस्तकां बरोवंक जाय. आयज जीं पुस्तकां आमी भुरग्यांक वाचूंक दितात तीं कितलिंशीं हे तरेचीं आसतात?

□ □

# ३५

# पत्रकारिता – एक मिशन

सकाळीं पेपर वाचले बगर म्हजो दीस सुरू जायना. म्हजोच कित्याक, कोणाचोच सुरू जायना. काल सुटी आशिल्ली. म्हूण आयज पेपर आयले नात. धा एक मिणटां चुकिल्ले चुकिल्ले वरी जालें. मागीर म्हळें, चलता जातलें जग चलूंक जाय तशें. पेपर आयले नात म्हूण जग चलपाचें थांबपाचें ना. आनी हांव कामाक लागलों. काल सुरू केल्लो लेख पुरो करपा खातीर अभ्यासिकेंत वचून बसलों.

पुणून, मन विचित्र. तें पेपरां भोंवतणींच घुंवपाक लागलें. म्हळें, वाचपा सारकें खूब कितें कितें म्हज्या आरमारिंनी भरलां, तें वाचपाचें सोडून हांव सकाळचे पेपर कित्याक वाचतां? कितें मेळटा म्हाका पेपर वाचून? संवसारांत खंय कितें नवें घडलां हें जाणा जावन घेवपाची मनशाक उत्सुकताय आसता, बरें आसा. पुणून ही उत्सुकताय व्यसना सारकी जाता तेन्ना, खरें म्हळ्यार, हुसको जावंक जाय. खंय कोणें कोणाचो खून केलो, खंय कोणें दरवडो घालो, खंय कोणें कोणाचेर बलात्कार केलो, खंय कोणें कोणाक नाडलो, खंय कोण ॲक्सिडेंटांत मेलो – असलें सगळें सकाळीं उठनाफुडें तकलेंत कित्याक कोंबूंक जाय? पेपरांनी येतात त्यो चडश्यो असल्योच खबरी, थळाव्या जावं राष्ट्रीक, आंतरराष्ट्रीक पांवड्या वयल्यो. पेपर ह्यो खबरो हाडटात, बरें आसा. खंय कितें घडलें तें आमकां कळटा. पुणून, फुडाऱ्यांचीं जीं 'शापातां' ते हाडटात तीं आमी कित्याक वाचूंक जाय? कोणाक कितें मेळटा तांगेलीं हीं शापातां वाचून? पेपर तीं छापतात कित्याक हेंच समजना. एका काळार ह्या देशांत लोकांचें प्रबोधन करपी, तांचीं मत्तां घडोवपी, तांकां प्रेरणा दिवन कामाक लावपी फुडारी आशिल्ले. आयज कोणूच नात. आयच्या आमच्या फुडाऱ्यांक सत्त्ये वयल्यान पयस वचूं दी, कोण तांकां विचारपाचो ना.

असल्यांचीं मत्तां पेपरांनी कित्याक छापूंक जाय आनी आमी तीं कित्याक वाचूंक जाय?

राजाजी निवृत्त जाले. सत्ये पसून पयस रावले. उपरांत 'स्वराज्य' नांवाच्या एका सप्तकी नेमाळ्यांत ते नेमान बरोवपाक लागले. चडशे प्रासंगीक प्रस्नांचेरूच बरयताले. लोक तर तें वाचतालेच; ते भायर, जवाहरलाल, कृपालानी, लोहिया, विनोबा, जयप्रकाश हेवूय मोटे उत्सुकतायेन वाचताले. 'राजाजी कितें म्हणटात' हें जाणा जावपाची उत्सुकताय देशांतल्या सगळ्या विचारवंतांक आसताली. इतलेंच न्हय, तर 'स्वराज्या'चो आंक उजवाडा येना फुडें दुसऱ्या दिसा देशांत सगळीं खबरेपत्रां

'राजाजी अशें म्हणटात' अशें म्हणून तांगेलें मत्त देशांत खांची कोनशांनी सगळे कडेन पावतीं करतालीं.

हाका 'नेतृत्व' म्हणटात. सत्येर नासलें तरूय तें लोकमत प्रभावी करीत रावता. राजाजींचे मुस्तींत लोकनेते मंत्री जाताले. आयज मंत्र्यांक लोक लोकनेते मानपाक लागल्यात.

केदो बदल घडून आयलो आमच्या रासवळ जिवितांत!

पत्रकार विचारवंतूच आसूंक जाय ह्या संस्कारांत म्हजी वाड जाल्या. पत्रकारा कडेन तागेली अशी एक खाशेली 'नदर' आसूंक जाय. ताचे कडेन एक विचारप्रसरणी – एक ideology आसूंक जाय. लोकांक ती पटोवपाचो ताणें यत्न करीत रावंक जाय. न्हिदिल्ल्यांक ताणें जागोवंक जाय. जागे जाल्ले भितरले भितर घुस्मटूंक लागतात तेन्ना तांगेल्या घुसमटमारांक ताणें वाचा फोडूंक जाय. तांचें नेतृत्व करूंक जाय. तांकां वाट दाखोवंक जाय. तांकां विचार करूंक लावंक जाय. विचार कशे करचे तें शिकोवंक जाय. तांकां संस्कारी करूंक जाय. पत्रकार हो लोकसेवक आसूंक जाय, लोकशिक्षक आसूंक जाय, लोकनायक आसूंक जाय, असल्या मत्तांचो मनीस हांव. टिळक, आगरकर, गांधी, राजाजी सगळे हे जातिचे पत्रकार आशिल्ले. पत्रकार हेच जातिचे आसूंक जाय अशें मानपी हांव. हे जातिचे पत्रकारूच देशांतले ना जाले. कशे ना जाले, कोणें ना केले, समजना.

यूग बदललां जावंक जाय. स्वराज्या आदल्या युगांत idealism क म्हत्व आशिल्लें. स्वराज्या उपरांतच्या युगांत pragmatism क म्हत्व आयलें. ध्येयवाद फाटीं पडलो, वेव्हारवाद मुखार आयलो. गोंयच्याच एका पत्रकारान कांय वर्सां पयलीं स्पस्ट सांगिल्लें, 'आमचे पसून व्हडल्यो-श्यो उमेदी बाळगुपांत अर्थ ना. आमी आमच्या धनयांचीं सुणीं जावन पडल्यात. धनी 'हाचेर भोंक' म्हूण आमकां सांगता तेन्ना आमकां भोंकचें पडटा. 'चाब' म्हणटकूच चाबचें पडटा...' आतां सांगात, असले लोक जे 'अग्रलेख' बरयतात ते आमी कित्याक वाचूंक जाय?

फाटीं मणिपालाक गेल्लों. गोदूबायच्या दोळ्यांतली एक शीर तुटिल्ली. 'लेझर ट्रीटमेन्टा' खातीर वचचें पडिल्लें. एक दोन दिसांनी परतूंक मेळटलें अशें दिशिल्लें. धा बारा दीस रावचें पडलें. धा बारा दीस पेपर वाचूंक मेळ्ळे नात. हॉस्पिटलांत पेपर येताले. पुणून कन्नड भाशेंतले येताले. म्हाका कन्नड येना. पुणून, म्हजें कांयच अडून उरलें ना. जगूय चलपाचें थांबलें ना.

वतना 'कबीर वचनावली' घेवन गेल्लों. बारा दीस हें एकूच पुस्तक वाचीत रावलों. ताचे पांचशीं 'दोहे' वेंचून काडले, देडशें गितां वेगळीं काडलीं. म्हळें, घरा वतकूच हांचीं कोंकणी करतलों. पंचवीस वर्सां पेपर वाचून जें मेळूंक नाशिल्लें ताचेकूय लाख वांट्यांनी चड म्हाका ह्या धा-बारा दिसांनी कबीरान दिल्लें.

कबीर लौकीक नदरेन अन्नाडी. 'मसि कागद छुऔ नहीं, कलम गह्यो नहीं हाथ' अशें खासा तोच सांगता. ताका वाचूंक बरोवंक येनाशिल्लें. तरी आसतना, ताच्या नांवान उजवाडा आयिल्लीं सुमार सत्तर-अंयशीं पुस्तकां बाजारांत मेळटात. तांतलीं खरीं ताचीं कितलीं आनी तागेल्या शिष्यांनी ताच्या नांवान बरोवन पसयल्लीं कितलीं, बुदवंतांक सांगूंक येना. 'बीजक' ताचो मुखेल ग्रंथ म्हूण खूब जाण मानतात. पुणून तोवूय ताचोच काय आनीक कोणाचो, हाचो बुदवंतांक दुबाव आसा. काशी नागरी प्रचारिणी सभेन दोन पुस्तकां उजवाडा हाडल्यांत. एक, श्यामसुंदर दासाचें 'कबीर ग्रंथावली' आनी दुसरें, अयोध्यासिंह उपाध्याय हांचें 'कबीर वचनावली'. जाणकारांनी हीं दोनूच 'प्रमाण' मानल्यांत. म्हजे कडेन उपाध्यायाचें 'वचनावली' आशिल्लें. पं. हजारिप्रसाद द्विवेदींनी ह्या पुस्तकाची प्रस्तावना बरयल्या. पुस्तक वाचून हांव कबीराच्या मोगांत पडलों. हजारिबाबूंच्या उतरांनी, 'सिर से पैर तक मस्त-मौला; स्वभाव से फक्कड, आदत से अक्खड; भक्त के सामने निरीह, भेषधारी के आगे प्रचंड; दिल के साफ, दिमाग के दुरुस्त; भीतर से कोमल, बाहर से कठोर... युगावतारी शक्ति और विश्वास लेकर वे पैदा हुए थे, युगप्रवर्तक की दृढता उनमें वर्तमान थी...' परंपरेन् चलत आयिल्ल्यांतलें खूबशें मोडपाचें काळीज घेवनूच तो जसो कितें जल्माक आयिल्ले वरी दिसलो. म्हाका ताचे भोंवतणी ज़ीव उंवाळचोसो दिसपाक लागलो.

घरा येवपाक भायर सरलों तेन्ना तकलेंत एक विचार घोळपाक लागलो. म्हळें—

कबीराचे मुस्तींत नेमाळीं नाशिल्लीं. दिसाळीं नाशिल्लीं. छापखानेय नाशिल्ले. टीवी नाशिल्लो, रेडियो नाशिल्लो. तरूय, ताणें जें कितें सांगलें तें आयज पांच शतमानां उपरांत लेगीत म्हज्या हातांत पडटा. म्हाका पिशें लायता. कित्याक लागून? सांगपा सारकें ताचे कडेन कितेंय तरी आशिल्लें म्हुण्णूच मू? आयज? आयच्या संवसारांत शेंकड्यांनी – न्हय, लाखांनी नेमाळीं सद्दां उजवाडा येतात. कोणेंय कितेंय बरयलें जाल्यार तें रोखडें छापुनूय येता. बरयल्लें, छापिल्लें संवसाराच्या ह्या तोंका कडल्यान त्या तोंका मेरेन खिणा भितर पावता. तरी आसतना उलयल्ल्या बरयल्ल्यांतलें कितेंच उरना, उलयना बरयना फुडेंच हवेंत विरून वता. कित्याक लागून? सांगपा सारकें आयज कोणाच कडेन कांयच ना म्हुण्णूच मू?

केदें अंतर पडलां आमच्या जिवितांत ह्या पांच शतमानांत! जग भायल्यान जितलें जितलें गिरेस्त जायत गेलां, तितलें तितलें भितरल्यान तें पोकळ जायत रावलां!

खूब जाण म्हणटात, आमच्या देशांत आनीक कितें आसूं वा नासूं, विचार स्वातंत्र्य आसा, उच्चार स्वातंत्र्य आसा. हीं दोन स्वातंत्र्यां आसात त्याच देशाक सभ्य आनी संस्कारी म्हणूं येता. शंबरांतल्या एकाच मनशाक 'लोक चुकतात' अशें दिसलें जाल्यार लोकांची चूक दाखोवपाचो ताका धीर जावंक जाय, मेकळीक मेळूंक जाय. भौसंख्य लोकां परस वेगळें कितेंय तरी तो सांगता म्हूण ताचेर कोणाचेंच चेपण

येवंक जायना, ताचे नोकरेचेर गदा येवंक जायना. ताणें उलोवपाक बरोवपाक भियेवंक जायना. लोकमताक मनीस भियेलो जाल्यार लोकशायेचो प्राणूच गेलो म्हणूंक जाय. भौसंख्य लोकां परस मनशाक वेगळीं मत्तां मांडपाचो जंय धीर जाता थंयच लोकशाय चलता, वाडटा, फुलता आनी फळटा. गांधी-युगांत हे तरेचें स्वातंत्र्य देशांत चलतालें. नेहरू-युगांतूय चल्लें. आयज चलता व्हय? दुबाव येवपाक लागला. सावरकरांक 'अहंमन्य' म्हळो म्हूण 'जाहीर माफी मागा' हे तरेच्यो धमक्यो दिवन म्हाका कितल्योश्यो चिटी आयल्यात, फोनूय आयल्यात. **गांधीहत्या आनी सावरकर** म्हूण पुस्तक बरयन जाल्यार कितें जातलें? पयस खंय तरी पळून वचपाचो प्रसंग म्हजेर आयले बगर रावतलो? आंबेडकरांची टिका करपी पुस्तकाचेर बंदी घालात म्हूण मागण्यो जातात त्यो आमी पळेनात व्हय? मात् कितें उस्तऱ्यां वता असलें कोणेंय बरयल्यार पुरो, हालिंसाराक लोकांच्यो 'भावना दुखावतात'. विचार-उच्चार स्वातंत्र्य ह्या देशांतलें इल्लें इल्लें ना जावपाक लागलां.

एक गजाल सगळ्यांक मान्य करची पडटली—

ध्येयवादाचें वातावरण परतें देशांत उबें केले बगर दुसऱ्यांच्या मत्तांची कदर मनशांत जागी जावपाची आस्त ना. वेव्हारवादाच्या पांवड्यार देंवन ध्येयवाद उबो करूंक येवपाचो ना. वेव्हारवादाक आमी जेन्ना ध्येयवादाच्या पांवड्यार चडोवंक पावतले तेन्नाच प्रसारमाध्यमांचो प्रभाव वाडटलो. आनी तेन्नाच जबाबदार वाचपी निर्माण जातले. वाचपी जबाबदार जातकूच पत्रकारूय जबाबदार जातले. मागीर पेपर आयचे वरी फकत खुनांच्यो आनी दरवड्यांच्यो, अत्याचारांच्यो आनी बलात्कारांच्यो खबरो छापून खोशी रावचे नात. लोकांचें प्रबोधन करपाचो आनी तांकां संस्कारी करपाचो वावरूय तांच्या हातान जावंक पावतलो.

□ □

# ३६

# पुस्तकां उजवाडावप आनी विकप – एक कला

साहित्याचे दोन म्हत्वाचे घटक म्हळ्यार, बरोवपी आनी वाचपी. पुणून ह्या दोगांक आनीक दोगांचो आधार मेळूंक जाय – उजवाडावपी आनी विकपी हांचो. उजवाडावप्यान कितेंय छापूंक फावना. तशें फकत खपता तेंच छापतलों अशेंय थारावंक जायना. उजवाडावप धंदो आसूं, पुणून ह्या धंद्याचेंय एक 'मिशन' आसा. धोंगां-पोंगांचे भाशेंत सांगचें जाल्यार, बरोवपी आनी वाचंपी दोगांकूय 'उपकारांत' दवरपाचें मिशन हें: बरोवप्याक आपणालें पुस्तक चडांत चड लोकांच्या हातांत पावचें हो हावेस आसता आनी वाचप्याक आपणाक बऱ्यांतलें बरें पुस्तक वाचूंक मेळचें ही इत्सा आसता.

बरोवप्याचो हावेस आनी वाचप्याची इत्सा दोनूय ताका भागोवंक येवंक जाय.

मॅकमिलन कंपनी एक मोटी पुस्तकां उजवाडावपी कंपनी इंग्लंडांतली. 'कसलींय' पुस्तकां छापिना. सर जेम्स फ्रेझरान 'द गोल्डन बाउ' नांवाचें एक पुस्तक बरयलें – लोकमानस, लोकवेद ह्या विशयाची खोलायेन भासाभास करपी. विशय 'लोकांक जाय' असलो नाशिल्लो. पुणून साहित्यांत ह्या विशयाची भासाभास जावंक जाय अशें मॅकमिलन कंपनीच्या जाळवणदारांक दिसलें आनी तांणी तें पुस्तक उजवाडायलें. रोखडीच ह्या पुस्तकान इंग्रजी बरपावळींतलो एक 'गौरव ग्रंथ' म्हूण नामना जोडली. पुस्तक खपलें. उपरांत ताचे आनीक सतरा वांटे उजवाडायले. ते व्हडलेशे खपले नात. पुणून पुस्तकाचे अठराय वांटे आटोवन जेन्ना एका खंडांत तें भायर सरलें तेन्ना अठरा वांटे छापपाक जो खर्च आयिल्लो तो सगळो भरून आयलो. मॅकमिलनान, हे भाशेन, इंग्रजी साहित्यांतय एक म्हत्वाची भर घाली आनी दुसरे वाटेन आपणाक वाचप्यांनी भरपूर दाद दिली म्हूण जेम्स फ्रेजराक खोसूय भोगूंक दिली. तेंवूय घाल्लो पयसो परतो हाडून.

खूब पयसलें पळोवपी एक उजवाडावपी संस्था ही.

मॅकमिलन कंपनीची आनीक एक गजाल लक्षांत दवरपा सारकी. खंयचें पुस्तक छापचें हें कंपनीचो डायरेक्टरूच फकत थारायना. कंपनी कोणा एका व्हड साहित्यकाराक 'रीडर' म्हूण नेमता, ताचें मत्त मेळें [illegible] पुस्तक छापचें काय न्हय, तें थारायता. जॉन मोर्ले एका काळार हे कंपनीचा 'रीडर' आशिल्लो. मोर्ले हो एका काळा वयलो इंग्लंडांतलो एक व्हड दार्शनीक. ते भायर एक व्हड मुत्सद्दी. थॉमस हार्डी इंग्रजी बरपावळींतलो एक व्हड नवलकथाकार. ताणें आपणाल्यो सुरवेच्यो तीन नवलकथा मॅकमिलन कंपनी कडेन धाडिल्ल्यो. आनी मोर्लेन त्यो वाचून 'तुजी साधना अजून

पुरी जावंक ना... तुका तुजो सूर अजून लागूंक ना' अशें मत्त दिवन परत्यो केल्ल्यो. आनी हार्डीन मनाक लावन घेवंक नाशिल्लें. ताणें आपणाली साधना अदीक नेटान चलयल्ली. उपरांत व्हड नवलकथाकार म्हूण हार्डी मुखार आयलो.

बर्नार्ड शॉनूय अश्योच आपणाल्यो कांय नवलकथा मॅकमिलनाक धाडून दिल्ल्यो आनी मोर्लेन त्योय परत्यो केल्ल्यो. आनी शॉकूय वायट दिसूंक नाशिल्लें.

मॅकमिलनाचे देखीन पुस्तकां उजवाडावपी हेर कंपन्यांनीय आपापणाले 'रीडर' नेमिल्ले. शॅटो ॲण्ड विन्ड्सचो 'रीडर' मेरेडिथ आशिल्लो. एक व्हड नवलकथाकार. फेबर ॲण्ड फेबरचो टी.एस्. इलियट आशिल्लो. एक व्हड कवी. ॲलन एण्ड अनवीनचो (म्हजो समज आसा) बर्ट्रांड रसेला सारको एक व्हड तत्त्वज्ञ 'रीडर' आशिल्लो.

ज्या उजवाडावप्यांनी इंग्लंडांत 'प्रतिश्ठीत' म्हूण नामना जोडल्या तांणी कोणायचीं कसलींय पुस्तकां छापूंक नात. साहित्यांत नवी भर घालपी म्हत्वाचीं आनी तोलामोलाचींच छापल्यांत आनी वाचप्यांनी लेगीत 'मॅकमिलनाचें पुस्तक मू? (वा फेबर ॲण्ड फेबरचें मू?) जाल्यार तें बऱ्यांतलें बरेंच आसूंक जाय' अशें म्हणून तीं घेतल्यांत.

ह्या उजवाडावप्यांनी आर्य घरकान्नी भाशेन आपणाल्या पातिव्रत्याची जतनाय घेतल्या. साहित्यांत मोलाची भर पडूंक जाय, बरोवप्याक चडांत चड वाचपी मेळोवन दिवंक जाय, वाचप्यांक बऱ्यांतलें बरें पुस्तक मेळूंक जाय, आनी घाल्लो पयसो परतो येवंक जाय – ह्यो चार गजाली तांणी सांबाळ्ळ्यात.

इंग्लंडांत 'लोक मागतात तसलीं', 'लोकांचो वेळ पासार जाता' असलीं, लोकांच्या चिड्डल्ल्या विकारांक खातखुतल्यो करतात असलीं पुस्तकां छापपी कोणूच नात अशें न्हय. खूब जाण आसात. हालीं तर तांचो आंकडोय वाडला. ते असलीं पुस्तकां छापून खोऱ्यांनी पयसो ओडटात आनी बरोबप्यांचींय बोल्सां पयशांनी भरतात. पुणून, लक्षांत दवरपा सारकी गजाल: खंयचोच व्हड बरोवपी लाखांनी दुड्डू मेळटा जावनूय असल्या उजवाडावप्यांक आपणालीं पुस्तकां दिना.

बरोवपीय आपणालें शीळ सांबाळीत आयल्यात.

आमच्या शेजरा महाराष्ट्रांत असली एक उजवाडावपी संस्था आसा: **मौज.** पुस्तक फकत बरें बरयल्लें आसलें म्हूण उपकारना, आगळे वेगळे रितीन बरयल्लें आसूंक जाय, वाचप्यांक कितेंय तरी नवें दिता असलें आसूंक जाय, हो आग्रो धरून ही संस्था पुस्तकां छापता. परिणामीं, बरोवपीय आपणालें पुस्तक हे संस्थेन छापचें म्हूण आंवडेता आनी वाचपीय हे संस्थेन छापिल्लें पुस्तक वाचुंकूच जाय अशें म्हूण तें घेता. धरुंया, हे संस्थेन भगवद्गीता छापली. जाल्यार ती आगळी वेगळीच आसतली. गीतेचो भक्त लेगीत म्हणटलो, 'मौजेन छापिल्ली गीता मू? जाल्यार ती हेर गीतां सारकी आसची ना. कितेंय तरी तातूंत नवें आसतलें' आनी तो ती मुजरत विकती घेतलो.

ही प्रतिश्ठा जेन्ना कोंकणी पुस्तकां उजवाडावपी संस्था जोडटल्यो तेन्ना साहित्यांतूय मोलाची भर पडूंक पावतली आनी साहित्याच्या मळारूय मोलाचे बरोवपी वयर सरतले.

एक नेम करूंया: कसलींय पुस्तकां आमी आतां छापचे नात आनी कोणाचींय छापचे नात.

[२]

पुस्तकां फकत उजवाडायलीं म्हूण जायना. तीं खपुंकूय जाय. खपप वेगळें आनी खपोवप वेगळें. सरकार लायब्रेऱ्यां खातीर आनी शाळा कॉलेजां खातीर पुस्तकां घेता हाचो लाव घेवन आमी तीं सरकाराच्या गळ्यांत बांदलीं म्हूण आमचें (उजवाडावप्यांचें) काम सोंपना. सरकारान वांटिल्लीं पुस्तकां लोक चडशे वाचिनात. आनी पुस्तकांचो येदो व्हड अपमान दुसरो ना. पुस्तकां लोकांनी विकतीं घेवन वाचूंक जाय. जाल्यारूच साहित्य आपणाल्या पांयान चलपाक लागतलें. कुबड्यो घालून चलप सदां काळ चलपाचें ना.

एक खरें, पुस्तकां विकतीं घेवपी मनशाक पुस्तकां घे म्हूण सांगचें पडना. तो आपूण जावन पुस्तकांचे सोदीक वता. आनी आपणाक जाय तीं घेता. जांगेर पुस्तकांची आरमार आसा तांकां विचारून पळोवचें, 'हीं पुस्तकां तुमकां खंय मेळ्ळीं?' ते जाप दितले, 'बुक स्टॉलांनी वचून सोदून हाडलीं.'

असले. पुस्तक-मोगी लोक जेन्ना खंयच्याय पुस्तका संबंदान आयकतात आनी तांकां ते सोंपेपणान मेळना तेन्ना ते उजवाडावप्याक चीट बरयतात आनी मागोवन घेतात. असले पुस्तक मोगी लोक कोंकणी समाजांत निर्माण करप हेंवूय आमचें (उजवाडावप्यांचें) एक 'मिशन' जावंक जाय.

ते कशे निर्माण करप?

गुजरातांत एक मनीस आसा. तो 'लोकमिलाप' नांवाची एक संस्था चलयता. एक खेपे तो भावनगरच्यान मुम्बय आयलो. चर्चगेट स्टेशना लागसारचो 'सुंदराबाय हॉल' एका सप्तका खातीर ताणें 'बुक' केलो. मुम्बयंत गुजराती पुस्तकां उजवाडावपी कांय लोक आसात. ते भायर, अहमदाबाद बडोद्याक उजवाडा आयिल्लीं पुस्तकां विकपी कांय लोक आसात. हांकां सगळ्यांक वचून तो मेळ्ळो आनी तांकां सांगलें, 'तुमी तुमगेलीं पुस्तकां घेवन सुंदराबाय हॉलांत येयात. तुमकां हांव एक मेज दितां. त्या मेजार तुमचीं पुस्तकां मांडात आनी तीं विकपी तुमचोच एक मनीस थंय दवरात. तुमी तीस प्रतिशत कमिशन विकतल्याक दितात तें म्हाका दियात. तांतलें पंचवीस प्रतिशत कमिशन पुस्तक विकतें घेतल्याक भायले भायर दिवपाचें आनी पांच प्रतिशत म्हाका 'खर्चाक' दिवपाचें.

एका सप्तकांत ताणें स लाख रुपयांचीं पुस्तकां खपयल्लीं.

आनीक एकलो मुम्बयंत आसा. तो वर्सान वर्स इकरा सप्टेंबराक चर्चगेटी भायर एक माटोव घालून गांधी विनोबांचीं पुस्तकां विकपाक दवरता. इकरा सप्टेंबरा पसून दोन ऑक्टोबरा मेरेन – विनोबा जयंती पसून गांधी जयंती मेरेन – ताचो हो स्टॉल

चलता. आनी वर्सान वर्स लाखांनी रुपयांचें गांधी विनोबा साहित्य खपयता.

कोंकणींत असले प्रयोग कोणें करूंक नात. करून पळोवंक जाय. एकल्याक जमलें ना जाल्यार सगळ्या उजवाडावप्यांनी सांगातान करूंक जाय. कांय वर्सां पयलीं गुरुनाथबाब केळेकारान एक 'साहित्ययात्रा' काडिल्ली. सगळ्यांचीं पुस्तकां घेवन तो गोंयभर भोंविल्लो आनी ताका बरो अणभव आयिल्लो. साहित्ययात्रा काडप खर्चाळ जाता जाल्यार दर म्हयन्याचे पयले पंद्रशेक पणजे, मडगांव, म्हापशें, वास्को बस स्टँडाचेर स्टॉल घालचे.

तरांतरांचे प्रयोग करून पळोवंक जाय. तेन्नाच कोंकणी आपणाल्या पांयांनी चलपाक लागतली.

दोतोर, आद्वोगाद, सी.ए., इजनेर, सरकारी अँप्रेगाद, कॉंट्रॅक्टर, शिक्षक, बस-मालक हीं आमचीं 'गिरायकां' कशीं जातलीं. हाच्यो तरांतरांच्यो माण्ण्यो रचूंक जाय. आयतारा आयतारा हे सगळे नुस्तें घेवपाक मार्केटांत येतले. थंय स्टॉल घालून बसचें.

तेन्नाच उजवाडावप्यांक कितें छापचें आनी कितें न्हय, हाची खोलायेन जाणवीक जावंक पावतली. आनी ही जाणवीक जातली तेन्नाच 'बरें' साहित्य कोंकणींत येवंक लागतलें. आनी तेन्नाच ती मुखार सरतली. कोंकणी ह्या कर्तुत्वाची वाट पळेता.

## [३]

कवितेचीं पुस्तकां खपनात. कित्याक, खबर ना. आमी लोकांक अजून कवितेची रूच लावंक ना, इतलीच एक जाप म्हजे कडेन आसा.

आनीक एक गजाल: आमकां कविता बरोवंक येतात. कविता सारक्यो वाचूंक येतात व्हय? कविता वाचप कविता बरोवपा इतलीच म्हत्वाची एक कला. आमी हे कलेची उवेखणी केल्या.

**ज्युआंव विलारे** नांवाचो एक पुर्तुगेज मनीस आशिल्लो. हालींच भायर पडलो. बऱ्यांतलो बरो एक नट. कितल्या-श्या नाटकांनी ताणें कितल्यो-श्यो भुमिका केल्ल्यो आनी एक व्हड नट म्हूण नामना जोडिल्ली. बऱ्यो बऱ्यो पुर्तुगेज कविता वेंचून ताणें त्यो लोकांक वाचून दाखोवच्यो. दोन दोन वरां ताच्यो कविता वाचनाच्यो कार्यावळी चलच्यो. आवाज खणखणीत. स्पस्ट उच्चार. आनी जातिचोच नट जाल्ल्यान कविता वाचता आसतना कवी कडेन एकरूप जावन ताणें त्यो वाचच्यो. तो कविता वाचतालो तेन्ना कविता फकत आयकुपाची वस्त उरनाशिल्ली, पळोवपाची लेगीत जाताली. ताचे दोळे उलयताले, ताचे हात उलयताले. आरोह अवरोहा सयत कवितेंतले भावूय उलयताले. खासा कवी आपणाल्यो कविता ताच्या तोंडांतल्यान आयकून चकासूर जाताले.

असल्यो सुमार तीनशीं कविता ताणें वेंचून काडिल्ल्यो.

सुरवेक तो आनंदा खातीर ह्यो कार्यावळी करतालो. मागीर तिकेटी लावन करपाक लागलो आनी नाटकांक जाताली ताच्याकूय चड गर्दी तागेल्या ह्या कविता-वाचनाच्या कार्यावळींक जावंक लागली. जोडूय चड जावपाक लागली. आनी कवितेचीं पुस्तकांय जीं केन्ना खपनाशिल्लीं तीं खपपाक लागलीं. कार्यावळ सोंपना फुडें लोकांनी उठचें, नीट बुक-स्टॉलार वचचें आनी कवितेचीं पुस्तकां घेवचीं. 'आतां कविता वाचता आसतना विलारेचो आवाज लेगीत आमकां आयकूंक येता' अशें लोकांनी म्हणचें.

आसा व्हय आमच्यांत असलो कोणूय हें काम आंगार घेवन भोंवपी?जाल्यार ताच्यो कविता-वाचनाच्यो कार्यावळी शाळा-कॉलेजांनी घडोवन हाडूं येताल्यो. गांवां-गांवांनी ताका भोंवडावें येतालें. उपरांत तिकेटी लावन ताच्यो कार्यावळी दवरल्यो जाल्यारूय तांकां लोकांची गर्दी जातली.

मागीर, हांव लेगीत भायर एक मेज घालून तुमचीं पुस्तकां विकपाक बसन.

कवि-संमेलनां वेगळीं आनी ह्यो कार्यावळी वेगळ्यो.

[४]

अमेरिकेंत एक नवलकथा उजवाडा आयली. नांव – 'डीप ॲण्ड ऑफ द ओशन'. अमेरिकेंतले एके निग्रो लेखिकेची पयलीच नवलकथा ही. नेमाळ्यांनी परिक्षणां बरयलीं. सगळ्यांनी नवलकथेची तुस्त तोखणाय केली. नवलकथा सामान्यतायेन जशी खपूंक जाय तशी खपपाक लागली. उजवाडावप्याकूय खोस जाली. लेखिकेकूय जाली.

कांय म्हयन्यांनी अवचीत एक दीस खपाचो वेग वाडलो. एक लाख प्रतिंची पयली उजवाडावणी सोंपत आयिल्ली. दुसरे उजवाडावणेची मागणी येवपाक लागली. पांच लाख प्रतिंची मागणी आयली. 'चडांत चड खपपी' नवलकथा म्हूण तिची नामना जाली. स म्हयन्यां उपरांत पर्थून तितल्याच प्रतिंची मागणी आयली.

कित्याक लागून पुस्तक इतलें खपपाक लागलें? खंय कसलो चमत्कार घडून आयलो म्हूण नवलकथेचो खप इतलो वाडलो?

म्हणटासर, दुसरे एके नवलकथेचो खप वाडपाक लागलो. तिच्यो धा लाख प्रती खपल्यो. हे नवलकथेचें नांव आशिल्लें 'साँग ऑफ सोलोमन'. वीस वर्सां पयलीं १९७७त उजवाडा आयिल्ली ही एक नवलकथा. बरोवपी टोनी मॉरिसन. तिवूय एक निग्रो लेखिका. १९९३त तिका नोबेल इनाम मेळिल्लें. नवलकथेचें नांव जाल्ल्यान तिच्यो त्या वर्सा लाखभर प्रती खपिल्ल्यो. सामान्यतायेन नांव जाल्ल्या पुस्तकाच्यो अमेरिकेंत इतल्योच प्रती खपतात. तीन वर्सां उपरांत धा लाख प्रती खपप एक सामान्या भायलो विक्रम आशिल्लो. कितें जाल्लें?

ओपराह नांवाची एक बायलमनीस अमेरिकन टेलिविजनाचेर एक कार्यावळ चलोवपाक लागली. मोटी कल्पक बायल. तरांतरांचे विशय घेवन ती लोकां मुखार येवपाक लागली आनी लोक मोटे उमेदीन तिगेल्यो कार्यावळी पळोवपाक लागले. तिणें एक

नवो विशय हातांत घेतिल्लो आपणाक आवडिल्ल्या पुस्तकांची ती सप्तका सप्तकाक लोकांक वळख करून दिवपाक लागली. इतलेंच न्हय, तर त्या त्या पुस्तकाच्या बरोवप्यांक आपणागेर जेवपाक आपोवपाक लागली. तांकां पुस्तका संबंदान तरांतरांचे प्रस्न विचारपाक लागली. आनी ह्या जेवणाच्या कार्यावळिंची विडियो फिल्मां काडून ती टीवी वयल्या कार्यावळिंनी दाखोवपाक लागली.

तिगेल्यो कार्यावळी पयलींच लोकप्रिय जाल्ल्यो. त्यो दनपारच्यो चलताल्यो. आनी त्यो अमेरिकेंतल्यो बायलोच चडशो पळेताल्यो. अमेरिकेंत पुस्तकां वाचपी दादल्यां परस चड बायलोच आसतात हें पळोवन तिणें आपणाक खंयचें पुस्तक वाचून कितें मेळ्ळें, कसलो आनंद मेळ्ळो हें दाखोवपाची कार्यावळ सुरू केल्ली. आपणाक आवडिल्ल्या पुस्तकांची वळख ती करून दिता जाल्ल्यान लोकांच्यो जिज्ञासा वाडल्यो आनी पुस्तकांचो खप खूब जावपाक लागलो.

पुस्तकां छापलीं म्हूण भागना. तीं लोकां मेरेन पावूंक जाय. तीं लोकां मेरेन पावपाक नेमाळ्यांचेर तांचीं परिक्षणां येवंक जाय. परिक्षणांय आयलीं म्हूण भागना. तीं लोकांनी वाचूंक जाय. टीवी सारकेल्या दृश्य-श्राव्य माध्यमाचो लाव आमच्या पुस्तकांक मेळ्ळो जाल्यार आमचें संस्कृतायेच्या मळा वयलें केदें दळदीर ना जातलें!

□ □



साहित्याक हांवें केन्ना मन-रिझोवणेचो वावर मानलो ना.
हांवें ताका जिवीत घडोवपी एक वावर मानला.
उपासना करूंक जाय ती जिविताची, अशें सदां मानीत
आनी म्हणीत आयलां. साहित्य हें जिविताचें एक उपफळ
- एक बाय-प्रॉडक्ट - हेच नदरेन ताचे कडेन सदां पळेत आयलां.
म्हूण, म्हज्यांतल्या कलाकाराक हांवें म्हज्यांतल्या साहित्यकाराचो
धनी जावंक केन्ना दिलो ना. सेवकूच दवरलो.
साहित्यकार हो विचारवंतूच आसूंक जाय, खासा चिंतपी
आनी दुसऱ्यांकूय चिंतूंक लावपी आसूंक जाय,
'सांगपा सारकें' कितेंय तरी आसूंक जाय - मागीर,
तें बरोवं तो कथा, नवलकथा, नाटक, निबंध, कविता
वा दुसऱ्या खंयच्याय रुपान, अशें म्हणीत आयलां.
साडे चार दसकांचे हे साहित्य सेवेंत जीं सत्यां होलमलीं
तीं ह्या पुस्तकांतल्यान वाचप्यां मुखार दवरल्यांत...